Dear Kiran,
With regards
Edwin

# पयण

28/2/2014
Released at the 29th All India Konkani Parishad held in Belgaum

एडवीन जे. एफ. डिसोजा

बिम्ब
प्रकाशन

**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
**दूरध्वनी :** (०८३२) २४३८३५५.
**प्रकाशन क्र. ९९. अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.
**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**पयली आवृत्ती** / मार्च २०१४.
**मुखपृश्ठ** / अमोल कामत.
**पयण** (कथा) एडवीन जे. एफ. डिसोजा.
**Poinn** (Konkani Short Stories) *by* ***Edwin J. F. D'Souza***.
**मोल :** रु. १८०/-

**बिम्ब**
**प्रकाशन**

# मांडावळ



हे पुस्तकाचे निर्मितीक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या
साहित्य प्रभा येवजणेखाल आर्थिक पालव लाबला

# पयण

जिणीच एक पयण म्हणतकूच आमी हर एकलो पयणारी आसांव. पयणारी म्हणताना विमानाचेर विदेशांक उबचें म्हळ्ळो अर्थ बिल्कूल जायना. मनशाची चालच एका पयणाऱ्याची. पूण फरक जायतें आसा. कोण तरी विमानार उबलो ताका मोडां शिवाय हेर कांय दिश्टीक पडाना. रातीच्या बस्सीचेर पयण केलें तर भिकुणांचें मार, रस्त्या वयले फोंड म्हणताना सगळो जीव लाचार जाता. पूण दिसाचें त्रैनीर या बस्सीचेर पयण केल्यार म्हजे तसल्या परिसर प्रेमीचे दोळे भरतीत आनी त्या धनिया देवाचे महिमेचो उगडास येत आनी सगळे सृश्टेंत आमच्याकी बळवंत एकलो आसा म्हळ्ळो दैवीक संदेश गमात.

कित्याक हांव हें तत्वशास्त्र लिखतां? काराणां साबार आसात. कितेंगी पोयरच त्रैनीचेर गोंय वेचो अवकास लाबलो. ह्या फुडा हांव त्रैनीर गोंय वचूंक ना म्हूण न्हय. गेलां, पूण वेगळीं चिंतनां घेवन गेलां आसतोलों. पूण हे पावटीं हवो प्रशांत आशिल्लो, बिरिबिरी पावस आनी कसली ती प्रितुमेची सोभाय वेगळ्याच कोनान म्हज्या दिश्टीक आपटली.

कितें? कोणें रचलें हें सर्व? चंद्रार पावल्ल्या मानवान? वेवेगळ्या रिगुं भंवतीं भोंवाडे काडुच्या रोकेटांनी? उगडास आयलो म्हाका त्या एका हिंदी फिल्माच्या गायानाचो : "ये कौन चित्रकार है, ये कौन चित्रकार?" कित्याक हें सवाल म्हजे मतींत येदोळ उदेवंक ना? हांव लेखक तरी कुरडो जालों? त्या रचणाराचीं गाणां-गुणां गावंक विसल्लों? तितलोयी स्वार्थी जालों? दुकां भरलीं म्हज्या दोळ्यांनी. थंयच धनिया देवाक सरपडुंयां म्हण म्हाका भोगलें पूण आराधनान हांव गुपीत रडलों.

तर, कितें आनी कसलें हांवें चोयलें? तण, गुंडे-दोंगोर, त्या दोंगोरांक उमे दिवंचीं तीं मोडां आनी कुपां? फरगात चरव खावंचीं गोरवां-बोकड्यो? पाचवी कांबळ हांतुळ्ळे परी दिसची ती नेज? वाऱ्यार धलच्यो त्यो भाताच्यो कणश्यो?

व्हय, हें सर्व हांचे पयलें हांवें पळेलां पूण ह्या फाटल्यान एक संदेश म्हाका गमलो-मनशा, तूं कितेंच न्हय. तो वयलो धनी कितेंच नातलल्या थावन सर्व रचूंक सकता. ताणें सगळो संवसार आमकां तय्यार करून दिला पूण सोदनां करपाचें काम आनी जवाबदारी मात्र आमकां सोडल्या. कित्याक, ताणें आमकां दिल्या सकत चिंतपाची, विंचपाची आनी करनेची. कितें, तें भांगार, तें रुपें, तें युरेनियुम आमी रचल्लें? ना, तें 'ताणें' रचल्लें - आमी फकत तें सोधून काळ्ळेलें आनी ताचो उपेग केलो. आमी रचपी न्हय, आमी ताच्या ह्या संवसार म्हळ्ळ्या शाळेंतांतले वावुरपी, तितलेंच! तर कित्याक हो घमंड, 'हांव, म्हजें, हांवें केल्लें' म्हळ्ळो?

फुडें पळोवया - फुडें कितें पळोवया? पावस बिरबिरता आनी हांव पळेतां, एका गाद्यांत एक सारी झळता. धा-बारा जण ह्या सारिये भंवातीं जमल्यात. कांय तरी लागचें हीं व पयस करपाक? ना रे बाबा ना. ते कोणाचेंगी मोडें लासतात आनी त्या सारियेचो उजो पालवंक राकतात. कांय उपरांत मोड्याचो गोबोर व्हरूंक या गोमटेक पाकां नाशिल्ल्या गिदांक मोड्याचें भाजलेलें मास खावंक?

देवा, ही तुजी प्रथवी? एका कुशीन तूं रचताय आनी दुसरे कुशीन तूं देस्वाट करताय. हें तुजें रचन? हे रितीर तूं आमकां नशवारांक खेळयताय? पूण हांव कोण हो विचार करूंक? हांव एक तुजें रचन, पूण हांव देकतां आनी चोयतां तुजें कारबार. अशें विचारूंक हांव कोण? तुका मजा येता ह्या खेळांत? सांग म्हाका. कित्याक तुवें हो संवसार रचलोय? तुज्या sadistic धादोसकाये खातीर? कित्याक, तूं जाणाय असल्या सन्निवेशांनी आमी तुका हाक-बोब मारतांव. हें तूं बऱ्यान जाणाय.

बरें, तशेंच जावं. तूं अमकां खेळय, व हांसय आमी तेन्नांयी म्हणतेल्यांव, 'अमचो देव बरो!'

तशेंच जावं!

कित्याक तशेंच जावं? देव मात्र बरो, हांव ताची रचना न्हय? हांवें कितें वायट केलां ह्या संवसाराक? ना म्हजे लागीं जाप या ना ते बऱ्या देवा लागीं जाप. असा म्हजे लागीं अशक्तपण. मान भागावन हांव म्हणतां - तुवें केल्लें तें-रे बाबा, म्हज्यान करूंक जायना. अशें मांदून घेताना हांव तुका मांदतां. म्हाका इतली मेंदवाची सखात तुवें देल्याय तरी हांव कितेंच नातल्ल्या थावन कितेंयी रचूंक सकाना. एक साधें चिंताप - वीज्यानिंनी, भुरगीं कशीं जातात म्हण सोदनां करून विवरिलां, व्हय. पूण दादल्या थंय तो जीवकण कसो उबजाता, एके स्त्रिये थंय एकवटोन तो जीवकण कसो फल्साता हें आमी अजून नेण्णाणांव आनी देकून म्हणतांव - भुरगीं करूंक सुलब, अशें.

आतां, हें तात्वीक लेख लिखूंक म्हाका एड्वीन जे. एफ्. डिसोजाक एके त्रैनीर पयण करचें पडलें? कित्याक देवा तुजी सकत म्हाका दोळे उघडतानाच दिश्टीक पडाना? हो मिसतेर, हो जो आमी सजमोंक सकानांव देकून मात्र तुका आमी देव म्हण मानतांव? देकुनच जिणियेक तयार नाशिल्ले आमी 'ए देवा आमकां राक आनी सांबाळ' अशें रुदान करतांव? जिणियेक तुवें अमकां तयार करून धाडलांय?

सतच्च हांव सांगतां, हाका म्हजे लागीं जाप ना. आपापींच हांव तुजे लागीं सुसकार सोडतां - देवा म्हाका राकोन व्हर. पूण ह्या बाबतीन हांवेंच कितें केलां? जरितरी शिकोपाचे परिक्षेक हांवें फावो ती तयाराय करूंक ना अनी परिक्षेच्या होलाक रिगताना, देवा म्हाका पाव म्हण तुज्या पांयांक पडतां आनी प्रश्नापोत्र सलीस कर म्हण रडूं तर ही कोणाची चूक? गायरां-रेड्यांच्या फाटीर पावस पडटा पूण ते फरागात असात. रातीचें पावसाळ्यांत-हिंवांत तीं सुकणीं-सावजां खंय अनी कशीं निदतात? म्हाका खबर ना पूण तूं तांकां रचल्लो देव तांची जतन घेताय.

तरी पूण तूं म्हजी जतन घेनाय. कित्याक, चिंतपाची सकत तुवें म्हाका दिल्याय - चींत, विंचून घे आनी कार्यान कर म्हळ्ळो उपादेस तुवें म्हाका दिलाय आनी होच्च तो फरक तुज्या आनी म्हज्या मधलो. हो नाशिल्लो तर हांवच देव जातों, न्हय? कित्याक हांवें चिंतूंक फावो, कित्याक हांवें विंचूंक फावो, कित्याक हांवें कार्यान करूंक फावो? त्या गोरवां-सुकण्यां परी फरगात जियेवंक म्हाका कित्याक सोडिनांय? हांवें चिंतून, विंचून, कारयाळ करून

संवसार नास करचो; बॉम, रॉकेटां आनी हेर कितें देसवाटाचीं हातेरां तयार करूंक तुवें म्हाका रचलाय अनी चिंतपाची सकत दिल्याय? म्हाका जाप मेळाशी ना, कित्याक, तूं म्हजे लागीं आतां उलयनांय.

म्हाका रचलाय आनी संवसारांत एकल्याक सोड्लाय. ही तुजी सकत? कांय साट-सत्तर वर्सां हांव वांचान अनी त्या उपरांत? तूं असतोलोय, कित्याक, तूं सासाण पूण हांव न्हय. तर तुवें म्हाका कित्याक रचलोय? म्हजो खेळ पळवंक?

तुका हांव देव म्हणों या 'जोकर' म्हणों?

नाका, नाका तुजी जाप म्हाका नाका, कित्याक हांवें विंचवण केल्या - म्हाका कशें जाय तशें जियेतोलों. बराबर, हेरांक वायट करिसो ना पूण हेरांक दुसरो पोलो दाकवंचोयी ना.

रागार जालोय? देवाक राग बी येता? हांव नेणां देकून हांव जियेवंच्यांत 'बिझी' आसां!



# एक कप हूनोनी काफी

**आ**पणें आतां रांदपाच्या कुडाक वचाजे म्हळ्ळीं तिचीं चिंतनां तिच्या पाटिच्या कण्यांतल्यान भिरांतेचो शिरशिरो धाडी लागलीं. घरांत ते वेळीं कोणी नातल्लीं. पूण तिका अवश जावन एक कोप हुनोनी काफी जाय आसल्ली. काफियेक तिणें 'कोफी' म्हळ्ळें तर तिचो पूत खूश जातो आसल्लो. ती हांसली आनी ह्या वेळार तिचीं म्हातारीं हाडां कटकटलीं आनी तिची कूड ते काफयेच्या घोटाक लालेली.

''एक कप हुनोनी कोफी'' आधुनीक घर आनी आधुनीक उतरांच तिणें वापरिजे. एक सुसज्जीत, आधुनीक रांदपा कूड. ''कसलेच वांदे नात'' तिच्या पुतान म्हळ्ळें. ''एक स्विच दांब, एक फिरकी घुंवडाय.'' आतां हें सर्व तिणेंच करूंक आसल्लें.

पावस!

आखरेक तरी पावस आयिल्लो. बळिश्ट शिंवोरा फाटल्यान शिंवोर; केदळीय मुसंकेल्लें मोळाब. थंड थंड वारें. पावसाक ती वोळखाताली पूण ह्या तिच्या पुतान बांदलेल्या घरांत हो तिचो पयलो पावसाळ. सर्व एकाचणे घडल्लें. तिणें कितेंय चिंतचे फुडेंच तिच्या पुताच्या उतरांनी तिका तिच्या बिळांतली भायर वोडल्ली. 'हें आमचें नवें बिडार' बिडार? कौंक्रीटचें हें राक्कोस बांदाप, एका स्विचाचे दांबणेन, एके फिरकेचे घुंवडेन जिवंत जावंचें हें बांदाप एक बिडार?

आनी एक हांसो गरजेचो आनी ती हांसली. असल्या एका दनपारां, असल्या सबार दनपारांनी ती तांब्लेरां पाटल्यान तांब्लेरां काफी सेवल्ली.

तवळ तिचो दादलो जिवंत आसल्लो. कारभारी मानाय. संदणींत, चटपट्या आवाज संगी जळच्या लांकडां वयर, मातयेच्या बुडकुल्यांत बुळबुळची काफी...

आनी ते, तांच्या हातां तळव्यांक ऊब दिवंचे तांब्लेर. कारभारी मनीस तिचो दादलो. तेग पूत तिका ताणें दिल्ले. पयलो, बेबदेपणांत खिरोन मेलो; दुसरो बसिच्या अवघडांत चेंचोन गेलो. हीं दोन मर्णां तिच्या दादल्याक सांगाती करून व्हरून गेलीं. तिच्या वांट्याक उरलो तिचो तिसरो पूत आनी तिचें, मातयेच्या वण्टींचें बिडार.

आनी तवळ तिणें जिणेची लगाम आपणाच्या हातांनी घेतली. हेर उपाव नातल्लो. पूण धांव जावन आसली इतली तेज की, त्या एका दिसा तिचो तिसरो पूत येवून आपूण खंयच्यागी एका गल्फ देसाक वतां म्हण तिका सांगताना तिका जाग जाली. 'आनी मुकार मातयेच्यो वण्टी नात' म्हणालो. गायरांक, बोकडांक आनी दुकरांक पोसची गर्ज ना! आमच्या सपनांतलें घर आमी बांदतेल्यांव.'

पूण तिणें कसलींच सपनां पळेवंक नातल्लीं.

आनी तो, तिचो तिसरो, चल्लो.

लाकडांची रांदणी आनी तें मातयेचें घर मात्र तिच्या वांट्याक उरलें.

तिका पुताचीं पत्रां सराग येतालीं आनी ती सराग जापी लिखताली – कोवेंताचे एके माद्री मुकांत्र. ह्या कोवेंताक तिचो तिसरो, सहज जावन, दाराळ दान दितालो. तिचे इगर्जेचो विगार सयत – तिणें शेंबरांचो नोट डब्यांत घालिल्ल्या आयतारा थावन तिचेर मोवाळ जालो.

व्हय, आंगाण तयार जातालें. पूण कोणाचें?

उपरांत आयली तिची सून.

सोबायेची पुतळी. आफिसांत काम करची, खडप आनी सांगाताच सुंदर. मातयेच्या घरांत रिगताना सुनेन वोंट वोळायिल्ले आनी तवळ तिचो तिसरो म्हणालो 'एक पावटीं आमचें घर उबें जावंदी. ह्यो मातयेच्यो वणटी आमी द्रूस करया आनी सांगाताच, सर्व कोडू उगडास' तिणें कितेंच म्हणोंक ना; उच्चारोंक तिचे लागीं कितेंच नातल्लें.

उपरांत आयलें तें कॉंक्रिटचें राक्सोस बांदाप. तिच्या मातयेच्या वण्टींक लागोन म्हळ्ळे परींच हो राक्कोस किर्लोन, वाडोन येतालो. बांदपाच्या कामाचो आवाज न्हिवताना, धूळ बसून येताना, उदेतालें थोड्या घडयांचें अस्थिर मान्न.

उपरांत आयले थोडे असकत आवाज. तिचें तें मातयेचें बिडार 'ते' धरणीक समा करताले. ह्या कर्तुबाचीय धूळ बसून येताना तिचो तिसरो तिका दिसलो : अवशेशां मदीं हरद्यार हात बांदून उबो आसचो. ताची दिश्ट, सर्गाक उतरोन पळेताली. जैत आनी घमंड ताच्या मुखामळार राज करतालीं. एका तेंपार तिणेंयी वयर पळेयिल्लें - तिच्या पतिची (कारभारी मनीस तो) मरणा-पेट भाड्याक हाडल्ल्या खांदपींच्या खांदांचेर शिमितेरीक वयर सरताना तिणेंयी वयर पळेयिल्लें, आपल्या रचणाराक तिचे भितरलो क्रोध, असहायक मावन आक्रंदन जावन उठताना तिणें वयर पळेयिल्लें आनी म्हळ्ळें, 'हे नंतर, सर्वेस्परा, सर्व म्हजेर भेरजों.'

हूं! आतां तिका ती काफी जाय आसल्ली.

रांदपाचें कूड निजयकी सुसज्जीत आसल्लें. थोडें खतखतें उदक, एक चमच इनस्टेंट कोफी, दूद आनी साकर. तोपलें तिका मेळ्ळें आनी तिणें तातूं उदक वोरलें. लाकडांची रांदणी थंयसर नातल्ली. बगार फाळफाळीत कुकींग-रेंज उज्याची सर्व सकत त्या तांबड्या सिलिंडरांत आसल्ली. तिणें तोपलें कुकींग-रेंजार दवरलें आनी एक फिरकी घुंवडायली.

'एक स्विच दांब, एक फिरकी घुंवडाय' पुताचीं उतरां.

पूण काडिया पेट (फस्क) खंय आसा?

तिच्या मात्येच्या घरांत सर्व हातांचे परिदी भितरच आसल्ले.

माल्दिसांव पडों, ती मनांतच बोबाटली. तूं आनी तुजें घर. तुजो बोंगलो. तूं आनी तुजो पयसो. खंय आसल्लें हें सर्व तुजे भाव पिड्ड्यार जाताना? आनी तुजो बापय बरफ कर्गालेपरी पिगळोन वेताना? तिच्यां ताळ्यांत चडल्लें कोडू पींत तिका फुगासीत करूंक लागलें. तिका खोंकली आयली.

रांदपा कुडांत कसलिगी हिमट घाण, कसलोगी वास आनी कसलोगी फुसफुसो आवाज...

''हांगासर हरयेका वस्तूंक तातांचो जागो आसा!'' तिचे सुनेन तिका कळयिल्लें. 'आनी हरयेक वस्त त्या त्या जाग्यार आसाजे.'

तर काडयां पेट खंय आसा? ती आतांयी हांसली. नंज्ज्यांनी भरललो हांसो.

हां! कॉलेजीक वेचें तिचें नात. ताका तिचे ताबेंत तांणी दवरलेलें. तें नात मॉडर्न, हुळुळें, टायट टायट न्हेसप, बुल्बुलें. हां, तें सिगरेट सेवतालें, चिमणे परी धुंवोर सोडटालें.

कश्टांनी मेटां चडोन ती नातिच्या बेड्-रुमाक पावली. थोडीं मोटर्वी सोदनां. तिका काडयां पेटच न्हय, सिगरेटिच्या मुळकाटांनी भरलेली आशट्रेच मेळ्ळी.

सत्त्यानास! आतां म्हाका जाय ती हुनोनी काफी.

संद-गाठिंच्या किरी किरी आवाजान, चडल्ल्याच कश्टांनी ती मेटां देंवली आनी रांदपा-कुडाक पावली.

चे! कसली ती हिमटी घाण! आनी कसलो तो फुसफुसो आवाज?

नवीं घरां हे परी घाणतात?

आतां हांवेंयीं वोंट वोळयजे?

हरयेकाक तातांचो जागो आसा.

तर म्हजो जागो खंयसर?

हें सर्व हांवें मागल्लें?

लाकडांची रांदणी,

तीन मर्णां,

आनी तिच्या मातयेच्या बिडारांचें नास

तिनच हंतांनी तिका तिच्या पाटोसा थावन, तिचे आल्तारी थावन, तिचे थोराये थावन तिका सकला देंवयिल्लीं तीं तीन घडितां.

आनी आतांचो तिचो हो 'जागो?'

मांदून घेवंक असाध्य जाल्लो तिचो हो 'जागो.'

माल्दिसांव पडों, ती किळांचली...

माल्दिसांव पडों...

....

....

उपरांत तिणें काडी पेटयली.



# कें्बेरळ्ळी

**वि**देशाथाव्न स्वदेशाक आयिल्ल्या वेळार, ऐकेक पाव्टीं, स्वदेशच अपरिचीत दिस्चो सहज. अशें जाव्न पळेयिल्लेच जागे परत्यान पळेंव्चे, भोंवल्ल्याच रस्त्यांनि परत भोव्चें. आदीं 'लाय्न' मारूक रावल्ल्या बस्सस्टेंडांक दोडत्यान भेट दिवंची सहजच म्हण म्हाका भोग्ता. अशें सुमार चार वरसां आदीं मंग्ळुराक पावल्ल्या हांवें आनि म्हज्या कुटमान उज्व्या हाताच्ये ताळ्वेपरीं परिचीत बेंग्ळुर शहराक वेची आलोचन केल्ली म्हाका विसेश दिसली ना.

तरी पूण थंय पावल्ल्या दोनच दिसांनी आमची 'बेंग्ळुर उरबा' निवोन गेली. म्हजे धुवेन लालभागांत्ले मांकोड पळेव्न जाले, पतिणेन कमरशियल स्ट्रीटार शोपिंग करून जालें आनि हांवें ब्रिगेड रोडार भोंवोन आदीं केल्लीं आतरवणां निहाळ्ळीं.

फुडें कितें?

'हेणेतेणें लाग्सार कसले पुणी इंट्रेस्टींग जागे आस्तेले.' म्हणाली म्हजी पतिण. तिका एका जाग्यार बसचें म्हळ्यार जाय्ना. भारिच म्हारग संवय ही. आसुं. 'होटेलांतल्या ट्रावल डेस्कालागीं कित्याक वचानांय? बसून फकत बियर घोटल्यार पुरो?'

हो उत्रांवांटो नाकास्लो म्हण्या.

एका लांब उस्वासाक भायर सोड्डून हांव ट्रावल डेस्काक गेलों. 'लागींच कसले पुणी इंट्रेस्टींग जाले आसात?' हांवें विचारलें. तो, नात म्हण्तोलो म्हळ्ळ्या भरवस्यान.

'बेंग्ळुर आयल्या उप्रांत बन्नेरघट्टा (Bannerghatta) पळेल्या खेरीत तुमी पाटीं वेचें न्हय!' तो म्हणालो सपायेन. ''थंयसर विविद मनजाती, थराथराचे

सरोप-जिव्दाळी आसचें एक पार्क आसा. हें आसा करूंक आमच्या कर्नाटका सरकारान बरेंच धन आनी घाम आटयलां!'' अस्ली कन्नडिगा हो. हांवें भुजां उडयलीं.

बन्नेरघट्टाक वचूंक बस्सां आसात पूण जाय जाल्यार आपूण टेक्सेची विलेवारी करतां म्हणालो ट्रावेल ऐजेंट. हांवें मातें हालयलें. म्हज्या पतिणेच्या शोपिंगा उप्रांत टेक्सेचें भाडें भरची उब म्हज्या पोकेटिक नातल्ली.

दुस्र्या दिसा सकाळीं आमी रिक्शा केली.

देड टक्के भाडें चड दिजे पडतेलें म्हणालो रिक्शावालो. हांवें जाय्त म्हळें. आमी तिगांयी बसल्यांव आनी रिक्शा चालु जाली. शेहराच्यो परिद्यो सोडन रिक्शा निरजन रस्त्यार धावोंक लाग्ताना म्हज्या पतिणे थंय कसलिगी भिरांत उबजाल्ली जायजे.

''खंचान वरता हो?'' ती म्हणली हेणेतेणे पळेव्न. ''इतल्या पय्स म्हण कळित आसल्लें तर नाकाच आसल्लें!''

हांवें किरलोन येंव्चो राग दांबून धरलो आनी म्हाका जाय आसल्लें हें ट्रिप? म्हज्या धुवेचो आवाज नातल्लो. भंव्तींच्या थंड आनी निरमळ वारयांत तिका जेम् पडल्ली आनी तें आवयच्या उसक्यारच निद्रेस्त जाल्लें.

लागीं लागीं धा-बारा किलो मिटर उतरताना रिक्शाचें इंजिन 'फटा-फटा' आवाज करिलाग्लें; रिक्शा कांपली आनी कुसकोन रवली!

''कितें जालें?'' हांवें आकांतोन विचारलें. ''पेट्रोल मुग्दालो?''

तो हास्लो.

''इंजिन् तापलां.'' तो म्हणालो. ''अरदें मुक्काल वोरबर रावाजे पड्तेलें!''

''हें तुका पय्लेंच कळितनात्ल्लें?'' आतां हांव तापलों. ''कसल्या अरण्यांत आमी आसांव!''

''म्हाका कशें कळित जाव्चें?'' तो म्हणालो. ''कालच इंजिन 'रिबोर' करून हाडल्लें. दुस्र्याच दिसा इतल्या पय्शिली सवारी मेळत म्हण म्हाका कशें कळित? म्हणताना इंजीन तापानास्ता रावत?'' तो आपलेंच गुमट व्हाजंवक लाग्लो. ''तुम्कां खुशी आसा तर म्हजें येदोळ्चें भाडें दियात. थंयसर मुकार **केंबेरळ्ळी** बस स्टोप आसा. के. ऐस. आर. टि. सी. - चीं जाय्तीं बस्सां थंयथाव्न बन्नेरघट्टाक वेतात.''

“नाका नाका” मदेंच उलयली म्हजी पतिण. “एक घंटो राक्ल्यार व्हड न्हय पूण रिक्शाचेरच या.”

ड्राय्वर साय्ब हास्लो.

“बरें तर.” तो म्हणालो. “सामकारच एक ल्हान दुखाण आसा. तुमकां सावळी आनी थंड पीवन मेळ्तेलें. रिक्शा थंड जातेच हांव थंयसर येतां.”

आमी देंवल्यांव.

पन्नास - शेंबर मेटां चलतेच आम्कां केंबेरळ्ळी बस स्टोप मेळ्ळें. विशेस कांय थंयसर नातल्लें. व्हड एका पिंपळे रुका भंवतीं एक काटें आनी त्या कांट्यार साताट प्रयाणिक बास्सीक राकोन आसल्ले आनी फलां मारताले. उजव्याक एक ल्हान आंगड. तिचे व्हणदिचेर नट सौरभौमा डा. राज कुमाराचें व्हड एक पोस्टर; ताका लागोनच आम्चो अमिताब आनी मुळांत कनिश्ट मुसतायकेर आस्चें सिल्क स्मिता. कसलें कोंबिनेशन, हांवें दांत चाब्ले.

त्या दुखाणांत्ले तीन फ्यांटा हांवें घेत्ले.

“तुका पेग्ग मेळोंक ना म्हण दिस्ता.” टिंकर उडयलें म्हजे पतिणेन. हांवें कांय जाप दिली ना. थंड पिवन पियेताना हांवें भंव्तिली सोबाय चाकली.

सुंदर, प्रशांत हळ्ळी. सादी, स्वरगीय सोबाय. हळ्त व्हारें, निरमळ. झळ्केक पडानातल्ल्या सुक्ण्यांचो आवाज. हांवें एक लांब स्वास सेव्लो. ‘कितें जालें?’ हांव म्हज्या इतल्याक गुणगुणलों. ‘कितें जालें रिक्शा तापल्यार हें एक साहस. सदांचे यांत्रिक जिणियेथाव्न मारल्ली एक थरावीक घुंव्डी.

बन्नेरघट्टा! येतांव आमी तुजे सरशीं.

हांवें फ्यांटा खाली केलो.

एक व्हड धेंक सुटतच महाका कुडिची गरज सदिळ करिजे पडली.

“हांव आत्तां येतां.” म्हणोन त्या उग्तडांत एक गुपीत जागो मेळ्तागी पळेव्क हांवें मेटां काडलीं.

पूण तसलो एकसुरो जागो म्हाका लाग्सारच मेळ्ळो ना. सबार मेटां चल्ल्या उप्रांत एक हळ्त उबारायेचीं झडां-पाल्यांची वाडावळ मेळ्ळी.

ह्या वाडावळी मधें पण्गिल पडल्लें कसलेंगी एक बांदाप आसल्लें. थोडे फातर, थोड्यो वणदी... कांय ह्या शतमानांतले न्हय कशें दिसतालें.

हांवें चडित गळायेविणे म्हज्या कुडिची गरज तिरसिली. पेंटाची जिप वोडून पाटीं घुंव्ताना म्हजी दिश्ट विचित्र आनी अप्रूब सोबायेन भरोन धलच्या थोड्या पानांच्या वाडावळिचेर पडली.

तीं पानां आसचीं झडां धरणिथाव्न् सुमार देड फुट उबारायेक वाडोन रावल्लीं. एका झडाचेर दोनच पानां. आकार आनी कालेत आळवाच्या खोल्यांपरिंच. पूण तीं परिपूरण पाचवीं न्हय. पाचव्या रंगाचेर चार-पांच तांब्डे गीट-रग्तयाळ्या बोटांपरीं.

शून्य चिंतनांनी हांव त्या पानांकूच पळेव्न् राव्लों. एकाच सुवातिर न्हय, त्या सगळ्या परिसरांत असल्लीं झडां वाडोन रावल्लीं. म्हजे धुवेक अस्लीं पानां पळेव्न संतोस जातोलो म्हण दोन-तीन पानां बुरडोंचे खातीर हांवें हात मुकार वेलो.

तितल्यार -

"दया करून तीं पानां बुरडिनाका!" स्पश्ट आनी घनादीक ताळो आय्कोन हांवें तेव्शिन पळेलें.

कोस्ळाल्ल्या त्या बांदपाच्या एका काळ्या फात्राचेर तो बसून आशिल्लो. तवळ परयांत तो थंयसर आसा म्हळ्ळें म्हज्या दोळ्यांक दिसल्लें ना या शिंतिदाक गमल्लें ना. थंयसर तो यकाचाणे उदेव्न आयिल्लेपरीं म्हाका भोग्लें.

म्हजो हात आपापिंच पाटीं आय्लो आनी हांव नीट उबों जालों. पाना बुरडिल्यांत हाका कित नश्ट? हांवें ताचे कुशीन मेटां काडलीं. ताणें जाग्र केल्ल्या आक्शेपांत म्हाका एका थराचें फरमाणच झळकतालें. मनांत हांव विरार जालों तरी कोशेड्दांत म्हज्या अनामिक दड्दडे उटले.

"तूं ह्या झाडां-पाल्यांचो म्हालक या पालक?" लागीं पावतेच हांवें विचारलें. विचित्र, शून्य दिश्टीन तो म्हका पळेलाग्लो.

"जाव्येत!" ताचो स्पश्ट ताळो दुस्रेपावटीं हांवें आय्कालो. "तरी पूण हांवें तुजेलागीं विंनती केली."

हुं. ताचया जापिंत कसलिगी हुकुम आसल्ली, बिनती न्हय.

बल्सांतली 'बेन्सन ऍंड हेड्जस' पेकेट काडन हांवें एक सिग्रेट भाग्र काडली आनी ती पेटवंच्या आवदेंत त्या विचित्र आनी अस्पश्ट वेक्तिची परिक्षा केली.

ताची प्राय अंदाज करूंक म्हज्यान जालें ना.

घण्ण केंस.

मिरमिरे, तीक्षण दोळे.

कपलाचेर या पोल्यांचे प्रायेची एकच एक मिरी नातल्ली. ताच्या त्या दोळ्यांतल्या प्रकासाक हांव चडित लांबायेन पळेंव्क सक्लों ना.

धुव्राचें एक मोड हांव नाका-तोंडांतल्यान वोंक्लों.

"तर हीं पानां हांवें बुर्डोंक नजो?" हांवें विचारलें ताच्या मुस्ताय्केचेर दिश्ट चरव्न. ती मुस्तायकी नितळ-निरमळ तरी ह्या शतमानांतल्या मुस्तायकेपरीं दिसनातल्ली. "कित्याक म्हण विचारुयेत?"

"ह्या पानां पाटल्यान एक घडित आसा, बाबु!"

"घडित?" हांव हास्लों. "मतलब एक काणी?" हांवें वोच पळेलें. रिक्शा तयार जांव्क आनिकी एक अरदो घंटो आसल्लो.

"सवालां विचारूंक सर्वांक्यी वेळ आसा" तो म्हणालो. "पुण हकीगत आय्कोंक कोणूच तयार नांत."

"आज काल काणियो सांगोनयी पोट भरचे मनिस आसात!" हांवें उत्रां विंचलीं.

"पूण काणी सांगून मोगांत आपूरण जाल्ल्या कुडीं-काळ्जांक थंडाय मेळा सारकें करचे भोवच थोडे."

"जावंदी!" हांवें म्हज्या सप्राणांत हासो मेळय्लो. "सांग तुजी काणी. म्हजो थोडो वेळ पाशार जावंदी."

येकाचाणे दोळे उबारन तो म्हाका पळेलाग्लो. "वेळ पाशार जावंदी? वेळाचें महत्व तुमी कितें जाणांत? जिणियेच्या मटव्या आव्देंतयी वेळ पाशार जाय्ना म्हणोन तुमी रडतात, वेळ पाशार करूंक विवीद मनोरंजनां सोदतात,सोऱ्याच्या आमालांत लोळ्तात..."

"तुजें तत्वशास्त्र म्हाका गरजेचें न्हय!" हांवें म्हजें घन सांबाळ्ळें. "म्हजेलागीं थोडो वेळ आसा आनी हांव एक लेखक. जाव्येत, तुज्या ह्या काणियेंत या घडपांचे सांक्ळेंत म्हाका कांय तरी मेळात?"

तो भंवतीं पळेलाग्लो, वेळाच्या परन्या फोलियां मदें सोदचेपरीं.

“सबार वरसां आदीं ह्याच पाचव्यायेंत तरन्या प्रेमिंचें एक जोडें मेटां रोंबवन आशिल्लें. सावळ्या कातिचें ‘केंबी’ अपूरव सोबायेचें कुडें; रस्माळे केंस, फळपळीत चतुर दोळे, उबार सुपुश्ट हरदें, अशीर पेंकट आनी अती सुंदर नाजूक हात. ताच्या हातांचे ताळ्वे गुलोबी, मोव आनी नाजूक. पांच बोटांचें एक फुल जाव्नासल्ले ताच्या हातांचे ताळ्वे. ह्या ताळ्व्यांचो स्परश आनी ऊब मेळ्ताली फकत ताच्या प्रेमिक ताचें नांव जाव्नासल्लें ‘गोपु’.

“केंबिचो बापय ह्या हळ्ळेच्या तुंडुराया लागीं नव्करी करतालो आनी आपल्या कुटमाक पोस्तालो. गोपु, हांगासरच आपल्या ल्हान भुंय भाटांत साग्वळी करतालो. ताका आप्लें मळ्ळें कोणंच नातल्लें. अशें जाव्न, केंबिचो मोगच्च ताका आप्लें सरवस्व जालो. ताच्या आगसार फकत सुंदर निळायेची विस्तराय आसल्ली. शिवाय कश्ट दाकंव्चें एकच एक मोड नातल्लें.

“अशें आस्तां, आन्चित एका दिसा केंबिचो बापय आरिचे पिडेन अपटालो; केंबिचो आदारयी धरणिक शेव्टालो. पावानातल्ल्याक गोपुचें बेळें त्या वरसा बराबर पिक्लेंना. बापायची जतन-चाक्रेचो खर्च आनी उबेव्न येवंची लग्नाची आशा केंबिक नव्करी करूंक दाब घालिलाग्ली.

“ह्या हळ्ळेचो तुंडुराय दयाळ मनिस. आपल्या पातियेण्याच्या नव्कराचे धुवेन हकीगत कळयताना तो मोवाळायेन पिक्लो. केंबिक ताणें आपल्या व्हड बंगल्यांतच काम दिलें. कसलेंयी भराचें काम न्हय - विस्तार जेव्णा-सालाची साफ-सुफाय, जेव्णांक बसल्ल्या सय्र्यांची सेवा कर्ची, इत्यादी. परत्यान ह्या प्रेमिंचे जोडें सुगमायेच्या पथार चलोंक लाग्लें. तरी पूण विग्ना-आनवरां आपवणें नास्तांच येतात.

“विदेशी शिक्पाक गेल्लो तुंडुरायाचो पुत शिव पाटीं बंग्ल्याक आय्लो. बापायच्या धनान पय्लोच विलासी जाव्नास्चो तो, आतां विदेशांत कामुकतेचीं सांपनमुळा शिकोन आयिल्लो. राव्ळेरांत हेणेतेणे भंवच्या आपुट सुंदरींक पळेव्न ताचें शिंतीद कामुकतेन पिग्ळोन गेलें. ताच्या धनाचे शातियेन, कुडिच्या त्राणान आनी ताच्या तसल्याच इश्टांच्या कुतंत्रां वरवीं खंच्यायी एके रातीं ताचें सुखाळ खटलें स्त्रीयेच्या उबेविणे उरलें ना. ताच्या संगीं रात खरचिल्लीं खंचायी रितीर निराशी जाल्लिनांत. धनान तो तांकां पिकयतालो आनी आपल्या कामुकी चलाकेनीं तांकां तो थंड करतालो.

पूण सद्याक ताच्या दावल्यांक सांपडनास्तां उरल्लें म्हळ्यार केंबी मात्र.

ताची ती विरळ सोबाय, मिरमिरी नितळाय आनी सरळ चल ह्या शिवाक कसलेंयी शीदा प्रेतन करूंक इंबु दिनातल्ली. ताच्या इश्टांनी ताका सांगल्लें, ह्या केंबिक एक्लो प्रेमी आसा म्हण.''

''शिवच्या हातांनी पिसुडलेल्या हेरांनी केंबिक फुस्लावंक कित्लें प्रेतन केलें तरी तें फलसालें ना. केंबिक शिवाच्या प्रेतनांची खबर आसल्ली. तरीपूण ताका आपणाचेर, आपल्या गोपुचेर खूब पातियेणी आसल्यान ताचें अस्थित्व थीर रावलें आनी थोडोच तेंप काम करून जाय पुरतो दुडू कमायल्या नंतर आपूण आपल्या गोपुचे वेंगेंत घुस्तेलीं म्हळ्ळीं सपणां जारी जाव्क तें राक्तालें. गोपून संबार पावटीं केंबिक चत्रायित केल्लें - तो शिवच्या करतुबांक बरयान वळ्कातालो. तरी पूण केंबिन चड गुमान केलें ना.

त्ये ऐके रातीं तुंडुरायाच्या जेव्णासालांत सबार पक्वनांचें विलासी जेवण चलतालें. लांब मेजाचे तुदियेर आमालाचो तांब्लेर घेव्न शिव बसून आसल्लो. ताचे संगीं आनी भंवारीं ताचे लफंग मित्र बसून पोज्डें उलयताले, फोकणां उडयताले. शिवाचो बापय आपल्या राटावळींक लागून सेजारच्या हळ्ळेक गेल्लो.

जेवण वाडा म्हळ्ळी हुकूम शिवान दिताना केंबी आनी हेरां हरवाणां घेव्न मेजा सरशीं आयलीं. केंबिच्या हातांत रुप्याचें व्हड एक तोप्लें आसल्लें आनी तांतूं रुचिक-परमळीक पूण खतकतो सार आसल्लो. हळ्तान मेजार भाग्वोन तो सार तें वाडताना सरवांचे दोळे ताच्या सुपुश्ट स्थनांचेर चरताले. शिव मात्र गंबीर आसल्लो. ताच्या कामुकी शिंतिदांत कितें सिजतालें म्हळ्ळें तोच्च जाणां. पूण एक निचेव मात्र ताणें त्ये रातीं केल्लो.. ह्या केंबिक आय्चे रातीं हांव घेतोलों.

सार वाडित केंबीं शिव सरशीं पाव्लें. गंबीर चिंत्नांनी बुडोन आसल्लेपरीं बसून आसल्लो शिव केंबिचेर एक नजर सय्त मारिना जालो. जेव्णा सालांत एका थराचें आतुरित मौन देंव्लें.

रुप्याळे दोयेंत केंबिन सार घेतलो आनी शिवच्या हरवाणांत तो घाल्चे खातिर तें मुकार भाग्वालें. आनी तितल्यार शिव आप्लो ख्हेळ ख्हेळ्ळो.

आप्लो उज्वो हात ताणें येकाचाणे मुकार हाडलो. आप्णाक सार नाका म्हळ्यार जिन्सार. ह्या करतुबाक तयार नातलेल्या केंबिचें स्थिमित चुक्लें. रुप्याळीं दोय मेजार झडोन पडली आनी तें जड तोप्लें कांपोन हुनोनी सारा समेत शिवच्या हाताचेर पडलें. शिवान एक अनिरीक्षीत किंव्काट मारली. केंबिच्या वोंटांतल्यान कितेंच भाग्र आय्लें ना. शिव उबो जालो आनी दुकिचो एक हुंकारो दीव्न शीदा आपल्या कमरयाक गेलो. भिंयान कांप्चें केंबी दुकांचो उमाळो घेव्न रांदपा कुडांत लिप्लें.

कितलो वेळ पाशार जालो तो तें नेणां. प्रमुक रांदिपणेन येव्न ताच्या भुजांक धरून हालय्ताना तें जागें जालें. "दळ्दिर चलिये!" ती म्हणाली केंडां वोंकोन. "तुवें आमची मरयाद काडिलय. धाक्टया धनियाचो हात तुवें हुलपाय्लोय. ताचे लागीं माफ माग्चें सोडून हांगा बसून रडताय?"

"म्हजी चूक जाली" तें कांपेरया ताळ्यान म्हणालें.

"म्हाका कित्याक सांग्ताय?" ती खेंचली. "धाकट्या धनियाच्या कम्र्याक वचून ताचे लागीं माफ माग्. ताच्या हाताचेर कित्ले फोड उदेल्यात कोण्णा."

"म्हाका भें दिस्ता!" केंबी म्हणालें उबें जाव्न.

"कसलें भें? धाक्टया धनियालागीं तुज्या चुकिचें माफ मागल्यांत गोपू खातीर तुवें राकोन हाडल्लें तुजें सांतिपण कांय पिस्डून वेता म्हण तूं चिंताय? तूं जाणांय केंबी, आमच्या धाक्ट्या धनियान मन केल्यार तुजो गोपू एकाच खिणान धरणी समा जाय्त. हांवें चत्राय दिलिना म्हण फाल्यां म्हणानाका. व्हच, घळाय करिनाका!"

केंबिन आपलीं दुकां पुसलीं, केंस समा केले अनी रांदपा कुडांतलें तें भायर आय्लें. जेव्णा सालांत जागमग नतल्ली. साल उत्रोन तें माळियेचीं मेटां चडलें आनी रतन कांब्ळिन दाटलेल्या पासायेंत चलोन शिवच्या कम्र्याच्या दाराक पाव्लें.

आसल्लें सरव धग्र आराव्न आनी सांगाताच गोपुचो उडास काडून ताणें बाग्लाक ठोके मारले. थोड्यां घडियां उप्रांत 'भितर येव्येत' म्हळ्ळीं उत्रां आय्कालीं. तें दाट दार लोटून भितर सरलें. कम्र्याच्या मदेगात आसल्ल्या मोव सुखाळ खटल्यार शीव बसून आसल्लो. ताच्या हातांत आमालाचो गोब्लो

आसल्लो. मुकमळार गंबीरायेचो चारो आसल्लो. केंबिक पळेव्न गोब्ळो सकय्ल दवरलो.

''कित्याक आय्लेंय?'' ताणें विचारलें.

केंबी दोन मेटां मुकार आय्लें.

''माफ मागूंक, धन्यां!'' तें म्हणालें बिनतेन. ''हांवें तुम्चो हात हुल्पाय्लो.''

''हुल्पांव्क तुवें सबार हुलपाय्लांय.'' तो म्हणालो, आप्लो हात मुकार हाडून. ''ये हांगासर'' पय्लेंच्याच गंबीरायेन तो म्हणालो. ''पळे ह्या हाताचेर कितले फोड उदेल्यात पळे.''

केंबिन पळेलें.

''भियेनाका, लागीं ये!'' तो म्हणालो. ''तुं त्या गोपुची अमानत म्हण हांव जाणां.''

आतां केंबिचें धय्र जिवाळ्ळें. धाक्टो धनी ताणें आय्काल्ल्या तितलो खोटो न्हय जाव्येत म्हळ्ळें भावनयी ताच्या मतिंत उदेलें. तें लागीं सरलें आनी भाग्वोन शिवन उबारोन धरल्लो हात पळेलाग्लें. एकच एक फोड त्या हातार नातल्लो पूण ताची गोरशी कात थोडी तांब्शेल्ली.

''तुमची खुशी तर कसली पुणी मुलाम हाडुं, धन्या?'' ताणें नव्याच धय्रान पुण नम्रतेन विचारलें.

शिव कुस्कोनसो हास्लो.

''सबार मुलाम्यो तुजेच लागीं आसात, केंबी!'' तो म्हणालो. ''जरितरी म्हज्या ह्या गरीब हातांक तुज्या रसमाळ्या केसांची थंडाय, भांग्राळ्या स्थनांची ऊब आनी तुज्या ह्या सुपुश्ट कुडिचेर भंव्चें स्वतंत्र मेळ्ळें तर...''

''धन्या!'' तें येकाचाणे पाटीं सरलें.

पुण वेळ उत्राल्लो.

शिवन आपल्या वज्रामुटिंत केंबिचो हात धरून जाल्लो.

''म्हजो हात सोड, धन्या!'' तें उरडालें

''तुजी सगळी कूड ह्या हातांनी येता परयांत तुजो हो हात हांव सोडिसों ना.'' तो म्हणालो. ''तुवें म्हाका आनी म्हज्या इश्टांक सबार तेंपथाव्न तळ्मळाय्लांय केंबी.''

हीं उत्रां आय्कोन भंवतीं पळेंवच्या केंबिक कम्म्राच्या कोन्श्यांनी बसून आस्चे शिवचे मित्र दिस्ले. तें सगळेंच घामेलें.

"आमच्या सम्राणाची गड् मिरवल्या!" शिव मुंदरोन उलय्लो. "आतां खंचोच गोपु तुजे सोडवणेक येंन्चो ना." केंबिक ताणें खटल्याचे कुशिक वोडलें.

आपणाक कसलिच बचावी ना म्हळ्ळें आतां केंबिक खचित जाल्लें. तरी पूण विचित्र आतां ताचे थंय भें नातल्लें. ताचे दोळे चतुर जाल्ले. खटल्याच्या उजव्याक रुप्याच्या तब्कांत निदून आसची लांब तलवार ताका दिसली.

झंपय मारून ताणें ती तलवार दुस्र्या हातान विंचली आनी कोणयकी कितें जाता म्हण कळच्या फुडेंच तलवारिची झिळ्मिळी धार शिवन धरल्ल्या आपल्या हाताच्या मणीगांटिचेर बसयली.

उप्रांतलें खिणा भितर घडोन गेलें.

शिवच्या मुटींत आसल्लो केंबिचो हात मणिगांटिलागिंच कुडके जाव्न मेक्ळो जालो. रग्ताच्यो झरी शिंवच्या मुकमळार आनी आंगार उसळ्ळ्यो. एका भिरांतेच्या आनी नापातियेणेच्या किंव्काटे सांगाता शिव पाटीं उसळ्ळो आनी केंबिचो निस्तेज, निरजीव आनी रग्ताळो हात ताणें जनेलांतल्यान भाय्र ऊडय्लो. केंबी आपल्याच रग्ताच्या कोंडांत खोसाळ्ळें.

ह्या सरवाचें अंत्य म्हळ्ळेपरीं केंबिच्या हातांतली तलवार आवाजा संगीं धरणिर गळ्ळी.

पूण हें जाव्नासल्ली अंत्याची सुरवात.

हर रातीं बंग्ल्यांतलें काम जाल्या उप्रांत भाय्र ताका राकोन रांवच्या गोपुसंगी केंबिन घरा वेचें रिवाजशी जाल्ली. पूण त्या रातीं वेळ उतरल्यारी केंबी येव्क नातल्लें पळेव्न, राकोन थक्लो गोपू बंग्ल्या भितर रिग्लो. जेव्णा सालांत उरल्ल्या तांब्लेरांत्ल्या उस्ट्या आमालांत शून्य जाल्लो राक्ली ताका आडाय्लाग्लो.

"हांव म्हज्या केंबिक सोदूंक आय्लां!" गोपू म्हणालो. "खंय्सर आसा तें?"

"तुजें केंबी?" राक्वली हास्लो. "तुवें फाल्यां सकाळीं येव्चें बरें, भावा. उजवडता परयांत धाक्टो धनी आनी ताचे सांगाती तुज्या कैंबिक सोडचेपरिंनांत."

फुडलें आयकोंक गोपु राव्लो ना.

“केंबी...” म्हळ्ळ्या खिळंचेन तो माळियचीं मेटां चडलो आनी सुळीं वारें घुसल्लेरीं शिवच्या कम्प्रांत रिग्लो.

ताका दिस्लेलें तें दृश भिरांकूळ.

रग्ताच्या कोंडांत पडोन आस्चें केंबी.

खटल्याचे देगेन मातें घालून वोरोड काडचो शिव आनी हेणेतेणे रूक जाल्ले ताचे सांगाती.

गोपून, आपल्या हातांनीं केंबिक आराय्लें. रग्ता स्रावान नित्राणी जाल्ली केंबिची कूड गोपुच्या उबेक तरी वळ्काली.

“म्हजो हात अपवित्र जाल्लो, गोपु!” तें म्हणालें, अरधेकुरे उसायिल्ल्या वोंटां इड्यांतल्यान. “देकून तो हात हांवें कात्रुन उडयलो.”

तें मतिहीन जालें.

ताका थंयसरच हळ्वायेन निदाव्न गोपु उबो जालो.

धरणिर पडोवन आसल्ली तलवार ताणें विंचली.

खटल्यार पडोन आतांयी वोरोड काडच्या शिवची गोमटी त्येच तल्वरिन ताणें खिणा भितर कापून सोडली.

रग्ताचे व्हाळ जाले.

ह्या रग्ता व्हाळाच्या उबेन, जिवसाणेन आनी तांबसाणेन शिवचे इश्ट जागे जाले अनी तांचे पयकी एकल्यान मारलोलो भालो गोपुचें काळिज शिंदून पाशार जालो.

गोपू, कसल्याच आवाजाविणे कोसाळ्ळो.

ह्या तेगांच्या रग्तावरवीं सात्रिफीसावर्वीं त्या बंग्ल्यांली कामुकता आळ्वाली आनी धुव्न गेली.

थोड्याच तेंपा भितर ह्या हळ्ळेंतलें तुंडुरायपणयी आळ्वोन गेलें.

पूण त्या रातीं नपंयच जाल्लो केंबिचो हात कोणाकच मेळ्ळो ना.

अमर त्यागाची ही कथा ह्याच वाक्यांनी अकेर जाय्जे आसल्ली पूण ती अशी आकेर जाय्ना:

केंबिची आनी गोपुची कुड उज्याक दिल्ल्या थोड्याच तेंपा उप्रांत हांगासर हीं विचित्र झाडां किरलोंक सुरू जालीं. पळे ह्या पानांचेर. पांच रग्ताळ्या बोटांची म्होर तुका दिसना? हांगाच्या निवास्यांची पातियेणी आसा अशी: हीं

पानां जाव्नासात केंबिच्या हाताची निशाणी. उज्यांत भस्मोंक ना तरी आपल्या पवित्रतेची खुरू जाव्न हो हात धरणिथाव्न किरलता, हांगाच्या स्त्रीयांक आनी चलियांक धग्र दिता आनी अवेकत रितिर तांकां दळ्दिर दादल्यांच्या कामुकते थावन राक्ता.

ह्या पानांक लागून ह्या हळ्ळेक **'केंपु बेरळिना हळ्ळी'** म्हळ्ळें नांव पडलें. आतां वरसां उपरांत हें नांव मटवें मटवें जाव्न आयिल्ल्यान **कींबेरळ्ळी** जालें.''

तो मनिस येकाचाणे मौन जालो.

हांव मोनोंच जाल्लों.

बोटां मदली सिग्रेट हुल्पोन मुळ्काट जाल्ली.

तो मनिस उटलो आनी अत्यंत मानान आनी नम्रतेन ताणें त्या झडावय्लें एक रग्ताळें पान तुटय्लें आनी म्हज्या सामकार उबारोन धरलें.

''चरितेच्या पानां मदें आसाजे हें पवित्र पान!'' तो म्हणालो. ''तुं एक बरवपी म्हणताय. जाव्येत. तुज्या उडासांच्या ग्रंथां मदें एकफोली जाव्न तें उरोंदी.''

ताच्या उत्रांच्या आराधनेनंच हांवें तें पान घेत्लें. तें म्हज्या हातीं येताना कसलोगी मिरमिरो म्हजे कुडिंत चरलो. म्हजीं सरव चिंतनां-सवलां स्तब्द जालीं. कसो हांव त्या पिंप्ळेरुका परयांत पाव्लों तें हांव नेणां.

रिक्शा तयार आसल्ली.

''गेल्ल्या कडेन कित्याक असोयी तुं शिरकताय?'' सण्सणली म्हजी पतिण. ''ह्या रिक्शावाल्यान कितलेपावटीं होरन मारलें जाणांय?''

हांवें तें पान तिका दाकय्लें.

''ह्या पाना पाटल्यान एक सुंदर काणी आसा ती तूं जाणांय?''

''तुमी लेकक'' ती चिडली ''तुम्कां हरयेका पाटल्यानयी एक काणी दिस्ता. आतां चल, रिक्शार बस.''

तितल्यार म्हज्या खांदार एक हात बस्लो.

हांवें पाटीं पळेलें.

एक प्राय्वंत उबो आसल्लो, अपरिचित, विचित्र. हां, तो त्या काट्यार बसून आसल्ल्यां पयकी एक्लो... व्हय, व्हय.

“तुका गोपु मेळ्ळो?” ताणें विचारलें.

“गोपु?” हांवें विस्मितायेन विचारलें.

“व्हय, गोपु! ताच्या परवणगेविणे हें पान तुटंव्क साद्य ना. आपल्या केंबिचो हात सोदून तो आतांयी हांगासर भोंव्ता!”

म्हजीं उत्रां फातर जालीं, भाग्र सरलिंनांत.

म्हाका केंबी-गोपुची कथा सांग्लेल्या, हें पान म्हाका दिल्ल्या, त्या फात्रा वय्ल्या वेक्तिलागीं एक सवाल विचारूंक हांव विस्राल्लों:

तुच तो गोपु?



# बोन्साय

ताका जाग जाली.

पूण ती शुशेगाची जाग न्हय. कित्याक ताका सुशेगाची न्हीदई पडोंक नाशिल्ली. कसलीं स्वप्णा, भुरशीं भुरशीं स्वप्णा. शाळेंत्ल्या चल्यांनी असल्या स्वप्णां विशांत उलोंव्चें ताणें आय्काल्लें. दढंग जिवाचे चले ते, तांची प्राय हचीच्च तरी ते बोरेच्च सोरकेव्न वाडल्ले. "कितें रे?" ते एकामेका विचारताले. "खंच्या भूखंडाचें मेप सोडय्लेयं? आफ्रीकाचें वा आशियाचें?" आनी ते हासताले. ताकाय हासोंक जाय आस्लें. पूण हेर कित्याक हासतात म्हण कळित जायनासतां तो फकत कुसकुसतालो. हें पळेव्न हेर चले म्हणताले, "तुका कितें समजता म्हण तुं हासताय-रे बोन्साय?"

"न्हय तीं मेपां गर्जेचीं? परीक्शेक येतात?" तो नेणारपणी विचारतालो.

"ना-रे, बोन्साय! तीं फकत स्वप्णांत येतात."

"तुमी म्हाका बोन्साय म्हण कित्याक आपय्तात?" तो तांचे लागीं विचारतालो. "म्हजे माम्मीन साबार बोन्साय करून दवर्ल्यांत. ती एका कला म्हणता ती पुण तुमी म्हाका कित्याक बोन्साय म्हणतात?"

"तुज्या माम्मीच्या बोन्सांय पय्कीं तुं एक्लो-रे!" एक्ल्यान जाप दिली. "जाव्येत, ती बोन्साय एक कला म्हणच्याक दुबाव ना. पुण तुका कसो-रे तिणें बोन्साय करून दवरलो?"

"तिका 'बोन्साय आग्नेस' (bonsai Agnes) म्हणची चूक-रे," आनी एक्लो म्हणालो हास्या संगीं. "तिका सांगल ती खुद्द बोन्साय कला वापरीना तर तिका तिच्या 'साय्जा'-चे 'ब्रा' मेळचे नांत अशें!"

"तुमी बुरशें बुरशें उलयतात" आतां तो रडटालो. "म्हजे माम्मी विशयांत तुमी अशें बुरशें उलंवचें न्हय....."

"अररर...रे! आम्चें उलवणें हाका अर्थई जाता म्हण जालें." एक्लो म्हणालो, "रोलेंड्बाबा...तुका तुजी माम्मी कशी आपय्ता? रो...ली..ली? बरीं टाय्ट ब्रीफ्स हाडुन दींव्क सांग तुजे माम्मीक. ना तर तुजेंई 'टेंट' नाका आम्कां क्लासिंत!"

त्या सांजेर ताणें आपले आवयक ही संगत सांगली. 'बोन्साय आग्नेस' म्हणंच परिचीत आग्नेसान आपल्या तेरा वर्सांच्या पुताक रोलेंडाक आराव्न आपल्या हड्ड्याक चिडकावन धरलो. ताचें मातें अरवास तिच्या सुपुश्ट स्थनां मदें लिपोन गेलें. एक अनामिक शिरशीरो ताचे कुडिंतल्यान धांवलो.

"ते कित्याक म्हाका अशेई सतयतात, मां?" ताणें तिच्या स्थनां मदल्यान फुमारोन विचारलें.

"रो...ली" ती म्हणाली. "त्या भासकळांक हांव फाल्यांच बूद शिकयतां!"

"नाका, मां, प्लीज..." तो तिच्या मासाळ बंदडे थावन सुटोन म्हणालो. "त्या हेडमास्टराक पुणी खंडीत मेळनाका. तोई तांचे मदेंच्च सेरवाला. तुवें येवन म्हजे विशयांत उलयिललें सर्व तो 'सेक्स ऐडुकेशन क्लासी वेळार हैस्कूलाच्या सर्व भुग्र्यांक सांगता खंय!"

"हांव ऐडुकेशन मिनिस्टराक कंप्लेंय्ट करतां"

"तें सर्व कांय नाका, मां!" ताणें पराथलें. "हांव कित्याक असो म्हळ्ळें मात्र म्हाका सांग."

थोड्या दिसां आदीं आग्नेसान हें सवाल त्या हैस्कूलाच्या हेड - मास्टरालागीं विचारल्लें. "कित्याक सर, म्हजो पूत असो?" तिणें विचारल्लें. "दोन - तीन घंटे तो टोयलेटांतलो भायर येना. भितोर तो कितें करता तें हांव नेणां. पोयरच ताच्या बेड्डा पोंदाक म्हाका बस्स स्टेंडांनी विकपाक आसच्या लैंगीक कुडींतल्यो प्रती मेळ्ळ्यो आनी हांवें ताका आडबडयां घालून बडयलो!"

हेड-मास्टरान आवाज नातल्ल्यो ताळियो पेट्ल्यो. "भारीच बरें काम केलेंय, आग्नेस!" तो म्हणालो. कसलीच मालिसाय नास्तां तिच्या उबार स्थनांचेर दीशटच रोवन. "चलो वाडोन येता आनी तुवें ताका बोन्साय करून

वागंवचें न्हय. वाड्च्या चल्याचें मूळपाळ किमचूंक जायना, आग्नेस."

"तुमी सर्व दादले एकाच्च मानसिकतेचे, सर!" ती म्हणाली. "कित्याक तशेंयी म्हज्या हरद्याक पळेताय? तुज्या आवयक आसचेंच म्हाकायी आसा."

"तशें तर," म्हणालो हेड - मास्टर. "तुजें हरदें उग्तें सोडून म्हज्या हैस्कूलांत भोंवानांय? दोळे सोडून पळोवंच्या, वाड्च्या चल्यांक आनी किडकीडोन हासच्या ल्हान चल्यांक हेंच सांग- तुमच्या आवयांक आसचेपरींच म्हाकायी आसा?"

"तुका एका सायकीयाट्रिस्टाची गरज आसा, सर!" ती किळंचली. "You are a sex maniac!.... म्हज्या पती परींच. ताका सदांयी दिल्यारी पावानातल्लें. आनी निमाणें, ताणे वीक घेतलें."

"हें तुवेंच म्हाका ह्या फुडेंयी सांगलांय, आग्नेस!" तो म्हणालो. "सक्कळ संसार जाणां ही संगत. परत परत कित्याक सांगताय?"

"कित्याक म्हळ्यार म्हाका परत परत सांगोंक लज दिसाना आनी म्हाका म्हज्या पुतान आपल्या बापाय परीं sex friend जांवचें नाका."

"परत परत उचारोंक...." आग्नेसाचींच उत्रां उचारलीं हेड-मास्टरान. "तुवें ताका वीक दीव्न लगाड काडलोय म्हण सगळो संवसार म्हणता..."

"व्हय तरी?" आग्नेसाचो ताळो आतां नंजाळी जालो. "कितल्या काजारी स्त्रीयांनी म्हाका सांगलां जाणांय? तुजो पती निजायकी 'सेक्सी', आग्नेस. तुजें नशीब, सायबिणी. आमचे घोव, एक दोन वरसांनी पाळ कातरलेल्या बोन्सायपरीं जातात. तुज्या पती तसलो एकलो आमच्या घरांनी आसल्लो तर... व्हांव...what a sexy thought..."

हेड-मास्टर हासलो. "तुमी स्त्रीयोयी असलें उलवणे उलयतात म्हण हांव नेणासल्लों"

"तुवें नेणासचें सबार आसूंक पुरो, सर!" आग्नेस म्हणालें. "पूण म्हज्या रोलीन आपल्या बापायपरीं जांवचें नाका."

हेड-मास्टरान एक लांब स्वास सेवलो आनी खिणाक पावटी आग्नेसच्या स्थनांचेर चरची आपली दीश्ट आडावन -आरावन आतां तिच्या दोळ्यांचेर खंचयली.

"मनशाकुळाचें मुळावें चिंतापच्च लैंगीकता, आग्नेस!" हेडमास्टराचो ताळो आतां बदलाल्लो. "प्राय भरोन येताना हें चिंतप एक निद्रीशट रूप घेता आनी तें रूप जावन आसा संभोगाचें. आमकां दिमाग आसलल्यान एक समाज रचून ह्या चिंतपाक आमी एक वेवस्तीत समाजीक रूप दिलां. चवदा, पंदरा, सोळा, सतरा वर्सांचेर एकलो चलो एके चलयेक गर्भेस्त करूंक शकता पूण आमच्या समाजान 'पिराय भरचे परयांत राकाजे' म्हळ्ळी वोंय घाल्या. पूण, लैंगीकता दांबून-थांबवन दवरूंक जांवची न्हय, आग्नेस. एका ज्वालामुखींत हुनहुनीत लाव्हा कितलो तेंप रावोंक सकात?"

"तर कितें करिजे म्हणचें तुवें?" आग्नेस सगळीच्च तांबडी जाल्ली. "रो...लीक एक होकाल हाडूं? हेंच शिकयतात तुज्या हैस्कूलांत जांतुं सेक्स ऐड्युकेशन तूं दिताय? फाल्यां सांगतोलोय तूं पाद्री-माद्रींक लग्न जावंक परवनगी दीजे...कित्याक, 'सेक्स' दांबून दवरची न्हय, लैंगिकता म्हळ्यार नैसर्गीक देणें...तर एड्स कितें लैंगीकतेन दिल्लें देणें?"

"हें तुजें चिंतप धुसपटायेचें, आग्नेस!" तो म्हणालो. "तुका कांय पंचेचाळीस वर्सां जालीं कळना आनी तुजो पती अंतरोन कितलीं जालीं? तीन वर्सां? पातियेजे हांवें तुज्या ह्या सुपुश्ट कुडींत आनीक उजो ना म्हण?"

"तुजें असलें उलवणे हांव तुज्या अधिकारींक सांगान तर..."

"म्हाका कांय जांवचें ना!" तो म्हणालो. "शाळेंनी घड्चीं कृत्यां, खुनीयो, विद्यार्थिंच्या बोल्सांनी हातेरां, मादक वोकतां, आमालाच्यो सिसल्यो...हें सर्व तुजे असल्यां आवयांच्या चिंतपांचो फळ, आग्नेस. एड्स सयत. लैंगीक शिकप जाय तुजे तसल्यांक, तुमच्या भुरग्यांक न्हय."

"कितें चिंताय तूं?" आग्नेसान विचारलें. "हांव तुज्या क्लासींत येवन बसतेलीं आनी तुजें भासकळपणा आयकातेलीं म्हण? हांव येवंची ना आनी रो...लिकयी धाडचीं ना. ताका जाय जाल्लें सेक्स ऐड्युकेशन हांवच्च दितां."

"हांव तें पातियेतां!" म्हणालो हेडमास्टर. "तुज्या पतीक हांवयी वळकातालों."

"You bastard!" आग्नेस म्हणालें.

***

रोलेंडाची वाडावळ त्या सकाळीं पूर्ण जाल्ली. ताका जाग जाली. कसल्या कसल्या गलीच्छ स्वप्णानी ताणें रात पाशार केल्ली. आदल्याच दिसा तो कुमसाराक वचून आयिल्लो आनी पातकांच्यो समयो (temptations) चुकय सोम्यां म्हळ्ळें मागणें ताणें उचारिल्लें निदोंक वेच्या फुडें. आपल्या राकण भड्व्याकइ (guardian angel) ताणें मागणें भेटयिल्लें, तशें ताका माम्मीन सवंय केल्ली. 'श्रेश्ट भड्व्या सां. मिंगेली...' तरी शेजारचें फातिमा ताच्या स्वप्णांत आयिल्लें. मुस्लीम चली ती, गोरिच्च आनी सुपुश्ट. 'तुजें चान्स-रे' शेजारचे चले म्हणताले. "ताणें आतांच मात्यांगोळ घालूंक सुरू केला. ताचो तोडो उसळ्ळा (crude way of saying she is menstruating) अशें म्हजी माम्मी डॅडी लागीं म्हणताली. 'तशें म्हळ्यार कितें, माम्मी?' म्हण हांवें विचारल्ल्याक तिणें म्हजो कान वोळायले. ती कितें चिंता म्हाका कळित ना म्हण? त्या लांब दिवसा पंदाक तें 'ब्रा' आनी 'प्यांटी' खंडीत घालता-रे. तुजें नशीब -रे."

"म्हजें कित्याक नशीब?" रोलेंडान विचारल्लेल्याक तांणी जाप दिली ना.

***

त्ये रातीं फातिमा ताच्या स्वपणांत आयिल्लें. हें कांय पयिल्ले पावटीं न्हय. फातिमाची वाडावळ ताका कांय अपरिचीत न्हय. ताच्या हरद्याची उबाराय दिसान दीस चडोन येताना आनी ती उबाराय ताच्या दिश्टीक तोपताना ताका आपल्या जांगां मदें मिरमीरें वेदन जातालें. तवळ तो आपणाकच पोशेतालो. सबार पावटी फातिमान बातरुमांत विवस्त्र जांवचें दृश कशें आसात म्हळ्ळें नियाळतालो. पयलें आपलो मांत तें काड्टलें...उप्रांत तो लांब लीबास...उप्रांत तें सिलकाचें सल्वार-खमीजाचेर...तें सिल्क ताच्या कुडीक चिडकोन रावल्लें...बातरुमाच्या धोव्या इट्यांचेर प्रकासभरीत लायटांचो हमलो जातालो आनी फातिमाची गवां-रंगाची कूड कशी उजळात? आनी थोडींच सेकुंदां...फातिमा आपलें खमीज निकळायतालें.

"म्हज्या पात्कांच्यो समयो चुकय देवा!"

काळो 'ब्रा' ताणें चिंतल्लेपरीं...आशेल्लेपरींच खमीज निकळावन फातिमान एका खिळ्याक शिरकायलें. आनी आतां सल्वार..नाड्याची गांट

सुटयली फातिमान..एका खिणा भितर सल्वार बातरुमाचे धरणीर गळ्ळें...व्हय, ताणें आशेल्ले परींच... फातिमाची दीशट ताचेर पडली.

"हराम्या" तें बोबाटलें. "हांव मुस्लीम चली. हें सर्व हराम. कसो पावलोय तूं म्हज्या बातरुमांत?"

"ना फातिमा, ना! हांव तुज्या बातरुमांत ना. हो एक भ्रम...म्हाका तूं बरें लागताय, फातिमा I love you... हांव तुज्या बातरुमांत ना...हो एक भ्रम!"

तवळ, तें हांसलें.

"ह्या तुज्या भ्रमेंत कितें जाय तुका?" फातिमान विचारलें. "म्हाकायी तूं बरो लागताय. पूण जाणांय म्हजो अब्बा आनी अम्मी, आमकां अशेंयी कित्याक बंदडेंत दवरतात?"

"म्हजी माम्मीयी तशीच्च. आज पुणी..."

"सांग, रोली सांग...हांव तुजींच...कितें तुका जाय? ये,ये...सॉररी, तुका हांवें हरामी म्हळो. कितें जाय तुका? सवकास हो ब्रा आनी ही प्यांटी काडुं..."

फातिमाचे हात आपल्या ब्राच्या पाटल्या कुशीन गेले आनी तेच्च घडिये रोलेंडा बितल्ली ज्वालामुखी उमाळोन फुटली...

ताका जाग जाल्ली..

देगेनंच निदोन आसल्ली आग्नेस माम्मी.

तिका दोंकळून उटयलें रोलेंडान.

"माम्मी माम्मी!" तो बोबाटलो. "हांव पात्कांत पडलां, माम्मी! पळे कितें जालां तें म्हज्या पिजामाक?"

"कितें जालां, रो...ली...?"

"पळे माम्मी, पळे!"

आनी तिणें पळेलें

"इतल्याकच तूं भियेलोय, म्हज्या पुता?" आग्नेसान ताका आरावन धरून मुरडिलो. "आतां तूं परिपूर्ण दादलो जालोय, रो...ली."

"म्हाका दादलो जावंक नाका, माम्मी," तो रडलो. "दादलो जाल्यार हांवें लग्न जावचे पडटेलें म्हण तूं म्हणतालीय."

तिणें ताका आनिकी घट्ट आरायलो.

"तुका लग्न जावंक नाका, न्हय रो...ली?" आग्नेसान विचारल्लें. "तुका कितें शिकयिल्लें रो...ली? हांव तुजी आग्नेस माम्मी आस्तां पर्यांत तुका लग्नाची गरजच ना म्हण? हांव ह्याच्च दिसाक राकतालीं, रो...ली. तूं म्हजोच्च पूत रो...ली. तुका कोणाचिच्च गरज ना रो...ली!"

रोलेंड उसमडलो.

"पूण फातिमा म्हजो मोग करता, माम्मी!"

"कितें म्हणालोय तूं?" आग्नेसान ताच्या भुजांक धरून हालयलो. "तित्तुन पर्यांत पावलोय तूं? हांव जाणां, जनेलां खांचींतल्यान तूं तांच्या बंगल्याक पळेवनंच आस्ताय. तांणीं सुकत घाल्ली पंदली मुस्तायकी मेजताय आनी आतां...फातिमा तुजो मोग करता? ताच्या अब्बाक हें कळीत जायत तर तो तुका कितें करीत म्हळ्ळें तूं जाणांय रो...ली?"

"पूण फातिमा म्हजो मोग करता, माम्मी..." तो म्हणालो. "ताका हांवें तांच्याच्च बातरूमांत म्हजे खातीर विवस्त्र जाल्लें पळेलां, मम्मी आनी तशें जाल्ल्यान म्हाका कळीत जालें हांव तुजो 'बोन्साय' न्हय म्हण!" तो आपल्या पिजामाक दाकयलागलो. आग्नेस खटल्या वयली उटोन देगेन रावली.

"तुका हेंच हांवें शिकयिल्लें?" तिचें सर्वांग कांपतालें. "तुज्या बापयच्या मेटांनी तुका चलोंक हांव सोडिशीं ना."

आवय-पुताचे दोळे ऐकामेका खिळाले, झुजले.

"तुका तुजी जिणी जियेवंक जाय, त्या दळदीर हेडमास्टरान तुका हेंच शिकयलां न्हय? पळेतां हांव तुमी कित्तुन पर्यांत पावतात म्हण? ताच्या सेक्स क्लासिक तूं वेतोलोय-मू?"

रोलेंड हासलो.

"तूं सलवालीय, आग्नेस माम्मी!" तो म्हणालो.

***

दोन संगती आतांयी त्या शहरांत मिस्तेर जावन उरल्यात.

पयलीं, आग्नेसाचें मरण/खून/जीवघात. कोणाक कशें जाय तशें.

पोलिसांक कसलोच्च सुराग मेळल्लो ना. तिची कूड तांकां किचनांत मेळल्ली आनी कोणेंगी तिच्या मणिगांटिच्यो शिरो (nerves of the wrists)

शिंदल्ल्यो. कोणेंगी कित्याक, आग्नेसानच जायजे म्हळ्ळें फैसल दिल्लें पोलिसांनी. खून जाल्ली/केल्ली/ तर, तिका बांदून घाल्न, मोत चुकवन हें काम करते आशिल्लें. पूण असलें कसलेंयी जांवक नाशिल्लें... कोणायकी स्वताच्यो मणीगांटी शिंदून, रगत व्हळवन आनी सवकास मरणाक येवकार मागोंक सुलभ पूण धैर्य मात्र जाय.

कितेंयी तरी, त्या सकाळीं धा वोरांचेर, आपणालागीं आसल्ल्या चावियेन दार उगतें करून भितर आयिल्ल्या घर-कामाचे चलियेक आग्नेसाची कूड मेळटाना, रोलेंड, हेडमास्टराच्या सेक्स ऐड्यूकेशन क्लासींत आसल्लो म्हळ्ळी संगत, दुसरी...



# उचारोन सांग्तां

**फा**टल्या एका महिन्या थावन, नाका नाका म्हळ्यारी लोलिटाचे मतिंत पेट्रिशियाचीं उतरां घुंवतालीं.

एका स्थळीय क्लबांत वर्सावार चलचो संब्रम आशिल्लो आनी लोलिटा आपल्या पती सांगाता क्लब्बाक गेल्लें.

जबरदस्त पार्टी, कोकटेयल, डान्स, नानांत्या रितिंचे ख्हेळ-पंताट. थंयसर लोलिटाक पेट्रिशिया भेटल्लें... वर्सां उप्रांत. लोलिटा आनी पेट्रिशिया कालेजिंतलीं सांगातिणी. शिकप जाल्या उप्रांत पेट्रिश्यान गलफांत आशिल्ल्याक नवरो जावन विंचल्लो आनी पंद्रा-सोळा वर्सां तीं विदेशांत आशिल्लीं.

फाटल्याच मयन्यांत मंगळूर येवन सेटल जाल्लें पेट्रिशिया (भुरग्यांचें शिकप म्हळ्ळ्या संपया काराणाक लागोन!) लोलिटाक बेटचें पयिल्ल्ये पाव्टीं.

इशटिण्यानीं एकामेका पटलुन धरलें, उमे घेतले, हांव पयलीं हांव पयलीं अशें उरडोन, कुडक्या कुडक्या उतरांनी उलयलीं आनी सर्व अरदेंकुरें जातना वोमतीं-उदारीं पडोन हासलीं; एकामेकाचीं फोन नंबरां बरवन घेतलीं आनी फुडल्याच हफतयांत सांगाता मेळोन उत्रोन गेल्ल्या पंद्रा-सोळा वरसांची शिमटी धरतेल्यांव म्हण एकामेका भास दिली.

पूण असलें कसलेंयी घडलें ना!

पेट्रिशिया, जल्मा लेगुनंच हुळ्हुळें. गलफांत जियेवन ताणें चड आट-नेट सुरू करूंक नात तरी विदेशी जीवनान आनी मिसळापान ताक एक विशिश्ट परिपिकाय दिल्ली. दोगां भुरग्यांची आवय तरी पेट्रिशियाथंय चलियेच्च्या जिवनाची थोडीं पुणी किसरां उरल्लीं. ताचो पती जॉर्ज आतांयी गलफांत आशिल्लो,

वरसाक एक पावटीं ताणें गांवाक येवचें या पेट्रिशयान भुरग्यांक घेवन गलफाक वेचें असली मांडावळ ताणीं केल्ली. लोलिटा एक सांप्रदायिक स्त्री. शिकप जातेच ताका गांवांतच एका बेंकांत काम मेळ्ळें आनी पयलें थावन आपणाक गांवच जाय्त म्हण रावल्ल्या ताका, आनएका बेंकांत आफिसराच्या हुद्द्यार आशिल्ल्या मार्काची सोयरिक येताना ताणें फाटीं फुडें पळेलें ना.

मार्क, जिनोसान गंबीर मनिस; हळत जीव आनी दिगाय. आपलें काम म्हळ्यार देवच म्हण चिंतचो मनिस. 'झेरोक्स' केल्लें दसतावेज 'ओरिजिनल' आसल्लेपरीं आसा व ना म्हण पळेंवचेतित्लो तो सुकाशिम म्हण बेकांतले सहवावुर्पी ताचीं नकलां करताले.

कितलो गंबीर आनी शिसतेचो जाल्यारी धा जण जमताना आपल्या ह्या लक्षणांनी हेरांचें गमन धरूंक तो सकतालो; खुद्द हासानाशिल्लो पूण हेरांक हासयतालो!

हें सर्व, लोलिटान तित्लें गमन दिवन देक्लें ना. ताका जाय आशिल्लो बरया घराण्यांत्लो, बरया गुणांचो, बरया हुद्यार आसचो चलो. तो ताका मेळल्लो. बरो पती, अपरूप एक सिगरेट, आयताराचें दोन पेग्ग... लोलिटा खूश आशिल्लें. आतां सोळा वरसां उप्रांत तांचेंच्च एक एपारटमेंट आनी दोगां आपुरबायेचीं भुरगीं आशिल्लीं. गांवच्या समाजिंतल्या मध्यम वरगाच्या वरतुळांनी भरसूंक तांकां कसलेंच त्रास जायनाशिल्ले.

थोड्या दिसां आदीं मार्कान मारुती एकसटीम कार बुक्क केल्लें.

''खंय आसा तुजो मार्क?'' आपले बियेरीक घोट मारून हुळवळ्ळें पेट्रिशिया.

''ये, वळक करून दितां.'' लोलिटान पेट्रिशियाक आपवन वेलें. क्लब्बाच्या दाव्याक एका पंग्डांत उबो जावन मार्क कितेंगी उलवन आशिल्लो. त्या पंग्डांत दोगी-तेगी चलियो-स्त्रीयोयी आशिल्ल्यो. तीं मार्काचें आयकातालिं आनी मदीं-मदीं हांसतालीं. ''एक्सक्यूज मी मा...र्क'' लोलिटान ताळो काडलो. "I want you to meet someone special!"

पतिणिचो ताळो आयकोन मार्कान हेवशिन पळेलें आनी आपल्या पंग्डाक मान भागावन, हातांत ग्लास गेवन तो हेवशिन आयलो.

''मार्क, हें म्हजें कलेज सांगातिण पेट्रिशिया.'' वळक करून दिली लोलिटान.

''गलफांत आशिल्लीं, आतां हांगासरच सेटल जाल्यांत.''

पेट्रिशियान उबारोन धरल्ल्या हाताचो मार्कान उमो घेतलो. ‘‘तुजे तसलीं, सोबायेचीं हांगसर ‘सेटल’ जातीत तर, म्हजे तसल्यांनी ‘अन-सेटल’ जांवच्यांत नवाल ना!’’ तो म्हणालो. "My Pleasure!"

उपरांत, ‘‘कितें लोलिटा एक ‘शांडी’ पुणी घेनांय?’’ ताणें आपल्या पतिणिचें भुज आपडलें पूण जापिक राकलो ना. तो पेट्रिशियालागीं धाराळ उलयलो, तका ताणें हासयलें आनी पांच मिनुटांनी आपल्या पंग्डासरशीं फाटीं गेलो.

‘‘ये.’’ म्हणालें पेट्रिशिया मार्काचे फाटिक पळेवन. ‘‘वो-त्या मुल्यांत बसून उलोवयां.’’ मुल्याक वेताना पेट्रिशियान आनएक बियर घेतली.

‘‘तुवें तुज्या मार्काक सांबाळोन दवरचो बरो!’’ बस्का सोदतेच्च एकाचाणे म्हणालें पेट्रिशिया. ताचे दोळे मिणमिणताले.

‘‘मतलब?’’

‘‘तुजो मार्क ‘मेल गिबसन’ या ‘जोन ट्रावोलटा’ न्हय जावंक पुरो! पूण आप्लेच स्टाय्लिर, ताका स्त्रीयांक, चडशें चलियांक बनांवची कालेत, हुन्नर ताका आसा!’’

"Don't be silly!" उदगारलें लोलिटा. ‘‘मार्क तसो बिलकुल न्हय.’’

‘‘अशें चिंतची चूक आम्ची!’’ म्हणालें पेट्रिशिया, आपले बियरीक घोट मारून. ‘‘हे दादले.. तांकां कितल्योयी सुंदर पतिण्यो आसल्यारी, तांचो ते कितलोयी मोग करतात तरी, तांच्या मतिच्या एका कंत्रळांत बोलत्याच एके स्त्रीयेचें पिंतुर आसताच्च. तिचे दोळे, तिचें नाक, तिचें हरदें, तिचें पेंकट-बेंड म्हण एका fixationनाक ते पोसुन दवरतात. हांवें सांग्चें तर लोलिटा...’’ पेट्रिशिया उलवनच्च गेलें.

पार्टि आकेर जाताना मध्यान रात उत्रल्ली. ‘हीरो होंडा’चेर मार्काच्या पेंकटाक आरावन बशिल्ल्या लोलिटाचे मतिंत भरशिक बग्णा आशिल्लीं. ताचे मतिंत पेट्रिशियाचें कितलें ‘इन्फ्लुयेनस’ रिगल्लें तेंच नेणाशिलें पूण कितें तरी रिगल्लें तें खंडित. Fixation, एक निरदिश्ट आशा, एक फलाणो पाशांव. पतिणेचो कितलो मोग केलो तरी, ती कितली सुंदर आसा तरी...

एपाट्र्मेंटाक पाव्तेच वस्तुर काडून उडवन मार्क निदोंक गेलोच्च. लोलिटाक जेम लागीं आय्लिना. पेट्रीशियाच्या उलवण्या सांगाता पंद्रा दिसां आदीं घड्लेली एक संगत ताचे मतिंत उटोन नाचोंक लाग्ली.

त्या दिसा बेंकाचें काम जाल्या उपरांत तें सुपर मार्केटीक गेल्लें. ताच्या भुरग्यांक लागल्ली आशा ह्या 'जंक' खाणांची; चिकन नूडलस, हेम बरगर, पिटजा, सोसेजां, बेकन म्हळ्यार जालें. घेवंक चिंतल्लें घेवन भार्य येताना...

"लोलिटा!" एक अपरिचित ताळो आयकोन तें रावलें आनी फाटीं पळेलाग्लें. ताका नांवान आपयिल्लो दादलो लागीं येतालो. कोण हो? हाका खंयतरी पळेला...

"तुंच्च लोलिटा म्हण म्हाका हेर रुजवात नाका!" तो म्हणालो. "तुजें रुपणें हांव विसरोंचेपरीं ना." तो आनिकी लागीं आयलो. "ओळकालेंय?"

"तुका खंयसरगी.." लांबयलें लोलिटान. ताका त्या दादल्याची ओळक मेळ्ळी. 'ही शनी हांगासर... इतल्या वर्सां उपरांत?' तें मतिंतच उदगारलें.

"May I help you?" सुपर मार्केटिचें बेग घेवंक मुकार आय्लो डेनजिल.

"नाका, डेनजिल... हांव रिक्शा धरून वेतां."

"इत्ले वेग्गीं?" तो ताचे दोळे धरिलागलो. "इतल्या वर्सां उपरांत मेळ्ळेंय... आदल्या उडासां खातिर पुण्यी आय्स्क्रीम कांव्टराक या?"

लोलिटान लांब उसवास सेवलो. "डेनजिल" तें म्हणालें. "म्हाका म्हजीं भुरगीं राकतात... हांव काजारी स्त्री!"

तो उगत्यान हास्लो.

"तुं खंच्या शतामानांत आसाय, लोलिटा?" ताणें विचरलें. "हांवयी काजारी आनी म्हाका तेगां भुरगीं आसात. त्या शिवाय म्हजी पतिण टावनांतच्च आसा. अमेरिकाथावन फकत्त पंद्रा दिसांचे रजेर आमी आयल्यांव. 'You know the life in the States' तो पेंकटार हात दवरोन राव्लो. "पुण हांगासर.. कलेज सांगात्यांनी, जांव ती काजारी - सांगाता बसून आय्स्क्रीम खांव्क नजो म्हळ्ळें कानून केदळा आयलां?"

आता लोलिटाक हासाजेच पडलें.

तीं आय्स्क्रीम कावंटराक गेलीं. आयस्क्रीम खेल्ल्या प्रास चडित रुचिन आपली भाट-बाडाय उलयिलो डेनजिल आनी इत्ल्यच न्हय तरी तित्ल्याच उत्रांनी आपुण लोलिटाक विसरोंक ना म्हळ्ळो संदेश दिलो ताणें.

"एका वेळार" तो म्हणालो, "म्हजे पतिणेक सोडुन दांवचें तर हांव तुकाच्च घेवन धावतोलों! तूं आतांयी स्याल्ली फिल्डा परीं दिस्ताय." लोलिटान ताच्या उतरांचें गुमान केलें ना.

त्ये सांजेर लगबग एका घंटयाच्या तडवान तें एपारट्मेंटाक पावलें. डेनजिलान ताका टेकशेर पावयलें.

भुरगीं होमवरक करतालीं. मार्क येंव्क नाशिल्लो.

कितोंगी हें प्रकरण लोलिटान मार्काथावन लिपयलें. एकदम 'सेन्सिटिव' आनी 'सेंटिमेंटल' मनिस तो... एकाचाणे दुबावी जाय्त तर?

पूण त्ये रातीं खाटियेर निदोन हळतान घोरेंवच्या मार्काक पळेताना डेनजिलाची मुलाकात आनी पेट्रिशियाची दोतोर्न ताका धोशिलागली.

आपुण, चाळिस उत्राल्ली काजारी स्त्री कलेज सांगात्या सांगाता आय्स्क्रीम खाव्न, फलां मारून पतिथावन लिपवंक सकता तर, चाळिस आनी पांच उत्राल्लो मार्क कितें सर्व करूंक सकाना? तो तडव करून आयल्यारी हांव विचारिना... तो टूरांक वेता, बेंकाच्या सेमिनारांक वेता... कोण जाणा?

डेनजिलाची मुलागत लोलिटाक रुचलीना म्हळ्यार चूक!

आय्स्क्रीम काव्ट्रांर, पांचच्च मिनुटां बितेर तें ताचेलागीं सुडाळायेन पूण चात्रायेन उलवक लागल्लें. डेनजिलाचो 'प्ले-बोय' जिनोस आनिकी माजवंक नाशिल्लो. खंच्यागी एका रुपदरशी (मोडेल) लागीं तो लगीन जाल्लो. सहज जाव्न लोलिटाक ताचो सांगात बरो लागिल्लो, एक नवो हुरूप हाडून आयिल्लो. आपणाक चाळिस उतल्ल्यारी दादल्यांक आतांयी आकरशिक दिस्तांव म्हळ्ळें आय्कोन ताका विचित्र दिसल्लें.

हुनार हुन, नवयार नवें, सोळा वरसांचे आवदेंत हें सर्व चिंतुंक कोणाक वेळ आशिल्लो? सर्व यांत्रिक जाल्लें. खंय एक पावटी पाशांवी मोग, क्रिसमसाक, 'ईसटरा'क, व्हडा दिसाक एक उमो...

मार्काकयी अशेंच भोगतालेंगाय?

लोलिटाचे मतिंत वादाळ उटलें. दुबाव चरले. फाटल्या थोड्या दिसां थावन मार्क पार्को-पार्को चोरां भाशेन करतालो. सदांयी तडवान येतालो. आदल्याच्च हफ्त्यांत एक पेग्ग चड जाल्ल्या वेळार कोणाकगी उलो मारल्लो. ताणें माम्मी म्हळ्ळें या 'पम्मी?' कोण हें 'पम्मी?' तवळ चिल्लर दिसल्ल्यो संगती आतां लोलिटाक-पेट्रिशियाचे शिकवणेन-दोंग्रापरीं जाल्ल्यो.

एक निरधिशट आशा, फलाणो पाशांव....

हांव डेनजिला सांगाता बसुन आय्स्क्रीम खावन मार्काथावन लिपंवक सक्तां तर मार्क दादलो जावन कितें सर्व करूंक सकाना? चे छे... असलीं चिंतना बरीं न्हय. हांवें मार्कालागीं उचारोन सांगाजे. पूण म्हाका धय्र आसा? म्हजो मार्क तसलो न्हय... त्या पेट्रीशियाक कोलो वरुंदीं पेल्यान! म्हाका ताचें 'कोंट्याक्ट'च नाका. तें परत मार्काक पळेलाग्लें; त्ये रातीं ताका नीद पडली ना.

असेंच एक म्हयनो पाशार जालो.

आपले हेळ्के विणेंच्च लोलिटान मार्काचेर निगा दवरची आतां चड जाली, सदांची जाली. पुण सुटांवे विचारंक ताका धय्र नाशिल्लें. एकावेळा मार्कान म्हाका डेनजिला सांगातांत पळेल्लें तर? मार्कान हफ्त्या मधें तीन-च्यार वावटी तडव करून येंव्चें, एक पेग्ग चड मार्चो कांय नवेंसांव न्हय. पुण आतां हें सर्व नवें मालदिसांव कशें जाल्लें.

एक पावटी ताणें चिंत्लें, पेट्रिशियाक फोन करून ही सम्म्दिगद परिगत हल्ल करुयां म्हण. पूण तें पेट्रिशियाच्च उळ्टें रावात तर, मार्काचो भेजो फिरवायत तर? त्या पार्टी वेळार कित्ल्या उमाळ्यांनी मार्कान पेट्रिशियाच्या हातांचो उमो घेवंक ना?

तो दीस आयतार.

भुरगीं स्विमिंगाक गेल्लीं.

थंय्थावन 'हेमबर्गर' खाव्न येतांव म्हण 'पर्मिशन' गेवन गेल्लीं. हुंम... ह्या सारवाक तांकां बापयिच्च जाय!

दनपारांचीं बारां जाताना मार्क येकाचाणे म्हणालो, "चल, पंजाबी दाबाक वचून जेवयां!"

लोलिटाक हें खूब विचित्र दिसलें. पंजाबी दाबा लोलिटाक पसंद, मार्काक न्हय.

'चायनीस' म्हळ्यार तो लाळ गळतालो.

तर आय्ज कितें?

मतलब कसलो, हां?

तांचे मारुती एसटीम आयिल्लें. ड्रायविंगांत आतांयी मार्क तितलो 'स्टेडी' नाशिल्लो. कारांत बस्ताना, डेनजिलान आपल्या 'फेरारिची' बडाय सांगल्ली ती

लोलिटाक उडासा आयली. छे! आपूण कित्याक आतांयी त्या डेनजिलाचें चिंतां? तें आप्णाकच्च चिमटिलागलें.

पंजाबी दाबांत चड लोक नाशिल्लो.

कितें, 'ओरडर' केलें तें ताच्या गमनाक गेलें ना. 'वेयटर' तेव्शिन वेतेच्च मेजार मुकार भाग्वोन मार्क म्हणालो. 'लोलिटा' ताचो ताळो चिक्केशे कांपतालो. "एक संगत तुका सांगोंक आसा."

हीं ताचीं उतरां लोलिटा थंय जिरोंक थोडो वेळ लागलो.

उप्रांत...

'नाका देवा, नाका...' तें मनिच्च बोबाटलें. 'हो उचारोन सांगता तर, म्हाका आयकोंकच्च नाका!'

"उचारोन सांगाजे म्हण सबार दीस थावन चिंतालों..."

"पूण धय्र पावलें ना, व्हय?" तें मतिंतच म्हणालें. 'कितें पुणी आसतेलें म्हण हांव जाणाशील्लीं... न्हय तर तूं पंजाबी दाबाक हाडचो मनिस न्हय...'

"म्हजे थावन एक चूक घडल्या!"

'हांवें फकत आयस्क्रीम खेल्लें... तुवें कितें केलांय पळेयां...' लोलिटा बितल्ल्या-बितर फुमार जालें.

"फकत तुं म्हाका भोगसुंक सकताय!"

लोलिटाचो जीव कांपलो आनी कपालार बारीक घाम सुटलो.

"आतांच्च लोलिटा, आतांच्च" ताचें कोशेड्द उलयलें. 'आतांच्च डेनजिलाचें प्रकरण सांग, तुमी समासम जातेल्यात, ताकडी 'बेलेन्स' जातेली.'

"तुं कितें चिंताय?" मार्कान विचाल्लें. "कितें जालें? हांवें कांय तरी सांगच्या फुडेंच्च तुं अशें?"

लोलिटान धय्र आरायिलें.

"म्हाकायी एक संगत उचारोन सांगोंक आसा!" तें म्हणालें पुसपुस्यांनी.

"रियल्ली?" विचाल्लें मार्कान. "पुण फुडें म्हाका आयक... तुं जाणांय हांव कितलों सेंटिमेंटल आनी सेनसिटिव म्हण..."

'म्हजे वयली ही कालस निवार, देवा' लोलिटान बायबलाक हाक माल्ली. 'कांय हो पेट्रिशियाक्च्च लागोंक ना-मू?'

‘‘आमच्या लग्नाच्या पंद्राव्या वरसा आमी येकामेकाक भांगाराच्या वोपेचीं ‘क्रोस’ पेन्न (Gold Cross pens) दिल्लीं न्हय?’’

लोलिटान दोळे वाटाल्ले.

‘कितें उलयता हो? तें पेट्रिशिया केन्नां ‘क्रोस’ पेन्न जालें?’

‘‘ह्या इनामंचेर कित्लें ‘सिंतिमेंताळ’ मोल आसा तें तुं जाणांय, डारलिंग म्हजें... हांवें... म्हजें ‘क्रोस’ पेन्न एका म्हयन्या आदीं हांवें होगडायिल्लें आनी... हांवें जायतें सोदलें पूण मेळ्ळें ना... I'm sorry, Lolita!’’

उपरांत्लीं उतरां लोलिटाक आयकालिंनांत.

तें फुमाल्लें, फुमाल्लें आनी रडलेंच्च!

‘‘तुं रडतेलेंय म्हण हांव जाणासलों, डारलिंग.’’ तो म्हणालो लोलिटाचे हात आपल्या हातांनी घेवन. ‘‘हांव सिल्ली मनिस न्हय? तरी सोर्‍री, रियल्ली सोर्‍री’’ ताणें आपलो ‘ह्यांकी’ लोलिटाक दिलो.

‘‘हांव निजाय्की स्टुपिड!’’, म्हणालें लोलिटा. ‘‘कितलीं आनी कसलीं पिशीं हांव.’’

‘‘कित्याक? कितेंगी सांगोंक आसा म्हणतालेंय... कितें तें?’’

लोलिटान आपलें बेग उगतें करून आपलें ‘क्रोस’ पेन्न काडून मार्काक दिलें.

‘‘हें पुणी होगडाय नाका!’’ तें म्हणालें.

मार्कान. तें पेन्न व्हडा मानान घेतलें.

‘‘कितेंगी सांगोंक आसा म्हणतालेंय...’’ मार्कान परत विचाल्लें.

‘‘व्हय, मार्क!’’ तें म्हणालें. "I love you!".



# घुगूम

एका मतलबी हास्याच्या मुखमळान आपले सरशीं आयिल्ल्या ह्यारियेटाक पळेवन सोफायान आपल्या हातांत आसल्लो केन फोल्लेटाचो बूक धांपलो. ह्यारियेटाच्या हास्यांत फुडें कितं येवंक आसा तें बऱ्यान तें जाणा आसल्लें. को-एड्युकेशन कोलेजीच्या लेडीस रुमांत चार-पांच जणां मात्र आसल्लीं- दोनपारांच्या जेवणाची सुटी.

कसलेंगी व्होजें हाळू जाल्ले परी उसक्यार बूक दवर्न ह्यारियेट धप्प करून सोफायाच्या कुल्याक कुलो लागवन बोसलें.

"म्हाका कोंग्राच्युलेशन्स म्हण, सोफाया!" तें ताच्या कानांत पुसपुसलें. सोफायान नाकार गळचें आपलें काळ्या फ्रेमाचें दाट वॉक्ल पाटीं बसयलें.

"आज खंच्या वागाक मारलोय, ह्यारी?" तें विचारी एका लांब उस्वासा संगीं.

"वागाक न्हय, एका हंकारी पाड्याक फसयलो!" खतकत्यांनी म्हणालें ह्यारियेट. "कोण म्हण विचारिनांय?"

"कोण?" येरेल्या आपल्या बोटांच्या नाकश्यांक पळेवन विचारलें सोफायान.

"तोच्च, लेस्टर!"

"फायनल बिबिएमांतलो?"

"रायट!" ह्यारियेट हुळहुळ्ळें.

"फाल्यां दोनपारां उपरांत म्हाका सिनेमाक व्हरूंक तो ऑपला. It's a date, darling, a date!"

"वेरीं गूड!"

"बस? तितलेंच?" ह्यारियेटान निराशेचो ताळो काडलो. "भारिच्च उसळतालो, ह्यांड्सम रा़सकल. कोण जाणां, म्हजे तसल्या ग्लामर गर्लाक डेट करूंक भियेतालोयी, कोण्णा! पूण हांवें प्लान सांगतेच ओंपलोच्च."

"कसलें प्लान, ह्यारी?" सोफायान आपल्या किरंगळ बोटाची नाकशी चाबली.

"कम ऑन, सोफाया!" ताच्या खांदार हात दवरलो ह्यारियेटान. "Don't be so naive. तितलें सादें-भोळें जायनाका. तुजो सहकार ना जाल्यार अठराव्या शतमानांतली माम्मी आसच्या म्हाका डेटीचेर वचूंक साध्य आसा?" सोफाया हासलें.

"तूं हासताना कितलें क्यूट दिसताय जाणाय, सोफाया?" ह्यारियेट ताचें भूज हालयलागलें. "हें वोक्ल कुशीक मारून कोंट्याक्ट लेन्स घालशी तर, आनी फिगर चिकेशें ट्रीम करशी तर चल्यांचेर कसली भूल पडत म्हण म्हज्यान सांगोंक साद्य ना. आनी, for heaven's sake नाकश्यो चाबा नाका. येरेल्ल्या नाकश्यांक ऑकाद हाडूंक स्टेटसांत आसचे म्हजे आंटीक चीट लिखतां."

"हांवें तुजे खातीर कितें करिजे, ह्यारी?" गंभिरायेन विचारलें सोफायान.

"हुं! सदांचेच परी ever serious." ह्यारियेट भुजां उडयलाग्लें. "राव, तुका तुज्या कर्लांतलें वेगींच्च हांव भायर काडटेलीं. आसूं... फाल्यां सकाळीं सुमार साडे-धा वरांचेर म्हजे मम्मीक फोन कर; यु नो... मम्मी घरांत आसताना म्हाका फोन काडूंक परवणगी ना. शी इज रियली सिली. तूं तिका सांग - हांव ह्यारियेटाक दनपारां अडेच वरांच्या फिल्माक व्हरतां - अशें. तुवें अशें सांगल्यार तिका कसलोच्च डव्ट जावंचो ना. तुजे तसलें intelligent, कॉलेजींतलें बुदवंत घुगूम तिचे धुवेक सिनेमाक आपयताना कोणाक दुबाव जायत? उपरांतलें म्हजेर सोड!"

"खंच्या फिल्माक म्हण विचारल्यार?"

"बरें सवाला!" ह्यारियेट म्हणालें. "म्हजो लेस्टर कांय उणो न्हय. तें 'शिंड्लर्स लिस्ट' फिल्म आयलां पळे... तें उण्यार उणे तीन घंटे आसा खंय. फिल्माचें नांव आयकाल्यार माम्मी इंप्रेस जावंक आसा टिकेट्यो लेस्टरच्च काडटलो."

"हुं! फाल्यां सकाळीं फोन करिजे?"

“धा वोरार-शें. प्रोमीस?”

“प्रोमीस.”

“तुका कांय धोस जावंची ना?”

“हांव कशींयी पेयिंग गेस्ट जावन रावतां.” म्हणालें सोफाया, केन फोल्लेटाच्या बुकाचीं पानां परतून. “म्हाका विचारतलो कोण ना. त्या शिवाय... असल्यो दयाळ करन्यो हांवें आदींयी केल्यात... देकीक... मारियेट, लिंडा, शिफानी, क्यारल....”

“आय नो आय नो डार्लिंग!” म्हणालें ह्यारियेट. “लेस्टराकयी हांवें तशें सांगलें... तूं खंडीत जावन को-ऑपरेट करतलेंय म्हूण. तुका कितें? धर्मार्थ एक फिल्म आनी ते उपरांत एक पिट्जा, बर्गर आनी दोल्लोप्स इसक्रीम...”

“फोन करचें करतां, ह्यारि.” दुकलेल्या ताळ्यान म्हणालें सोफाया. “पूण हांवेंयी येजे?”

“ओ हेल्ल!” उदगारलें ह्यारियेट. “लेस्टरा सांगता म्हाका कोणें तरी पळेल्यार... तेंयी एकल्याकच्च?”

सोफायान जाप दिली ना.

“तूं हें वोक्ल उडोवन कोंट्याक्ट लेन्स घाल.” उटोन वेच्या फुडें म्हणालें ह्यारियेट. “न्हय तर घुगूम म्हळ्ळें नांव तुका खायाम चिडकातेलें.”

आतांयी सोफायान कितेंच म्हळें ना.

***

ते रातीं आपल्या पेयिंग गेस्ट रुमांत बसून आसल्या सोफाया थंय मिश्रीत भोगणां आसल्लीं. ही कांय ताका नवीं न्हय. आपूण आकर्शीक ना म्हळ्ळें ताका कळीत आसल्लें. आनी सर्वांनी चिंतच्या प्रकार तें तितलें काय इंटेलिजेंटयी न्हय. ताचो तो जिनोसच तसलो - मटवो जीव, रुंद पेंकट, कुरंबील (unruly) केंस, केदळारी नाकार गळचें तें काळ्या फ्रेमाचें वोक्ल. सिरीयस वाचपांत, क्लासीक सिनेमांत, उंचल्या थियेटरांत ताका आसची अबिरूच... ताका कोलेजीचें घुगूम म्हळ्ळें नांव हाडून आयिल्लें. साबार विद्यार्थी म्हणतालीं - फुमांचू संतती थावन झेंगीसखान, खोमेनी आनी ईदी अमीनाचे संततीक सयत ते जाणां!

हीं सगळीं फुखारां बनावटी म्हण सोफाया जाणा आसल्लें. तांचें तांचें काम जाता पर्यांत मात्र. पूण ही संगत सोफायाक दणसी नातल्ली. कसल्यायी परिगतीन आपणाक दणसूंचो अवकास तें बिल्कूल दिनातल्लें. तरी एकेक पावटी स्त्री सहजतेन, आपूण तितलींयी कुरुपी गी आनी वोक्ल घाल्ल्या घुगूम परीं दिसतांगी म्हळ्ळें सवाल ताच्या मतींत उदेनासतां रावनातल्लें. एक चली कशीयी आसुंदी-दिसुंदी, तिचे थंय आकर्शणाचें कसलें तरी किसर आसता म्हण ताणें आयकाल्लें. एके चलियेच्या गालांचेर पड्च्या फोंडकुलांचेर, गळशिरेचेर आसच्या एका काळ्या तिब्याचेर थोडे चले पिशेच्च जातात म्हण ताणें आयकाल्लें. आपणा थंय तसलें कसलें आसागाय?

लेस्टर कांय ताका अपरिचीत न्हय. हीं फायनल बी. ए.त आसात तर लेस्टर फायनल बि. बि. एमांत आसल्लो. दोन तीन पावटीं चर्चा कुटांनी आनी हेर शिकपा चटुवटिकांनी तीं मुखामुखी जाल्लीं. लेस्टर, भायल्यान कांय 'प्ले-बॉय' कसो दिसतालो तरी ताचे थंय कसलिगी सुप्त गुंडाय आसा आनी ताचो भितरलो जिनोस वेगळोच आसा जावयेत म्हण सोफायाक साबार पावटीं भोगल्लें. पूण आतां ह्यारियेटा तसल्या पिसोळ्याक लेस्टरान 'डेट' मारल्या म्हणताना....

'शिंड्लर्स लिस्ट' फिल्म चलच्या सिनेमा घरा भायर ह्यारियेट येवंच्या फुडें सोफाया हाजर आसल्लें. फिल्माक कठीण 'रश' आसल्लो. चडशे विद्यार्थीच. लेस्टर दिसानातल्लो. भोवशा, ताणें 'एड्वान्स बुकिंग' केल्ल्यान वेळार येतलो. खंय थावनगी उदेल्लें ह्यारियेट आपल्या बावळ्याक उमकळताना सोफायाक जाग जाली. ह्यारियेटान, आंगार आनी दिरुसाचेर माखल्लो सुगंद ताका उसमडीत करिलागलो.

'I am excited!' पिसपिसलें ह्यारियेट. ''थ्यांक्स, सोफाया'' हातांत आसल्ली 'पोप कोर्न' पेकेट ताणें मुखार वोड्डायली. सोफायान, विंचून म्हळ्ळें परीं तांतले दोन कण घेतले.

तांचें मदीं उलवणें चल्लें ना.

फिल्म सुरू जावंक पांच मिनुटां आसताना आपल्या 'शोगन' बायकाचेर लेस्टर आयलो.

“टिकेट्यो मेळ्ळ्यो?” तो बायक पार्क करून हांचे सरशीं येताना ह्यारियेटान अनावशें सवाल केलें.

“शुवर!” तो म्हणालो. उपरांत सोफायाक पळेवन, “हाय, सोफाया” म्हणालो. सोफायान प्रतीवंदन केलें पूण निरुत्साहान.

“सीट नंबरां खंची?” आतां ह्यारियेट लेस्टरा कुशीन वोंदालें. ताणें दिल्लो ‘पोप कोर्न’ लेस्टरान घेतलो ना. ‘H28,29,30' ताणें मटव्यान जाप दिली.

“तिनयी सिटी सासांगाताच!” तें उद्गारलें 'How unromantic!' अशें उचारल्या उपरांत ह्यारियेटान, सोफायाक पळेवन वोंट चाबले. 'I am sorry, Sophia... You know this date...'

“म्हाका समजाता!” म्हणालें सोफाया. “म्हजी टिकेट तुमी कोणाक तरी विकयेत.”

'Good idea!'

'Don't be silly, Hariette!' व्यक्त विरारायेन म्हणालो लेस्टर. “थियेटाराच्या काळोकांत कसलो एकांत आमकां मेळत? सोफाया कांय हेवशीं-तेवशीं पळेनासतां फिल्म पळेतलें, पूण हेरां? हेर?”

हें आयकोन ह्यारियेटाचें मुखमळ बावलें.

“एकामेकाची ‘कंपेनी’ आसल्यार पुरो.” सिनेमा घराची मेटां चड्ताना उतरांचो ‘शोट’ मारलो लेस्टरान. एका खिणाक ताचे दोळे सोफायाचेर खंचले.

“हु! एकामेकाची कंपेनी!” तगसाल्ल्या ताळ्यान म्हणालें ह्यारियेट.

***

फिल्म जालें; हेमबर्गर, पिट्ज़ा जालो आनी लेस्टर आपल्या बायकाचेर निकळ्ळो. हीं दोगां अटोरिक्शा करून सोफायाच्या पेयींग गेस्ट हावजाच्या गेटी लागीं पावलीं.

“फिल्म बरें लागलें?” सोफाया देंवताना, ह्यारियेटान लजेनशीं विचारलें.

सोफाया हांसलें. “व्हय! हांवें एकच्च एक दृश सोडूंक ना.” ताच्या उतरांनी ‘हांवें तुमचे कुशीन घुंवोन सयतयी पळेवंक ना’ म्हळ्ळें आश्वासन आसल्लें.

ह्यारियेटान एक लांब उस्वास सेवलो. “हूं! हेवशी दृशां-कांय Basic Instinct तांतलीं न्हय!” तें म्हणालें एका सुप्त निराशेन.

सोफाया देंवतेच ह्यारियेटाक घेवन रिक्शा गेली.

***

थोड्याच घंट्या भितर हें प्रकरण सोफायाच्या मतींत माजवोन गेलें.

उपरांत, आक्खे कितले दीस पाशार जाले म्हण सोफायाक यादींत उरलेनांत.

त्या सकाळीं कॉलेजीच्या 'च्यापला' थावन भायर येताना कोणेंगी आपणाचें नांव उलो केल्लें आयकोन सोफायान फाटीं पळेलें.

लेस्टर!

'Good Monrning!' म्हणत तो ताच्या सरशीं आयलो. "तूं conventionक वचूंक नांय?"

सोफायान बुजां हालयलीं आनी नाकार देंवल्लें वोक्ल पाटीं बसयलें. "इंट्रेस्ट ना."

"आज तुजी परत्यान गर्ज पडल्या!" हेवशीन-तेवशीन पळेवन म्हणालो लेस्टर. "Schindler's List परत्यान पळेवंक जाय खंय... एकल्याक."

"पूण तें कन्वेनशनाक गेलां."

"व्हय! हांव जाणां."

"ताच्या माम्मीक फोन करिजे खंय?"

"गर्ज ना."

"स्मार्ट! दनपारां उपरांत कन्वेन्शनाक गुटली मारतेलें" अशें म्हणोन सोफाया हांसलें.

"पूण तुवें येजे!" आनीकी लागीं सरोन लेस्टर म्हणालो. "आज लास्ट डे"

"हुं... तें फिल्म हांव परत्यान पळेवंक सोदतालीं." सोफाया म्हणालें. "हांव येतां. थ्यांक्स."

लेस्टराच्या मुखामळार उदेल्लो आपालिपा हांसो सोफायाच्या गमनाक गेलोना.

सिनेमा घरा लागीं लेस्टर ताच्याकी फुडेंच हाजर आसल्लो.

पूण ह्यारियेटाची झळक नातल्ली.

"आनिकी येवंक ना?" सोफायान विचारलें, चिकेसे विस्मितायेन.

"ना!"

"टिकेट्यो हाडल्याय?"

“व्हय! पूण ह्या पावटीं दोन बसका सांगाताच घेतल्यात... If you don't mind."

"Not at all!" म्हणालें सोफाया.

मिनुटां पाशार जालीं.

फिल्म सुरू जावंक पांच मिनुटां उरल्लीं.

“आनिकी येवंक ना-मू तें?” लेस्टराक पळेलें सोफायान. तो आपले हात बांदून मोळबाक पळेतालो.

“तें येवचें ना!” तो हाळवायेन म्हणालो.

“तुजो मतलब?” सोफायाच्या ताळ्यांत धार आसल्ली. “ह्यारियेटाक हेंच फिल्म परत्यान पळोवंक जाय म्हण तुवेंच म्हळ्ळेंय?”

“हांवें बिल्कूल तशें म्हणोंक ना!” आतां लेस्टर सोफायाक फुट करिलागलो. “एकल्याक हें फिल्म परत्यान पळेवंक जाय म्हण हांवें म्हळ्ळें.”

“एकल्याक? कोणाक?”

लेस्टर उगत्यान हांसलो. “फुमांचू संततीची, खोमेनी आनी ईदी अमीनाचीं संतानामुळां जाणां आसचें कोलेजीचें बुदवंत घुगूम इतलें बुद्दू म्हण हांव नेणासलों.” तो म्हणालो, बल्सांतल्यो दोन टिकेट्यो काडून बोटां मदें इस्पीट खोल्या परी धरून. “म्हाका शाणो सांगात जाय, glamor pussycat न्हय!”

“हें एक फोकाण तर, लेस्टर.” सोफाया म्हणालें. “म्हाका बिल्कूल पसंद ना!”

लेस्टर ताच्या दोळ्यांकच्च पळेलागलो. “पूण म्हाका बिल्कूल पसंद आसा!”

उपरांत ताणें सोफायाचो हात धरलो.

“आतां पुणी येताय?” ताणें विचारलें आपल्या दोळ्यांनी नकतिरां घेवन. “त्या दिसा Schindler's List हांवेंयी ‘पळेवंक’ ना!”



# चामली

**पा**यल फांवडेशन रिग्गान (pile foundation rig) करच्या आवाजाक आनी आवाजा वयल्यान सुरेशान म्हाका उलो मारिल्लो, जांव तो म्हज्या फाटल्यान उबो जाल्लो. जांव म्हाका आयकोंकयी ना, कळोंकयी ना.

पणंबुरांतल्या एका किचड गादयांत पांच माळ्यांचे एपारमेंट बांदप उबारचें साहस मंगळूरच्या एका फामाद प्रोमोटरान हाती घेतिल्लें. साहस ताचें, चलाकी आनी घाम म्हजो. हांव सिविल इंजिनियर, प्रोमोटराचो सायट इंजिनियर. पायल फावंडेशन म्हज्या येदोळच्या तरजुब्याक नवेंच. थियरीत शिकल्लें आतां दोळ्यां सामकार उबें जातलें.

म्हजें सग्ळें ध्यान आनी गिन्यान दोळ्यां सामकार चलतल्या कामाचेर आसल्लें. एकाचाणे, धरणिंत धोमेसो भाशेन रिगोन सुराग करच्या रिग्गाचो आवाज बदूलला, सुरागांतल्यान वयर उसळपी दाट चिखोल आनी उदिकाचो रंग गोब्रा वरणाक बदलला. रिग्ग चलंवचो फोरमेन रूंद हासो घेवन म्हज्या सरशी आयलो.

"कंग्राच्युलेशन्स!" तो म्हणालो. "खडाप लागलें!" आपल्या हातांतली गोब्राळी किचड ताणें म्हज्या हातांतायटार घाली. ऊब आसल्ली त्या किचड मातियेंत; पिटो जाल्ल्या खडपाचो रोवो बोटांक लागतालो.

"सर!"

हांवें पाटीं पळेलें.

सुरेश, आमच्या 'फळनीर' सायटाचो सुपरवायजर.

"हांवें तुमकां दोन पावटीं उलो माल्लो, सर."

''जावयेत! पूण तूं हांगासर कितें करताय? तुवें 'फळनीर' सायटार आसूंक जाय.''

''सॉरी सर.'' तो म्हणालो. ''हांवें हांगासर येंवचेच्च पडलें.'' म्हज्या बगलेन आसल्या फोरमेनाक तो दुबावानशें पळे लागलो. ताचो मतलब समजाल्ल्यान हांवें ताका देगेन वेलो.

''कितें जालें?'' हांवें एक सिग्रेट पेटयली.

''फळनीर सायटार तो 'रामण्णा' सुरी घेवन बसला, सर.'' तो म्हणालो. ''म्हजो गळो शिदुंक रावता.''

''हें तुजें खासकी लफडें सायटाचेर उदेंवंक नजो म्हण हांवें तुका पयलेंच सांगलां, सुरेश.''

''व्हय सर! पूण तो 'चंद्रप्पा' पर्त्यान चाडयो करूंक लागला. हीं सर्व कामां ताचीच.''

''कामां ताचीं न्हय तुजिंच्च.'' हांवें ताळो काडलो. ''डिप्लोमा आशिल्लो सायट सुपरवायजर तूं. त्या मेस्त्रि रामण्णाच्या धुवे फाटल्यान लागलाय.''

''तातूंत चूक कसली आसा?''

''चूक ना तर हांगासर कित्याक आयलोय?''

''.....''

''तूं जाणाय.'' हांवें मुंदरिलें. ''तो चंद्रप्पायि त्या रामण्णाचे धुवे फाटल्यान आसा म्हण. तांची जात एक, चिंतप एक आनी जिणियी एकच्च. दीसबर घोळ, रातिचें सोरो पिये आनी भुरगीं कर.''

सुरेश हात मुरडोन हेणेतेणे पळे लागलो. ''तसले जिणियेथावन म्हज्या 'चामलि'क पयस व्हरूंक हांव सोदूतां सर!''

''हु! तुजें चामलि'' हांवें परत्यान ताळो काडलो. ''हें तुजें सुदरपणाचें काम तूं कोणाच्या खुसतार करताय, सुरेश? फळनीर सायटाचें काम फिनिशिंग स्टेजिचेर आसा. ह्या वगता आमचो प्रोमोटर कितलो सेनसिटिव जाता म्हण तूं जाणांय.''

''जाणां सर! पूण....''

''फ्लेटां विकचें काम म्हजें पूण तीं बांदचें काम तुजें, अशें म्हणता तो. सायटार कितेंयी घडल्यार ती जवाबदारी म्हजी. फाल्यां कोण तरी गरबेस्त जाल्यार, तूं नातल्लोय म्हण विचारचो मनीस तो!''

“आमीं तशें कांय करूंक ना, सर!”

म्हाका हासचें काय रडचें म्हळ्ळें सुचलें ना.

“आतां हांगासर आयलाय... हांवें कितें करिजे म्हणताय?”

“एक पावटी फळनीर सायटाक येया सर!”

“कितें? हांगाचें पायल फावंडेशन सोडून you're crazy! एक दीस पाड जाता म्हजें.”

“प्लीज सर, म्हज्याच्च बायकार या.”

“हुं! म्हजो पेट्रोल उरयतात तूं!” हांवें एक लांब स्वास घेतलो. “आयलों, राव हांगासर.” ताका ताकिद दीवन हांव फोरमेना सर्शिं गेलों. ताणें, आपूण जवाबदारी सांबाळतां म्हण भास दिल्या उप्रांत...

“चलया!” सुरेशा सर्शिं पाटी येवन हांवें म्हळें. “आतां थिरासाणेन बायक चलय. तूं कांय ‘अंदाज’ फिलमांतलो राजेश खन्ना न्हय.”

सुरेश हांसलो ना, म्हज्या फोकाणाचेर हांवेंच हांसचें पडलें.

पणंबूर थावुन फळनीर सायटाक वेताना त्या सायटार जाल्ली थोडी घडितां हांवें नियाळल्लि.

आमचें फळनीरचें एपारट्मेंट बिल्डिंग कांय व्हडलें न्हय. फक्त बारा फ्लेटां तातूं आसचीं. प्लानिंग म्हजेंच्च तरी बांदप उबारची सगळी जवाबदारी सुरेशानच खांद मारिल्ली म्हळ्यार अतिशय जांवची ना.

कश्टानीं व्हड जाल्लो आनी शिकोप जोडल्लो युवक सुरेश कसलिच्च संवय ताका नाशिल्ली. खंय अपरूप, तरी प्रमोटरान दिल्ल्या पार्टे वेळार कुशीक रावोन एक बोतल बियर पियेतालो.

फळनीर सायटाचो मेसत्रि रामण्णा. अशिकपि पुण माहेतवंत. आल रावंडर. मारकिंग जांव, एक्स्वेशन जांव, सेंटरिंग जांव, कोंक्रिटिंग जांव, ताची माहेत मानवोंची तसली. फळनीर सायटाचेर चरंडेचे लफ्डें आसल्लें तें कोरपरेशन इंजिनियरांक सूक्त सलहा दीवन समस्से विरगळायिल्लो मनिस तो.

ताका फळनीर सायटाक सेरवयतेच एकाच्च हफ्त्या भितर ताचें भिरें येवुन देंवलें. पतिण आनी चवगां भुरगीं. तेगी चले आनी एकली धुव. विचार-उचार करिनासतां तीं सरवांयि कामाक लागलीं.

“भुरग्यांक शाळेक धाडिनांय, रामण्णा?” म्हण हांवें एक पावटीं विचारलें.

“खंच्या कर्माक?” ताणें सवाल पाटी माल्लें. “ह्या दिसांनी हांगासर मेळची कूल एम. ए., बि. ए. केल्ल्यांक मेळता धनी?”

“एम. ए., बि. ए. केल्ल्याक पाग मेळता, रामण्णा. तुमकां मेळची फकत कूल.”

“हुं! एक मयनो राकल्या उप्रांत मेलतचो पागमू, धनी?” ताणें गुटकाची पेकेट उगती केली. तांतलो पिटो दाव्या हाताच्या तायटार घालो आनी उजव्या हाताच्या तायटान तो दळपितेच तोंडांत घालो. “आमकां दीस कूलच्च पुरो. फालयांचो दीस कोणे पळेला?” तोंडांत गुटका आसल्ल्यान ताचीं उतरां बुळबुळतालीं. “पळेवंक गेल्यार इतलें शिकलेल्या तुमचो सांबाळपी आमच्या मयन्याच्या कमायेक लागाना!”

हें म्हाका आदाळ्ळें.

“पुण तुज्या भुरग्यांक बरो फुडार, नितळ मुसतायकी, निरमळ बिडार...”

“आतां कितें आमी रानांत आसांव, धनी?” ताणें म्हजीं उतरां कातरलीं. “जें जावन आसांव आनी जंय आसांव थंय खुश आसांव. आमकां विसकि, रम्म डोंट केर. आमकां शेंबर एम. एल. प्लासटीक तोट्टोच्च जाय. तुमी आमचेपरी जियेवंक सकतात, धनी?”

“आमकां तशें जियेवंक नाका!”

“बराबर धनी.” तो म्हणालो. ही भासाभास आपुणच जिकलों म्हळ्ळें दर्प ताच्या दोळ्यांनी नाचतालें.

“पूण तुमकां आमची गर्ज आसा, धनी. आमी आमची सिस्टम बदलिल्यार तुमी खंय वेतेल्यान, धनी?”

हांव सलवाल्लों.

म्हाका कित्याक हें सर्व?

रामण्णान दक्शतायेन काम केल्यार पुरो आनी तें तो करतालो...

फळनीर सायटाचें काम जावन येताना तीन म्हयन्यांचि घळाय जाल्ली. प्रोमोटर चडपडतालो. आनी ह्या वेळार हांवें चंद्राप्पाक कॉंट्रक्ट दिलें, फ्लोर पोलिशिंग करचें. ताका पळेतानांच तो नंबर वन कण्णोजि म्हण कळतालें. पूण वाट नाशिल्ली. ताचे लागीसर पोलिशिंग मिशिनां आनी जायतितले कामेरी आसले. ताचें कामयी पाड नाशिल्लें, चदर फुटिचि रेटयी बरि आसल्लि. पूण

ऐके पावटीं 'मोजेयक टायल्स' बरेनांत, तांतु घाल्ले 'चिपस' बरेनांत देकुन 'रिपाल्स' करिजे म्हणण बरे पयशे पिळतालो.

एका दिसा फळनीर सायटाक पावल्ल्या म्हाका सुरेश दिसलोना. म्हाका पळेवन खंयसरगी आसल्लो चंद्रप्पा सामकार उदेलो.

"नमस्कारा, सर!"

"सुरेश खंय आसा?"

"आसतोलो सर." ताणें भुजां उडयलीं. "मेजरमेंट काडटा आसतोलो... चामलि-चें!"

"चामली?"

"रामण्णाचि धूव, सर."

"ताचें कसलें मेजरमेंट?"

"चुकलो, सर." तो म्हणालो दांत दाकावन. "चामली सांगाता मेळोन मेजरमेंट काडटा म्हणच्या बदलाक चामलीचें मेजरमेंट काडटा म्हळें."

"चंद्रप्पा! तुज्यो ह्ये ओपारी नाकात, हां!"

"कितें करचें, सर?" तो म्हणालो थींपि उडवन. "तांचो चक्कंद पळेताना म्हजें रगत तापता. हांवयि सुरेशापरि तरनाटों पळे."

हांवें सिग्रेट पेटयली. 'हांवयी तरनाटों, काजारी न्हय.' चंद्रप्पाच्या उत्रानीं म्हजे आतुरायेक खोंच माल्ली. "कितें करतात तीं?"

"कितें सांगचें, सर?" तो म्हणालो नाक खोरपून. "लज सांडून सांगचें पडटा... चामली टेप धरून रूमाच्या एका पोंताक वता, पालांव गळवन बागवता. टेपिच्या हेवशिल्या पोंतार आसल्या सुरेश सरा-क 'फ्री शो'." तितल्यार हांव आयलां म्हण सुरेशाक कोणें सांगलें जायजे. तो बिल्डिंगांतल्यान भायर येवंचो म्हाका दिसलो.

"चंद्रप्पा, तूं वच आनी तुजें काम कर."

"जायत सर... दोन रुमांक 'रिपालस' जाय सर..."

"तूं आतां वच!"

"सुरेश सरां-चें रामण्णाक कळ्ळ्यार वायट जातलें, सर..." एक फार मारून तो गेलो.

आतां सुरेश म्हजेसर्शीं येवन पावल्लो. त्या कुतंत्री चंद्रप्पाचें आयकोन हांवें सुरेशाचो कसलोय विचार केलो ना.

पूण ताचेर दोळो दवरलो.

पंद्रा दिसां भितरच्च चंद्रप्पान सांगलेली कथा खरी म्हण म्हाका खात्री जाली. रामण्णाक ही खबर ना?

कोण हें चामली?

शेंबरां वयर कामेऱ्यां मदीं ताका हांवें पळेयिल्लें ना. तें कोण म्हण हेरांलागी विचारचें धैर्य म्हाका नाशिल्लें... एकाचें दुसऱ्याक वचून चार जायत...

पूण एका दिसा हांवें सुरेशाची चोरी धरली.

हांच्या पाळटेर आशिल्ल्या म्हाका तीं दोगांयी जनरेटर रुमांत हातानी हात घालून आसचीं सांपडलीं. म्हाका पळेतेच्च, चामली पयस सरलें.

चामलीक हांवें पयले फावटी तितल्या लागशिल्ल्यान पळेंवचें.

अखंड जीव; लांब केस, जे आतां धुळीन बुडल्ले. सावळो रंग पूण तेलती कात, काळेच्च दोळे आनी दोण्वासारक्यो भंवयो. अशीर पेंकाट आनी सपाय तो पट; कसलोयी आधार नासतां उटोन, फुलोन राविल्ली स्थानां, साडी वयर उकलन रेवोडयिल्ल्यान अर्वास उगत्यो पडल्ल्यो जांगो.

म्हजें मोन-मोत विकारली.

हांव सायट इंजिनियर जाताना कोणेंगी म्हळ्ळें. ''तुमचें आनी सुपरवायजरांचें 'चानस' सायबा! तीं काळीं जाळ्या कितें? आसतात बरि आपुट्ट. एक साबू आनी 'शांपू' दिल्यार जालें...''

विकारल्लें म्हजें मोन पाफुडच्या पयलें चामली थंयसावन निसरलें.

हांवें सुरेशाचि दीश्ट धरली.

''हें सर्व सायटाचेर न्हय, सुरेश!'' हांवें ताळो काडलो. ''हो तुजो खाजगी विशय व्हय पूण म्हाका सायटाचेर बोबाव आनी रगतापात नाका.''

''चंद्रप्पान तुमचे कान फुंकल्यात आसतेले.'' तो म्हणालो. ''तोयी चामली पाटल्यान जीव दिता.''

''तुमी खंय वचून जीव दिया, पूण म्हज्या सायटार न्हय. शिकपी तूं हें तुका समजचें.''

“चामलीक ह्या येमकोंडातलें सुटवंक हांव पळयतां सर.”

“येमकोंड?” हांवें सवाल थुकलें. “तुका हें येमकोंड दिसता जावयेत सुरेश. पूण तूं त्या रामण्णाचें चिंतप जाणांय? हें ताका सर्ग” हांवें धारणिक हळटाचि खोट माल्ली “रामण्णाक हें कळित आसा?”

“हांव नेणां सर.”

“नेणांय या जाणां जांवचे प्रयत्न करूंक नांय?” हांव खेंचलों. “सायटावयल्या सरवांक हें कळीत आसा!”

“आसुंदी सर” तो म्हणालो आपली दीश्ट शून्य करुन. “कोणाक आपली धूव बऱ्यार पडची नाका?” हांवें सुरेशाचिं भुजां धरून हालयालीं. “ही जात सुदारोची न्हय, सुरेश!” म्हजो ताळो कांपतालो. “तांकां तांच्या फालक्याथावन भायर येवंक नाका.”

“हांव प्रयत्न करतां, सर.”

“आनी फसलो तर? खाड व्हाडवन भोंवतोलोय वो सोरो पियेवन मिरजा गालिब जातोलोय?”

आनी आतां.......

रामण्णा, सुरेशाक रावतालो, सुरी घेवन.

हांवें भियेजें म्हण नातल्लें तरी सायटाक पावताना म्हजें काळिज धोल बडयतालें.

“तूं मधें उलय नाका.” हांवें सुरेशाक ताकिद दिली. “सगळें हांव पळेवन घेतां.”

बायका पाटलो देंवन हांव सायटांत रिगलों. सर्व तांच्या तांच्या कामार आशिल्ले. म्हाका पळेतेच कामाक लागले हें हांव नेणां.

सायटार आशिल्ल्या एका मोडकर कदेलार रामण्णा बोसोन आशिल्लो. धोवेंच तो नेसल्लो; धोवो मुंडू आनी धोवो जुब्बा. ताचे दोळे पळेताना कितले 'तोट्टे' सोरो ताच्या पोटाक गेल्यात म्हण अंदाज जातालो. ताच्या हातांत सुरि-बि-नाशिल्ली.

“गुड मोरनिंग स...र!” ताणे उटचें प्रयत्न केलें, पूण जालें ना; तो तसोच बसलो.

''आज हांवें ड्रिंकस केल्यात सर!'' तो म्हणालो. ''आज 'तोट्टे' न्हय...!''

एक मोटो स्वास घेवन हांवें भवतिं पळेलें. चामली खंयसरयि दिसानाशिल्लें; हेरांचे हात कामार आशिल्ले पूण दोळे आमचेर.

''सायटार ही कसलीं आतरवणा, रामण्णा?'' हांवें म्हजो ताळो जातातितलो खड्प केलो. ''आमच्या सुरेशाचो गळो शिंदता म्हण राकोन बसल्याय खंय तू?''

तो आंबोट हांसो हांसलो.

''तुमचो सुरेश?'' ताणें थुकलें. ''तुमचो सुरेश आमचो जांवचें प्रयत्न करता!''

''मतलब?'' जाणा असोनयी हांवें विचारलें. फडफशी डायलोग मारता पळे, कांय शिकप आशिल्लें तर 'कारिसमातिक' सेरमांव दितो आसलो.

''मतलब त्या बेवारिसालागी विचार!'' म्हज्या पाटल्यान आशिल्ल्या सुरेशाक ताणें बोट जोकलें. ''म्हज्या चामलीचो 'लव' करता खंय तो...'लव'!''

हांवें कितेंयि म्हणच्या पयलेंच सुरेश मुकार आयलो.

''चामलीक हांव एक सुखाळ जीण दितां, रामण्णा.'' तो म्हणालो. ''तो चंद्रप्पा कितें दिवंक शकता?''

सुरेशान चूक मदीं उलोवन जाल्ली.

रामण्णान आपल्या जुब्बाच्या बलसांतली सुरी भायर काडली ''तुका आनी चंद्रप्पाक एकठांय करपाक चुकताय तूं दळदिऱ्या?... के बाल.'' ताणें एक बुरशी गाळ दिली. ''चंद्रप्पा आमचो आयकता तू बेवारिसा? चामलीक सूख दिताय? आता कितें ताका हांवें येमाकोंड दिलां?''

हांवें सुरेशाक पाटीं लोटलो.

दोगां-तेगांनी काम सोडून येवन रामण्णाक बसयलो. ताच्या हातांतली 'रामपुरी' घेवन पयस उडयली.

''कसलें सुख दिशी तूं म्हज्या चामलीक?'' तो कसक्सोन रडलो. ''ताका इंगलिश शिकयशी? डान्स शिकयशी? हूं एका वरसा भितेर ताका चिंवोन चिंवांड करशी आनी उप्रांत म्हजें कुटूंब म्हजी मर्याद म्हण ताका खोट मारशी. आतां उलय, बेवारिसा!''

म्हाका कितें उलोवचें कितें करचें म्हण सुचलें ना.

"चामलीनच जाप दिंवदी, रामण्णा!" हांवें एक अशीर 'चानस' माल्लें.

"कितें म्हण्टांत सर?" रामण्णा उटलो आनी लकोन म्हजे सरशी आयलो. "म्हजें चामली कांय हजांरातली वस्त?"

"न्हय तर तुवें ताका तशें केलांय!" आतां म्हाकयी आवेश आयिल्लो. "सुरेश आनी चंद्रप्पा मदलो वेंचवण चामलीच्च करूंदी."

"तें स्वतंत्र आमच्या धुवांक ना, सर!" तो म्हणालो. "कित्त्याक म्हण तूं विचारशी आयक. आमी आमच्या बायलांक सांडिनांव... आमी दीसबर घोळेंतांव, सांजेचो सोरो पियेतांव, आमच्या बायलांक खोटो-मुटि घालतांव, केसांक धरून रांडे-शिंडे म्हणतांव आनी भुरगीं करतांव. पूण सर... तुमी हांगा आसच्या खंचायी स्त्रीयेलागिं विचारा... आमच्या जिणियेक लागोन ताणीं कोणेंयी घोव बदलिल्यात? ताणिं कोणेयि हेरांचे बिसतर हून केलां? आतां वेंचवण तुमि करा सर, तुमी करा!"

हांव सलवाल्लों.

म्हज्याकी तीन वांट्यांनी सुरेश सलवाल्लो.

उप्रांतली कथा लांब ना...

रामण्णान चामलीक ताच्या गांवांक धाडलें. एक म्हयनोभर मौन धरून आशिल्लो सुरेश उप्रांत सुडसुडीत जालो. तीन म्हयन्यांनी फळनीर सायटाचें काम संपलें. रामण्णा आनी ताच्या शिंब्बंदेक हांवें एका नव्या सायटाक लायलें.

पोलिशिंग सद्याक नातल्लें जाल्ल्यान आपलें 'रिपाल्स' यंत्र घेवन चद्रप्पा खंय गेल्लोगि देवच्च जाणां. वर्स आकेर जांवच्या फुडें रामण्णा आपल्या कुटबाक घेवन गांवाक गेलो...

दोन वर्सां उतरताना ह्या घडिताचो उगडास म्हज्या खूब उदरगतिंत मिसळोन माजवालो.

वेळ जावन आसा एक अप्रतिम मेस्त्री. वेळ, शिकयता आनी विसरायता; घाय करता आनी गूण करता; रडयता आनी हांसयता.

पोयरच्च जाल्लें घडित न्हय तर हांव हें लिखची कसरत करचो नासलो.

रोटरी क्लब्बान चलंवच्या 'पल्स पोलियो' अभियानाचो स्व-सेवक जावन त्या एका आयतारा वेनलोक आस्पत्रेंत डूटी करून आसल्ल्या म्हजी दीश्ट

अचकीत ताचेर पडली. होसपिटलाच्या मेटार बसोन तें आपल्या बाळशाक चींव दितालें.

चामली!

म्हजो जीव मिरमिरलो. म्हजे 'बूथ' सोडून हांव ताचे सर्शिं गेलों. कांय आपल्या बाळशाक 'पोलियो ड्रोप्स' दींवक तें आयिल्लें जायचे.

"चामली तूं!" हांव ताच्या सामकार रावोन उदगारलों.

म्हाका पळेतेच्च ताणें आपलें सुपुश्ट स्थन लिपयलें, आपलो उज्वो हात हर्ध्याक लायलो, उप्रांत वोटांक आनी उप्रांत कपालाक, मान मर्यादिचो एक आचार तो.

"इंजिनियर सर!" तें म्हणालें उबें जावन. "आतां तुमी डोकटरयी जाल्यात?"

हांव हांसलो पूण म्हज्या दोळ्यांनी दुकां भरलीं.

"कशें आसायी, चामली?"

"बोरी आसां, सर."

"आतां खंय आसाय?"

"तीस फ्लेटांचे बिलडिंग जाता, सर; थंयसर आसांव."

"हें... तुजें?" हांवें पुडपुडीत बाळशाक बोट जोकलें. तें बाळशें आतां आवयचि चीव सोडून म्हाका पळेतालें.

"व्हय सर." तें बाळशाचे केंस पोशेतालें. "म्हज्या उदरांत आनी एक आसा!" तें लजलें.

हांव उत्रां सोदि लागलों.

"चंद्रप्पा कसो आसा?" कशटांनी हांवें उत्रांचो फार माल्लो.

"तर तुमकां कळित आसा?" तें सगळेंच उमाळ्ळें. "तो बरो आसा... दीसभर काम करता आनी...."

"हांव जाणां" हांवें म्हळें हांसोन. तेंयी हांसले. ताका मोतियाळे दांत आनी परजळीक हांसो आसा म्हण म्हाका पयिल्ले पावटीं गोमलें.

सुरेश हाचेर भुलल्ल्यांत नवाल ना. नशीब त्या पडफशी चंद्रप्पाचें. विकारोन येंवचि म्हजी दीश्ट चामलीचे कुडीर चल्ली.

"तूं खूश आसाय, चामली?" हांवें अनावश विचारलें.

“व्हय, इंजिनियर सर!” तें म्हणालें. “आतां तो म्हाका काम करूंकयी सोडिना.”

“बरें तर.” हांव वचूंक घुंवलो.

“सर?”

“कितें चामली?”

“एक संगत विचारूंक आशिल्ली.”

“विचार, चामली.”

तें कितें आनी कोणा विशयांत विचारूंक सोदता म्हण हांव जाणासलों.

पूण ताणें विचारलें ना.

अचकीत ताणें आपल्या बाळशाक उकलोन म्हज्या सामकार धरलें.

“म्हज्या सुरेशाक आशीरवाद दिया, सर!”



# चिंपांझी

'**कि**तें जालें?' जेरार्डान विचारलें. 'आनी कितें जावंक आसा?' मरियान सवाल पाटीं मारलें.

'न्हय, तूं शिमटी हुलपाल्ल्या माजरा परीं सकाळींच्यान घुंवोनच आसाय.'

'लक्षिमी येवंक ना म्हळ्ळें तुका दिसना? तुका कितें, तुजी ब्रेकफास्ट मेळ्ळी.थोड्या वेळान शॉपाक वेतोलोय.'

'आनी तवळ कितें तुजो संवसार आकेर जातालो?' जेरार्डान निव्जपेपर दोडलें. 'लक्षिमी येनातल्ल्या दिसा तुजो सुर्यो उदेच ना.'

'घरांतलें काम कितें तुजीं सेल्स चेडवां करतात?' मरिया एपार्टमॅन्टाच्या दारांतल्यान भायर तिळी लागलें. जेरार्डाक कोणेंगी कितेंगी उलयिल्लें आयकालें. 'आनिकी येवंक ना मू, मीराबेन. वेनिशाक कॉलेजीक वेचो वेळ जालो.'

तितल्या भितर मरियान गुजराथी मीराबेनाक सांगोनयी जाल्लें.

'वेनिशा ताची ब्रेकफास्ट रॅस्टॉरेंटांत करुंदी' म्हणालो जेरार्ड. 'तशें आतांचीं भुरगीं खातात तरी कितलें? दोन च्यॉकलेटां आनी एक कोक...'

'गर्ज ना,' सणसणलें मरिया. 'ताका रॅस्टॉरेंटांत खावंक एक नीब मेळ्ळ्यार पुरो.'

'लक्षीम येतेलें' म्हणालो जेरार्ड बेफिकिरेन.

'तुका कांय तें सांगोन गेलां?' मरिया हात मुरडी लागलें. 'घर-कामाच्यांक बिगडावन दवरूंक तुजे तसले दादले आसाजे. भिरमतींतली भिरमत तांची तुका. केन्नायी लक्षिमीची पाडत घेवन उलवंचें. हांव ताका कितलें दितां जाणाय? वर्सावार मुस्तायकी, क्रिसमसाक इनाम, आदल्या दिसाचें रांदप... आनी तें म्हजें वेनिशा आसा पळे, तें तुज्याकी एक तूक चड. दानशुरा कर्णाचीच धूव तें.''

‘तूं लक्षीमीक कितलें दिताय तितलेंच घरांतलें काम चडयताय मरिया’ म्हणालो जेरार्ड निव्जपेपर मेजार गळवन. ‘खंयचो व्हडलो उपकार करताय तूं?’

‘कितें मतलब तुजो?’

‘घरकामाक कोणयी लागल्ल्या दिसा थावन तुजो मिक्सर कोनशाक पोडला आनी गांवचो घाटनो चालू; वॉशींग मेशिनाक रजा आनी टॉयलेटांत तांचे कर्ना सर्व वस्त्रांयी ‘हँड-वॉश’. जिणेंत पोळी करी नातल्लें तूं तांचे कर्ना कितल्या पावटीं पोळयेक वाटूंक लायताय? वेनिशाक आनी म्हाका कितें राहू लागला, गारियो, पातोळ्यो आनी पुरणा-सन्नां खावंक? करचें आनी भयणींक धाडचें आनी त्या गुजराथी मीराबेनाक खावोवन तिचीं ‘टायरां’ दाट करचीं. कित्याक हें सर्व मरिया? पाटल्या एका वर्सांत कितलीं जाणां जालीं? कोण रावतीत तुवें तांचेर अशें काम थापल्यार?’

मरियान कितेंयी म्हणच्या पयलीं वेनिशा आपल्या रुमा थावन भायर आयलें. जेरार्ड आपले धुवेक मर्जेन पळे लागलो. तें रुमा थावन भायर येवच्या पयलेंच ताचो परफ्यूम भायर आयिल्लो.

‘तुज्यो जिन्स आनिकी सकयल देंवानात वेनिशा?’ जेरार्डान विचारलें. सेकेंड डिग्रींत आसल्लें आनी अशें नेसतालें तरी वेनिशाच्यो थोड्यो सवयो बाळपणाच्योच. आतांयी तें कापूस चेपून तयार केल्ल्या व्हड व्हड खेळां वस्तूंक (stuffed toys) पोटलून धरून निदतालें. ताचे लागीं गोप घाल्न धरूंक सकचो असलो एक ‘मांकड’ आसल्लो. पोयर परयांत तें ह्या ‘मांकडा’क पोटलून धरून निदतालें. पूण पाटल्या थोड्या मयन्यां थावन ह्या मांकडाक ताणें नवी ड्युटी दिल्ली : ताच्या रुमाच्या दाराच्या पडद्याक आरावन धरून उमकाळचें काम ह्या ‘मांकडा’क मेळल्लें.

'Dada, What are you doing here?' तें विस्मीत जालें. ‘आनिकी वचुंकनांय? म्हजे जिन्स? डाडा, हें बेंगळूर, तुजें स्टुपीड मंगळूर न्हय. थंयसर तुमच्या पाद्री माद्रींनी कॉलेजींनी ‘ड्रॅसकोड’ आसा केल्या म्हण हांगासरयी तुजें काथोलीक तालिबान आसा करचें प्रेतन करचें नाका. 'If you have it, flaunt it!' ही पॉलिसी चलता हांगासर. 'Hey, whzt's up, Mom? Why are you so cheesed off this morning?' तें दाराच्या पडद्याक उमकळोन आसल्ल्या मांकडाक कुट्टी लागलें. 'My poor chimpanzee!' तें म्हणालें. ताचो चिंपाझी धोलोंक लागलो.

‘काजर जाल्या उपरांत एका बगलेक घोवाक आनी दुसऱ्या बगलेक एका व्हडल्या चिंपाझीक पोटलून धरून निदे. दोतींत तुका एक जिवोच चिंपाझी दितलों हांव!’ जेरार्डान शेंबराचो एक नोट काडन धुवेक दिलो.

'Let me guess!' तें म्हणालें, नोटाक जोंपय मारून. ‘आज लक्षीम येवंक ना. डाडाक ब्रेकफास्ट मेळ्ळ्या पूण म्हजी तयार ना. रायट डाडा? पूण म्हाका येकल्याकच्च...’ जेरार्डान आनयेक नोट काडन दिलो.

‘बिगडाय ताका, बिगडाय!’ तापलें मरिया. ‘आतां खंयचे कडें खंयचें काम सुरू करचें म्हण म्हाका समजना.’ दारांतल्यान सुरांटी मारून भायर धांवच्या वेनिशाक पळेवन तें म्हणालें. ‘डिग्री जातेच फुडले काजर करिजे हाका.’ हजार राटावळीं मदेंयी हीं चित्रां ताचे मतींत घुंबलीं.

वेनिशाचीं मेटां लिफ्टा लागीं पावचो आवाज मरियाक आयकालो. ‘मा, तुजें लक्षीम आयलें.’ वेनिशान थंय थावन घाल्ली बोब मरियाक आयकाली. "She has a cute chimpanzee with her!'

‘ह्या चलियेक लागलां पिशें’ चिक्केशें समाधान जाल्लें मरिया म्हणालें. लक्षीम आयलें म्हणताना ताचो दीस सुरू जातालो. ह्या जेरार्डाक आनी वेनिशाक कितें कळीत घर कशें चलवंचें म्हळ्ळें?

‘लक्षीम आयलें खंय!’ मरियान घोवाक कळयलें. पतिणेक एक दिश्ट दिवन, भुजां उडोवन तो भितर गेलो.

उगतेंच आसल्लें बागील हाळवयेन लोटून लक्षीम भितर आयलें. मरियाक पळेतेच वंदन करच्या जिनसार ताणें कपालाक हात लायलो. ताच्या दोळ्यांनी आसल्लो खेद मरियाक दिसलोना.

‘हो गी वेळ येवचो?’ तें सणसणलें. ‘तुमकां दिल्लें तितलें पावाना न्हय?’ म्हजें चेडूं ब्रेकफास्ट करिनासतांच गेलें. म्हाका कितलीं कामां आसात जाणाय तूं?’

‘चूक जाली, अम्मा’ म्हणालें लक्षीम देगेन सरोन.

तवळ ताका तो दिसलो.

एक ल्हान जीव. दोन हात आनी दोन पांय. वाडकुळें पोट आनी बोंड्या तेदो मांडो सांगाता घाल्न कोणेगी रचल्लो जीव.

पूण ह्या जिवाचे दोळे मात्र, त्या दोळ्यांची ती दिश्ट मात्र...

वेनिशान म्हळ्ळो चिंपांझी?

'हाका आस्पत्रेक व्हरूंक आसल्लें अम्मा!' तें म्हणालें, 'ताका सात दीस पर्यांत सदांयी इंजेक्शन तोपूंक आसा.'

इंजेक्शन म्हळ्ळो सब्द आयकोन चेरको रडलो. लक्षीमीन ताका आरावन बुजयलो.

'वेळ जालो म्हण हाका घेवनच हांगा आयलीं.'

'हो केदळा जाल्लो?' तिरस्कारानशें विचारलें मरियान. 'वर्साक एक करतात हीं.' तें लक्षीमीक आयकानाशें म्हणालें.

'वर्साक एक करुंदीत या दोन' आतां पाटल्यान उदेल्लो जेरार्ड म्हणालो. 'तुजे लागीं हाडून सोडतात पोसूंक? बिरमत! चेडो इंजेक्शन घेवन आयला, कदेलार बसय ताका आनी कांय कॉफी बिस्कीट दी.' जेरार्डान इंग्लीशींत म्हळें. तरी लक्षीम समजलें. इंग्लीश उलयतेल्यांगेर चाकरी करून तें ओळसाल्लें.

'नाका सर' तें म्हणालें, 'तो कसलेंयी खायना या काफी पियेना.' ताणें जेरार्डाची दिश्ट चुकयली. 'ह्या सर्वाची सवय जावंक नजो, सर... आमकांच म्हारग पडता.'

'पुरो आतां' म्हणालें मरिया. 'ताका हांगा बसय आनी तूं तुजें काम सुरू कर.' ताणें सोफाची देग दाखयली.

'तो धरणीरच बसुंदी अम्मा' म्हणालें लक्षीम. 'ताचें नांव तिप्पा.'

'Whatever!' तें म्हणालें, लक्षीमीन आपल्या तिप्पाक बसयताना.

आवयचो पालव वोडन तिप्पान कसलेंगी विचारलें. लक्षीम असहायेकतेन ताका पळे लागलें.

'कितें जाय खंय ताका?' जेरार्डान विचारलें. लक्षीम नर्गालें.

'अळे, ताका 'कक्का' पुणी जाता जाल्यार भायर व्हर...'

'ना अम्मा' लक्षीम म्हणालें दुकलेल्या ताळ्यान. 'ताका टिवी पळेवंक जाय खंय. टिवी म्हळ्यार खंय थावनयी हालाना म्हजो तिप्पा.'

'टिवी पळेल्यार संवय जायना गी ह्या चिंपाझीक?' मरिया लक्षीमीक आयकानाशें म्हणालें. पूण जेरार्डाक आयकालें.

'That will do, Maria!' खडप जालो जेरार्ड. उपरांत टिवी सरशीं वचून ताणें ती चालू केली आनी किंतेंगी चिंतून एक कन्नडा चानेल लागयली. आवाज व्हड करून ताणें घुंवोन तिप्पाक पळेलें. चेड्याच्या मुखामळार उदेल्लो संतोस आनी प्रकास एकामेकांक पूरक दिसताली.

'They take pleasure in small things' तो म्हणालो. 'ताका केदळा समजोंचें?'

'म्हाका समजोंचेंच नाका!' तें सणसणलें आनी वचून ताणें टिवीचो आवाज उणो केलो. तिप्पान एक पावटीं ताका आनी एक पावटीं आवयक पळेलें. पूण कसलेंच सळ केलें ना.

लक्षीमीन काम सुरू केलें.

सकाळींचीं साडे धा जाताना मरिया आपल्या राटावळींचेर वचूंक नेसून तयार जालें आनी सिटींग रुमांत येवन लक्षीमीक ताणें सांगलें : 'तुजें काम जातेच दार वोड आनी मीराबेनाक सांगोन वच. आतां टिवी पळेयिल्ली पुरो.' ताणें वचून टिवी बंद केली.

तिप्पाचें मुखामळ पळेवचें धैर्य ताका आयलें ना. पूण –

'अव्वा' ताचो क्षीण ताळो आयकोन मरियाक पळेजेंच पडलें. तिप्पा कसल्याकगी बोट जोकतालो.

मरियान त्या बोटाचो पाटलाव केलो.

वेनिशाच्या दारार कर्टनाक आरावन धरून उमकाळच्या चिंपाझीक ताचें बोट दाकयतालें.

'Not on your life, no!' तें किळंचलें. 'तूंच एक चिंपांझी आनी तुका वेनिशाचो चिंपांझी जाय? कितलीं वर्सां तें त्या मांकडाक पोटलून धरून न्हिदलां जाणाय?'

मरियाचे सणसणे आयकोन भितर साफ-सुफाय करचें लक्षीम भायर आयलें. 'कितें जालें अम्मा?'

'तुज्या पुताक वेनिशाचो चिंपांझी जाय खंय!' जाप दिली मरियान. 'बोट दिल्यार हात गिळचीं मनशां तुमी.'

लक्षीमीन तिप्पाक धमकिलो. 'त्या मांकडाक तुवें अपडोंक नजो!' तें म्हणालें ताचो कान ओळावन. तो रडलो.

तवळ मरियाक कितें भोगलेंगी. 'जाय तर पयस थावन तो त्या चिंपांझीक पळेवंदी.' तें म्हणालें, व्हडली दयाळ करणी केल्ले परी. लक्षीमीन तिप्पाक तशेंच सांगतेच तो उटलो आनी वेनिशाच्या रुमाच्या दारा लागीं वचून बसून कर्टनाक आरावन धरून उमकाळच्या चिंपांझीक पळेवन बसलो.

ताका कळीत नासतांच मरियाचें काळीज. पूण तें त्या अपरिचीत भोगणांक ग्रास घाली नासतां चल्लें.

उपरांतले स दीस अशेंच चल्लें.

इंजेक्शन दितेच रडकुऱ्या तिप्पाक घेवन लक्षीम कामाक येतालें. जेरार्ड आसा तर तक्षण टिवी लायतालो. पूण तिप्पान आपलो जागो वेनिशाच्या दारा भायरच कायाम केल्लो. एक दिश्ट टिवीर (ती चालू आसा तर) आनी दुसरी वेनिशाच्या चिंपांझीचेर आसताली. आवय-पूत येताना वेनिशा आसत तर 'हाय' म्हण तिप्पाचें मातें पोशेवन तें चलतालें.

हें सर्व पळेवन एक-दोन पावटीं मरियाक भोगल्लें आसा, त्या चिंपांझीक काडून तिप्पाक खेळोंक दिया म्हण. पूण 'ना', तें आपणाकच सांगतालें. 'केदळायी पांयाची व्हाण पांयाकच दवरिजे.'

सातव्या दिसा लक्षीम परत्यान तडव करून आयलें आनी मरियान कितेंयी म्हणच्या पयलेंच रडलें. 'म्हज्या तिप्पाक आस्पत्रेंत दाकल केला अम्मा!' तें म्हणालें. 'ताका कांय बरेपण ना. हांगाचें काम वेवेग्गीं तिरसून हांव आस्पत्रेक वतां.'

'हांवें आज पर्यंत तिप्पाक कसली पिडा म्हण विचारूंक ना न्हय', मारियाचें कोशेड्द ताका सांगा लागलें. पूण ताणें विचारलें ना. 'पयशे जाय तर एडवान्स दितां,' म्हणालें तें. त्या वेळार जेरार्ड नातल्लो, वेनिशायी कॉलेजीक गेल्लें.

'सरकारी आस्पत्र, अम्मा', तें म्हणालें, 'तिप्पान वाचचें या मरचें दाक्तेराच्या हातांत आसा.' अशें म्हणताना ताची दिश्ट चिंपांझीचेर आसल्ली मरियाच्या गमनाक गेली ना. तरी मरियान विचारलेंना, तिप्पाक कितें जाता म्हण. लक्षीमीन पयशेयी विचारले नांत.

तें नेसून तयार जालें आपल्या कामाचेर वचूंक आनी लक्षीमीक ताणें सदांचे परीं सांगलें, मीराबेनाक सांगोन वचूंक. तितली पातियेणी आसल्ली ताका लक्षीमीचेर.

सेंट पॅट्रीक चर्चांत कसलेंगी मिटींग जावन पार्टी आयिल्ल्या मरियान मीराबेनागेर वचून तिका हलो म्हळें.

'आज वेगींच गेलें तुजें लक्षीम' तिणें कळयलें.

'ताचो पूत आस्पत्रेंत आसा खंय' चिल्लर करून सांगलें मरियान.

'आमच्या घरांनी हीं काम करतात, कसल्यो पिडा हाडून सोडतात, कोण जाणा!'

'But we have no choice' म्हणालें, मरिया. 'आमकां आमी विंचल्ली सोशियल लायफ जाय तर हांचेर आमी कितलीं डिपेंड जावन आसांव म्हळ्ळें, चिंतुंकूच म्हाका नाका. I feel so helpless. एपार्टमँटाक आयिल्लें मरिया एक शुन्य मत घेवन सेटीचेर पातळ्ळें आनी ताणें भंवतीं दिश्ट चरयली. पूण कसल्यायी निर्दिश्ट उद्देशा विणें.

कसलेंगी चुकल्ले परीं ताका भोगलें, दिसलें.

कसलें गाय? टिवी आसा, डि.वि.डी. प्लेयर आसा... ओ हॅल्! वेनिशाच्या रुमाच्या कर्टनांक आरावन धरून उमकाळचो चिंपांझी ना. वेनिशाचो चिंपांझी ना!

लट्ट करून तें उटलें आनी वेनिशा पुणी भितर आसागी म्हण ताणें दार लोटून पळेलें. वेनिशा येवंक नातल्लें. ताणें दनपारांच्या जेवणाक येवंचेंच उणें. ताका लागलां फास्ट फूड.

तर कोणें? लक्षीमीन तिप्पाक एपार्टमँटांक हाडी नासतां एक हफ्तो उतरलेलो. तर खंडीत लक्षीमीनच चिंपांझीक फारला. येवंदी फाल्यां, पळेवन घेतां हांव.

पूण दुसऱ्या दिसा लक्षीम येवंक ना. तिसऱ्या; चवथ्या...

धाव्या दिसा लक्षीम उदेलें.

तितल्या भितर आपली सोशियल लायफ maintain करच्या खातीर मीराबेनाचे मजतीन मरियाक आनी येकलें घरकामाक मेळ्ळें. ह्या विशयांत जेरार्डाक जावं, चिंपांझी ना जाल्ल्याक वेनिशाक जावं कसलेंच पडोन गेल्लें परीं दिसनातल्लें.

'फाल्यां हांव मेल्यारयी हांणी करचें अशेंच' आपणाकच सांगा लागलें मरिया, एका आंबोट हास्या संगीं.

'आतां कित्याक आयलांय लक्षीम?' जैतान विचारलें मरियान. 'कितें चिंतालेंय तूं? तुज्या वरवीं मात्र काम चलता म्हण?'

लक्षीमीचे दोळे भरले पूण दुकां देंवलीं नात.

'हांव हाका पाटीं दिवंक आयिल्लीं, अम्मा!' ताणें चिंपांझीक मरियाच्या दोळ्यां सामकार उकल्न धरलो.

'हां हां!' उद्गारलें मरिया. 'विसराल्लीं हांव की तुवें ह्या चिंपांझीक फारलाय म्हण. कसलें धैर्य तुजें? तुजेर पातयेणी दवरल्ल्याक तुवें अशें करचें? बरें जालें हांवें तुका कामांतलें काडल्ल्यांत. फाल्यां आनी कितें उकल्न वरतेंय.'

मौनपणी लक्षीमीच्या दोळ्यांतलीं दुकां फुटोन ताच्या गालांचेर देंवलीं.

'म्हजो तिप्पा इंजेक्शनां घेवंक आयका नातल्लो अम्मा' तें म्हणालें, 'सुवी तोपूंक दाक्तेरांक मास मेळा नातल्लें. ह्या मांकडाक हाडतां म्हळ्ळ्या दिसा ताणें सुवी घेतली आनी म्हाका...' तें उगत्याक रडलें. 'म्हज्यान ताका फटवंक जालें ना. व्हय अम्मा, तुजे लागीं विचारी नासतां ह्या मांकडाक हांवें फारलो... धा दीस पर्यंत ह्या मांकडाक पटलून धरून निदलो म्हजो तिप्पा; सदांयी खुशेन इंजेक्शन घेतालो.' लक्षीमीचो सगळो जीव कांपलो आनी तें धरणीर बसलें. 'आतां ह्या मांकडाची ताका गरज ना अम्मा.'

'तर बरो जालो तो?' मरियान विचारलें. 'हो मांकड ताकाच दवर. तिप्पाच्या पिडेचो कितलो वोसो ह्या मांकडाचेर आसा कितेंगी? नाका, नाका. तूं हो मांकड व्हर आनी तुज्या पुताकच्च दी. म्हज्या लेकार बक्षीस म्हण सांग...'

येकाचाणे कसलीगी बदलवण लक्षीमीच्या मुकमळार आयली.

दुकां पुसून तें उटलें आनी शीदा वेनिशाच्या कुडाच्या दारा लागीं गेलें. दाराक उमकाळचीं कर्टनां आरावन ताणें चिंपांझीच्या गोपांत दिलीं आनी ताका उमकाळोंक सोडलो.

हळटार धोलच्या चिंपांझीचे दोळे एक पावटीं मरियाचेर आनी एक पावटीं लक्षीमीचेर पडटाले.

तिप्पाच थंय उमकळता म्हळ्ळे परीं मरियाक भोगलें.

तें उस्मडलें.

लक्षीमीन ताका फुड केली.

'तिप्पा मरोन दोन दीस जाले, अम्मा!'



# ऐसमरालडा

**ह्या** पावटीं पाव्स सुरू जाल्लो वर्सावर निघंट वळेरिच्याकी फुडेंच, धग देंवली, झर फुटली, गाद्यांचीं हर्धीं कोसापान उगतीं जालीं. दिसांगटल्यान सुरयान रजा घाल्ताना, रातिचें घडघड्यान-झगलण्यान मिरंवक सुरू केलें.

तसलिच एक रात ही, जी सुरू जाल्ली मात्र :

म्हजे लागीं कागत मुगदाल्लें आनी मतिंत एके कथेचो कोंब्रो फुटल्लो. कथा रातारात बरव्न काडल्यार म्हाका फाय्दो आसा. मयन्याचे आक्रेक कांय चार कास संपादकालागचे वसूल करयेत आनि राताराती कथेचो कोंब्रो आसल्लो झाड जावन फळ दिवंचो पळेन तर म्हाका समादान, बरी नीद खचीत. तसलोयी तुरीत मनिस हांव, लेकक हांव.

एक लेकक म्हण म्हाका साबार ओळकतालीं. पूण एकसुरो मनिस म्हण कोणयी एदोळ ओळकल्लिनांत या तशें हांव चिंतालों. हांवें म्हाकाच्च येक्सुरो केल्लो. म्हजो जिनोसच्च तसलो.

लागशिले 'सुपर मारकेटिक' पावताना सत्री आसोनयी हांव अरवास भिज़ल्लों. भायर आसल्ले बाल्देंत सत्री दवरन हांव तुरतान भितर रिग्लों. कांय थोडे गिरायकी आसल्ले आनी सुपर मारकेट बंद जावंचे पयलें जाय आसल्लें आपाप्ल्या ट्रोल्लिंनी भरताले. हांवें तांचेर गुमानच दिलेंना.

एक रीम कागद घेवन हांव कावंटराक आयलों आनी पयशे फारीक करून भायर येतां म्हणताना झग्लाणे फाळ्ळें आनि दारवेच्या थोटायन पाज फुटयिल्लेपरीं घडघडो फुटलो. हांवें मोळबाक एक दीश्ट मारली; म्हाका आनी ह्या झगलाण्या-घड्घड्याचे मिरवणेक गाटांनातल्लें. हेर लेकक कांय हे मिरवणेक नयसर्गिकतेचें नवाल म्हणतित, पूण हांव न्हय. लांबाय कित्याक? हें नवाल म्हाका भिरांतिचें

म्हळ्यार जालें न्हय? लज कित्याक? बाल्देंतली सत्री 'जप्प' करून काडून हांव भायर आयलों आनी दोन मिनुटां भितर म्हज्या रुमाक पावलों. म्हज्या घरचीं तांचाच्च संसारांत आसल्लीं, सदांचेपरीं. म्हज्या रुमांतलो संसार म्हजो, भाय्लो संसार, तांचो.

हें ताणी केल्लें विभजन न्हय, हांवें केल्लें. म्हाका बावीस वरसां प्राय तरी एकच्च एक चली म्हजे जिणियेंत आयिल्ली ना. हां, म्हजे कोलेजिचें शिकप यांत्रिक रितिर चलतालें आनि थंयसर हांव सदांयी मोगार पडतालों, त्या 'राज कपूरा'च्या फिलमांनी घडचेपरीं. खुद्द रडची विंचवाण हांवेंच्च केल्या तर चूक कोणाची? हेरांक खुश दवरून हांवें खुद्द रडचो विंचवाण हांवेंच्च केल्या तर चूक कोणाचि? हाका काराण कितें म्हळ्यार म्हजीं बरपां सोबित औण हांव न्हय. एक पावटीं, दाटायेन 'टच-अप' केल्ली म्हजो फोटो म्हजे काणिये सांगाता छापून आयिल्ली. बरो दिसतालों हांव, 'प्लासटर ओफ प्यारीस' इमाजिपरीं. परिणाम जावन 'रास रास' उल्लास पाटंव्चें पत्र आयलें, एके चलियेच्या सांगाताक आशेंव्चो हांव पिगळ्ळों पूण भियेलों. आनी हांवें भियेल्लेपरिंच्च जालें. गरशा दोळ्यांची, तांबश्या केंसांची बावली म्हाका भेट्ली आनी मिलागत जाल्ल्या एका हप्त्या भितर, 'म्हजीं पत्रां पाटीं धाड, टप्पालाचो खर्च धाड्ला.' म्हळ्ळी चीट आय्ली. हांवें एके कुशिन तशेंच केलें आनी दुसरे कुशिन 'राज कपूरा'चें चेपें बोडार थाप्लें. 'जीना यहां, मरना यहां' म्हण एक हप्तोबर रडलों; 'प्यार हुआ, इकरार हुआ' म्हण नरगिस सांगाता सत्री आसुनयी भिजचें भाग म्हाका ना जालें.

आतां, परत्यान झग्लाणें. हांव राज कपूरा थावन मेकळों जालों.

भिजिल्ली सत्री घेवनच हांव म्हज्या रुमा भितर रिगल्लों आनी यांत्रिक रितीन हांवें ती सत्री दोडचें प्रतन केलें, पूण सत्री धांपूंक आयकाना. हूं? तित्ली परनी सत्री कांय ती न्हय. 'ब्लडी हेल्ल'.. परत्यान हांवें प्रतन केलें, पूण खिळ शिरकाल्ली.

हांवें सत्री उबाल्ली आनी उजवाडाक धल्ली. पळेताना...

ती सत्री म्हजी न्हय, बिलकुल न्हय. हो हेल्ल, आतां कितें करचें? कांय ना, हांवें म्हाकाच सांग्लें. तुजी सत्री सुपर मारकेटिच्या बालदेंत आसा न्हय, पिशा? हे सत्रेचो पात्रांव तुजी ती सत्री घेवन वेतोलो, तित्लेंच आनी बराबर.

आनी तवळ म्हजी दिश्ट आतां म्हज्या रुमांत आयिल्ले हे परदेशी सत्रेच्या भितरले कुशीन पडली.

हें कितें? एक नांव आसा लिकून.

ऐसमारालडा.

हा! हा! कसलें विपरयास? खंय आसा तर तो 'ख्वासिमोडो?'

म्हजे मतिन उळ्ळेक केलो 'विकटर ह्युगो'च्या क्लासिक कादंबरियेचो. The Hunchback of Notre Dame-for thought he was gentle and kind, it was Quasimodo's crime to have been born hideously deformed. But one day his heart would prove to be a thing of rare beauty. She was Esmerelda.

(नोत्रे दाम डि प्यारी, ११६३ इस्वऐंत फ्रान्सांत माये मरियेच्या मानाक उबारल्ली इगर्ज)

'नोत्रे दामाचो खुबडो (पाटिक डुब्बा आसून, विद्रूप आंग-पांगाचो) ख्वासोमोडो मोगाळ आनी मोवाळ तरी ताचो अप्राद आसल्लो की तो खुबडो जावन जलमाल्लो... पूण एका दिसा ताचें काळिज आपूण कितलीं सोबित म्हण दाकयतेलें. वय, त्या कंदारिण gypsy सोबागिणी ऐसमरालडाक.'

तर हांवच तो कुरूपी खुबडो ख्वासीमोडो? ही संगत कित्याक म्हजे मतिक येदोळ येवंक ना? डब्ब्यांत गेलो तो राज कपूर. आतां ऐसमरालडाची सत्री म्हज्या रुमांत आय्ल्या? आनी नोत्रे दाम म्हळ्ळे इगर्जिचें नांवयी लिकल्लें तर? कितेंयी तरी सत्रेंत्लें हे ऐसमरालडा साहित्याचें मोगी म्हळ्ळें खंडित.

आक्रेक तरी म्हजीं सपणां ज्यारी जातित? नायट बस्सिचेर पयण करताना बग्लेचे सिटिचेर एक सुंदरी येवन बसतेली म्हण कित्ले पावटीं हांव आंवडेवंक ना? म्हजे काणियेंतल्यो नायकी खर्यो जावन, जिव्यो जावन म्हजे मतिंत येतोल्यो म्हण कितल्या पावटीं हांव आशेवंक ना? आतां हें ऐसमारालडा एका सत्रे रुपार म्हज्याच्च रुमाक आयलां. व्हारे व्हा, ख्वासीमोडो.

कोण जावेत हें ऐसमारालडा या ताका आताच 'एसमी' म्हणों? हांवें जनेलांत्ल्यान बायर तिळ्ळें. ह्याच परिसरांत्लें जायजे, ना तर ह्या पावसांत सुपर मारकेटिक येता? आतां पावस उणो जाल्लो. तें कांय सुपर मारकेटिंत आतांयी आसा तर?

परत्यान एक पावटीं जगलाणें येताना सकत चिंवोन काडल्लेपरीं वीज कुसकाली आनी बलब मिणिमिनी जाले. हांव बसलों, शुन्य जालों? सपणां पळेंव्ची मजा एक तर, तिंच सपणां कोस्ळोन वेचीं पळेंव्ची दग्दणी वेगळिच.

पिश्या! हें ऐसमारालडा कांय जोबलुस म्हातारी कोण्ण. ना तर ह्या दिसांनी कोणयी सत्रेक नांवां घालतात? तुज्या आजियोच्या काळार नवे सत्रेक ऐंब्रोयडरी करून नांवां घालताले; ही कांय त्याच काळाची वांचुन उरलेली 'ग्रयांड मां' कोण्णा, स्टुपिड. दादल्यांची सोबाय मुकमळार या कुडीमोडिंत ना म्हण तूंच लिकताय आनि आतां तुजे एकसुरायेच्या सुशेगाक इत्ले सवायेन विकताय? कंदारी सोभागिण ऐसमारालडा, हा!

तुमी लेकक आंबयाथावन खुबयाक उडोंक भारिच्च हुशार. एक सत्री, एक नांव... सुरू जाली मोगाची काणी? विसर तुजे अंदळे उमाळे.

ऐसमारालडा खंय, एस्मी खंय. पळे वीज समा जाल्ली.... चालु कर तुजी मट्वी कथा.

पुण हांव समा जावंक ना. ते रातीं म्हाका नीदयी पडली ना. जेवण सोडन उटलों, पूण कोणेंयी कांय विचारलें ना. म्हज्या कुडाक पाटीं वेताना म्हजी एक्सुराय म्हाका परत वेंगेंत घेवन 'पोल्को' नाचूंक लाग्ली...

सत्री दोडचें प्रेतन केलें तरी फलसारलें ना; तिका उग्तिच सुकोंक सोडली; पावस परत्यान सुरू जाल्लो. छे! म्हजे सत्रेक भितरल्यान नांव कित्याक घालूंक ना हांवें?

रात कशी पाशार जाली आनी सकाळ केदळा उदेली म्हण हांव नेणां. पावस सलवाल्लेपरीं दिसतालो आनी सुरयाचीं किरणां म्हज्या जनेलांतल्यान भितर सरोन मुकमळार पडतालीं; म्हजे दोळे दणसाले आनि तवळ म्हाका मंद रितिर तकली फडता म्हण कळित जालें. हांवें कूस परतून पळेलें-सत्री दवरिल्ले कडेनच आसल्ली, पूण आतां सुकल्ली.

ऐसमारालडा.

म्हाका कांय सपणां पडल्लिं गाय? एक वेकतिची कस्लियी वस्त आवचित घरांत आयल्यार ते वेकतिचीं सपणां पडतात म्हण हांवें आयकाल्लें. पूण सपणां कशीं पळेंवची? म्हजे कुडीक नीद पडल्ली जावयेत, पूण मतिक न्हय; देकुन ति फडताली.

हांव उटलों आनि सकाळींची निरमळाय करताना त्या दिसाचो 'ऐजेंडा' तयार केलो. 'फस्ट होल्ट', सुपर मारकेटः माम्मिन हाडल्ली च्या पियेताना हांवें एक सिग्रेट पेटयली आनी धुंवोर सोडलो. माम्मिन सदांचेपरीं दोळे उरकुटायले.

पाटीं रुमाक गेल्ल्या हांवें 'ऐसमारालडा'क धांपचें प्रेतन केलें. जायना. बळ प्रयोग करुंकयी म्हाका मन आयलें ना. खंय सत्रिच्च मडत तर? चलियेक पटंवचें 'चान्स्यी' चुकत.

समा साडे-नोव जाताना, उसयिल्ल्या 'ऐसमारालडा'क घेवनंच हांव घराथावन भार्य सरलों. माम्मी एके विचित्र दिश्टिन म्हाका पळेलागली. पुताचीं आतरवणां तिका कांय नवीं न्हय 'सत्री सुकोंक ना-रे?' तिणें विचारलें. 'या एका पावसाक एक सातें पिंदची आलोचेन? कोलेज ना आज?'

हुं! लेककाची आवय न्हय ति?

म्हाका चुकामुकी जाल्लेपरींच पुण उपावनास्तां ऐसमारालडान म्हजी सत्री वेल्या. ताच्या घराक - बंग्ल्याक पावल्ल्या उप्रांत ताकायी 'युरेका' जालां आनी ताणेंयी कांय पिसुडलेली रात पाशार केल्या कोण्णा आनी आतां पळे तें म्हजी सत्री घेवन सुपर मारकेटिंत म्हाका राकोन रावलां. खंडित जावन तें 'इंटेलेंकचुवल' आस्तेलें. न्हय तर सत्रेचेर विक्टर ह्युगो-च्या क्लासिकांतल्या नांवाचो उल्लेक करता? उल्लेक म्हळें हांवें? तर ताचें नांव ऐसमारालडा न्हय जांवक्यी पुरो' म्हजीं चिंतनां व्हाळ्तालीं.

म्हजें काळिज 'डब्ब' जालें. कशें आसतगाय पळेवंक? आतांची, आयची चली? पेंकटाकटा सकयल जीन्स आनी बोंबले वयर रांवची 'टी-शरटां' घालची? विक्टर ह्यूगोचें ऐसमारालडा एक कंदारिण चली. पूण, आम्चीं आतांची कांय उणी? कोंकणी उलयतात पुणी? विक्टर ह्युगो वाचचीं कोंकणी कशिंयी वाचिनांत म्हण्यां.

सुपर मारकेट आयली. लुविस, शट्टरां उगतीं करतालो. बर्याक पड्लें : एस्मिक, भार्यच्च राकोन रांवचें बरें. त्या फुडें सुपर मारकेटिच्या लुविसा लागीं विचारयां? हां, कित्याक? तोय व्हडलो बायलांडो. सत्री आपुणंच्च व्हरून दितां म्हणात तर?

विगारा लागीं गेल्यार कशें? तुका धयर आसा? तुज्या बरपांनी पाद्री-माद्रींक आडवें-उबें घाशिनांय तुं? तुजीं अंकणां कांय वाचुन विसरल्यात तिं?

आतां वचुन कितें म्हण विचारताय? पाद्रिगार, आमचे फिरगजिंत ऐसमारालडा म्हळ्ळी 'बिव्टी आसा?' मिसाक वचुंक तुका 'अरिसटोक्रेटांनी' वेचीं कोपेलांच्च जाय. कित्याक थंयसर येंवच्या चलियांनी नेसचीं लिबासां तुज्या सर्व काल्पनिक सकतेंक रजा दितात न्हय? हुं? फिरगाजिंत दिश्टिक पडतात तुं? आनी आतां वचुन पाद्रि लागीं ऐसमारालडा आसागी म्हण विचारूंक सोदताय?

सुपर मारकेटिक पावतेच हांवें एक निमाणें प्रेतन केलें आनि अबळे आनी अजाप... ऐसमरालडाचि सत्री धांप्ली! हांव भायरच्च रावलों. मातें उबारोन पळेताना कालचे रातीं आतरवणां केल्लो पावस पयस रावोन आप्लें कारभार पळेता तसो दिसतालो. मोळब नितळ आसल्लें.

हांवें एक सिग्रेट पेटयली आनी धुंवोर सोडलो.

तितल्यार लुविसान सत्रेची बालदी बायर हाड्ली; म्हजेर एक शून्य दीश्ट घालून ताणें ती बालदी म्हज्या पांयां मुळांत म्हळ्ळेपरिंच्च दवरली. तो भितर वेतेच हांवें ते बालदेक पळेलें. तातुं एक सत्री आसल्ली–

म्हजिच्च!

हातांत आसच्या ऐसमरालडाचे सत्रेक आनि म्हजे सत्रेक चड फरक नातल्लें; आसलो तर एक तांब्डे फिंत मुटिक रेवडीन आसल्लें. पुण एके पावसाळे राती तें दिसचें तसलें न्हय. म्हजी चिक्केसे नवी, पेल्यान.

तर आमच्यो सतर्यो आद्लीबद्ली जावंक्नांत म्हण जालें. तर ऐसमारालडा घरा कशें गेलें? सबार वाटो आसल्ल्यो घरा वचुंक व्हय पुण म्हजी सत्री कितयाक व्हरूंक ना? भोव सुलभ वाट न्हय ती? ती वाट ताका नाका जाली म्हणताना तें हांगासर येंवचे अवकास चड्नांत म्हण जालें.

म्हजें काळिज कुसकालें.

गिरायकी येवंक सुरू जाल्ले.

सिगरेट काबार जाताना हांवें आनएक पेटयली. 'प्याक' मुग्दोन आयिल्ली देकुन हांव भितर गेलों. दोन प्याक घेतल्यो आनि पयशे दिंवक कांवाडराक आय्लों. 'क्याशियेर' येवंक नातल्ल्यान लुविसच बसल्लो.

"कोणाक राकताय?" पयशे फारिक करताना ताणें विचारलें. "बरो–सो दिसानांय."

हाका कितें म्हजो काळजांत मोग? हांवें ऐसमारालडाक हरध्याक दांबून धरलें. तो म्हाका सुक्शिमायेन पळेतालो. ''पावस ना तरी तुं कितें सत्री उगती धरुनंच हांगासर आयलोय?''

घुगिची दीशट आसल्ली ह्या लुविसाक.

''तुका कितें जालें?'' आतां म्हाकायी चिक्केसे विरार जालें. पुण सावधान, होच्च कांय तुका ऐसमारालडा परयांत पावयत?

''म्हाका कांय जावंक ना!'' ताणें जाप दिली. ''तुंवें म्हज्या सुपर मारकेटी भायर रावोन बदचालिंच्यापरीं सिगरेट वोडची म्हाका बरें दिसना.''

''देकुन? तुजेलागिं व्यार घेना हांव? आतां दोन प्याक घेंवकनांत? काल रातीं पावसाक तरी येवन एक रीम पेपर घेंवक ना?''

''कितें व्हड साक्रिफिस केलोय? कांय भिजुन आयिल्लोय? सत्री हाडल्ली न्हय?''

''हाडल्ली संचिकाराची सत्री!'' चुकोन म्हळ्ळेपरी म्हजेथावन उत्रां भायर पडलीं. तितल्यार..

सुपर मारकेटिच्या आरश्याच्या दारांतल्यान म्हाका दिसलें की, जीनस-टी-शरटार आसची चली हेवशिन येता. म्हजें काळिज लागमोडी घालिलागलें. हेंच गाय ऐसमारालडा? हाका हांवें ह्या परिसरांत पळेवंक ना-मू?

ताच्या हातांतयी सत्री आसा पुण ती म्हजी कशि जांवची? म्हजी सत्री लुविसाचे बालदेंत आसा तर कसलो आवंडो हो, स्टुपिड!

''कसलो संचिकार?'' तो खेंचलो. ''तुवें कांय सकाळीं फुडेंच्च 'पेग्ग' मारुंकनांय-मू? पिसांट लेकक तूं, हांव जाणां.'''You shut up, Louis!'

आतां हांवेंयी ताळो काडलो. म्हजी दीशट मात्र ते चलियेचेर आसल्ली.

निजायकी एके कंदारी चलियेची आरबट सोभाय ताका आसल्ली. ती चाल, ती कूड बिसळे केंस जे, तें चलोन येताना दांवच्या घोड्याच्ये गोमट्यावयल्या लोंवेपरीं उडताले.

तें, हेंच्च जाल्यार पुरो, देवा! हांवें सत्री आनिकी हरध्याक दांबून धरली. व्हय, व्हय, तें भितर आयलें.

''तूं कितें मातयार हात घालून उलयतालोय?'' लुविसान विचारलें.

‘‘कांय ना’’ हांवें जाप दिली, ते चलिये वयली दिश्ट काडिनासतां. ‘‘कितेंगी टेंपर उटलो, I am sorry’’ हांवें चिक्के व्हडल्यान म्हळें, तिचें गुमान जिकुंक.

तिची दीश्ट म्हजेर पडली, एका मट्व्या खिणाक. हांव करगालों.

‘‘गुड मोरनिंग, अंकल लुविस!’’ तें म्हणालें एका ‘सेक्सी’, निबर ताळ्यान. ‘‘हांव म्हज्या ग्‍ग्रानिची सत्री हांगासर सोडुन गेलीं आनी कोणा बोलत्याची सत्री वेली. युनो, कालचो पावस. पुण ग्‍ग्रानी तापल्या. सत्रेचेर म्हजें नांव आसा, ति खंडित जावन भायर पड्चिान म्हण म्हाका सोदूंक धाडलां. sentimental fool! पेंकडा सकयल निशकत जावन बेड्डार पडल्यारी पिसांटपणां सोडिना. युनो, अंकल, आमी इतलीं भिजी आसांवकी... आज इक्रा वोरांचें ‘प्लायट’ आमकां आनी आज रातिकच्च मुंबय थावन न्युयोर्क. धा दिसांची रजा कशी पाशार जाली...’’

‘‘हाका तुमी रजा म्हणतात? तुजी ग्‍ग्रानी परत्यान एकसुरी जातेली.’’ त्या लुविसान अर्थनातल्लें उलवन मेचयलें.

"We cannot help that, Uncle?" तें म्हणालें. ‘‘आमकां मेंगलोराक येवंक-वचुंक कितलो खर्च पडताय जाणांय? ह्या पावटीं म्हाकायी वोडुन हाडिलां माम्मी-ड्याडिन. I hate India, but your supermarket is good.

‘‘येस, येस, हांव जाणां तें.’’ म्हणालो लुविस पातळावन-शें. ‘‘तुज्या डेडिक पेग्ग मारूंक सोडा हांगाचोच व्हरतालेंय तूं.’’

‘हूं’ तें म्हणालें आपल्या खोटांचेर धलोन. ‘‘काल रातीं सोडाचो स्टोक काबार जाल्ल्यान डेडिन म्हाका पावसांतच्च हांगासर धाडलें. Selfish fellow. ताका ताची स्कोच आसल्यार जाली... ग्‍ग्रानी एकसुरी म्हण तुवें कशें म्हणचें? तें आयरिन आसा न्हय, she is a trained nurse and we are paying her through our nose. आनी चडित करूंक जाता आमच्यान? आण्णाक पळेंवक-उलंवं कोणयी येनांत म्हणता.’’

‘‘ओ. के. अंकल.’’ तें म्हणालें. "To hell with it!" म्हाका पुणी प्राय जावन बेड्ड्यार पडोंक नाका. I would rather kill myself. पुण अंकल, त्या आयरिनान फोन केल्यार समान घरा धाडताय न्हय?’’

उरल्लीं उत्रां म्हाका आयकालिंनांत. हांव पाटल्या पांयांनिंच पाटीं गेलों. ऐसमारालडाची सत्री हांवें आनिकी हरध्याक दांबून धरल्ली, लिपयिल्ली, फिंतयी लिपयिल्लें.

कंदारिण गेलें ताच्याच्च संसाराक.

म्हजी सत्री व्हरून गेलें; ति सत्री म्हज्या ऐसमारालडा लागीं ह्या फुडें आसतेली.

एक गांच घडसातोलो या हांव तो घडिसतोलों.

ह्या संसारांत्ल्या दोगांचें एक्सुरपण नपंयच जातेलें.

त्या कंदारिणिचें इक्रा वोरांचें प्लायट वचुंदी.

ताका दयाळ मरणाची कुरपायी लाब्रोंदी पेल्यान.

हांव ऐसमारालडाचें घर सोदुन काडुन थंय वेतोलों.

सदांयी वेतोलों.

सदांयी तिचेलागीं उलयतोलों.

म्हजें काळिज कित्लें सोभित म्हण तिका दाकयतोलों.

आनी, मोगान ति म्हाका म्हजो सुंदर 'ख्वासीमोडो' म्हण उलो मारतेली.



# पियानो

मिसेस मेलिस्सा मोंतेरोच्या दिवानखान्यांत इतलें दाट मौन देंवल्लें की तिच्या दोळ्यां थावन खळमीत नासतां गळचे दुकांचे पावळे तिच्या पोल्यांचेर गळोंन तिच्या गौनाचेर पडताना जावचो आवाजयी आपणाच्या कानांक आयकाता म्हण खालिद इब्न राशीदाक भोगलें. त्या दिवानखान्यांत फकत तेगां आसल्लीं – मेलिस्सा, तिचो पूत रॉय आनी खालिद. तो दिवानखानो जो त्या विक्टोरियन बोंगल्यांत आसल्लो त्या बोंगल्याची खरिदी करूंक खालिद इब्न राशीद आयिल्लो, कॅनडा थावन. खरी गजाल कसलीगी म्हळ्यार, रॉय ताका घेवन आयिल्लो. खालिद कॅनडांत सॅटल जाल्लो इंडियन मुस्लीम, एक बांदपी. ताचें खरें नांव खालिद इब्न राशीद म्हळ्ळें. हाका काराणां सबार आसल्लीं जावयेत. ताचें प्रमूख दफ्तर कॅनडांत आसल्लें आनी संवसाराच्या वेवेगळ्या देशांनी ताचीं वेवेगळीं बिसनेसां आसल्लीं. पूण ताणें बांदपाच्या वयवाटांत हात घाल्न सुमार पांचच वरसां जाल्लीं. संवसारांतल्या खंच्या देशांत कसलो वयवाट बळ आरायता हाचेर खालिदाचे गिदा नदर पडताली, घुंवताली, विंचताली. ताच्या खबरींनी ताका पांच वर्सां आदीं खबर दिल्ली – भारतांत इन्शूरेन्स आनी बांदपां हांतूं दुडू आसा, तुवें दुडू घाल्यार. बांदपाच्या मळार गोंय, बेंगळूर आनी मंगळूर – सगळें दक्षीण भारत. खालिद मलबार मुळाचो मुस्लीम आनी ताचीं पाळां कॅनडांत बरींच रोंबल्लीं. तरी मलबारांतले ताचे गांच कांय मेणाचे न्हय. मंगळूरांत ताणें जायते प्रतिश्टीत कातोलिकांचे जागे भांगराचें मोल दिवन घेतल्ले. ताका विचित्र दिसतालें, ताच्या एका बांदपी मित्राच्या कंपेनीन मंगळूरच्या एका इगर्जेक लागोनच एक मस्जिद उबारल्ली, एका कातोलीक कुटमान ताका विकल्ल्या जाग्यार. खालिदान हें साहस मुस्लीम–कातोलीक म्हळ्ळ्या समुदायेंच्या

नदरेन पळेलेंना, पूण आपल्या मित्राची वयवाटी सकत जावयेत म्हळ्ळ्या दिश्टीन पळेलें.

खालिदाची दिश्ट सबार दीस थावन तो तवळ तवळ केरळा-मंगळूराक येतालो आनी ताची बांदपा कंपेनी येदोळच मंगळूरांत फामाद जाल्ली - मिसेस मोंतेरोच्या 'मोंतेरो म्यान्शन' हाचेर आसल्ली. सुमार साट सेंटसांचो जागो तो. ताचेर आसचो बोंगलो सोडल्यार पांचतीस-चाळीस सेंटसां इटाळ सुवात. इटाळ सुवातेचें ताका कांय पडोन वचूंक नातल्लें. ह्या साट सेंटसांचेर बोंगलो धरणी समा करून कितल्या महलांचीं कितलीं ॲपार्टमँट बांदपां उबारयेत, शॉपींग मॉल, मल्टिप्लॅक्स सिनेमा, हॉटेलां... चार प्रमूक रस्ते मेळच्या सुवातीक आपलें मूख दिवन आसचो हो बोंगलो कांय शेंबर वर्सांची मजबूत प्राय आनी विन्यास दाकयतालो. खालिदान ह्या बोंगल्याचे खरिदी खातीर वयल्या वयर खबर काडलेली. हें ताणेंच करिजे म्हण नातल्लें. ताचे खबरीच हीं कामां करताले. त्या बोंगल्यांत मिसेस मेलिस्सा मोंतेरो म्हळ्ळी एकली प्रायवंत एकलीच जियेता, तेगां चाकरिणी आसात, एकलो माली आनी वॉचमॅन आनी दोग डॉबरमॅन पेटे. मिसेस मोंतेरोचीं सर्वां कॅनडा, आस्ट्रेलिया आनी स्टेटसांत सॅटल जाल्लीं. तिचो निमाणो पूत रॉय कॅनडांत आसल्लो आनी दोन वर्सांक एक पावटीं येतालो, आवय लागीं फलां मारतालो, तिका उमे दितालो, विस्की पियेतालो आनी डॉबरमॅन पेट्यां लागीं खेळतालो.

कॅनडा म्हणताना खालिद सगळोच जिवाळ्ळो. ही म्हातारी तो जागो आनी बोंगलो विकूंक तयार ना म्हळ्ळें ताका मंगळूरांतल्या हेरां बांदप्यांनी सांगल्लें. पूत कॅनडांत आसा न्हय, आपणा इतल्याक म्हणालो खालिद. कॅनडांक कशेंयी हांव म्हज्याच हाता ताळवेक वळकाल्ले परीं वळकातां. ह्या म्हातारेच्या पुताक सोदून काडूंक कांय कश्ट जावचेनात. आनी व्हय, तिका चड म्हळ्यार कितलीं वरसां? कितलीं वरसां उमकळोन रावात ती तिच्या बोंगल्याक?

खालिदाचें काम ताणें येवजिल्ल्याच्याकी सुलब जालें. रॉयक ताणें सोदून काडलोच. कॅनडांतल्या एका स्टार रेस्टॉरेंटांत बसून आसल्ल्या ताणें रॉय लागीं शीदा प्रस्ताव काडलो. स्कॉच पियेवंचो रॉय संत्र्याचो रोस पियेवंच्या खालिदाक दोळे अशीर करून पळे लागलो.

'तुवें म्हज्या मतींतलींच उतरां चोरलींय, खालिद!' तो म्हणालो. 'पूण माम्मी आयकाना न्हय? हांव मंगळूराक गेल्ल्या वेळार - Hell, what a place to live - सबारश्या बिल्डरांनी आमचो जागो आनी बोंगलो खरीद करूंक म्हाका फीलर्स सोडल्यात. पूण मम्मी कान हालयना. आतां कितें करचें? ती मोरता पर्यांत राकचें. Sounds cruel, no?'

'तिका तूं हांगासार कित्याक हाडिनाय? ती महंतिनी, शिकपी स्त्री... हांगासर खंडीत ती फीट जातेली.'

'तशें तूं चिंताय!' म्हणलो रॉय. 'तिका दोन पावटीं हांगासर हाडलें. पयली भेट बऱ्यान जाली. हांवें दोन दीस रजा काडली. म्यागी - म्हजी पतीण - तिणें एक हफ्तो रजा काडली. बरें. दोन वरसां उपरांत तिका परत हाडलें. तवळ म्हज्यो धुवो - म्हालगडें तेरा आनी दुसरें धा वरसांचें - प्रायेक पावल्ल्यो. तांचें नडतें तिका आवडलें ना. सदांनीत घरांत कटपट - फिर्यादी. एका दिसा म्हज्या मालगड्यान तिका म्हळें खंय, ग्र्यानी, तुका हांगासर किचन सांबाळोंक हाडल्या खंय, आमचेर अदवाज चलोवंक न्हय. माम्मीन लडाय मार्न दुसऱ्याच हफ्त्यांत तिकेट बूक केली आनी पाटीं गेलीं.

खालिद चूप बसलो. रॉयन दुसरो पेग्ग स्कॉच हाडयली.

'पूण म्हाका तो प्लॉट आनी बोंगलो जाय, रॉय!' तो म्हणालो, रॉयन आपल्या दुसऱ्या पेग्गाचो दुसरो घोंट ताळ्यांत देंवयताना. 'हांव दिवंक तयार आसचें मोल आयकाशी तर तुका कॅनडांत तरी घाम सुटत!'

'तितलोयी घमंडी तूं हां?... तुमी मुस्लीम जाल्यारी जावयेत मिस्टर खालिद. आमी पळे... पयलें बोंबय जालें. गल्फ, इंग्लेंड आनी आतां कॅनडा, आस्ट्रेलिया, अमेरिका... पूण तुमी भायर आसल्यारी पयशे लुंवतात इंडियांतच. Fantastic man, fantastic!

'तुवें आनी हांवें वेगींच इंडियाक वचाजे, रॉय!' म्हणालो खालिद खचितायेन. 'त्या फुडें म्हजी कन्स्ट्रक्शन कंपेनी त्या प्लॉटाक कितले दिवंक तयार आसा म्हळ्ळें आयक. तुजीं आनी तुज्या आवयचीं सर्व सिंतिमेंतां पिगळोन वेतेलीं. तुका आसा एकलोच भाव आनी दोगी भयणी. तीं वांट्याक येतीत म्हण चिंताय? इंडियाक वचा नातल्लीं तीं पयशांक येतीत?'

'तुजें फिगर सांग, खालिद!' म्हणालो रॉय. 'तूं कांय जेम्स बाँडाचो फस्ट कझन? इतलें सर्व जाणाय आमचे विशांत?'

खालिद एका खिणाक हांसलो आनी ताणें ऐवज सांगलो 'आनी हें सगळें तुका कॅनडाच्या दुडवान हांव फारीक करतोलों.

What say you?'

रॉयचे दोळे कोंगे जाले. कॅनडांत ताचें होडें बऱ्यान चलनातल्लें. धुवो वाडोन येताल्यो, म्याग्गीचो दळबार मळबाक तेंकल्लो... तें ताच्याकी चड शिकपी, ताच्याकी दोडत्यान जोडतालें, मटव्यान आनी सोंप्यान. रॉयक कॅनडांत दुडवांची सख्त जरूरत आसल्ली.

'टिकेट हांव दितां!' म्हणालो खालिद, निमाणो खिळो मारलेल्या परीं.

रॉयन तिसरी स्कॉच हाडयली. 'हाचें बिलय तूंच दी' तो मनांत म्हणालो खालिदाक एक मतलबी दिश्ट दिवन.

आनी आतां मोंतेरो म्यान्शन.

'माम्मी, तुवें एका निरदाराक येजे!' रॉय म्हणालो. 'राजांवीक जायजे. तुका दोन वाटो सामकार आसात - पयली, तुवें आमच्या सांगाता कॅनडांत रावचें. तशें तूं करिशिनाय, कित्याक, तुका म्हजीं भुरगीं आवडनांत. म्याग्गीची सावळीच जायना. पूण तुजीं हांगाचीं मंगळूरगारां हें कशें समजातात? तीं कितें म्हणतात म्हळ्ळें तूं जाणाय. दुसरी वाट - हो जागो बोंगल्या समेत मिस्टर खालिदाच्या कंपेनीक विकचो. ताचीं साबार पॉश एपार्टमँट बांदपां मंगळूरांत आसात आनी एकांत तुका एक पॉश पँटहौस एपार्टमँट दिवंक मिस्टर खालिद खुशेन ओंपला. बॅस्ट ऑफर. तुज्या तेगां चाकरिणांक घे, एपार्टमँटांत राव, आराम कर. नव्यांतली नवी सजावट तो करतोलो तुज्या नव्या एपार्टमँटांत. नवी एल्. सी. डी. टिवी, आतां कितें तें इंडियांत आयलां.. टाटा स्काय? बराबर. तुज्या वॉचमॅनाक खालिदान सैटाचेर काम दितां म्हळां..' फुडें उलोवंक ताका कांय सुस्तालें ना.

'जालें तुजें, रॉय, my son?' तिणें दुकां पुसून विचारलें. 'म्हज्या डॉबरमॅनांक कितें करताय?' वेटरनरीक आपोवन तांकां इंजेक्शन दिवन निदायताय? एक सुवी म्हाकायी तोपुंदी तो डॉ. नारायण. कितें म्हणताय, मिस्टर खालिद?'

खालिदान कितेंच म्हळ्ळें ना.

'हांवं कांय तितलो क्रूर न्हय, माम्मी!' उस्मडलो रॉय. 'तुज्या डॉबरमॅनांक बेंगळूर धाडची विलेवारी करतां हांव. थंय पेटांचे मोगी आसात धाराळ. कांय ना तर तांची जतन घेवचीं कॅनेलां आसात.'

'हुम्म!' ती म्हणाली. 'तुमी सर्व मांडण्यो करुनच आयल्यात हां, जंटलमॅन?' ती सुको हासो हासली. 'तूं तितलो क्रूरि न्हय हां रॉय? उडास कर, तुजो बापय कोचीन नेवल थळार उन्नत अधिकारी जावन आसल्लो आनी तुमकां तेगांक आमी कसल्या शिस्तेन, घमंडायेन आनी सब्यतेंत वाडयिल्लें तें उडासांत हाड.'

'मम्मी!' रॉयन ताळो चडयलो. 'तुमी आमकां दिल्ल्या वाडावळीक आमी कसलेंयी आयब हाडलां?'

'ना' ती म्हणाली. 'पूण हांवच आतां तुमच्या जिणियेचें आयब जाल्यां!'

'All these are impractical and useless sentiments, Mummy!' तो म्हणालो आनी आपली स्कॉच फिक्स करूंक आरशाचीं पॅनॅल - दारां आसच्या कबाटा लागीं गेलो. एके चाकरिणीन खालिदाक सोडा-लॅमन सरबत हाडलो. 'सगळें मंगळूर तुज्या तसल्यांनी तालिबान करून सोडलां!' येकाचाणे म्हणाली मेलिस्सा.

'तूं ह्या पाँयंटाक येतेलीय म्हण हांव जाणां आसलों, मिसेस मोंतेरो!' खालिद म्हणालो; 'सगळें मंगळूर रॉय तसल्यांनी मुस्लिमांक विकलां म्हणच्या बदलाक तुवें तुजें महंतनीपण उपेग करून उतरां विंचलींय. तुका दुरसाना हांव' ताणें मुंदरिलें. 'संवसारांत जावंच्या सर्व अनाहुतांक दोन काराणां मात्र आसात - मुस्लीम, हिंदू मूळभूतवादी आनी अमेरिकाचें सि.ऐ.ए.!' तो हासलो. 'तूं मुस्लिमांचेरच येतेलीय म्हळ्ळो अंदाज म्हाका आसल्लो. सि. ऐ. ए. पयस जालें म्हणया.'

मॅलिस्सान वोंट चाबले. 'म्हजो उद्देश तसलो न्हय आसलो, मिस्टर खालिद!' ती म्हणाली. 'तुजे लागीं माफ मागच्या तितली सब्यता आनी महंतनपण म्हजे थंय आतांयी आसा. I'm sincerely sorry for hurting your religious sentiments. I'm sorry. पूण पळे भोंवतीं, मिस्टर खलिद आनी तूं रॉय! एक तेंपार कातोलिकांच्यो जावनासल्ल्यो आस्ती आज मुस्लिमांच्या ताबेंनी आसात...'

'हाका काराण कोण मिसेस मोंतेरो?' शांत ताळ्यान विचारलें खालिदान. 'विकतेले आसल्यार मुनाफो पळेवंचे खरीदार आपापींच येतात. जावं ते मुस्लीम या जुदेव. Here, this is a two-way traffic. तुमी डिमांड केल्ल्याच्याकी चड दिवंक तयार आसचे खरीदार आमी. त्या शिवाय, ह्या मंगळूरांत तुमचें म्हळ्ळें कितें आसा? तुमच्या मोगाच्यांनी तुमचें मंगळूरच सांडलां म्हळ्ळ्या उपरांत तुवें या तुजे तसल्यांनी ह्या परन्या वणदींक, बांकांक, कदेलांक, वणदीर आसच्या त्या वागा-चामटाक उमकळोन रावचें तरी कित्याक आनी तो पियानो..'

'म्हज्या पियानो विशांत तूं कांयच उलयनाका मिस्टर खालिद!' तिणें ताळो काडलो. 'त्या पियानो विशांत तूं कांयच उलयनाका.'

आतां माफ मागची सर्ती खालिदाची. 'त्या पियानोक तितलोयी सिंतिमेंताळ जागो आसा म्हण हांव नेणासलों!' तो म्हणालो. 'I am sorry!'

'सॉरी?' आपलो ग्लास घेवन पाटीं आयलो रॉय. 'नॉनसॅन्स! हो पियानो ह्या दिवानखान्याचो कितलो जागो खाता तें तुका दिसना, माम्मी?'

'तुका आतां दिसलें रॉय?' तिणें विचारलें. 'आमच्या लग्नाच्या प्रथम ॲनिव्हर्सरी संब्रमाक हो पियानो म्हाका म्हज्या रॉबर्टान दिल्लो. पळे, पळे तें तैलचित्र, मिस्टर खालिद. रेस्पेराक भायर सरोन इगर्जेच्या दारार आमी उबी आसांव. कसो दिसता पळे म्हजो रॉबर्ट नेवल समवस्त्रार. Handsome , no? लग्न जावन एक वरस संपताना ताणें म्हाका हो पियानो प्रेसेंट जावन दिलो. कित्याक, म्हाका संगिताचें खूब पिशें आसल्लें आनी आतांयी आसा. ह्या पियानोचीं चरित्रां बरींच आसात, my son, खालिद...'

'माम्मी, पुरो कर!' म्हणालो रॉय. 'तुज्या पियानोचीं चरित्रां हांवें आयकोन आयकोन म्हज्या कानांपुलांचेर चामकोळ उदेल्यात!'

'पूण खालिदान आयकोंक ना न्हय?' तिणें विचारलें. 'कॅनडाक वचून तुजी भास बरीच सुदारल्या, रॉय!'

'तूं ती कथा म्हाका सांग, मिसेस मोंतेरो.' ताळ्यांत कसलीच विर्राय दाकयनासतां म्हणालो खलिद.

मेलिस्सा सगळीच जिवाळ्ळी.

'बरो शाणो आसा हो खालिद!' मनांत म्हणालो रॉय. 'आतां हो माम्मीच्या सिंतिमेंतांचेर खेळता आनी दस्तवेजांचेर तिची दस्कत - कबलात घेतल्या शिवाय तो भायर वेचोना.' 'Thanks my son, खालिद!' ती म्हणाली. 'जाणाय ह्या पियानोक कितली प्राय जाली म्हण? १८२८ इसवेंत लंडनांत रॉबर्ट वॉरनुम म्हळ्ळ्यान 'कॉटेज पियानो' म्हळ्ळ्या नांवान हें वाजंत्र रचलें. कोचिनांत आतां मटानचेर्री रावळेर आसा न्हय? ताका पयलें डच प्यालेस म्हणताले. पुर्तुगेजांनी सोळाव्या शतमानांत - 1663 to be exact - हें रावळेर बांदल्लें. उपरांत आयले डच, आनी तांणी हें रावळेर स्वाधीन केलें, सुदरायलें आनी राजा ऑफ कोचीन हाका दिलें. आयक फुडें, खालिद बाबा, हो डचांनी हाडलोलो पियानो त्या रावळेरांत पडोन आसल्लो तो म्हज्या रोबर्टाच्या नदरेक सांपडलो. ताका ताचेर मोन पडलें, पूण ताणें म्हाका कितेंच सांगलेंना. हो पियानो सारक्या कंडिशनार नातल्लो आनी तो रिपेरि करच्या खातीर म्हज्या रॉबर्टान सगळो संवसार मोडलो म्हणयेत. what a man! पूण विपर्यास कसलोगी म्हळ्यार, हो पियानो रिपेरि करूंक सकचो मनीस कोचिनांत आसल्लो!'

'मम्मी!' रॉय मधें पडलोच. 'उरल्ली काणी हांव जाणां आनी कॅनडाक पावल्या उपरांत हांवच ती खालिदाक सांगतां. Now, let's talk business. आतां वयवाट उलोवया.'

'तूं मुंदरसी, मेलिस्सा उम्मी!' म्हणालो खालिद.

तिणें कपालाक मिरियो घाल्यो. 'तशें म्हळ्यार?'

'सॉरी, तुजी परवाणगी नासतां हांवें तुका उम्मी-मम्मी-म्हण उलो मारलो.' खालिदाचो ताळो मातसो कांपेरो जाल्लो.

'आवयक आपोवंक परवाणगी जाय, खालिद, my boy?' तिणें विचारलें.

हें आयकोन आसल्ल्या रॉयचें धैर्य चुकलें. 'माम्मी कांय उणी शाणी न्हय!' तो परत आपणा इतल्याक म्हणालो. 'आतां ही खालिदाच्या सिंतिमेंतांचेर खेळता. To hell with them!' ताणें आपणाक आनयेक ड्रिंक फिक्स केलें.

'कोचिनांत १५६८ थावन जुदेवांचें एक सिनेगोग आसा...' ती गड करून रावली. 'तूं मुस्लीम आनी हांव तुजे लागीं जुदेवां विशांत उलयल्यार कशें?'

खालिद हासलो. 'तूं हो बोंगलो आनी हिताल म्हज्या कंपेनीक विकूंक तयार नांय रायट उम्मी?' ताचें सवाल बोलतेंच आसल्लें.

'रायट!'

'कित्याक? हांव मुस्लीम म्हळ्ळ्या खातीर?'

'बिल्कूल न्हय!' ती सणसणलीच. 'म्हळें हांवें ह्या पयलें... तालिबान आनी कितें कितें. तूं मुस्लीम म्हळ्ळेंच म्हज्या नकाराचें कारण तर हांव तुका म्हज्या पियानोची कथा सांगतां, खालिद बाबा?'

'भोवशा सांगतिनांय, उम्मी!' तो म्हणालो.

'आतांयी तो सिनेगोग आसा व्हय, पूण जुदेव नांत. मिसेस गोळ्डा मेयरान इस्रायेल देश आसा करताना संवसारबर आसल्ल्या जुदेवांक उलो दिल्लो - विंचून काडलेली परजा इस्रायेलाक पाटीं येवंदी - आनी ह्या उल्याक पाळो दिवन गेल्ल्या जुदेवांनी इस्रायेल परत रचलें. आतां कोचिनांत फकत सतरा जुदेव आसात म्हण हांवें आयकालां, आनी तांकां एक राब्बियी ना खंय!'

'तूं पुणी वचानांय!' म्हण रॉय म्हणतो आसल्लो, पूण ताणें म्हळें ना. ह्या सगळ्या प्रकरणांत ताका आपणाचें महत्व पिगळोन गेल्ले परीं भोगलें.

'तुका संवसारांत घडच्या संगतीची ग्यान खबर बरीच आसा, उम्मी!' म्हणालो खालिद.

'खरेंच तें!' ती म्हणाली. 'खरें महंतनपण, ग्रेस्तकाय आनी सब्यता म्हळ्यार ग्यानच.' हें म्हणताना तिची दिश्ट रॉयाचेर पडली.

'पूण आमी कोचिनांत आसताना सिनेगोगाक एक राब्बी आसल्लो. कितें ताचें नांव... इट्जाक रामोन, व्हय. राब्बीचें काम तो करतालो, पूण ताचें पाशांव जावनासल्लें पियानो. पियानो रिपेरि करच्यांत तो अव्वल. इंडियांत ब्रिटिशांचें राज चलतालें आनी तांच्या बोंगल्यांनी आसचे पियानो रिपेरि खातीर कोचिनाक ते धाडताले. म्हज्या रोबर्टान हो पियानो डच प्यालेसांतलो कसो पुणी खरीद करून, इट्जाक रामोनाच्या पांयांथळीं धाडून रिपेरि करयलो आनी म्हाका इनाम जावन दिलो. इट्जाकान म्हाका जुदेवांचें लोकवेद संगीत शिकयलें. पूण आतां खालिद बाबा... हो पियानो कितलेशा वरसां थावन पाड पडोन मौन जाला. ह्या बोंगल्यांतलें संगीत आळवळां, पुता!' ती कसकसोन रडली.

हें पळेवन आनी आयकोन रॉय सुकिो हासो हासलो. 'You know what!' तो खालिदाक म्हणालो. 'हो डील जायजे तर तुवें त्या इट्जाक रामोनाक परत

जीव जायशें करिजे. ताणें हांगासर येवन हो पियानो रिपेरि करिजे, माम्मीचें संगीत परत ह्या बोंगल्याच्या वणदींक दणसूंक लागाजे...'

'तुजें उलवणें बरें लागाना, रॉय!' म्हणालो खालिद.

'ताणें तशें उलवंक काराण हांवच!' म्हणाली मेलिस्सा. 'म्हज्या भुरग्यांक हांवें महंतनी, मेयमोच्यांची सब्यता शिकयली. बिडाराचो आनी धरतेचो, देशाचो मोग शिकयलोना. ह्या मधें खुद्द हांवच हें सर्व विसरलीं. आतां म्हज्या निस्रवणेचो नतिजो पळेताना पस्तावान म्हजींच सिंतिमेंतां आंक्रेल्यांत आनी देकून हो बोंगलो तुका हांव दिना, खालिद!'

'माम्मी!' खिळंचलो रॉय. आमालान ताचें शिंतीद खवदळायिल्लें. 'तुजें ओद्दुवोरांट चड जालें. तक्षण कबलात दी, मिस्टर खालिद फाल्यांच वकिलाक आनी दस्तवेजांक घेवन येतोलो आनी आमी डील पांस करयां. तूं आनी तुजो पियानो! भेतून घालीन तो पियानो खिणा भितर; गुळी घालीन तुज्या दोगांयी डॉबरमॅनांक. Silly stupid non-sense...!'

'विसरलोय तूं तुज्या म्याग्गीक पियानो खेळोंक शिकयिल्लें हांवें म्हण?' रडण्या मधें तिणें विचारलें. आतां म्याग्गी कॅनडांत व्हडलीं व्हडलीं पियानो कॉन्सर्टां दिता आनी...' ती फुडें उलवंक सकली ना.

खालिद उटलो.

'आतां हांव वेतां!' तो म्हणालो, 'फाल्यां म्हाका केरळाक वचूंक आसा आनी त्या उपरांत कॅनडाक पार्टी...'

'पूण आमचो डील?' आकांतलो रॉय.

'डील जातोलो आनी जरूर जातोलो!' हात मुकार वोटायलो खालिदान. रॉयन यांत्रीक रितीर तो धरलो.

'पूण केदळा?'

'वेळ येताना रॉय. वेळ येताना.'

खालिदाचे दोळे रॉयच्या दोळ्यां लागीं झुजले. 'आमी परत कॅनडांत मेळया.' ताचो हात सट करून ताणें सोडलो. मिसेस मॅलिस्सा मोंतेरा सरशीं वचून तो भागालो आनी ताणें तिच्या दोनयी पोल्यांचे आनी कपालाचे उमे घेतले.

'आमी परत मेळतेल्यांव, उम्मी!'

तिचें मुखामळ फातरेलें. तिणें कसलिगी एक विंचवण केल्ली.

'तूं दस्तावेजां घेंवनच ये पुता, खालिद!' ती म्हणाली, एका निरदाराक येकाचाणे पावल्ले परीं. 'एका बऱ्या वकिलाकयी घेवन ये. म्हजो बोंगलो, आस्त म्हजोच नवो पूत घेता न्हय? विक्र्याचो दुडू मात्र तूं रॉयकच दी. तुजीं हर शर्तां म्हाका मंजूर आसात.' तिणें दुकां पुसलीं.

'वेळ येताना, उम्मी, सर्व वेळ येताना!' खालिद म्हणालो.

उपरांत, बिळा परीं तोंड उगतें करून उबो रावल्ल्या रॉयचें भूज थापडून खालिद भायर गेलो. थोड्या वेळान ताचें बी. एम्. डब्ल्यू. स्टार्ट जावंचो आवाज तांकां आयकालो.

'तूं कितेंगी विळास चुकोन आयलाय, मानेस्ता!' मेलिस्सा म्हणाली आपल्या बोंगल्याच्या दारवटार उबो जाल्ल्या मध्यम प्रायेच्या मनशाक पळेवन. खालिद ह्या बोंगल्याचीं मेटां देंवोन दीस जाल्ले आनी तो गेल्ल्या तीनच दिसांनी आवय लागीं एकच एक सब्द उलय नासतां रॉय पाटीं कॅनडाक गेल्लो.

'तुजें नांव मॅलिस्सा मोंतेरो आनी ह्या बोंगल्याचें नांव मोंतेरो म्यान्शन?'

'व्हय, पूण... तूं कोण आनी खंय थावन आनी कित्याक आयलाय?'

तो मानेस्त हासलो. ताच्या पाटीची बाग चड जाल्ले परीं तिका दिसली.

'म्हजें नांव इलान रामोन!' ताणें कळयलें.

'रामोन?' तिणें दारवटाचो आदार घेतलो उबी रावोंक. 'पूण हें जुदेवांचें नांव.'

'संवसारार आनिकी जुदेव आसात मानेस्तिणी!' तो म्हणालो. 'हिटलरान लगाड काडल्ले. फकत स मिलिया जुदेवांक मात्र. आतांयी कोण कोण आमच्या पाटीक लागल्यात. पूण आमी तांबडो दर्यो परत्यान उतरोंक आयते आसांव.'

'इलान रामोन...तूं...?'

'हांव इट्ज़ाक रामोनाचो नातू... राब्बी.. पियानो रिपेरर.. कोचीन सिनेगॉग?'

तिच्यान उबी रावोंक जालें ना. हें समजाल्ल्या त्या मानेस्तान तिका आदार दिवन दिवानखान्यांत बसयलें. तिच्यो चाकरिणी भितर थावन धांवोन आयल्यो.

'तूं... आनिकी?'

'कोचिनांतच आसां, मदाम!' तो म्हणालो. 'पियानो रिपेर करची म्हज्या आज्याची तांत्रीकता हांव मुंदरोन आसां... म्हाका कोचींतल्यांनी आनी म्हज्या गिरायकांनी इस्रायेलाक वचूंक सोडलो ना...'

'पूण तूं हांगासर?'

'म्हाका खालिद इब्न राशीदान धाडला!'

'आनी कित्याक, देवा सर्वेस्परा... why O lord, why?'

इलान रामोनान आपल्या मात्याचें किप्पाट (जुदेवांची उरूट तोपी) काडून मोगान तिच्या मात्याक बसयली.

'तुजो पियानो रिपेरि करूंक!' तो म्हणालो. 'ह्या बोंगल्यांत परत संगीत वाळाजे म्हळ्ळी आशा ताची!'



# बॅत्लॅहॅम

बरोवपी : (कन्नड लिपयेंत) एडवीन जे. एफ्. डिसोजा
नागरींत हाडपी : रमेश घ. लाड

**हां**व एक लेखक. म्हजी लिखणी स्वतंत्र, सितिमेंतां मोव आनी कल्पनासक्त इटाळ अशें म्हण म्हजे वाचपी वरवणी दितात. पूण सबार पावटीं हजारांच्या मेळींत आसल्यारी हांव एकसुरो जातां, चुकोन वेतां, भायर पडटां. म्हाकाच हांव सोदतां आनी म्हाकाच वेंगावंक हांव आशेतां. चुकोन गेल्लो वा तुटोन गेल्लो कसलो गी एक गांच म्हज्या जिवितांत आसा म्हण हांव पातयेतां. आमच्या विस्तार भागियेच्या पेंटाळेर बसून हांव अनंत आगसावयलीं मोडां मेजतां आनी गुपीत रडटां. तेदना मम्मी म्हजे सरशीं येता. म्हाका आरायता आनी मातें पोशेवन म्हाका बॅत्लॅहॅमाक आपोवन व्हरता.

'बॅत्लॅहॅम' आमचो तेरा कमऱ्यांचो बंगलो. शेंबर वर्सांची चरित्रा आसा ह्या बंगल्याक. पूण आतां हातूंत आसचीं फकत आमी तेगां. मम्मी, डॅडी आनी हांव. तेगांक आमकां पांच जाणां कामाचीं. काळ बदलला आनी आमी तांकां कामाचीं म्हणानांव. घरदार सांबाळूंक मजत दिवचीं मनशां तीं. तांकांय स्थान आसा, मान आसा तसोच सांबाळ आसा. म्हज्या डॅडीक च्या पानांचीं तोटां आसात, तीन कारां आसात, एक खासगी विमान आसा. इकरा वर्सांचे प्रायेर म्हजें प्रथन लेखन छापून आइल्लें आनी संतोसान हांव रातभर निदलों ना. आतां म्हाका चोवीस उतरल्यांत, हांव गिरेस्त, स्फुरद्रूपी आनी हेरांक मोस्राक घालच्या सोभायेचें म्हजेंच प्रेमिका म्हाका आसा. तरी आतांय लेखक जावन इतलीं प्रगतिपर वरसां हांवें पाशार केलीं तरी म्हजें लेखन छापून येताना हांव इकरा

वरसांचोच जातां आनी संतोसान नाचतां. दिवाणखान्यांत स्कॉच घेवन बसून आसचो डॅडी म्हाका तिरशा दोळ्यांनी पळेता.

म्हजी माम्मी विशिश्ट आनी विचित्र कालेतिची. तिचेथंय म्हाका आसचो अभिमान म्हज्या आत्म्याक ओकताचें बळ आनी कुडीक कावजेणी हाडून येता. तिका पळेताना अमेरिकांतल्या 'स्टेच्यू ऑफ लिबर्टी'च्या प्रतिमेचो उडास म्हाका येता. तीक्ष्ण, गंभीर कसलेंच तिच्या नदरेथावन चुकोन वोचाना. बऱ्यांतलें बरें तिका जाय आनी पयले पावटीं म्हज्या प्रेमिकाक घेवन हांव तिचे सामकार उबो जाल्ले वेळीं 'बऱ्यांतल्या बऱ्याक बऱ्यांतलें बरेंच मेळाचें' ती म्हणाली. उप्रांत तिणें म्हज्या प्रमिकाक लागीं आरायलें अआनी तिच्या कपाळाचो उमो घेतलो. 'ह्या पिश्या लेखकाक तूं बऱ्यान सांबाळ' ती म्हणाली. म्हाकाय जबोर आशा आयली तिका वेंगोन उमो घेवंची. पूण कसल्यागी सक्तेन म्हाका पाटीं धरलो. गांच घडसूंक आयकानातल्लो.

लेखक तरी म्हज्या प्रेमिकाक आनी तीन वरसांनी म्हजी पतीण जावंक आसच्याक विसरूंक हांव सकाना. रोमांत बसून आसच्या तरन्या कलाकारांक हांवें पळेइल्लें. तांकां त्या पिंतुरांनी मिनुटाक एक नवेसांव दिसता खंय, तीं पिंतुरां पयले पावटीं पळेइल्ल्यापरीं. म्हज्या प्रेमिका थंयी असेंच. हरेक पावटी तिका हांव पळेताना पयले पावटीं पळोवंचे परीं म्हाका भोगता.

सत्तावीस वरसांचे प्रायेर तेवीस वरसांचे तिचे लागीं म्हजें लग्न जालें. ही प्राय आमीच विंचून काडलेली. म्हजें लग्न जावन, स म्हयन्यांचे अवधेक आमी विदेशांचे भोंवडेक गेल्यांव. पाटीं येतच आमी चिंतूंक नातल्लें घडोन गेलें. म्हजो डॅडी आनी माम्मी तांच्या खाजगी विमानाच्या अवगडांत अंतरलीं. करोडांच्या वहिवाटांचो हांव एकसुरो धनी जालों आनी 'बॅत्लॅहॅमा'चो राय. वहिवाट हातबदली जाताना मम्मीच्या कमऱ्यांत एक पुरातन डायरी म्हाका मेळ्ळी. ती वाचताना म्हजीं अंतरमळां भुंयकांपेक वळग जालीं. हांव तांचो खरो पूत न्हय. हांव स महिन्यांचें बाळ आसतना खंयच्यागी एका अनाथासऱ्यांतलो म्हाका पोसको करून तांणी आपणायल्लो. पूण नातल्लें कसलेंय विवर ते डायरेंत. कसलेंच विवर ते दिनचरींत नातल्लें तरी चुकोन गेल्लो घडसानातल्लो गांच म्हाका आतां दिसूंक सुरू जाल्लो.

ह्या पत्रांत हें म्हजें अंकण कायाम. पूण हे पावटीं म्हजीं खासगी सितिमेंतां लिखची पर्वणगी म्हाका संपादकान दिल्या. नातालांचे परबेक फकत एक म्हयनो उरला आनी म्हाका तुमी जाय. मम्मी आनी डॅडी. हांव नेणा खंय; पूण खंयसर पुणी तुमचे पैकीं एकलो/एकली जिवंत आसतेलीं म्हुण हांव पातयेतां. ''म्हजीं खरीं आवय आनी बापय. ह्या नतालांक तुमी खंडीत जावन 'बॅत्लॅहॅमा'क येतेल्यांव म्हण हांव जाणां. तुमचें नांव, गांव, विळास ठिकाणें हांव नेणां. पूण हांगासर म्हजें नांव 'बॅत्लॅहॅमां'त म्हाका वागइल्ल्या, वाडइल्ल्याचें नांव आनी ठिकाणो हांवें दिला. तुमचें येणें म्हज्या वांट्याक जावन आसतेलें तेगां रायांचेंच येणें.

***

मोगाच्या पुता,

हीं उतरां हांव लिखताना फांत्याचीं चार वाजल्यांत. सोबीत आनी देवाळ रितीर तुवें बांदल्ल्या 'बॅत्लॅहॅमा'च्या गरदनाच्या गोठ्यांत हें पत्र तुका मेळताना लागीं लागीं तीन घंट्यांचें म्हजें पयण सोंपलां आसतेलें. आनिकी म्हाका घंटे आनी मैलां वचूंक आसा. तुजें अस्पस्ट लेखन वाचताना तुजे तसल्या करोडपतिचीं आवय-बापय जावंक तुज्या बंगल्या सामकार एक लायनच आसतेली म्हण हांव पातयेल्लीं. पूण कालचे सांजेर स घंट्यार त्या हिंवाळ्यांत तुज्या बंगल्याची कांपीण वाजयताना तसली कसली लायन नातल्ली पळेवन म्हजो स्वार्थ थंड जालो.

हांव स्वार्थी स्त्री पुता. 'माँ' म्हळ्ळ्या एका सब्दाक वर्सां थावन स्वार्थान आशेल्लीं हांव. आतां पाशार जाल्ल्या धा घंट्यांनीं तुवें आनी तुजे सुंदर पतिणीन हो अभाव परिपूर्ण रितीर भरला. आनी आतां, हांवें हांगासर रावचें सारकें न्हय. तुवें म्हाका सोदून काडचें कसलेंच प्रेतन करूंक नजो आनी अशें तुवें ह्या नातालां रातीं भास दिचे. हांव हांगासर एकसुरींच, ह्या तुज्या 'बॅत्लॅहॅमां'त रावोंक आशेल्ली फकत थोड्या घंट्यांक. ते खातीर तुमकां हांवें औत्तायान मिसाक धाडलें आनी त्या उपरांत तुमी ख्रिसमस बॉल वसाचें म्हण हांवें कड्डाय केली.

आतां, हांव वेतां.

ठिकाणो आनी विळास तुमकां कळयनासतां हांव वेतां तरी थोड्यो संगती तुका कळोवंक हांव अपेक्षितां. येदोळचे भितर हांव तुजी खरी आवय न्हय म्हळ्ळें तुमकां दोगांयकी कळीत जालां. आवचीत दारार उबी जाल्लेक पाटीफुडें पळेनासतां, दाकले रुजवाती विचारिनासतां 'माँ' म्हणोन तुमी गोपांत घेतलें तरी फटवोन पडचे तितलो भेरो तूं न्हय. कितें गी, कसलो गी एक गांच हे नतालांचे रातीं घडसूंक आसल्लो आनी तो घडसाल्लो.

हांव एका प्रायेस्तांच्या घराथावन आयल्यां!

हो देश सुद्राला आनी आमकां प्रायेस्तांक म्हातारीं म्हुणानांत बगार 'सिनियर सिटिजन्स' म्हणतात. ह्याच सुद्रापाक लागोन म्हज्या चवगां भुरग्यांनी म्हाका प्रायेस्तांच्या न्हय सिनियर सिटिजनांच्या घरांत दाखल केलें, अठरा वरसां आदीं. हांव तांकां दुरसाना. कित्याक, तांकां तांच्यो तांच्यो वाटो आसात. पूण मोगाक आंवडेवचें स्वार्थीपण तर हांव खंडीत जावन स्वार्थी. तुमी म्हजेथंय कितें देकलें तें हांव नेणां पूण हांवें 'बॅत्लॅहॅम' देकलां. तुज्या ह्या 'बॅत्लॅहॅमां'त म्हज्या जाणवाये प्रकार ह्या सब्दाचो अर्थ जावन आसा समाधानाचो गर्भ आवयच्या गर्भापरीं. हातूंत आसल्लीं नोव म्हयने पर्यांत पुणी बेफिकिरेन वाडटात. कितेंच उणें ना. जरतर तुका उणेपण भोगलां तर ही जावन आसा तुजी चूक समजणी. थोड्या घंट्यांक तुजी आवय जाल्लेक एक सांगचो अवकास दी. अवगडांत अंतरललीं तुजी आवय आनी बापूय आमचोच जावन आसा मान आनी स्थान तुज्या ह्या 'बॅत्लॅहॅमां'त. तीं तुजीं खरीं न्हय तरी तांकां तूं, तांचो खरो.

भितर आइल्लेफरा तुजे पतिणेन दिल्लो हुनोनीत काल्द रुचीक आसल्लो पुता. आनी तिणें खर्नाइल्लो क्रिसमस केक आनी तुवें घराच तयार केल्लो वायन आपट्ट जावन आसलो.

तुवें तुज्या लेखनांत लिखल्लेंय तुज्या खऱ्या आवय-बापाचें येणें जावन आसतेलें क्रिस्ताक भेट करूंक आइल्ल्या तेगां रायांच्या येण्यावरी म्हण. पूण नतालांची कथा तुवें सारकी वाचल्याय तर बाळोकाक नमान करून काणिको अरपून जातच ते तेग राय बॅत्लॅहॅमांत रावलेनांत.

व्हय म्हज्या मोगाच्या पुता, ते बॅत्लॅहॅमांत बिलकूल रावलेनात.

"आनी ते तांच्या गांवांक भायर सरोन गेले तांच्याच वाटांनी..."



# मॅरी क्रिसमस, डॅडी

**स**र्व, पांच-स मिनटांभितर घडोन गेलें.

आपल्या कोंपरान, वज्रांचो नेकलेस आसचें तें आरशाचें पेटूल ताणें फुटयलें आनी नेकलेस घेवन त्या शॉपांतल्यान गडदे मधल्यान धांवता म्हणताना बोबाट उटली. 'चोर, चोर! सांताक्लॉसाच्या वेसांत आयिल्ल्यान वज्रांचो नेकलेस चोरलो!' ही बोबाट बहुशा मालकाची - आकेर जावंचे भितर तो शॉपाच्या दरवट्या लागीं पावल्लो. हातांत नेकलेस, आंगार सांताक्लॉसाची तांबडी-धवी मुस्तायकी, मेकअप आनी तोपी. खांदार इनामांचें पोतें मात नाशिल्लें. इतलोच फरक. वज्रांचो नेकलेस लिपोवंक पोत्याची गरज नातल्ली.

सर्व, पांच-स खिणां भितर घडोन गेलें.

तो, शॉपाच्या दरवट्या लागीं पावतना समवस्त्रार आसल्लो राकवाली एकाचाणे उदेलो; निमाणे घडिये क्रिसमस शॉपिंग करूंक आयिल्ल्यांक ताणें हुकूम दिली, शॉपाच्या धरणीर वोमते पडा आनी आपलें पिस्तूल भायर काडलें. शॉपांत क्रिक्रांट्यो उटल्यो, करडे उसळ्ळे, आभरणां आनी नग शिंपडोन गेले. शॉपांतले खरीदगार धरणीचेर वोमते निदताना तो निमाण्या मेटार आसल्लो. पूण-

सर्व, पांच-स खिणांभितर घडोन गेलें. तापलोलो लोकंडा सरळ आपल्या उजव्या जांगळांत रिगल्ले परीं ताका भोगल्या नंतर फाराचो आवाज ताका आयकालो. दुकिचो धुंवोर ताच्या नाका तोंडांतल्यान भायर आयलो आनी ताचें मातें देवळाच्या घांटीं भितर चेपल्ले परी गुड्गुडलें तरीपूण तो धरणीर शेंवटलो ना. फाराचो आवाज आयकल्लोच. शॉपाच्या भितर आनी भायर आसल्ल्यांचें संयम चुकलें. आनी कोणेंच चिंतिनातल्लो गडदी धांव थंयसर

प्रारंभ जालो. जम्याचें शिंतीद, संयम चुकोन नाचतालें आनी ह्या तांड ओडीमदें तो एकाच्चाणे एकसुरो जालो. थोडे ताका लोटताले, वोडताले पूण कोणच ताका आडायनातल्ले. हातांत आसल्लो नेकलेस ताणें आपल्या दिरुसांत येदोळच लिपयल्लो. सोसूंक नज जाल्ली दूक उबजंवचें कसलेंगी एक यंत्र ताच्या उजव्या जांगळाक धाडायतालें तरी तो चलतालो. ताचें हाड मोडूंक नातल्लें. पिस्तुलेंतलो गुळो ताचे जांगळा देगेंतल्यान शिंदूर पाशार जायजे. ताचें शितीद स्पटिका परीं स्पश्ट आसल्लें. आपल्या घाया थावन जावंचो रगता स्त्राव ताका कळीत जातालो. पूण चलाजे, फरारी जायजेईच.

नातालांची रात.

मध्यानेक लागीं लागीं देड घंटो बाकी आसल्लो. शहराच्या प्रमुख रस्त्यांनी कठीण गडदी आसल्ली. नाचाचीं सालां आनी बार उगतें आसल्लें. चडावत दुकानां बंद आसल्लीं. तरी नातालां खातिरच म्हण अपूर्व इनामां विकचीं, थोडीं शॉपां उगतींच आसल्लीं. त्यांपैकीं वाज्रांच्या हारांचें तें शॉप एक... आदल्या वरसा थावनच ताणें ह्या शॉपाचेर नदर दवरिल्ली. हांगासर गडदी चड, सॅक्युरिटी उणी आनी भितर आसचे नग निजायकी अपूर्व. एकाचेर दावली मारल्यार उरलेली जिणी पांयार पांय घालून सारयेत म्हळ्ळो अंदाज ताणें केल्लो.

आतां बल्सांत वज्रांचो हार, जांगळांत घाय आनी हातांनी उरलेली जिणी घेवन तो चलतालो. ह्या चोरियेक फावो ती तयारीय ताणें करूंक नासल्ली म्हळ्ळें न्हय. ताणें सांताक्लॉसाचें दिरूस नेसच्यांत मतलब आसल्लो. चार कास करच्या उद्‌देशान सबार पापारी सांताक्लॉसापरीं न्हेसून वाटांवाटांनी, शॉपां-दुकानांनी भोंवोन ‘मॅरी क्रिसमस, मॅरी क्रिसमस’ म्हणोन थोडें पुणी कमायताले. हाच्या तसल्या धाकट्या साद्या चोरांक हें नकली न्हेसप भारीच उपकाराक पडतालें, चुकोन घेवंक, मुखामळ लिपोवंक. पूण हे पावटीं ह्या धाकट्या साद्या चोरान बऱ्याच फेरगांचेर दावली मारल्ली.

शहराच्या सर्व रस्त्यांनी आनी गल्ल्यांनी नातालांचो संभ्रम उटोन दिसतालो; नेकेत्रां, झिगभिग झिलपां आनी गुडलांपयांव प्रकासताले. गरनालिंची सांकट फुट्टाली, दुरुसबाणां आगसाक उमे दितालीं. फरारी तो जाल्लो, गडदेंत मिसळोन फकीर सांताक्लॉस जाल्लो. पूण जांगळांतलो तो घाय घेवन चड पयस वचूंक आपणाक साध्य जावचें ना म्हळ्ळें ताका खचित कळीत आसल्लें. अस्पत्रेक

गेल्यार कैद जावंचें खंडित. कित्याक येदोळच स्थळीय रेडियोचेर आनी टि.वीचेर ताणें केल्ल्या चोरयेची खबर प्रसार जाल्या आसतेलीच. आधुनिक शहर तें, हांगासर भद्रतेची आनी सुललित जिणयेची नवलता उणी नातल्ली. पूण जीवनांत वर्ग आनी हंत, ग्रेस्त आनी दुबळो आसचे व रेग, चोरी, लूट दोंबी आनी मारफार अनिवार्य.

आसल्ले पयकीं चड काबोकाची गल्ली सोडून तो गुसलो आनी बंद आसल्ल्या एक ल्हान दुखाणाच्या दारार बसलो. प्रमूख रस्त्यावयल्यान पोलिसांचें वाहन सायरन मारीत पाशार जालें. तो लिपल्ले गल्लेच्या एका मुल्यांत तरणाट्यांचो एक पंगड बियर सेवतालो. 'मेरी क्रिसमस!' तांकां पळोवन तो म्हणालो हात वाऱ्यार भिजावन. तांणी ताचें गमन केलें ना. दंगल्यांत सासपोन वज्रांचो हार भद्र आसा म्हूण खचित करून ताणें दुसऱ्या बोल्सांतली सिगरेट पॅकेट भायर काडली आनी कांपेऱ्या हातांनी एक पेटयली. ताचें त्राण खिरोन वतालें. ताणें वस्ती करचें वठार वीस किलोमिटर पयस आसल्लें आनी न्हेसण बदलून टेक्सेंत घुसया म्हळ्यार ताचेलागीं सांताक्लॉसाचें सोडल्यार हेर न्हेसण नातल्लें. पूण ताची मत काम करताली. हे रातीं ताका जाय आसल्ली प्रथम चिकित्सा आनी तत्कालीन भद्रती. ताणें दोळे घट धांपले आनी शहराची नकशा मतीपटलाचेर हाडली. भद्रतीचे दोन तीन जागे ताका उटोन दिसले आनी त्यांपैकीं तें अनाथाश्रम फकत एक किलोमिटर पयस आसल्लें. तो बसोन आसल्ले गल्लेथावन. थोड्या दानी मनशांच्या उधार मनांक लागोन सांताक्लॉसापरीं नेसल्ले असल्या अनाथाश्रमांक पावतालें, नातालांचे राती त्या अनाथ भुरग्यांक खूश करताले, इनामां वांट्राले... होच्च पात्र आपूण खेळूं तर? ह्या सवाला संगी तो ताची दूक थोडी खिणांभर विसरलो पूण बलतोच एकलो येदोळच थंयसर पावला तर? कितें जालें? दुसऱ्या एका धर्मिश्टान आपल्या सांताक्लॉसाक धाडूंक नजो म्हण आसावे? वोंठाचेर एक मार्मिक हांसो घेवन तो उबो जालो. ताच्या दोळ्यां सामकार काजुले उबले, ताका खोंकली आयली आनी बोटांमदली सिगरेट झडोन धरणीर पडली. आपल्या घायान फुलइल्लें रगताळें खत सांताक्लॉसाच्या तांबड्या मुस्तायके वरवीं उटोन दिसचेंना म्हळ्ळे पातयेणेन ताणें गल्लेभायर मेटां काडलीं. भायलें शितळ वारें मुखमळाक मारतना ताच्या जिवांत थोडो पुणी हुरूप आयलो.

ताणें मेटां काडलीं; फकत एक किलोमिटर.

अनाथाश्रमाच्या गेटी परयांत ताची चाल ताचेच मतींत उरली ना. दुकिचे अमाल ताणें सेवलेल्या सर्व अमालां परस बळिश्ट जावन आसल्लें. लोकंडाच्या सरळांनी केल्ल्या गेटीलागीं तो उबो जालो आनी दोळे फापडून ताणें भितरल्या वठाराचेर दिश्ट चरयली. पोंतार एक क्रिसमस ट्री ल्हान ल्हान भुरग्यांचो एक पंगड. आनी तें गीत : मध्यान रात, निधान रात... ताचे दोळे भरून आयले. धांवलो ताचो उगडास पाटीं... मध्यान रात निधान रात... आपली पतीण, आपली धूव आपल्याचें पियोणें. मॅरी क्रिसमस डॅडी... मॅरी क्रिसमस डॅडी! ताचेलागीं नातल्लीं उतरां. कित्याक तो आमालांत उफेतालो. आतां ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं. कितलीं वर्सां पाशार जालीं, कितलीं वर्सां.ह्न

लोकंडाचे गेटीलागीं उमकाळोन आसचे कांपिणेचो हाताळो ओडलो. एक पावटीं, दोन आनी तिसरे पावटीं. गीत स्तब्द जालें. भुरग्यांची नदर ताचेर पडली आनी ताका आयकालीं तीं उडकाणीं उतरां – ‘‘सांताक्लॉस आयला सिस्टर, सांताक्लॉस आयला!’’ क्रिसमस ट्री सरशीं आसल्लो भुरग्यांचो जमो खिणां भितर फासाळ्ळो आनी सिस्टराचे मुखेलपणाखाला गेटीसरशीं आयलो. ताणें उसवास बांदलो, उतरां विंचलीं.

‘‘मॅरी क्रिसमस सिस्टर!’’ गेटिच्या सरळांक तो उमकाळ्ळो. ‘‘इल्लोसो तडव जालो. हांव...’’

‘‘कोण तूं?’’ सिस्टराचो ताळो जावं नासुल्लो गंभीर पूण स्पश्ट. ‘‘हांगासर कसो पावलोय?’’

‘‘हांव सांताक्लॉस.’’

‘‘तें हांव पळेवनच आसां!’’ ती म्हणाली. ताचेर एक तीख दिश्ट चरवन, ‘‘पूण तुका हांगासर कोणें धाडला?’’

‘‘अनाथाश्रमांतल्या भुरग्यांक खूश करचे खातीर एका सांताक्लॉसाक धाडचे धर्मिश्ट ह्या शहरांत कांय उणे नात सिस्टर!’’

‘‘तुजो ताळो आनी जिनोस कित्याक कांपता?’’

‘‘नातलांचे गडदेंत एक ल्हान अवगड म्हाका घडलें.’’ आपल्या जांगळाक दाकवन तो म्हणालो. आनी लिपवन कसलोइ फायदो नासल्लो. ‘‘रगता स्त्राव कठीण आसा. पूण भुरग्यांक निराशी करूंक नजो म्हळ्ळे खातीर...’’

"तुजी काणी पातयेवंक आमकां कश्ट मारतात!" सिस्टर म्हणाली.

"सांताक्लॉस सर्वांक परिचिंत जावन आसेत, पूण तूं आमकां अपरिचित. तुका आमी कसो भितर सोडचो?"

ताचे लागीं कसलिंयी उतरां नातल्लीं. आनी तो सल्वोन वेचे स्थितिचेर उभो जाताना भुरग्यांनी ताचे पाडतीन सळ धरलोच. "प्लीज सिस्टर!" तीं म्हणालीं. "सांताक्लॉज भितर येवंदी. हे पावटीं तो येवंचोच ना म्हण तुवें म्हळ्ळेंय तरी बेबी जिजसानच ताका हांगा धांडला. आमच्या वनेस्साकई कितलो संतोस जातोलो!"

सिस्टरान भुरग्यांचेर दिश्ट चरयली आनी दोगांतेगांचीं मातीं पोशेलीं. "वनेस्सा!" एका लांब उस्वासा संगीं ती म्हणाली. "आमचें वनेस्सा." उपरांत ती दिगंताक पळेवंक लागली कसल्यायी संदेशाचें निरिक्षण आसल्ले परी.

"हे पावटीं येवंचो सांताक्लॉस आपल्या डॅडीक सांगाता घेवन येतलो म्हण वनेस्सा आशेवन आसा!" आपली दिश्ट देंवयनासतना ती म्हणाली. "चड वेळ ताच्या ताबेंत ना मिस्टर! हे पावटीं सांताक्लॉस येवचो ना म्हण आमी चिंतिल्लें. खंच्यायी धर्मिशटान बरें मन दाकयलें ना पूण आतां आवचित्त..."

"वनेस्साचो डॅडी जावंकयी हांव तयार!" खरी संगत कसली म्हण कळीत नातल्ली तरी तो उलयलो. ताचे कुडिंतलें त्राण झरोन वेतालें; प्रथम चिकित्सा ताचीं तुर्ताची गरज जावन आसल्ली. सिस्टरीन कितेंयी म्हणचे फुडें भितर थावन आनेक माद्र तरणाटी लवलवीत, दरवट्यान धांवोन आयली.

"सिस्टर, सिस्टर" ती खरशेवणेसंगी म्हणाली, "वनेस्सा आमच्या हातांतलें चुकोन वेता. क्रिसमस ट्रीच्या मुळांत आपणाक व्हरा म्हण हटाक पडलां. आपल्या डॅडीक घेवन सांताक्लॉस येवंक नांगी म्हण विचारता. तुमी हांगासर..." तिची दिश्ट एकाच्चाणे ताचेर पडली.

"हांगासर एकलो मानेस्त सांताक्लॉसाच्या लिबासाचेर आयला. अवगडांत ताच्या जांगेक घाय जाला खंय. पूण ताची काणी कितली घट, कितली सत देवच जाणां, पूण वनेस्सा... इतले वेगीं?"

तरणाटी माद्र तिच्या कानांत कितेंगी पुसपुसली. तिचीं उतरां आयकोन व्हडिल माद्रीन ताचेर तीक्ष्ण दिश्ट चरयली. "तूं कोण म्हळ्ळें तें आतां आमकां

कळीत आसा.'' ती स्पश्ट ताळ्यान म्हणाली. ''स्थळीय रेडियोचेर तुजें कर्तुब प्रसार जालां म्हण सिस्टर कारमेलिटान आत्तांचे आतां म्हाका सांगलें.''

''तर तुमी म्हाका विक्रीत करतात?''

''तें गरजेचें न्हय!'' ती खचितायेन म्हणाली. ''तूं खंयसरयी धांवचे स्थितिचेर बिलकूल नांय.''

''म्हाका एक अवकास जाय, सिस्टर... नातालांची ही रात म्हजे उतरोवणेची रात जावं!''

तिच्या वोंठांचेर एक क्षीण हांसो उदेवन लिपलो. ''कसलिंयी तुजीं सितिमेंतां जावं, एक विशिश्ट उद्देशान तुका हांगासर देवान हाडला म्हण हांव पातयेतां आनी नटनाचें थोडें पुणी देणें तुजेथंय आसतलें म्हण हांव भरवसतां.''

''नटनाचें देणें? सिस्टर...''

''आमची वनेस्सा वेच्यार आसा! ताचें अंत्य इतलें वेगीं येत म्हण आमी चिंतूंक ना. आपूण मरचे पयलीं डॅडी येतोलो म्हण तें आशेवन आसा. हांगासर तुजें नटन आमकां गरजेचें.''

''पूण सिस्टर...''

''भितर यो! तुका प्रथम चिकित्सा आनी फळार मेळतलो. तुजीं सितिमेंतां जागीं कर, खंडित जावन तुका पतीण आनी भुरगीं आसतेलींच.'' तिणें गेट उगती केली. तरणाटी माद्र कावजेवन व्हडिलनीच्या हाताक धरों लागली. ''भिये नाका धुवे!'' व्हडिलीन तिचो हात थापडून म्हळें. ''ताच्यो वाटो विचित्र जावन आसात. कसलेंच आयप हे पवित्र रातिचेर आनी आमचेर येवचें ना. आतां ह्या मानेस्ताक पार्लराक व्हर, ताका प्रथम चिकित्सा दी; हुनोनी काफियेची विलेवारी हांव करतां.''

तो भितर रिगलो.

ताचें जांगाळ दांत्याचो फातर बांदलेले परीं जड जाल्लें. तो भितर येतच व्हडिलीन गेट परत्यान बंद केली. ''पार्लरापर्यंत चलोंक ताका तांकता?''

''प्रेतन करतां सिस्टर!''

कोणेंगी ताचो हात धरलो. ''तूं सांताक्लॉस आसल्लोय, आतां वनेस्साचो डॅडी जालोय?'' ल्हान भुरग्याचें सवाल ताका फुमार करी लागलें.

''व्हय!'' त्या भुरग्याक आरावन धरून म्हणालो.

''येवंच्या वरसा म्हज्या डॅडीक आपवन हाडताय?''

''आनी म्हज्या माम्मीक?'' आनेकलें भुरगें ताच्या पांयांक उमकाळ्ळें. ''आमी खंडित बरीं भुरगीं जावन चलतेल्यांव.''

ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं.

''सिस्टर!'' ताचो उलो एक आक्रंदनच जावन आसल्लो. ''म्हज्यान ही उतरोण सोंसूंक जायना सिस्टर! दया करून म्हाका पोलिसांचे अधीन करात.''

ताचीं उतरां आयकोन तिणें आपली चाल रावयली. आनी ताका पळेवंक लागली. ''ह्या पागोरा भितर मोगान उसमडोन तुका कश्ट जावंचे नात!'' तिचीं उतरां मार्मिक आसल्लीं. ''जिणयेंतल्यो उतरावण्यो सुलबायेच्यो न्हय म्हज्या इश्टा!''

पार्लरांत ताका प्रथम चिकित्सा लाबताना सिस्टर कार्मेलिटान वनेस्साची कथा मटव्यान ताका कळीत केली. अनाथ बाळ तें. आठ वरसां प्राय ताची आनी तितलीच प्राय तें घेवन आयिल्लें - लुकेमिया. तें नाचतालें आनी माच सोभयतालें. एका कराळ दिसा आपणाचे जिणियेक लुकेमियान खाडूं घालां म्हण कळीत जाताना तें मावन पांगुरी लागलें आनी अनाथास्रमाच्या एका रुका मुळांत बसलें.

हें सुमार एका वरसा आदीं नातालांक थोडे दीस आसताना.

''कितें चिंतताय वनेस्सा?'' सिस्टरान ताचेलागीं विचारलें. असकत जाल्ल्या ताच्या ल्हान कुडीक आरावन धरून ''जेजूलागीं वचूंक भियेवं नजो.''

''हांव भियेना सिस्टर!'' तें म्हणालें. ''पूण हांवें वेच्या पयलीं म्हजो डॅडी म्हाका पळेवंक येतोलो.''

''फकत डॅडीक विचरताय वनेस्सा?'' विस्मितायेन विचारूंक लागली सिस्टर. ''माम्मीचो उगडास काडिनाय?''

''म्हाका जनम दिवन ती अंतरलेली म्हण म्हाका सांगलां. ती सरगार पुणी आसतेलीच. पूण म्हज्या हॅंडसम डॅडीक पळेवंकूच जाय.''

''तुजो डॅडी हॅंडसम म्हण तुका कोणें सांगलां वनेस्सा?''

''हांव जाणां!'' तें म्हणालें. ''हे पावटीं सांताक्लॉस येताना हांव ताका सांगतेलीं, येवंच्या क्रिसमसाक डॅडीक आपवन हाडुंकूच जाय... सिस्टर, आनेका क्रिसमस परयांत हांव वांचतेलीं मूं?''

‘‘डॅडीक पळेवंक जाय तर तुवें वाचाचें वनेस्सा!’’ चुकारी मारली सिस्टरान. कसल्यो जापो ती दितेली मरणांत खचित जाल्ल्या ह्या आंज्याक?

आपल्या जिवांत थोडो सुशेग आनी जांगळांतल्या दुकींत इल्लीशी कळवणी जाल्या नंतर तो हुनोनी काफी पियेलो. वज्रांचो नेकलेस ताच्या बोल्सांत विसव घेतालो.

‘‘तूं तयार जातेच वनेस्साक-’’

‘‘म्हजेवरवीं हो पात्र खेळोंक जावंचो ना सिस्टर!’’ तो मातें हालोवन म्हणालो. ‘‘म्हजेच धुवेक बापय आनी पतिणेक पती जावंक हांव सकलोंना तर आतां कसलें नटन करून त्या बाळाक फटोवं?’’

‘‘तुवें तुकाच फटवंचे दीस अकेर जाले!’’ तिणें सोडून दिलें ना. ‘‘नव्या सकाळाची सुरवात हांगासरच जावं. कसेंयी उतरोणेक तू लालेतालोय?’’

‘‘उपरांत?’’

‘‘गेट तुका उगती आसतेली!’’ सिस्टर कारमेलिटान ताच्या घायार पट्टी बांदून कट घालताना व्हडिलणीन म्हळें, ‘‘तुजेर बंधड घालची शाती आमकां ना.’’

थोडीं खिणां तो आपल्या भुजांमदें मातें घळवन बसलो. त्या हिंवाळ्यांत तरी ताच्या कानां पाटल्यान केसां मुळांथावन घामाच्यो बारीक झरी देंवताल्यो.

‘‘चल या सिस्टर!’’ एका निर्धाराक आयिल्लेपरी एकाच्चाणे उबो जाल्ल्यान ताका हळताची लकणी आयली. पार्लरा भायर आसा केल्ल्या क्रिसमस ट्री सरीं भुरगीं एकटांय जाल्लीं आनी कंतारां गायतालीं. जीव गात्राचो इमाजीन केल्लो गरदनाचो गोटो लागसारच आसल्लो, पूण तांतली खावणी रिती आसल्ली.

‘‘भरती मध्यानेर बाळ जेजूक आमी खावणेंत दवरतांव!’’ सिस्टरान विवर दिलो. एकेका वरसा एकेक भुरगें जेजूक खावणेंत निदायता. हे पावटीं सरती वनेस्साची पूण कितें करयां? उठोन उबें रावंचें त्राण ताचे कुडींत ना.’’

‘‘आतां ताचो डॅडी आयलो आसतां...’’ हीं उतरां ताच्या वोटांचेर उदेलीं तरी ताणें तीं उच्चारलीं नात. ताच्या हरदूयांत मुसाळां चलतालीं. वनेस्साक निदायल्लेल्या कमऱ्यालागीं पावतां ताची चाल सवकास जाली पूण व्हडिलणीन ताच्या बावळ्याक घट धरलें.

“आतां पार्टी पळेवंक ना!” ती म्हणाली. “मध्यानेक थोडींच मिनुटां बाकी आसात आनी तींच वनेस्साचीं निमाणीं जावंकयी पुरो.”

तीं कमऱ्याभितर रिगलीं. वनेस्साच्या खटल्या लागीं बसून हाळवायेन कंतारां गावंची सिस्टर उटोन उबी जाली. व्हडिलणीन तिका भायर वचयेत म्हण सुचायलें आनी ताका तिणें मुकार लोटलो. ताचें सर्वांग कांपूंक लागलें. खाटल्यार निदोन आसल्ल्या जिवीं थंय उसवास सोडल्यार हेर कांय नातल्लें.

“वनेस्सा!” व्हडिलणीन ताळो काडलो. “कोण आयला पळे.” खटल्या देगेर बसून तिणें वनेस्साचे दोळे उगते केले.

“हो सांताक्लॉसच आयला!” तें क्षीण ताळ्यान म्हणालें.

“हो सांताक्लॉसच न्हय. बगर तुजो डॅडी.” व्हडिलणीचो ताळो तितल्यार कुसकालो.

वनेस्सान कश्टांनी दोळे उगते दवरले.

“लागीं यो सांताक्लॉस!” तें म्हणालें. “म्हजेसरशीं बोस.” तो खटल्याचे आनेक देगेन बसलो.

“हांव तुजो–”

“तूं म्हजो हॅंडसम डॅडी न्हय, सांताक्लॉस!” तें म्हणालें. कळताची खरसवणे संगीं. “तूं सांताक्लासय न्हय!” ताणें दोळे धांपले. “तुमी म्हाका कित्याक फटयतात सिस्टर?”

वनेस्साचे सवालान तांकां घडिबर स्तब्ध केलेंच. दोन दुकां चलियेच्या हाडकुऱ्या पोल्यां वयल्यान देंवलीं. तवळ सांताक्लॉसाचो वेस घाल्न संवसाराक फटवंक भायर सरल्ल्या ताच्या काळजांत कसलेंगी स्फोटन जालें. एक सकत ताचेथंय चरली आनी हिच्या बळानच ताणें वनेस्साचें मातें आपल्या हातांनी आरायलें, मोगान आनी नाजुकायेन.

“तुका आमी फटयनांव पुता!” ताचीं उतरां ताका पयसिल्ल्यान आयकालीं. “हांव म्हाकाच फटयतालों, पूण आयचे रातीं एके धुवेची गरज म्हाका पडली.” आतां ताचीं दुकां वनेस्साच्या पोल्यांचेर पडतालीं. “ह्या डॅडीक एका धुवेची गरज पडली.” तो कसकसोन रडलो.

वनेस्सान आपले हात व्हडिलणीचे हातांतले सुटयले. आनी ताच्या हातांचेर दवरले. “पूण हांव वेगींच मोरच्यार आसां!” तें वेक्त त्रासां संगीं म्हणालें. “म्हजो उडास परयांत तुका उरचो ना.”

“म्हजें काळीज गूंड आसा, म्हजें धुवे!” ताचीं उतरां ताकाच विस्मीत करतालीं. “तुजो उडास.. पळे, पळे हांवें तुका क्रिसमस प्रेजेंट हाडलां.” आपल्या दगल्याच्या बल्सांत सांसपून ताणें वज्रांचो नेकलेस भायर काडलो आनी ताच्या सामकार धरलो.

“मध्यान रात, निधान रात नेकेत्रां जळमिळटात.” पयशिल्ल्यान कातार आयकातालें. “वेगींच हांव नेकेत्रां मदेंच निदतेलीं!” तें म्हणालें. “वज्रांचो नेकलेस म्हाका कसल्या फायद्याचो?” ताणें पोल्यावयलीं दुकां पुसलीं. “पूण तुजी खुशी तर हो नेकलेस घालूंक हांव तयार आसां.”

“म्हाका कितें म्हणचें म्हण समजाना, पुता!”

“मध्यानेक कितलो वेळ बाकी आसा?”

“पांच मिनुटां बाकी आसात वनेस्सा!” म्हणाली व्हडिलन.

“बाळोकाक खावणेंत निदावंक तुका तांकात?”

तें स्वाधीक हांसो हांसलें. “पांच मिनुटां भर बेबी जीजस जल्मोंचे परयांत हांव खावणेंत निदयेत सिस्टर?”

व्हडिलणीचीं सितिमेंतां ह्या सवलावरवीं इतलीं ओळालीं उगत्यान रडोन ती भायर धांवली.

“फकत पांच मिनुटांभर!” वनेस्सान हात उबारोन धरले. “पांचूच मिनुटां!”

वज्रांचो नेकलेस खटल्यारच गळोवन ताणें वनेस्साक आपल्या हातांनी आरायलें आनी ऊबकांबळींत ताका रेवडावन तो भायर आयलो. ताची मत साफ जाल्ली, दुकिची परवा ताका नातल्ली. ताची उतरोण पूर्ण जावंच्यार आसल्ली.

रित्या खावणेंत निदायताना वनेस्सा ताच्या गोमट्याक उमकाळ्ळें. पूण थोडीं खिणांभर. “मॅरी क्रिसमस, डॅडी.”... ताचो वेडकोळ सुटल्या नंतरयी हीं उतरां नेकेत्रां परी थंयच उमकळोन उरलीं!...



# दिवें

**आ**पणांक फिचार केल्ल्या जेला कुडिच्या जनेलांतल्यान भितर सरच्या वोताच्या चोवकाक तो लागीं लागीं दोन घंटे धांवन पळेवन बसलेलो. ह्या दोन घंट्यांनी ताच्या जिवाचो खंचोयी मांसखंड हालोंक ना म्हळ्यार विशेश जावंचे ना. जेला कुडिचे फात्रा-वोणदिचेर पडचें तें वोत दोनपारांच्या साडे तीन वरांचें. दोनपारांचीं सांडे-तीन वोरां ताका कांय नवीं न्हय. वोताचें चोयकाटयी नवें न्हय.

एकाच्चाणे ताच्या जेला कुडिच्या दाराचे सरोळ बळान हालयिल्लो आवाज जालो. ताचे ओंठ मोटव्या हास्यांत रुंदाले. हो आवाजयी ताका नवो न्हय. ताणे दाराचे कुशींत पळेलें. एक हवालदार उबो आसलो.

''जेलार तुका आपयता!'' म्हणालो तो हवालदार. असलीं आपोवणीं त्या कैदीक सदाचींच. पूण आयच्या दिसा ह्या सर्वांक एक विशेशता आसल्ली.

तो हाळवायेत उबो जालो. हवालदारान सरोळांचें दार उकतें केलें.

''जेलारा सामकार वेताना तयार जावनच वच!'' सूचन दिलें हवालदारान. ''तुज्यो वस्तू आनी मुस्तायकी त्या कुडांत आसा.''

क़ैदीन आपल्या सपाय मुखमळार हात चरयलो. जेलाच्या केलश्यान ताची हजामत केल्ली, केंस मोटवे आनी खाड तासल्लें. सव तयारीय जाल्ली. हवालदारान दाखयिल्ल्या कुडांत वचोन तो न्हेसलो. उप्रांत हवालदारासंगीच जेलाराच्या दफ्तरांत रिगलो.

पाशार जाल्ल्या पांच वर्सांनी त्या जेलाक आयिल्लो तिसरो जेलार तो. पयलेंचे दोग तांची आवदी जातच वर्ग जावन गेल्ले. ताचीं उतरां, शिकवण आनी गोरोज ताच्या कानांनी आतांयी धांवताली. पूण हो, आतांचो, भोव

थोड्या उतरांचो मनीस. चतूर, एकेक फावटी आपणाचीं चिंतनां वाचता म्हळ्ळें परी कैदीक भोंगतालें.

जेलराची दिश्ट सूक्ष्म थरान ताचेर चरली. सामकार तयार आसल्लें दस्तावेज ताणें उकतें केलें. आनी कैदीचें नांव वाचलें.

''प्राय : ४८ वर्सां'' तो मुंदरून वाचि लागलो. ''अपराध : हातेरां घेवन केल्ली चोरी आनी लूट, सजा स वर्सां.'' उपरांत ताणें दस्ताऐवज धांपलें.

आपल्या हातांचीं बोटां एकामेकांक खोवन तो कैदीक पळे लागलो. ''तुज्या भल्या वर्तना खातीर स वर्सांची सजा पांच वर्सांक देंवयल्या ती तूं जाणांय?'' तो म्हणालो. ''आज तुजे सुटकेचो दीस.''

कैद्याच्या मुखामळार कसलीच बदलावण जालीना.

चोरियेंच्या साबार अपराधां खातीर तूं बंदी जालोय तरयी, तुजे निमणे चोरयेचें दिर्वें पोलिसांक सांपडोकना म्हळ्ळें तुज्या दस्तावेजांत लिखलां. ''तो मार्मिक रितीर कैद्याक पळे लागलो. ''तुज्या भल्या वर्तनाचो उध्देश होच तर'' जेलरान भुजां हालयलीं. ''हांगासर आसात तुज्यो खासगी वस्तू.'' जेलारान एक चील कैद्या सामकार दवरलें. ''तुका कैद करताना त्यो तुजे संगीं आसलेल्यो आनी हांगासर आसा पांच वर्सांनी तुवें जेलांत केल्ल्या वावराचें भातें.'' हळताचो एक लाकाटो जेलारान ताका दिलो.

तो कैद्यान घेतलो, उसयलो आनी तांतले थोडे नोट भायर काडले.

''सरकार केदाळायी तुमच्या रुणांत आसता!'' जेलाराच्या उतरांनी व्यंग्य आसलेलें.

कैदी लाकाट्यांतले नोट परीक्ष करतालो. थोड्या घडितां उप्रांत ताच्या मुखामळार सैतानाचोच हांसो उदेलो.

''पांच वर्सांनी नोट बदलूंक नात!'' आपलें पयलें वाक्य ताणें उचारलें. ताच्या त्या दोरग जिवाक, क्रूर मुखामळाक अमानुष व्यक्तिमत्वाक तो ताळो एकदम नाजूक जावनासल्लो. एका थराचो मयपास तातूंत निशेतालो.

नोटांचो लाकाटो ताणें बोल्सांत चेपलो.

''हेर कांय?'' तो जेलारालागीं विचारि लागलो.

''वर्साच्या सुंदर काळांत तुका सुटका मेळ्ळ्या!'' तो म्हणालो. कैद्याक जाप दीवन. ''दशेंबर म्हयनो हो. तुजो भावार्त क्रिस्ताचो न्हयगी? एका हप्त्या भितर क्रिसमस येतलें...''

''क्रिसमस? कितल्या तारकेर?'' तो आतुरायेन जेलाराच्या मेजाचेर बागालो.

''तूं नेणांय? ह्या म्हयन्याचे पंचवीस तारिकेर.''

''राव राव, हेच परबे वेळार न्हयगी बाळकांक यात्र काडटात. इमाजी दवरतात... नकेत्रां इत्यादी?''

''व्हय!'' जवाब दिली जेलारान, ''बरोच शेळेलाय तूं. आमकां वेगळ्याच भावार्तांचांक सहीत.''

''हेर कांय?'' कैद्याच्या ताळयांत विराराय आसली.

''हेर कांय आसा तर सर्व तुजेंच!'' जेलारान पाटीं जवाब मारली.

देशेंब्राचे वीस तारिकेर तो जेला थावन मात्र आयलो.

पांच लांब वर्सां!

प्रशांत आसल्ली सांजेची हवा. नितळ आनी कुरकुरीत. प्रकृतिची सोबाय पळेवंची, चाकची वा संतोसाचीं दुखां गळंवची तितलीं सितिमेंतां ताचे थंय बिलकुल नासल्लीं. जेल कांय ताका नवें न्हय.

मात्र आयिल्लो तो शिदा रेल तिलदाणाक गेलो. आपल्या ठिकाण्याची ताणें टिकेट घेतली. दोन दिसांचें पथण. ताची मत भरान काम करताली. रेलच्या डब्यांत बसल्या ताका जनेलाचे सरोळ पळेवन पांच वर्सांचो उगडास आयलो. ताचें मुखामळ विचित्र हास्यांत रुंदाताना आपल्या पोटाक भूक लागल्या म्हण ताका भोगलें. रेल चालू जावंचे पयलीं ताणें जेवणाची पेकेट घेतली. आपल्या लाकाट्यांतलो नोट वाटावन सुटे घेताना पांच वर्सां आदलेच नोट चालू आसात म्हण ताणें परतून खचीत केलें. उप्रांत जेवणाची पेकेट ताणें उगती केली. थंय भरशिल्लें शीत, सुकें केल्लें वांयगें आनी आंबोट तीक आंब्या लोणच्यान तो जेवलो. हळताचो धेंक उसाळताना रेल चालू जालें.

ताणें आपले मोचे निकळायले आनी पेंटाचे पांय दोडून, आपलेयी पांय कवळून तो बसलो. ह्या वेळार ताची दिश्ट ताच्या उजव्या पांयाचा गांटिलागींच आसल्ल्या घायाचे मावेर बसली. ताचो उगडास पाटीं धांवलो.... पांच वर्सांक पाटीं...

दशेंबर म्हयनो तो.

देशाच्या खंचागी एका जेलांत आसल्या ताका सुटका मेळोन तीन-चार मास मात्र जाल्लें. चोरिच ताचो धंदो, काम आनी जिवनाची रीत. स म्हयने जेल

जाल्लें ताका. मात्र येतच - स म्हयने रजा भोगून आयिल्ले परी ताणें आपलें काम परतून चालू केलें. हेणे-तेणे धाकट्यो मोटयो चोरयो म्हणटाना तीन-चार म्हयने पाशार जाले. ह्या आवद भितर ताणें मारवाड्याचेर दोळो दवरलेलो. मारवाड्याचे तिजोरेंत दुडवा नोटांचे काटच ताणें पळेल्लें. तिजोरी उगत्यो करच्यांत तो प्रवीण. ह्या मारवाड्याक लुटिजायिच म्हळ्ळो ताचो उद्देश. फकत हो उध्देश - ताचें हात म्हजे जायजय. तितलेंच काणियांनी वाचचें परीं दुर्बळ्यांक ग्रेस्तांचें लुटून दिवंचो मनीस तो न्हय. आपुण, आपलो स्वार्थ आनी ह्या स्वार्थाक खाण जावन धन, पेल्याचें धन.

एक हिंवाळी रात पळेवन ताणें मारवाड्याच्या दुकानाक 'खन्ना' घालीच. मारवाड्याचो पारो मात्र न्हिदोन आसलेलो. तिजोरी उगतें करचे प्रयत्न चालू करताना, चोराच्या काळजांत वा कुडींत कुस्कूट भंय नासल्लें. आपलें सदांचें काम करच्या गुमास्तापरीं...

तिजोरी उगती जाली.

ताचो हात भितर रिगलो. पूण तितल्यार - कसलिणी कांपिण वाजली. दुकानाचे दिवे पेटले. सगळो संवसार आपले भोंवती जिवो जाल्लेपरीं ताका भोगलें. हाताक मेळल्लो दुडवा-नोटांचो दाट काट ताणें विंचलो आनी आपल्या खोमसा भितर चेपलो. उठोन धांवता म्हणताना फुडलें दार उगतें जालें आनी पाऱ्यागार लांब लाठी भिजावन भितर आयलो.

हें सन्निवेश चोराक नवें तरयी तो घाबरलोना. लाठियेचे दोन मार ताणें चुकयले. तिसरो ताच्या पायागांटिच्या दोन ईंचा वयर बसलो. आपणाक जखमी जाली म्हण ताका कळीत जाल्लें पूण कितली जखमी जाली ती तक्षण कळीत जालिना. चोवथो मार ताणें आपल्या हातांनी आडायलो. लाठीच ताणें धरली. माटवी उरडोणी. ताच्या पायांतल्यान असहनीय दुखिचो धुंवोर चडटालो, दोळे बांदतालो. लाठी ताच्या हातांत आयली. दोन मार जगलाण्या वेगान पाऱ्यागाराच्या तळमट्यार आनी कानपट्यार बसले. तो मत चुकोन पडलो; चोरान हातांतली लाठी गळयली.

उगतें आसलेल्या फुडल्या दारांतल्यान तो भायर धांवलो. पूण चड मेटां न्हय. आपल्या पायांक लोकणाचो मुदो बांधल्लेपरी ताका भोगलें. घडिभर

रावोन ताणें आपल्या कलसांवाचो पांय वयर वोडलो. ताचो पांय कासाळ्याच्या मुळापरीं सुजोन येतालो.

बिगील ताका आयकालें. पाटीं पळेताना पहाऱ्यान आसचो पोलीस आपल्या सांगात्याक आपोवचो ताका दिसलो. आपली धांव ताणें प्रारंभ केली.

दुक मिसळिल्लो ताचो उस्वास आवाजासागीं दातां इड्यांतल्यान मात्र सरतालो. थोडीं कदमां धांवोन ताणें पाटीं पळेलें. दोग पोलीस ताचो पाटलाव करताले. तो आनी तांचे मदलें अंतर घडियेन घडी उणें जायत येतालें. ताणें परतून धांवोंक प्रयत्न केलें.

चडोन आयिल्ले दुखीन आपल्या पायांचें हाड मोडलां म्हूण ताका खचीत जाताना, तो आपल्या उजव्याक मेळ्ळें एके काळोसी गल्लेंत रिगलो. ते गल्लेंत सादीं कुटुंबा सादे ग्रस्तेन दीस काडटात म्हुण ताका कळीत आसलेलें. धांवतां धांवतां आपल्या दोळ्यांनी दुकां उदेल्लीं ताच्या गमताक आयलीं. खरस ताका येताली. दोळ्यां सामकार काजले उबताले. कसल्या की तो आदाळ्ळो. सासपोन पळेताना तगडाची एक गेट. लोटताना ती उगती जाली.

उबो रावोंक तो सकलोना जाल्ल्यान ताणें आपलो जीव धरणीरच वोडूंक प्रारंभ केलो. थोडे कोल पयस ताका एक बिडार झळकातालें. मिणिमिणी दिवोय दिसतालो. दोळे धांपूनच ताणें आपलो जीव वोडलो.

परतून कसलेंगी आपणाक आदाळल्ल्या वेळार, ताणें आपले दोळे उगतें केले. कोणणी ताचे सरशीं उबो आसलेलो. पोलीस? ताणें दोळे उगते केले. अशीर केले. कसलेंगी ताचे सरशीं दिंबियेर आसलेलें.

ताचे दोळे काळोकाक वळखताना, ती एका दादल्याची इमाज म्हण ताका कळीत जालें. चांदन्याचो आनी नेकेत्रांचो मंद उजवाड आनी ती ताची दुक ताच्या इंद्रियाक तेज करताली.

त्या दादल्याचे बगलेंतच स्त्रीयेची एक इमाज दिंबी मारून आसलेली. परिचीत दिसलें ताका तें दृश्य. गोमटी घुंवडायन पळेतात त्या दोन इमाजीं मदें न्हिदोन आसचो बाळोक ताका दिसलो.

हूं! तो समजालो. तें दृश्य आनी दोतोर्न... जिव्या जिव्या मातियेचो वास ताका आयलो. इमाजी करणाराचें बिडार तें, तेणें तो साबार फावटीं पाशार जाल्लो आनी सुकोंक दवरल्ल्यो थरावळ इमाजी ताणें पळेयिल्ल्यो.

पूण आतां... मेटांचो आवाज लागीं सरतालो. ताची मत आदिकयी चतूर जाली. आपली दुक तो ते घडिये विसरलो.

आठव्या मातियेच्या इमाजी भितरल्या पोकळ्यो आसतात म्हण ताका कळीत आसल्लें. व्हड इमाजींक फाटल्यान हळताचो बुराकयी आसतालो. ताणें आपल्या खोमसांतलो दुडवां-नोटांचो काट भायर काडलो. त्या मंद उजवाडांत शेंबरांच्या नोटांची वळख धरूंक ताका कश्ट जालेनांत. मारवाड्यान एक पातळ प्लास्टीक चीलांत ते दवरलेले आनी भायल्यान रब्बाराचो तीर रेवडायिल्लो.

चोर हेणें-तेणें सांसपालो आनी आठव्या मातियेचो हळत मुदो ताणें विचलो. आनीकयी मोव आसलेली माती ताणें दुडवा-नोटांच्या काटाक पातळायेन लेपली. समाधान जातच ताणें बाळकाक दिंबियेर आसलेल्या इमाजिंक तो हालोंक सकाना जाल्ल्यान - हाळवायेन वोमथो घालो.

व्हय, ताणें अंदाज केल्ल्या प्रकार एक हात आनी दाट दुडवा-नोटांचो काट सहित-रिगच्या तितलो व्हड बुराक आसलेलो. ताणें आपलें दिर्वे बाळकाच्या पोटा भितर लिपयलें. मोव आनी जिवी आव्या माती सुकोन आयिल्ल्या बाळकाच्या पोटाच्या भितरले कुशीक चिडकाली. आनी सांगाताच तो दुडवा-नोटांचो काटयी. बाळकाक ताणें उदारो परतिलो. उसवन आसलेले बाळकाचे हात हाळवायेन ताच्या तोंडाक लागले. ह्या सर्वाचें ताका गमन नासलेलें. दिर्वे लिपयतच त्या बिराडाच्या वाठारांतलो भायर सरचें जावनासल्ले ताचें पयलें योजन. आपलो जीव ते खरकस वोडित तो तगडाचे गेटी पर्यांत पावलो.

भायल्यान घुस्पडलेलीं मेटां ताका आयकालीं. पोलीस!

"तो हांगासरच आस!" एकलो म्हणालो.

"तूं तेणे वच, हांव हेणे वेतां!" दुसऱ्यान सूचन दिलें. मेटां दोन कुसिंनी पयस गेलीं.

इमाजी करणाराच्या वाठारांत आपूण सांपडटात जाल्यार 'उप्रांत' आपणाक ताद्र जातेलें म्हण जाणा आसुन तो आपणाचो जीव तगडा-गेटिंतल्यान भायर लोटि लागलो. आतां ताचे थांय त्राण नासलेलें.

गेटिंतल्यान तो भायर पडलो.

दोन–तीन कोल पयच चिरतय दुखिची पिंरगणी ताच्या तोंडांतली निकळोन गेली. थोड्याच घडियांनी पोलिसांच्या टॉर्चाचो उजवाड ताचेर फांकलो. मेटांचो आवाज ताचे सरशीं आयलो. दोन बळिश्ट हात ताच्या खाके पोंदांक रिगले.

ताची मत चुकली...

स वर्सांचें जेल ताका फावो जाल्लें.

लाठियेचे मार खाल्लेलो पाऱ्यागार जिणिये पर्यंत मति भ्रश्ट जाल्ल्यान ताची शिक्षादोडी जाल्ली.

पूण आतां ती पाशार जाल्ली.

पांच वर्सां आदी 'उप्रांत' आसलेलो काळ आतां 'आतां' जालेलो.

धनान लागीं लागीं वीस–पंचवीस हजार आपल्या पोटांत घेवन आसलेल्या त्या जेजु बाळकाचे सोदनेर तो भायर सरलेलो. तें धन तर आपणाक मेळात, आपूण आपलें काम सोडतलों म्हळ्ळो निश्चेवय ताणें केल्लो.

रेल ठिकाण्याक पावताना तो जेलाथावन भायर आयिल्ली तिसरी सांज उदेल्ली. ताच्या मात्यांत धाराळ इंगळ्याचो पिटो दाटल्लो आनी आंगाच्या सांदी मुळ्यांनी भिकोण चरताले. ''खंचेंयी बदलाल्यारयी रेल पयण बदलाना.'' साबार तेंपानंतर हुगरायेन तो चिंति लागलो.

तें शहर बदलल्लें. मानव संचार चडल्लो, बांदपां नवीं, वाहनां चडल्लीं, सांज चडोन येताली तरयी सुडाळान चलियो आनी स्त्रीयो भोंवताल्यो. तरयी पांच वर्सां आदले परिचीत कुरू सोदून काडूंक ताका कश्ट मारलेनात.

दाखल्याक : त्या मारवाड्याचें दुकान असल्ल्याकडेनच आसलेलें. दोन–तीन नवीं बीगां आनी दारांत लाकडाचे आडपाटे चडीत आसल्लें. मांडियेर मात एकलो तरनाटो बसलेलो. बहुश्या, पूत जाय जाय. पाऱ्यागाराचो उगडास खिणभर ताचे मतींत उदेलो, उबोन गेलो.

एक लांब स्वास ताणें सेवलो. पुरासण ताका जाल्लीं; भुकयी ताका लागिल्लीं. आपल्या मट्टाचें होटेल ताणें विंचलें. थंयसर एका रातिच्या मट्टाक न्हाण, जेवाण आनी न्हिदोंक जागो मेळटालो. ऊन उदकान न्हातच तो जेवणाक बसलो. रुचीक रांदप, दोन उंडियो जेवतच तो चिंति लागलो. जेलांतले आनी

भायलें फरक बिलकूल ताचे मतीक आयलेना. हुनहुनींत शीत आंबोट-तीक कडी आनी सुकीं केळीं ताका आनी ताच्या शिरांक प्रफुल्ल करिलागलीं.

जेवणा नंतर इराकाडियेंन दातां-मुळां उस्तून दुसऱ्या सकाळिच्या कार्यक्रमाचीं मांडावळ तो करिलागलो.

***

चिंतल्याचाकयी तडव करून तो दुसऱ्या सकाळीं उठलो. भायल्यान बाळ सुर्याचीं किर्णां चरतालीं. हिंव आसलेलें. हुनहुनीत काफी पियेतच ताच्या जिवांत हुरूप आयलो. आपलो पोरनो गरम कोट ताणें शिरकायलो आनी गोमट्या भोंवतीं एक मफलार रेवडायलो. ह्या मफलारांत ताचें अर्द मुखामळ लिपोन गेलें.

होटेलाच्या भायर तो आयलो. थंड तीक्ष्ण वाऱ्याक ताची कूड कांपलीं.

इमाजी करणाराचें बिडार आसलेली गल्ली बदलूंक नासलेली. पूण वकलां बदलाल्यांत वा ना म्हळ्ळें ताका दुबावाच जालें. तरयी तो मुखार सरलो.

तें बिडार थंयसरच आसलेलें. तगडाची गेट नासलेली पूण लोंकडा पाट्यांनी केलेली वोंय आसली. भायरावोनंच ताणे दोळे बिडाराचेर आनी वाठाराचेर चरयलें. एक संगत खीळ चुकोन आसचे परीं भोगलें. इमाजी करचें काम चलचें कसलेंयी खूण थंयसर दिसोन येनासलें. वकाल बदललां जावयेत? पांच वर्सांनी कितेंयी साद्य आसलेलें.

तरयी...

तो भितर सरलो. बिडाराच्या लागीं सरताना दोन-तीन धाकटयो, पोरन्यो आनी टोपटे गेल्ल्यो इमाजी पळेवंक मेळ्ळ्यो. हूं! बिडार तेंच आनी वकालयी आसा म्हण जालें. ताणें मेटां मुखार काडलीं. सिंतिमेंताक लागोनयी पांच वर्सां आदलें दृश्य आतां ताच्या सामकार आयलें ना.

उदकाचो आवाज ताका आयकालो. बिडाराच्या दाव्याक आसलेल्या बांयलागीं एक चली आसल्ली. हेर तर मनशां ताका दिसलींनात. बांयचे सरशींत तो पावलो. ती चली वस्तूर धुताली.

थंड उदकाच्या चिमट्यांनी तिचे रिते पांय आनी हात धोवसेल्ले. ती बागोन आसलेली जाल्ल्यान, तिच्या तरण्या स्तानांचो वयलो भाग ताका दिसतालो;

‘‘न्हय न्हय’’ ती उलवनच गेली. ‘‘गर्धनाचो गोटो ते करतात पूण ल्हान ल्हान इमाजिंचो.’’

‘‘आनी त्यो व्हड इमाजी?’’

‘‘साक्रिस्ती पाटल्या कुडांत आसात. कितेंयी जांव ह्या वर्सा त्या बाळकाक...’’ तिचीं उतरां तितल्यारच जिरली. दिश्ट गेटी थंय गेली. ताणेयी तिचे दिश्टिचो पाटलाव केलो. मध्यम प्रायेची एकली स्त्री येताली.

‘‘तुज्या परक्यालागीं हांव इतलें कित्याक उलवन रावलीं म्हण म्हाका कळाना!’’

ते स्त्रीयेक पळेवन सगळेच कालबुल जालें इमाजी करणाराची धूव. काफियेचो तांबलेर ताणें तुर्तान लिपयलो.

‘‘आतां तुवें वेचें बरें’’ ताणें सूचन दिलें. तो फातरा वयलो उठलो.

‘‘बाबान केल्ल्या बाळकाचेर म्हाका खूब पातयेणी आसा.’’ ते पुस्पुस्लें. ‘‘तो तुकायी रावतालो. नातालांक दोन दीस आसताना... मोजी मावशी हांगासर पांवच्या फुडेंच तुवें वेचें बरें.’’ निजायकी घुस्पडलेलें.

ताणें मेटां काडलीं.

हितलाच्या मदेगात तो आनी ती मावशी एकामेकां उत्रालीं. तिची तीक्ष्ण दीश्ट ताचेर चरली. खिणभर खचली. उप्रांत तिणें देगेत पळेवन थुकलें. तरनाट्याक भूल घालून जाली, आतां प्रायवंताक नाडता दळदीर चेडूं! तिचीं ती कठोर उतरांच ताचे पाटी आपटालीं.

ताचेर कसलोच परिणाम जालोना!

‘‘आपणाक जाय ती माहेत आतां मेळ्ळ्यां!’’ तो आपणा इतल्याक म्हणालो, ‘‘तीं काटांत पडानांत.’’

गेटिंतल्यान भायर पडटाना चिंतिनासलो एक उगडास ताचे मतिक आयलो.... पांच वर्सां आदले राती बाळकाचे उसवन आसल्ले हात मुखामळाक लागल्ले... इगर्जेच्या वाठाराक ताणें पांच वर्सां उप्रांतच न्हय, साबार वर्सां उप्रांत रिगलें. सकाळिंचो वेळ तवळ जून जावंक नासल्लो. पूण सर्व मिसां सकाळिंचा मट्टाक आखेरेय जाल्यांत आस्तेलीं म्हळ्ळो अंदाज ताणें केल्लो. तरयी चिंतिनासलेले चटुवटिका इगर्जे वाठारांत ताका दिसोन आयलीं.

फिर्गजेचे तरनाटे इगर्जे वाठार सोबयताले. किर्णां-तोर्णां आनी जिगभिग झिलपां धाराळ शिंपडल्लीं. थोडे वासे पुरताले आनी थोडे त्या वास्यांक चुनो काडटाले. तोरिचे तुदियेक व्हड जयत शिमटी नेकेत्र एदोळच उमकाळतालें. थोड्या भुरग्यांनी गर्ताळीचीं शिकळ फुटयली. उठल्या आवाजाक ते नाचले. बेफिकेर हांसो, नाच आनी संतोस, नितळ हांसो, नाच आनी संतोस.

एक तेंप आसल्लो.

त्या तेंपार नातालांचें फेस म्हळ्यार तोयी राकतालो; हांसतालो, नाचतालो आनी संतोसतालो. पाटीं वाचोंक उरडोचें आपलें शिंतिद ताणें कश्टांनी आताच्या काळांत हाडलें.

एकलो तरनाटो ताचे सरशीं आयलो. ''तूं हांगासर बेस्टोच उबो आसाय?'' तो विचारी लागलो.

चोरान जवाब दिलिना.

''तुका काम जाय तर, दोन दिसांक जाय पुरतें आसा!'' तरनाटोच उलयलो. ''इगर्ज नितळ करूंक आसा. हें वाठार सुंर्गारांक आसा; हे इर्गजेंत हे नाताल चारित्रीक जाय.'' तो एकाच्याणे शून्य रितीर पळे लागलो.

''इगर्जे भितर नितळाय करूंक आसा?'' चोरान विचारलें.

''व्हय...''

''इगर्जे भितर?''

''कित्याक तशें विचरताय? इगर्ज भितरल्यान म्हेळनांगी?'' ते तरनाटो विचारी लागलो. पूण त्या सवालांक दम नासल्लो. ''तुका मजुरी जरूर मेळटली.'' मुदरून उलयलो. ''हांव हांगाच्या मारियाळ सोडेलिटिचो पिफेक्त...''

''खंय प्रारंभ करूं?'' चोरान विचारलें.

त्या हिंवांत घाम सुटता पर्यांत ताणे काम केलें. तरयी, साक्रिस्ती पाटल्या कुडाक वेचो अवकास ताका मेळोंकच ना. त्या कुडाचें दार बंद आसतालें. तें उगतें करचें व्हड काम न्हय. पूण ह्या दारार सरशिंतच एकलो प्रायवंत पाद्री दीस आनी रात म्हळ्ळेपरीं बसोन मागणें करतालो आनी इगर्जेंत इतली चटुवटिका आसलेली की, सर्वांचे दोळे चुकोवंक ताच्यान जालेंना.

एके रितीर सांगचें जाल्यार ताची कुमक सर्व तरनाट्यांक जाय पडली. हांगा ये, हें धर, तें बांद-अशें म्हण सगळो दीस तरनाटे ताच्या फाटल्यान आसताले.

नातालांचो स्पिरीत तांचे थंय चडलेलो. पूण कसलो स्पिरीत तो? दोतोर्नीत शिकलेलो न्हय.

एकलो नव्या सुटा विशयांत उलयतना, दुसरे आपल्या आधुनिक न्हेसणां विशयांत बडाय सांगताले. थोडे चले-तें कशें न्हेसून आनी कितें दाखोवन येता पळे जाय... म्हळ्ळें उलवणें उलयताना चलियोयी पाटीं नासल्ल्यो. फलाण्याचे म्हाका दोन उमे मेळटले अशें एके चलियेन उचारल्लेंयी ताणें आयकालें. ते सर्व आनी तीं सर्वां... सर्वांक ताची तात्कालीक गरज आसल्ली तरयी... असलें उलवणें उलयताना तो थंयसर नांच म्हळ्ळें परी करतालीं.

"म्हाका कितें पडोन गेलां?" तो आपणा इतल्याक म्हणालो.

ह्या तरन्या धाकट्यां मदें कोणापरीं धुंवोन आसचो एकलो ते फिर्गजेची काजितोर म्हण कळताना ताका घंट्यां आदीं आयकाल्ल्या उतरांचो उगडास आयलो.

"नवीकरण... इगर्जमाता बदलल्या."

"इगर्ज भितरल्ल्यान म्हेळनांगी?"

दसेंब्राचे चोवीस तारकेचे सांजेर आपणें खंच्या वेळार सुरक्षितायेन साक्रिस्ती पाटल्या कुडांत रिगयेत म्हळ्ळें ताणें खचीत करून घेतलें...

मद्यानेच्या मिसा उप्रांत... सगळो जमा भायर कौजी खेळटाना.

मद्यानेच्या मिसा उप्रांत... कोण कितें न्हेसलां आनी कितें दाखयता म्हण हेर पळेताना.

मद्यानेच्या मिसा उपरांत... कोणाक कितलें आनी कसले उमे मेळ्ळे म्हळ्ळें लेक चलनासताना.

मद्यानेच्या मिसा उप्रांत... धाकटुल्या गर्धानाचो गोटयांतलो आनी साक्रिस्ती पाटल्या कुडांतलो बाळोक एकसुरो जाताना...

***

सर्व रस्ते इगर्जेचे कुशीनच मालवाल्लेंपरीं हारीं हारींनी लोक येवंक प्रारंभ जाल्लो. साडे-धा इकरा जाय जाय जाल्यार इगर्जेंतल्या बाकाचेर जागो मेळाजाय म्हण आयिल्ल्या चलिंयांचें आनी स्त्रीयांचें भिरें धाराळ आसल्लें. सुटार सोभचे दादले आनी चले कांय उणे नासल्ले.

कोयरान आपलीं गायानां प्रारंभ केल्लीं.

सोबीत सुंदर वीज दिव्यांनी शृंगारिल्लो इगर्जेचो वाठार दोळ्यांक तोपतालो. थंयसर विशेश जमो नासल्लो. भुरगीं हेणे-तेणे धांवतालीं. वाठाराच्या पयशिल्ल्या कोनशांत थोड्यांनी उज्याचें आगटें केल्लें. भोंवती बसोन ते बिडी सेवताले. तांचे मदें एकसुरो जावन तोयी बसोन आसल्लो.

मरियाळ सोडेलिटिच्या पिफेक्तान ताका दोन दिसांनी मजुरी दिल्ली. रातिचें मीस जाल्या उप्रांत इगर्जे भितरले बांक भायर व्हरूंक कुमक करिजाय म्हळ्ळी विनंतियी केल्ली. त्या नंतर कसोलोगी बेहुरूप ताच्या जिवांत चरल्लो. कसलेंगी निर्जिवपण.

हिंव चडोन येतालें. एकाच्याणे... मद्यान रात, निधान रात...

फकत वर्सांक एक फावटीं आयकोंक मेळचें तें सुंदर कांतार-ज्या कांतराचीं उतरां ताळो आनी जिनोस वर्सा थावन नातलांचे रातींत मिसळोन आयिल्लो - इगर्जेच्या भितरथावन, तरिब्लांतलो धूंप धुंवेचपरीं हाळवयेन उठोन आयलें.

मद्यान रात, निधान रात...

उज्याच्या आगट्या सरशीं तोयी उबो जालो.

एक तेंप आसलेलो, एक काळ आसलेलो...

"ना, हांव त्या काळाक फाटी वेचोना." तो उरडालो. बंद आसलेलीं ताचीं मेटां सुटलीं. इगर्जेचे कुशीन तो चलोवंक लागलो.

तडक करून आयिल्ल्या जोम्या संगीं तोयी भितर रिगलो. आतांच्या ताच्या वर्तनांत स्वताचें स्वतंत्र उबोन गेल्लेपरीं ताका भोगलें. कसलिगी शक्त... बहुशं दैवीक शक्त ताचेर काम चलयताली. बलकांवाच्या एका मुल्यांत तो उबो जालो.

मीस सुरू जालें. चार-पांच याजाकांची सह-भेटवणी ती. सर्व ताका नवेंच. ती भास, तीं उतरां कितलीं सुडाळ आनी सोंपी. भेटवणे पयलें काणिकेचें उर्पण ताका विचीत्र दिसलें, एकल्यान व्हड जैत केक हाडल्ली.

पवित्र कुमगाराचो वेळ येताना ताचे पांय हालले तरयी ताका धैर्य पावलें ना.

"हांव फावो न्हय" म्हळ्ळो सुस्कार ताचे हेळके विणेचं ताच्या तोंडांतल्यान निसारलो.

कुमगाराक लोक तीन-चार सलांनी रावताना, बलकांव मातसो खाली जालो. ताणें आपल्या दाव्याक पळेलें. कोयराचे उट्टळगे चडची सुरळ निसण

कुडाचे दार उगतें जालें. दाराक पाट करून आसलल्या ताणें आपल्या जिवाक तक्षण घट फातोर केलो. बाळकाक हातीं घेवन अर्दे दिंबियेर आसल्ले ताचे कुडींतलो एकच एक मांसखंड हाल्लो ना. पूण ताचे हेळकेविणेंच मातियेच्या मुद्या भोंवतीं आसल्लीं ताचीं बोटां सदळ जालीं.

मातियेचो मुदो मंद आवाजा संगीं बाळकाच्या पोटांत पाटीं पडलो.

‘‘कोण?’’ चलियेचो नाजूक ताळो.

हेर कोणायचोयी आवाज ना. ती एकलीच आसल्ली जाय जाय. बाळकाक हाळवायेन धरणीर दवरून तो रित्या हातांनी परिपूर्ण रित्या हातांनी – उबो जालो आनी आपल्याच हाळवायेन पाटीं घुंवलो.

ती चली ताचे सामकार उबी आसल्ली. ती चली–इमाजी करणाराची धूव!

‘‘तूं!’’ उद्गारली ती, ताची वळख धरून ‘‘हांगासर? हांगासर बाळकाक आराधना करूंक आयलाय?’’

ताणें जवाब दिलिना.

तिच्या दोळ्यां खांचिनी दुका उदेलीं. ‘‘अभिमान म्हाका भोगता!’’ ती म्हणाली दोन मेटां मुखार सरोन. आपल्या हातांत आसल्लें हळताचें चील ताणें धरणीर दवरलें. ‘‘म्हज्या बाबाचेर आनी ताचे कलेचेर मोग दवरचो एकलो पुणयी आसा तो पळेवन.’’ ताचे थावन उतरां सुटलीनांत.

‘‘भागी आनी समाधानाचें नाताल तुका!’’ ती म्हणाली आपल्या उजव्या हातान ताच्या भुजाक आपडत. ‘‘परकी तूं, तुजें नांव पर्यांत हांव नेणा. तरयी कसलिगी एक विचित्र शक्त आमकां लागीं हाडून आयिल्ल्या म्हण हांव पात्येतां. तुजे थाय बाबाचें रूप हांव पळेतां!’’

ह्या उतरां बराबर तिणें बाळाक सामकार दिबीं घाली. ‘म्हजे बाळाक!’ ती म्हणाली ताच्या पायांचो उमो घेवन. ‘‘बाबान म्हाका सांगल्लें – ह्या बाळकाचेर केदाळगी पात्येणी दवर. जिणियेंत खंचेंयी मेट काडटाना बाळकाचो उगडास कर. आयचे रातीं म्हजे जिणेचें प्रमुख मेट काडटाना तुका हांव व्हरूंक आयल्लां!’’ पत्यांत तिणें बाळकाचो उमो काण घेलो.

‘‘तुका हांव व्हरूंक आयल्यां!’’

तिचीं उत्रां चोराच्या कानांक आपटालीं.

‘‘खंयतर वेताय तूं?’’ तो विचारि लागलो.

ती उबी जाली. तिच्या मुखामळार प्रकास आसल्लो.

"पोयर हांवें दाखयिल्ल्या वर्तानां थंय हांव पश्चाताप पावती. तूं जाणा जालाय आस्तलोय, म्हजी मावशी...

"हें सर्व तूं म्हाका कित्याक सांगताय?"

"हांवच नेणा. तें म्हणालें मुग्धातेन." आमचे मदें कसलोयी गांच आसा जाल्यार तोच बाळाक म्हण म्हाका भोगता!"

ताणें जवाब दिलिना.

"आमी हो गांव सोडून वेतांव. गुपीत पाळोपळ घेतांव! तिणें घुट फोडलो. त्या चीलाचो मतलाब ताका आतां समजालो.

"आमी?" तो विचारि लागलो.

"म्हजो प्रेमी.. तें लजलें खिणभर.

"तरनाट्यांक भूल घालून जाली..." मावशेचीं उतरां चोराच्या कानांत गाजलीं.

"आनी थोड्याच वेळान तो हांगासर येतलो." ताणे मंदरिलें. "बाळाकाक घेवन आमी पोळापोळ घेतल्यांव. एका तेपार आपल्या बाळकाक घेवन तें भागीवंत कुटुंब इजिप्ताक पाळोपळ घेवन गेल्लें. तांकां आनी आमकां सर न्हय तरयी..."

"तर कित्याक?" तो चडपडलो. कसलिगी असहायता ताचे थंय चरोन घेताली; पूण हे दुर्बलतेंत उब आसल्ली. अशें ताका भोगचें पयिल्ले पावटीं.

"परक्या!" ती म्हणाली हाळवायेत त्या बाळकाक उकलून. आपल्या खांदार आसल्ले शाल तिणें ताचेर घालें. दिर्वे लिपोत आसल्लो मातियेचो मुदो बाळकाच्या पोटा भितर लोळ्ळो. तो आवाज ताच्या सुक्ष्म कानाक आयकालो पूण तिका आयकालोना.

"आमचेलागीं धन दिर्वें ना!" ती म्हणाली. "आमी वेच्या परकी गावांत आमी जीवन प्रारंभ करि जाय. बाबाच्या मोगाचो आनी भरवशाची कुरू म्हळ्यार हो बाळाक. आताच्या नविकरणांत हाकायी जागो ना जाला. अशें जावन."

कुडाचें दार पत्र्यान उगतें जालें. एकलो तरनाटो दारार उबो आसल्लो.

प्रेमी?

व्हय; आनी मरियाळ सोडेलिटिचो प्रिफेक्ट!

‘‘देवा!’’ उगत्यान उद्गारलो चोर.

‘‘देवा’’ वर्सां नंतर ताच्या तोंडांतल्यान तें पवित्र उतार भायर आयिल्लें. मोजी तूं परिक्षा करताय? तो ते धरणीर बसलो.

‘‘तूं हांगासर कितें करताय?’’ हळत ताळ्यान विचारी लागलो प्रिफेक्ट. ‘‘तुजी मजुरी तुका मेळोंक ना?’’

चोरान आपलें मुखामळ उबारिलें.

‘‘मजुरीच्याकय चडचड म्हाका मेळ्ळां!’’ तो म्हणालो. तो हीं उतरां उलयनासल्लो; ताच्या भितरलो स्पिरीत जिवंत जाल्लो.

‘‘तूं ताका वळकायताय?’’ ती विचारी लागली आपल्या प्रेमीसरशीं वचोन.

‘‘दोन दीस पर्यांत इगर्ज शृंगारावप्यांक ताणें कुमक केल्ली. आतां आमी तुर्त करिजाय.’’ तिणें आपल्या पोल्यावयलीं दुकां पुसलीं. ‘‘हांव हांगासर येताना तो दिंबियेर पडोन बाळकाचें आराधन करतालो. बाबाक तो वळकातालो खंय आनी–’’

‘‘हो बाळाक तुंवे व्हरीजायी?’’ प्रेमी विचारी लागलो मदेंच.

‘‘व्हय!’’ ती म्हणाली, ‘‘कारणां हांवें विवरिल्यांत.’’

‘‘पूण...’’

‘‘तो बाळाक व्हरूंदी!’’ तो म्हणालो एकाच्याणे उबो जावन तिची आनी प्रिफेक्टाची दीशट ताचेर पडली.

‘‘तूं सर्व जाणांय?’’ प्रिफेक्ट विचारी लागलो दोळे अशीर करून. ‘‘तुवें ताका सर्व सांगलांय?’’ उप्रांत तो तिचेलागीं विचारी लागलो.

‘‘हो कोण हो मनीस?’’ आपल्या सवालांक ताणें हेंयी कुड्सिलें.

‘‘तें तुका गरजेचें न्हय!’’ जवाब दिली चोरान. जाणा जाय जाय आसचें सर्व हांव जाणा. आतां तुमी तूर्त करा. नवी जीण तुमकां राकता.’’

घुस्प्रेडचीं खुणां त्या दोगांच्या मुखामळांनी उदेलीं. तिणें तो बाळाक आपल्या हरद्याक दांबून धरलो. तवळ तिका तो आवाज आयकालो...

‘‘ह्या बाळका भितर कितेंगी आसा!’’ ती उद्गारली. चोरान आपले दोळे धांपले. आपलें शिंतीद निसरोन पाटीं वेच्या फुडें. आपली उत्रोण परिपूर्ण जावंच्याफुडेंच कांय तरयी घडात म्हळ्या भंयान...

"तें सर्व पळेवंक तुमकां उप्रांत वेळ मेळटलो!" तो म्हणालो. "आतां तुमी तुर्त करा."

तीं तयार जालीं.

"तुयें दया करून घुट सांबाळून म्हाका सवय जाल्या!" ताणें जवाब दिली.

"भागी नाताल तुका!"

"तुकायी."

आतां, ती लागीं सरलीं.

"वेच्या फुडें ह्या बाळकाचो तूं उमो घे!" ती म्हणाली. बाळकाक उबारून धरून.

तो बागालो आनी उमाळोन येंवच्या दुकां मदें त्या बाळकाचो उमो काण घेलो. ताचीं दुकां बाळकाच्या पोल्यार पडलीं. मासें उकलताना बाळकाचे उगते हात ताच्या मुखामळाक लागले... दुसरे पावटीं...

तो स्पर्श जावन आसल्लो एक हुनहुनीत मोगाच्या थेंब्यापरीं. हो जावंक पावलो ताचो दुसरो शावशीत बावतिज्म.

तीं गेलीं.. तांचो मोग घेवन, नव्या जीवनाचे हुरूप घेवन, नातालांचें समाधान आनी बाळक घेवन.

पूण ताणीं आनी त्या काळकान ताचेखातीर फाटीं सोडल्लें दिर्वें अगणीत जावन आसलें.



# बाबूक एक वॉच

सिल्काच्यो रंगरंगाळ साडियो नेसल्ल्यां मधें सुती साडी नेसून आसल्ले आप्ले आवय्ची ओळक धरूंक ताका कश्ट जालेनांत. तांचे मधें फकत एक बेंच आड आसल्लो. बेंच्याचे हेव्शिल्ल्यान असल्ल्या क्लास रुमांनी परिक्शा चल्ताली, त्ये शाळेच्या इंग्लिश मिडीयमांत दाकल जावंक अर्जी दिल्ल्या भुरग्यांची अरहता पळेंव्ची परिक्शा. बेंच्याचे तेव्शिल्यान परिक्शा दिंव्च्या भुरग्यांच्यो आवयो. कोणा पाद्रीचे, कोणा मेस्त्रींचे पांय धरून म्हळ्ळेपरीं ताचे आवय्न ताका ह्ये परिक्शेक हाजर जाय्शें केल्लो. पांच्वे क्लासी पर्यांत कन्नड मिडीयमांत शिकल्ल्या ताका इंग्लिशाचें प्रश्नापोत्र वायूंक सोडयां, इंग्लीशाचो एकच एक सब्द येनातल्लो; प्रस्नापोत्र पळेव्न गळ्गळीत रडोंक सुरू केल्ल्या हाका हेडमास्टरान भुजाक धरून आप्ल्या आफिसांत बोसयिल्लो, परिक्शा जांव्चे परयांत. उपरांत ताणें ताच्ये आवय्क आपय्लें. 'तुमी व्हडलें व्हडलें 'इनफ्लुयेन्स' हाडून येतात' म्हणालो हेडमास्टर पाद्री. 'कित्याक तुम्कां इंग्लिश मिडियम? हाका एकच एक सब्द इंग्लिश कळित ना. इंग्लिश म्हळ्यार कांय सुलब? आतां दाक्शेणेक लागोन सीट दिली तरी...'

'तो शिकतोलो, फादर...' 'तित्लेंच? आनी च्यार दिसांनी 'फीज' माफी करा म्हण 'पोर्म' हाड्तेलीय तूं, तुम्च्या किरकिरीसांवाक अंत्य आसा? हेरांच्या पिल्यांक पळेलेंय-मू? माद्रींचे शाळेंत्ले ते, इंग्लिशा शिवाय हेर उतार भुंय दवरीनांत. कसो फिट्ट जातोलो तुजो पूत तांचे मेळींत? हांवें परत साय्कोलोजी शिक्वें पडटेलें...'

'दया करून, फादर!'

'दया करतां हांव!' तो म्हणालो. 'हांवें रेक्टराचें तोंड पळेजे न्हय? इन्फ्लुयेन्स हाड्लाय तरी व्हडलेंच; बाप्ल्याचो पूत-गी आम्चो रेक्टर?... हुं... कितें-रे?

शिकताय-रे? तुजे आवय्क तुवें 'सोक्स-श्यूज' घाल्न, 'येस मेन, नो मेन' म्हण्चें आय्कोंक जाय खंय' तो नंजाळी (सरकास्टीक) ताळ्यान म्हणालो आनी हांस्लो. हें पळेव्न आनी आय्कोन तो परत रडल्लो. तरी बाबूक एक सीट मेळ्ळी...

प्रायवंतां, पिडेस्तां. आवय-बापय, हांची चाक्रिच गांव काडूंक पुरो आसल्ली. तिचो एक्लो काजारी भाव आनी ताची पतिण गल्फांत आशिल्लीं. पती सरल्या उपरांत कांय गत-आदार ना जाल्ले तिका भांवडांनी विंचव्ण दिल्ली : तूं आम्च्या मांय-बाबाची चाक्री कर आनी आमी तुका आनी तुज्या पुताक पोस्तांव; या, सोंप्यान सांग्चें तर, तूं आम्कां गल्फाचो दुडू आनी सूख जोडूंक सोड आनी आमी तुका आनी तुज्या पुताक गांवांतच सुखी दवरतांव.

शाळेच्या पयिल्ल्या दिसा तिणें आप्लें घरचें काम सरारां तिरसिलें. तिच्या बापाय्न हांतुळणारच म्हेळें केल्लें आनी आवय सालाथाव्न न्हणिये परयांत मुतोनंच गेल्ली. हें तिका सदांचें. कामाक सबार जणां आयिल्लीं आनी गेल्लीं. 'आमी कांय भंगी न्हय!' तीं म्हणालीं. 'आमच्यान ही घाण सोसूंक जाय ना. हांका कित्याक आस्म्रांत (आस्रम) दवरिनांत? तांचीं भुरगीं कशींय गल्फांत आसात न्हय?'

पूण अशें केल्यार गल्फागारांची 'इमेज' पाड जाता न्हय? आवय-बापाय्क आस्म्रांत दवर्लें म्हण समाज बोट जोक्ताना कशें? तिचो दिस्रो भाव, धाट्टु (व्हडलो भाव) 'वीजा' धाडटा म्हण धावी क्लास सय्त पास करिनास्तां पाटल्या पांच वरसां थाव्न फरागात भंवतालो, स्टायल करतालो, चलियांक लाय्न मार्तालो. टायपिंग क्लासीक रिगल्ल्या ताका चलियांनी आनी टीचेरीन भायर घाल्लो. हिणें कांय म्हळ्यार ताचे लागीं जापी-निबां तयार आस्तालीं. 'तुका कितें गळ्या कडेन लासता, बाये?' तो विचारतालो. 'तुका आनी म्हाका आम्चीं भांव्डांच पोस्तात न्हय? म्हाका तांणी पोसिजेच पूण तूं विधव.. आस्म्राच्यकी हांगासरच बरें न्हय?' धाकट्या भावाचीं उत्रां सोसीनास्ताना तिका हेर वाट नातल्ली. आप्ल्या पुताक पळेव्न ती हें सर्व विसर्ताली. 'तूं येनाका मांय...' तिणें दरवड्यान नेस्चें पळेन बाबू म्हणालो. 'माम्मा, म्हण रे, म्हज्या पुता! कित्याक येंव्चें नाका? आतां तूं इंग्लिश मिडियम म्हण आवय्ची लज दिस्ता?' 'सॉक्स-शूज' आनी युनिफॉरम नेसल्ल्या पुताक अबिमानान

पळेव्न ती म्हणाली; तरी तिच्या काळ्जांत 'कल्ल' जालें. गल्फांत आस्ल्ल्या तिच्या भावाचे पतिणेन एक लांब चीट तिका बरयिल्ली : म्हजो घोव जोडटा म्हण कितें तुवें तुज्या पुताक इंग्लिश मिडियमाक सेरवय्ताय, अशें. म्हणताकूच, तिणें ताका ह्या पयलें एका फाकीरापरीं वागंव्क नातल्लो; ताका पयल्यान कन्नड मिडियमाक घाल्लो त्या माद्रींचें शाळ घरा पाटल्यानंच आसा म्हळ्ळया खातीर आनी पतिच्या मरणां उप्रांत तिचो जीव सग्ळोच ताचेर आसल्ल्यान. तिची सदांची लदिण इत्लीच : म्हजो बाबू, म्हजो बाबू... 'तशें न्हय, मँ!' तो म्हणालो. 'तुका सम्जाना....' हें आयकोन तिणें आप्ल्या पालवाच्या पोंतान नाक पिळ्ळें पूण ती ताच्या सांगाता गेली... एक दीस, दोन दीस...' आयज हांव एका डॉक्टराच्या पुता लागीं इंग्लिशानंच उलय्लों, मँ!' तो म्हणालो. 'थोडे हांस्ले..' 'कितें उलयलोय तूं?' तिचो ताळो कांपतालो. 'म्हज्या बाबुची कोणे तरी नक्लां केलीं?'

'वॉट इज दि टायम म्हण हांवें विचारलें... तूं जाणांय, मँ, आम्च्या क्लासींत फॉर्टी भुर्गे आसात आनी तांचे पयकी फाय्व जणां लागीं वॉचां आसात...'

'तूं शीक आनी व्हड जा रे, पुता' ती म्हणाली. 'तवळ एकेक हाताक च्यार च्यार वॉच्यां बांदीनांय पेल्यान?'

'वॉच बांदल्लो हात हांवें असो धरिजे न्हय, मँ?' ताणें आप्लो दावो हात अस्सो उबार्लो. 'तो केशव पै उलय्तना हात असोच्च उबारोन धर्ता... ताचें नवें वॉच सर्वांक दिसाजे म्हण.'

'बाबू... तुका वॉचां पळेवंक हांवें इंग्लिश मिडियमाक घालूंक ना. तुजे आंटीन आनी अंकलान तुज्या फीसांक कित्लो दुडू भर्ला जाणांय तूं? सांगाताच, तांचे थाव्न हांवें कित्लें आय्कालां, सोस्लां तूं जाणांय?'

'तांकां बरय्लायर म्हाका कुवेतचें वॉच हाड्चींनांत गी माम्मा?' बाबुचो ताळो तिका विचित्र आय्कालो. कित्याक ह्या चेड्याच्या मात्यार वॉच्याचें भूत बस्लां?

'इंग्लिश शीक आनी तूं तुज्या हातान अंकलाक आनी आंटीक चीट बरय!' ती म्हणाली. 'आनी आय्क... पिंटो मेस्त्रीन चीट धाड्ल्या - तूं इंग्लिशांत अस्कत आसाय खंय. कितें पुणी करिजे म्हणता तो. देखून हांवें तुका ट्युशनाची विलेवारी केल्या... फाल्यां थाव्न तूं 'गोरीगुड्ड्याच्या' (गोरीगुड्डा हो मंगलोरचो

एक गांव) जेनी सर्शीं ट्यूशनाक वच. मॅट्रिक जाव्न तें घराच्च आसा...' जेनी, तांकां पय्शिल्यान सोयरें; भारिच लटक-मटक चली. 'हांव वचाना, मम्मा' तो म्हणालो. 'म्हाका लज दिस्ता... तें कसलें सर्व नेस्ता, पातळ पातळ लिबास...'

तिका घडगडो मारल्लेपरीं जालो. हूं... चेडो वाडोन येतालो, खंय चरतालीगाय ताची दिश्ट? काय हो म्हज्या पार्पळ भावा सांगाता भोंवनां - मू? तिचो धक्टो भाव 'नंबर वन पोण्णु मार्ला (नंबर वन वुमेनायजर) म्हण फिगर्जींत 'फेमस'. 'तुवें वचाजेच, बाबू!' तिणें म्हणलें. 'जेनीक कितें माद्रिंचो लोब घालूंक सांगूं?' ती सण्सण्ली. ते एके सांजेर बाबू घरा आय्लो आनी आपलो कॉपी बूक आवयक दाकव्न म्हणालो, 'हें वाचून सांग, माम्मी!' 'तुवें बरयिल्लें -रे, पुता? म्हाका सारकें वाचूंक येना मू' तिणें भावाक आपय्लो. 'हें वाचून सांग-रे' तिणें कॉपी बूक ताका दिलो. 'जालें, वंडरफुल्ल जालें!' तो म्हणालो. 'आतां पुतान इंगळे' वाटल्ले हांवें वाचून सांगाजे पडलें. म्हाका कांय इंग्लिश कळित आसा या ना म्हळ्ळी परिक्शा ही-रे, बाब? म्हाका कित्याक आनिकी अंकल म्हणनांय तूं? धाट्टू अंकल पुणी म्हण रे'. 'तशें न्हय... अंकल...'

'हां! हें कितें बरय्ल्यांय? फ्हा... व्रे...लुबा...स्विज मे ट्वेन्टीवन ज्युवेल्स (Favre-luba, swiss made, twenty one jewels) कितें रे बाबू हें?' बाबू, जैताचो हांसो हांसलो. तें केशव पै-च्या वॉच्याचें नांव! डेस्मंडाच्या वॉच्याक 'वॅस्ट ऍण्ड' (west End) म्हणटात पूण तांतूं फकत नांय्टीन ज्युवेल्स...' भाव-भय्ण एकामेकाचीं मुखमळां पळेलाग्लीं.

'म्हाका फ्हावरे-लुबा-च्च जाय... 'बाबू मतिर सो नातल्लो...' हेंच शिकोंक तुका हांवें इंग्लिश मिडियमाक घाल्लो रे बाबू?' तक्लेक हात मार्लो तिणें. 'चल! हात-पांय धू आनी जेनिगेर वच, होमवर्क कर आनी ती इंग्लिश कविता शिकोन ये...'

वोणींतल्यान, मातें मुळांत घालून वेचो तो आप्लें नांव कोणेंगी आपयिल्लें आय्कोन राव्लो आनी ताणें पाटीं पळेलें. धाट्टू अंकल. सदांच्या ताळ्याकई तो वळ्कालो ना. 'जेनिगेर वेताय रे बाबू?' 'हूं...' 'ही चीट जेनिक दी-रे...'

'हांव दिना!' तो म्हणालो. 'आदल्या पाव्टीं दिल्ली चीट पिंजून म्हज्याच चड्डेंत चेपल्ली जेनिबायेन...'

'ती तुजी जेनि-टिचर-रे, भिक्णेशा!' (भिकारी) तो म्हणालो. 'ताका वेगींच तुजी आंटी करता पळे.'

'हे, हे, फुरसत आसा!' (hurry not, tarry) म्हणालो बाबू. 'आन्येक पाव्टीं चीट धाडल्यार धाकट्या पाद्राब्याक सांगतां म्हणलां.'

'व्हय रे, हीं कामां पाद्राब्याक सांगोनंच कर्चीं-रे!' धाट्टू अंकल म्हणालो. 'आनी दोन-तीन वर्सांनी तुंई चलियांक लाय्न मारूंक सुरू करताय या ना पळे.'

'तुजेपरीं पोली (vagabound) जांव्क नजो म्हण माम्मीन सांगलां...'

'सांगोंदी-रे, बाबू, सांगोंदी... एक पाव्टीं म्हजी विजा येंव्दी मागीर हांव पोली आसल्लों कितें जातां पळे...'

'तुका विजा वेगींच येतेली, धाट्टू अंकल?' बाबुचें मुखमळ येकाचाणे उजळ्ळें. मेंदू काम करिलाग्लो. धाट्टू अंकलाक कुवेतची विजा?

'येतेली, येतेली...' तो म्हणालो.

'तर, ही चीट दिताना जेनीबायेक हांव सांग्तां... तूं वेगींच कुवेतगार जातोलोय म्हण...'

धाट्टू अंकल ताका दोळे अशीर करून पळेलाग्लो. 'कितें-रे बाबू? तूं कांय सादारणा 'कुंय्का' (cunning dwarf) न्हय. जेनिबायेक एक्ली धाकटी भय्ण आसा - रेपुणी'

'म्हाका चलियो नाकात' बाबू म्हणालो. 'म्हाका लज दिस्ता.'

'मागीर कितें तुका जाय?' बाबून आप्लो दावो हात उबारोन धरलो. 'म्हाकां एक वॉच जाय!' तीन म्हयन्यांनी धाट्टू अंकलाक विजा आय्ली. त्ये आव्देचे सुर्वेर सदांनीत चिटी पाशार जाताल्यो आनी कुवेतचीं सप्णां घडपां घडल्लेपरी जेनीक विवरिताली बाबू. उपरांत धाट्टू अंकलान जेनीबायेक भेटचें कायामांचें जालें. ट्यूशनाचे निबान 'हें कर, तें बरय' म्हण बाबूक सांगोन जेनी, धाट्टू अंकला लागीं 'शेले भंघणे' (flirtish behaviour) करतालें. पूण बाबून कोणायकी सांग्लें ना. कित्याक ताणें धाट्टू अंकला लागीं एक सोल्लो केल्लो:

तुजीं कित्लिंयी पत्रां-चिटी हांव जेनिबायेक पावीत करतां. तुका जाय तर तिका आतांच जेनी आंटी म्हणटां. पूण तुवें मात्र म्हाका कुवेतथाव्न एक फ्हाव्रेलूबा वॉच हाडिजे. तो उलयताना आतांच आप्लो दावो हात केशव पै-न उबारोन धरचेपरीं धरूंक संवंय केल्ली ताणें. धाट्टू अंकलान बोंबय भायर

सर्चोदीस आयलो. त्या दिसा बाबू शाळेक गेलो ना; राकण भड्व्या (guardian angel) परीं ताच्या पाटल्यानच तो रावलो. विचित्र, पांच मिनुटांचे आवदेक जेनीबाय आयिल्ली आनी न्हाणियेचे पाटल्ये कुशीन धाट्टू अंकलान तिका पटलून धरून 'गुडबै कीस' दिल्लो ताणें पळेयिल्लो. जेनीबाय वेतेच, ताणें धाट्टू अंकलाक वॉच्याचो उगडास केलो. 'कित्याक असोयी तक्लो खाताय-रे?' ताणें विररायेन म्हणलें. 'धर, ह्या 'होल्डाला' (hold-all)चो बक्कल घाल. बोंबय परयांत हांवें शिप्पार वचाजे न्हय?' हें सर्व बाबूक समजानातल्लें.

'धाट्टू अंकल' तो म्हणालो पिस्पीस्या ताळ्यांन. 'कालच हांवें आय्कालें... मिलारच्या (Milagres-one parish) टेरेन्सान म्हाका सांग्लें... पाटीं येताना बोंबय 'कस्टमर' आसात खंय... वॉच्यां, रेडियो काडटात खंय... भयंकर टॅक्स घालतात खंय...' धाट्टू अंकल हांस्लो मात्र. स म्हयने पाशार जाले. बाबुची परिक्शा लागीं आयिल्ली आनी दिसाक दोन पाव्टीं तो जेनिगेर ट्यूशनाक वेतालो. धाट्टू अंकलाच्या चिटी जेनीक शिदा येताल्यो म्हण ताका कळित जाल्लें. मधें मधें धैर्य घेव्न तो जेनीक सांग्तालो. 'तुजीं लेटरां जाल्यार हांव पोस्ट करतां पूण धाट्टू अंकलाक मात्र एक उडास कर.' 'कसल्याचो उडास?' 'तो जाणां! बाबू उडास करतालो म्हणल्यार जालें.'

धाट्टू अंकलान माम्माक एकच एक चीट बरंव्क नातल्ली आनी बरयिल्ली तरी वॉच्याची खबर जापींत बरंव्चें धैर्य बाबूक नातल्लें. 'हूं..' म्हणोन तें लांब उस्वास सोडटालें. 'तो इत्लेवेग्गीं कसो येतोलो-रे बाबू? आत्तांचे आत्तां तो गेला मात्र' तें ताका आरावन पट्लून धर्तालें. तवळ ताच्या आंगांत कितेंशें जातालें तरी तो सोंसून वरतालो. हें जेनी, धाट्टू अंकला लागीं काजार जाव्न घरा येत तर म्हजी गत कसली, अशें तो चिंतालो. खंच्याकी म्हजें वॉच येंव्दी...

एके सांजेर, बाबू जेनीगेर ट्यूशनाक वचूंक तयाराय करताना एक्लो अपरिचीत मनीस घरा दारार आय्लो. ताका पळेताना भेरिन-बास्रा-कुवेत थाव्न आयिल्लेपरीं दिसतालो. मोचे-गिचे, परमळ, सिग्रेट, कुलिंग ग्लास... बाबूच्या काळ्जांत 'कल्ल' जालें. त्या मनशान धाट्टू अंकलाचें नांव काडून हें घर ताचें-गी म्हण विचारताना बाबूचें काळीज तोंडांत आय्लें... खंडीत... तितल्यार, ताची माम्मा भायर आय्ली. त्या पर्क्यान तिका सांग्लें-की तो आनी धाट्टू अंकल

एकाच्च कंपनींत काम करतात, अशें. ताका सध्याक येंव्क जावचें ना खंय 'आनी एका वर्सान कांय येंव्क जालें तर... आयिल्लोच काजार जाता खंय!' तो मनीस हांस्लो आनी सिग्रेट पेटयलाग्लो. 'चली सोदून दवरल्या खंय!' 'म्हाका दुबाव आसा' म्हणाली ताची माम्मा. 'गोरीगुड्ड्याच्या जेनी लागीं भारीच्च चंगाय आसल्ली ताका.'

'आसल्ली?' तो मनीस म्हणालो. 'दीस-रात ताचिच्च खबर उलयता तो.' ताणें बल्सांत्ली एक पॅकेट काडली. 'ही पॅकेट.. जेनीक दी म्हण म्हाका ताणें सांग्लां... जेनीचें घर दाकय्शयात तर उप्कार जातो. तुम्चें घर सोदून काडूंक भारीच्च त्रास जाले म्हाका.' बाबूच्या माम्मान एक लांब उस्स्वास सोडलो. 'मालघड्या भय्णीचो उडास ना ताका' ती म्हणाली. 'घरांत भाचो आसा... एक चॉकलेटाचो कुडको पुणी धाडलो...'

'संवसार तसोच्च न्हय-गी बाये?' म्हणालो तो मनीस. 'एक चली जिणियेंत येताना...' तो उलव्नंच गेलो.

बाबूच्यान सोंसूंक जालें ना. त्या मन्श्याच्या हातांत्ल्या पॅकेटीक झोंपय मारूंकच्च तो गेलो. 'खंडीत जाव्न वॉच धाटलां आसतेलें.' ताचो ताळो आवेशान किंद्री (shrill) जाल्लो.

'अरे व्हा! तुका कशें कळित-रे बाबुल्या?' तो मनीस ताचें मातें पोशेलाग्लो. 'तुज्या धाट्टू अंकलाचेंच जेनी आपणाक फहाव्रे-लूबा वॉच जाय म्हण पाटीक लागल्लें खंय. तूं भारीच्च 'स्मार्ट' रे बाबुल्या. तुवें सांगल्ली 'ट्रिक' वापारोन हें वॉच 'ब्रीफ्सांत' लिपव्नच हाड्लें हांवें!' तो तिक पळेलाग्लो.

बाबूचे आवय्न हात उदारे केले. तिका कांय सम्जालें ना. 'आसूं... तुका कांय तानेक हाडूं?'

'नाका बाये' तो म्हणालो. 'तुज्या भावाचे जेनीक ही पॅकेट दितां. शिदा ताच्याच हातांक दिजे म्हण हुकूम दिल्या ताणें. म्हाका कोणयी घर दाकय्शात तर... हांवें टॅक्सी वोणिचे तुदियेर रावयल्या...' तवळ... 'तूं कसोयी जेनीगेर ट्यूशनाक वेताय न्हय-रे बाबू?' ती म्हणाली. 'ह्या अंकला सांगाता टॅक्सेर वच आनी ताका जेनीचें घर दाकय!'



# वोडतालांव

**सि**स्टर मारियाच्या वोडतांत सर्व थरांची रांद्वय किर्लाताली पुण वोडतालांव (mint) मात्र किर्लानातल्ली संगत कोन्वेंटांतल्या सर्वांक कळित आसचीच.

तिणे सबार प्रेतनां केल्ली तरी तिच्या वोडतांतल्या मातियेंत वोडतालांव किर्लोंक बिल्कुल आयकानास्सल्लो. पालेव्न आयिल्लीं मुळां सयत आशेच्यो आंव्र्यो दाकव्न, कुसोन वेताल्यों. दिसा मधें खंच्यायी वेळार तिका कोण तरी भेटलें तर गर्जेच्या उलव्ण्या मदेंयी  वोडतालांवा थंय तिची नायशस्वी कशी पुणी ती जाग्र कर्ताली.

मदर सुपीरियर जाव्नास्ची ती, कोव्हेंटांतल्या सर्वांक मोगाची आदिलच्च सिस्टर मरीया जाव्न उराजे तर तिचे थंय सबार विसेशता आसल्ल्यों. त्या पैकी वोडतालांवांचे किर्लव्णे थंय चालु आस्चें तिचें सतत झुज एक. तिच्या जाण्वायेचीं, मोगाची, देवास्पणाचीं आनी आडळतेच्या शातियेचीं संपनमूळा जाणा आसचीं हेरां वोडतालावांचेर तिणें दाकोवंच्या  साद्या झुजाथंय जरूर विस्मित पाव्तालीं.

त्ये सांजेर सिस्टर मरीयाक चिंतिनासल्लें एक विस्मित राकोन आसल्लें.

सदांचेपरी ती 'जेनिफरा' सांगाता, तीन धोम्सिंची कुदोळ (3-pronged grate) घेवन वोडतांत पासायो मार्तान तिची दिश्ट उदकाचे टांकी पाटल्यान वाडोन विस्तार्लेल्या पाचव्यायेचेर (green growth) पडली. ह्या फुडेंयी तिची दिश्ट ह्या वाडावळिचेर पडल्ली पुण ती वाडावळ तवळ इतली विस्तारोंक नातल्ली जाल्ल्यान तिचें गमन ताचेर तितल्या सुक्षीमायेन खंचल्लें ना. पुण आज, तिचें सग्ळे गमन त्या वाडावळिचेर पडलें.

'काराणो' (Leaves Of Wild Creeper use to make Chutney)

बिल्कुल न्हय. परिचित दिसची पुडपुडीत पानां. दोन तीन हुम्टोन, बोटां मधें चिर्डुन तिणें पर्मळ घेत्लो. दुबावंच नातल्लो! केदाळागी, कुसोन गेलां आसतलें म्हण हुम्टुन उडयिल्लें वोडतालांवांचें मूळ किर्लोन आज दोन अडेज फुटिंचे विस्तारायेर चरोन रावल्लें.

"जेनिफर my child!"

तिची ल्हान पुण स्पश्ट हांक्रेव्णी आय्कोन चिकेसे पय्स आसल्लें, सत्रा वर्सांचें जेनिफर उडोन येव्न तिचे सर्शीं उबें जालें.

"जें हांव पळेतां तें तुंयी पळेताय, जेनिफर?" तिणें विचार्लें, धर्णीक कुदोळेन कुट्टोन. तिच्या हर प्रेतनांन सांगात दिव्न आयिल्ल्या जेनिफरान धाराळ वोडतालांव पळेयिल्ले. तें, त्या वाडावळेक वळ्कालें.

ताणेंयी दोन पानां कुंटोन, बोटां मधें चिर्डुन पर्मळ घेतलो.

"वोडतालांव, सिस्टर मरीया!" तें उद्गार्लें, कोन्वेंटाच्या कॉयरांत प्रक्यात जाल्ल्या आपल्या नाजूक ताळ्यान, "तुंवे अजापच्च केलेंय."

"ना, जेनिफर!" ती म्हणाली येकाचाणे आपले मुकमळ देंव्न. "म्हज्या प्रेतनान न्हय बगार म्हज्या निर्गमनान हो वोडतालांव किर्लाला. हो हांवें चोत्रायेन हुम्टुन काडिजे आनी ताका फावो जाल्ल्या ईटाभरित (fertile) वोव्ळिंनी लायजे..."

"पुण सिस्टर..."

सिस्टर मरियाचे दोळे जेनिफराचेर खंच्ले. तांचे मध्यें पाशार जाल्ली तीं चिंत्ना तिच्या विसिश्ट मायपासाक वळ्कातेल्यांक मात्र कळित जातीं.

ताणीं फुडें कितेंयी उलंव्च्या पयलेंच एक 'पॉश' कार कोन्वेंटाचे गेटिंतल्यान भितर सर्लें आनी विस्तार 'पोर्च्या' पंदाक रावलें.

तांतल्यान, सुद्रापाचें आनी लक्षणांचें एक जोडें, मध्यम प्रायेचें. भायर आयलें. आपल्या वोडतालांवाक विस्रेन सिस्टर मरिया नीट उबी जाली. तें जोडे कोन्वेंटाक येतलें म्हण ती जाणां आसली.

"पुण, इतले वेग्गी?" ती आप्णा इतल्याक पुस्पुसली.

"कितें, सिस्टर?" जेनिफर लागीं सर्लें. ताच्या भुजाचेर तिणें हात दवर्लो. "वेगिंच, हात-पांय धुव्न वस्तुर बदिलय, जेनिफर" ती म्हणाली, "उप्रांत, तुका हांव पार्ललाक आपयतां!"

जेनिफर धांवलें, तिच सुंदर, उप्राळी आनी सत्रा वर्सांचे प्रायेक सहज जाल्ली उद्रिक्त धांव. कुडिन आनी बर्याच मट्टाक मानसिक रितिन परिपूर्ण

परिपिकाय जोडुन येंव्ची चली जेनिफर. शिकपांत एकदम हुषार न्हय तरी सामान्य संग्तंनी विंचव्ण कर्च्यांत सुक्षीम. कोन्वेंटान दिंवच्या गडीं भितर स्वतंत्रायेच्यो गडी परिपूर्ण रितिर चाकोन आनी तुकोन पळेव्क तें सक्तालें. ताची जाण्वाय आनी तवळची परिपिकाय ह्यो गडी उत्रोक ताका सोडिनातल्ली.

ताची आनी सिस्टर मरियाची परिचय वर्सांची. एका वाक्यान सांगचें तर तिच्या हातांनिंच तें व्हड जाल्लें.

तें धांव्तेंच सिस्टर मरियान आप्लिच निर्मळाय तिर्सिली आनी दग्लो बदलून पार्लरा कुशीन ती गेली. अर्ध्या वाटेरच मेळल्ल्या 'पार्लर मेय्डान' तिका 'तांच्या' येण्या विशांत कळयलें.

''हांव जाणां!'' मटव्यान ती म्हणाली. ''पंद्रा-वीस मिनुटा बितर जेनिफराक धाड. तवळ परयांत तुंवे हेरांक पय्स दवर्चे बरें आनी हेर चलियांनी पार्लरांत तीव्न पळेंव्चे म्हाका नाका.''

पार्लर मेय्ड मान भागाव्न चल्ली.

सिस्टर मरिया पार्लरा बितर रिग्ताना 'एमिलीया' आनी 'डॉ. जोनाथन' भुजां मधें तक्ल्यो गळव्न बसून आसल्लीं, वंदनार्पण जातेच:

''तुमीं वेगिंच आयल्यात!'' ती म्हणाली तांच्या सामकार बसुन. तिचे दोळे एमिलियाचेर आसल्ले. ''आमच्यान तडवुंक जालें ना, सिस्टर!'' एमिलिया म्हणाली कांपेर्या ताळ्यान. ''येदोळ पर्यांत जेनिफराक तयार करूंक तु सक्लिनांय?'

''आमचो परिपूर्ण सहकार तुका आसल्लो, सिस्टर.'' डॉक्टर जोनाथन म्हणालो घनादिक ताळ्यान. ''आतांयी तो आसतोलो म्हण हांव पातियेतां, डॉक्टर!'' सिस्टर मरिया म्हणाली तितलेच घनतेन. ''जेनिफर, सम्जणेक पावल्लें भुंगें. हांवें खरी संगत ताच्या सामकार दवरल्या. पुण आक्रेची विंचव्ण करिजे... ताणें!''

''ताका कसल्यांती कसलेंच उणें जांव्चें ना, सिस्टर!'' परत उलयलो डॉक्टर जोनाथन.

''एमिलियाचे पाटल्ये जिणियेचेर हांव इतलें विशाल मन दाकंव्क सक्लों तर आतां जेनिफराच्या सुखा खातीर हांव कितें करूंक सकतां म्हळ्ळें तुं जाणां जाल्याय आस्तेलिय!''

''हांवें जाणां जाव्न फाय्दो ना, डॉक्टर!'' जाप दिली सिस्टर मरियान. ''जेनिफरान तें सम्जाजे आनी विंचव्ण करिजे.''

''तुं आमकां चड भर्वासो भासायनांय, सिस्टर!'' एमिलिया म्हणाली.

“सत्रा वर्सां आदीं ह्या कोन्वेंटान तुका एक नवें जिवीत दिल्लें, एमिलिया.” ती म्हणाली, शिंतिदाक लाग्च्या उत्रांनी.

“तवळ विंवच्ण आमीं केल्ली. तवळ जेनिफराक कसलोच अव्कास नातल्लो. पुण आतां तो अव्कास आसा आनी तें आपली विंचवण करूंदी.”

डॉक्टर जोनाथनान एक लांब उस्वास सोडलो.

“पाशार जाल्ल्या सतरा वर्सांनी,” म्हणाली एमिलिया.

“तुवें जेनिफराक एका भलत्याच संसाराक तयार केलांय जाव्येत. अशें जाव्न तुं ताका हांगासरथाव्न सुटका दींव्क पाटीं कर्ताय.”

“सुटका!” सिस्टर मरिया उद्‌गरली. “सुटके विशांत तुं कितें जाणांय, एमिलिया?”

एमिलिया आतां रडली.

“सतरा वर्सांचें प्राजित हांवें केलां!” ती म्हणाली.

“आतां पुणी म्हाका समधान जाय, सिस्टर मरिया.”

“तांची विचव्ण जेनिफर कर्तेलें!”

थोड्या वेळाचें मौन. पार्लराच्या दाराक ठोके पडले.

“भितर सर, जेनिफर!”

दार उक्तें जालें आनी जेनिफर भितर सरलें. कसलेगी अदृष सक्तेन उटयिल्लेपरीं एमिलिया आनी डॉक्टर जोनाथन सांगाताच उबीं जाल्लीं. जेनिफरान, तांकां सहज रितिर वंदन केलें. तीं बस्लीं.

सिस्टर मरिया, ‘आपुण वेतां ’ म्हळ्ळेपरीं उटोन उबी जाली.

“राव, सिस्टर!”

दोन ताळे तिका सांगाताच आय्काले. पय्लो ताळो, जेनिफराचो. एका तराची हुकुम त्या ताळ्यांत आसल्ली. दुसरो ताळो एमिलियाचो. एक प्रार्थन त्या ताळ्यांत आसल्लें. त्या दोनांकयी सकत दिंव्चो बळिष्ट खांबो जाव्न सिस्टर मरिया बस्ली.

“कित्लें सोबित तु दिस्ताय, जेनिफर!” सुरू केलें एमिलियान.

“तुमच्या आदल्या ‘स्कुल डे’ वेळार आमीं तुका स्टेजीर पळेल्लें. आतां तुं.... हांव तुजी खरी माम्मी, जेनिफर!” एमिलिया एकाचाणे उमाळ्ळी.

“सिस्टर मरियान म्हाका सर्व सांग्लां!” म्हणालें जेनिफर. ताचो ताळो स्पष्ट आसल्लो. ताचें तर्ने हर्दें जोरान भायर-बितर वेच्या उस्वासाक लागोन उटतालें, बस्तालें.

‘‘खऱ्या आवयच्या मोगाविशीं तुं वाचुन या आयकोन जाणांय म्हण हांव चिंतां जेनिफर.’’ म्हणालो डॉक्टर जोनाथन. ‘‘आतां ती आवय तुज्या साम्कार आसा.’’

जेनिफराचे दोळे निरीक्षणेन एमिलियाचेर खंच्ले. एमिलिया, ती घेंव्क सक्ली ना.

‘‘बरें तर,’’ एमिलिया म्हणाली, आप्णाकच्च आराव्न घेवन.

‘‘म्हज्या प्राजिताचो निमाणो वांटो जाव्न सग्ळें सत म्हजे थाव्नंच आय्कोंक म्हजिच्च धुव अपेक्षीता तर, हांव तयार आसां!’’

जेनिफर, पाटीं वण्कोन बसलें.

‘‘तुं सम्जणेक पावल्लें भुर्गें!’’ सुरू केलें एमिलियान.

‘‘तुका हुमिण्यो हांव सांगाना. सतरा वर्सां आदीं तुजो जल्म जाताना संसाराक हांव तुजी आवय म्हण सांग्चे स्थितियेचेर हांव नातल्लीं. त्या खातीर, म्हजें पाप ह्या कोन्वेंटाचे वणदीं मदें हांवें लिपय्ले.’’ तिचो ताळो कांप्लो.

‘‘साफ–सुफ जावन हांव पाटीं गेलीं आनी एका दिसा डॉक्टर जोनाथनाची पतिण जालीं. समाजेंत म्हजें स्थान थिर जालें.

पुण केदोळ पर्यांत? म्हजें मानसिक खत वर्सान वरस दाट जायित्त येताना म्हजी मानसिकता दंडळ्ळी. डॉक्टर जोनाथन सत जाणां जालो पुण ताणें म्हाका खोटाय्लें ना पुण सांबाळ्ळें. सतरा वर्सां आदीं तो म्हाका भेटाजे आस्लो.... आतां तुं आम्कां जाय, जेनिफर. आम्कां आम्चिंच्च कोणयी नांत. तुं म्हजेंच्च रगत आनी तुं म्हाका जाय...’’ एमिलियाचें सर्वांग कांप्तालें.

‘‘हांवें एका पयशिल्या हिल्ल स्टेशनांत प्रॅक्टीस (practice) सुरू केलां, जेनिफर,’’ म्हणालो डॉक्टर जोनाथन.

‘‘पय्शे चड मेळनांत पुण नयसर्गीकतेच्या पाळण्यांत आमी आस्तेल्यांव. कोणायचीं सवलां आसचीं नांत; अणकण्याचीं बोटां आसचीं नात. तुज्या ह्या तर्ण्या वाडावळीक जाय जाल्लो ईट आसल्ली वोळ आमीं तयार केल्या, जेनिफर. तुवें आमचे संगीं येंव्ची विंचव्ण करिजे!’’

आतां, जेनिफरान एक लांब उस्वास सेव्लो. तें हाळ्वायेन दोळे धांपिलाग्लें.

‘‘तुज्या माम्मिची मानसिकता परत दंडळची ना, जेनिफर!’’ जोनाथन म्हणालो.

‘‘तुं सांगाता आसची तर आवयक एक धुव आनी पतिक एक पतिण उर्तेली. सिस्टर मरियान इत्लें पुणी तुका सम्जाय्लां आस्तेलें.’’ आतांयी

जेनिफरान जाप दिली ना.

"मन कर, म्हजे धुवे!" एमिलियान परात्लें .

"हांव तुज्या साम्कार हात सोडटां. सतरा वर्सांनी तुवें कितें बोग्लांय तें हांव जाणां. पुण हांवेंयी कांय उणें बोगुंक ना."

"सग्राण सांबाळ, एमी" डॉक्टर जोनाथन पतिणेक लागीं आराय्लाग्लो.

"जेनिफर, सम्जणेचें भुर्गें. एक उत्तीम आनी सुखाबरित जिवित ताच्या साम्कार आसा. फावोती विचव्ण तें जरूर कर्तेलें."

जेनिफर, एका मंद हास्या संगी सिस्टर मरियाक पळेलाग्लें आनी तिणेंयी तसलिच्च दिश्ट ताका पार्टी दिली.

"म्हजे थाव्न तुका कसलोच व्येक्त पाटिंबो मेळ्चो ना. जेनिफर (my child)" ती म्हणाली.

"असली एक विंचव्ण करूंक हांवे तुका सत्रा वरसांथाव्न तयार केलां!"

जेनिफरान, आपल्याच बोटांचो पर्मळ घेत्लो.

"हांव तुज्या वोडतालांवां विशांत चिंतालीं, सिस्टर मरिया," तें म्हणालें, नीट बसुन.

"कितें तुं चिंतालेंय?"

"वोडतालांवाच्या पानांचो पर्मळ आतांयी म्हज्या बोटांचेर आसा. तुज्या प्रेतनान न्हय पुण निरगमनान तो किर्लाला. तो तुंवें चोत्रायेन हुम्टुन काडिजे आनी ताका फावो जाल्ले वोळींत लाय्जे...."

"जेनिफर!" सिस्टर मरिया परत उबी जाली. तिचे वोंट कांप्ताले.

"कितें उलयतात तुमीं?" एमिलियाच्या ह्या सवालाक कोणेंच जाप दिली ना. संगत सम्जाल्ल्या डॉक्टर जोनाथनाच्या दोळ्यांनी आतां दुकां उदेलीं. ताका सर्व सम्जाल्लें.

"तो वोडतालांव किर्लाल्ल्या जाग्यारच आस्तोलो!"

जेनिफराच्या भुजांचेर हात दवर्न म्हणाली सिस्टर मरिया.

"ईटाळ वोळी खंचायी किचड मातियेंत आसा करूयेत. पुण वोडतालांवांचो पर्मळ...."

दुकांनी तिचीं उत्रां तितल्यारच जिर्लीं.



# मध्यानेक तीन घंटे

२५ डिसेंबर

फादर जॉन बापिस्तान आपल्या रिस्ट वॉचाचेर दिष्ट लायताना ते रातिचीं ८.५३ दाकयतालें. मध्यानेक आनिकी तीन घंटे आसल्ले.

रुकाच्या होड्क्यांनी तयार केल्ल्या आपल्या केबीनाच्या जनेलाक मांडल्लो हिम पुसून ताणें भायर तेळ्ळें. दाट धुंव्री पड्टाली आनी सांगाताच बरफाचीं पातळ कर्पां. भायलो तापमान केदळागी शून्य पांव्ड्याथाव्न सकय्ल देंवल्लो आसतोलो.

बोल्यांनी लिपल्ल्या काजुल्यांपरी पयशिल्ल्यान दोन तीन बिडारांत्ले पेट्रोमेक्स दिवे मिणमिणताले. बरफाचीं कर्पां दाट जाताना तांचो मिणमिणो उज्वाडयी लिपतालो. ह्या वर्सा अनिरीक्षित थंडी पडल्ली.

गडी प्रदेस आनी ह्या प्रदेसार आसाच्या भोव थोड्या हळ्ळें पय्कीं फादर जोन बाप्तिस्त आसल्ली हळ्ळी एक. तांतु फकत चोवीस घराणीं आनी तांतु पांच क्रिस्ताव घराणीं. विजेची सरबराय ते हळ्ळेंक नातल्ली. फात्रेलाचे पेट्रोमेक्स आनी प्राय्मस स्टोवांचो वापर जातालो. सुकें लांकूड दास्तान आसा तर थंडेंत त्या हळ्ळेंतले निवासी तांच्या बिडारांनी उज्याचें आग्टें जळयताले.

जनेला सर्शिलो हेवशीन सरोन फादर जॉन बाप्तिस्त आपल्या केबीनाच्या मुल्यांत्त जळच्या उज्या आग्ट्या सर्शीं उबो जालो. उज्याच्यो जिबो नाचताल्यो, किटाळां, फड्क-किड्क करुन हेणे-तेणे उड्तालीं.

मध्यानेक आनी मध्यानेच्या मिसाक आनी कांय तीन घंटे बाकी आसल्ले. हें मीस ताका भोव मोगाचें. थंडेंत सुर्याच्या किर्णाक राकोन रावचे परीं तो वर्सान वर्स हे रातिच्या मिसाक राकोन रावतालो. फकत ह्या एका मिसाक ते हळ्ळेंतलो सर्वयी लोक हाजीर जातालो; जात-कात, धर्म वा थंडी लेकिनास्तां.

मिसाचें बलीदान जाता पर्यान ते सर्व दिमियांचेर आसताले आनी उप्रांत फादर जॉन बाप्स्तिान बाळकाक पुर्शांवार व्हरुन खावणेंत निदायिल्ल्या तक्षण बाळकाक मान बागावन तातांच्या बिडाराक वेताले.

फाट्ल्या आठ वर्सांनी अशेंच घडोन आयिल्लें.

आठ लांब वर्सा!

ताणे एक लांब उस्वास सोडलो; केबीनांत हळ्टाची ऊब आसल्ली तरी ताच्या उस्वासान नाका तोंडालागीं धुंवरेचें एक ल्हान मोड उठयल्लें.

आगट्या सरशिलो पयस सरोन तो आपल्या कुजनाक गेलो. हें कुजन कांय विंगडच आव्ण न्हय; केबीनाकच एक फाल्णी घालुन आसा केल्लो जागो. तांचें टॉयलेटीय हेचपरीं तयार केल्लें.

कुजनांत येतच ताणें प्राय्मस पेटयलो आनी कॉफी करुंक एक मग्ग उदक दवरलें. मेळोप मिश्रित फात्रेल (केरोसीन) कितेंगी, प्राय्मस पेट्ताना वास उट्लो.

फादर जॉन बाप्तिस्त सांप्रादायिक याजक न्हय; म्हणतच तो कांय क्रांतीकारी वा मुळभूतवादीय न्हय. क्रिस्त, मनशांमदेंच आसा, देवळांनी आनी ताबेर्नाकुलांनी न्हय–अशें मांद्च्या हाणें वर्सां आदिंच पुरायित जम्याथाव्न मेकळेंपण घेतल्लें.

पूण क्रिस्ता थाव्न न्हय.

आठ वर्सां आदीं तो हे हळ्ळेक आयिल्लो आनी ताणें मतांतरांचें कसलेंच काम केल्लें ना. ती क्रिस्ताव कुटुंबां तो येंवच्या आदींच आसल्लीं.

फकत एक तरनाटो मात्र.....

फादर जॉन बाप्तिस्ताचें कुटूंब दुड्वान बळ आसल्लें. तांकां विदेशी संपर्क आसल्ले आनी कुटुंबांतली नाली (नडणी) म्हण पयस केल्ल्या ताका ताच्या कुटुंबियांनीं जावं, इश्टांनी जावं ह्या मुल्यांत तरी सोड्ण घालूंक नातल्लो. ताका दुड्वा ससाय येतेच आसल्ली.

उदक खत्कतॉन येताना ताणें कॉफियेचें टिन्न उमतें केलें. कॉफी पिटो मुग्दोन आयिल्लो. 'फाल्यां पेंटेक वचाजे' अशें तो चिंति लागलो. पेंट वीस कीलो मिटर पयस आसल्लीं. थंयसर धा बेडांची एक असपत्र आसल्ली. हफ्त्याक एक पावटीं वर्त्या नाखुशेन एकलो डॉक्टर हळ्ळेक येतालो. उर्लेल्या दिसांनी हळ्ळेंतल्यांक फादर जॉन बाप्तिस्तच वैज. कांय थोडी वकदां दिवंक तो शिकल्लो. थोड्या

वखदांचो सांठोय ताचे लागीं आसल्लो. हळ्ळेंतल्या भुरग्यांक आनी व्हडांक तो मुळावें शिकप दिंवचे प्रयत्न करतालो. निवासीं सांगाता मेळान कार्पेटी वोळचें काम तो शिकिल्लो. प्रसन्न रुतुं वेळार साग्वळी करतालो आनी बोकड्यांचो एक हिंडय ताणें पोसल्लो.

खतकत्या उद्काक कॉफी पिटो घालतना स्वच्छ आसल्लें उदक एकाचाणें काळ्बेलें. एक अनामिक शिरशिरो ताचे कुडिंतल्यान धांव्लो.

फाट्ल्या दोन तीन वर्सां थाव्न गडी प्रदेशार लटाफट चालू जाल्ली. तेव्शिले मतांद्ळे (fanatics) कांय तरी किताफत करताले, हळ्ळयांचेर हल्लो चडयताले, स्त्रीयांचेर अत्त्याचार करताले. बी. एस. एफ. आनी ह्या मतांद्ळ्यां मदें रक्तपात चुकानासलो. देशान गडीर आसच्या आपल्या सैन्यांचे बळ तवळ पर्यांत दुबारी करुंक नातल्लें. बी.एस.एफ.-च तवळ पर्यांत ह्या मतांद्ळ्या आतंकारींक (terrorist) नियंत्रणांत दवरताली. पूण केदोळ पर्यांत?

फादर जॉन बाप्तिस्तान प्राय्मस पालयलो आनी फुट्या कॉफयेंत एक कुलेर लोणी आनी एक ईद्र ब्रांद भरशिली. ताच्या मुखामळार एक मिणमिणो हांसो उदेलो. मध्यानेक तीन घंटे आसल्ले. एक तेंप आसल्लो, क्रिस्त प्रसाद (कुम्गार) सेवेतल्यांनी तीन घंटयांचो उपास करिजे आसल्लो.

मुखामळावयलो हांसो माज्वयनास्तांच तो आपल्या कॅबीनात आयलो आनी बसलो. पेट्रोमेक्साचो पुसपुसो सोडूल्यार थंयसर हेर आवाज नातल्लो. ताणें कॉफयेचो एक घोंट ताळ्यांत देंवयलो. थोड्याच घडियांनी ताच्या पोटाच्या थळार ऊब चडली.

हर एका दीस उत्तर दिकेथावन पाजरोन हेवशीन आयिल्ल्यो आतंकाच्यो खब्रो आयकोंक मेळटाल्यो. पूण ताचे हळळेंत मात्र आज पर्यांत कसलेंच घडल्लें ना. 'देवाचे मांडयेरच आसची हळ्ळी ही', तो केदळायी म्हणटालो. 'हांगासर येव्चें धैर्य देवचारांक ना.'

पूण, अप्रूप-शें बी.एस.एफ. अधिकारी तांच्या जिपाचेर येताले, हळ्ळेंत फेरो मारताले. तांचे हालहवाल विचारताले आनी वेताले.

ह्या चित्रांनी आनी कॉफयेंत मिश्रित केल्ल्या ब्रॅण्डीच्या प्रभावानय जावंयेत तो एके भ्रमिदेंत रिगलो....

दारार बळिष्ट ठोके पड्टाले.

कदेला वयलो दड्बडान तो उठलो. ठोके, आदिंय पड्ल्यात पूण आज कित्याक हो आतंक?

कोण जावंयेत? चंपू?

केबीनांतलें काम सोंपोवन मिसावेळार (तंबापरीं आसा केल्ल्या देवळींत) मेळतां म्हण चंपू गेल्लाजे. तर आतां....

दारा भायर एका वर्नी चड जण आसात म्हळ्ळो अंदाज ताका जाताना तांचे रिस्टवॉच ९.३५ दाकयतालें.

ताणें दार उगडलें-

धव्या हिमांचें एक आव्र वाऱ्या समेत ताचे कुडीर थापलें आनी थोड्या खिणांक ताणें दोळे धांपले. ते परत उगते करताना उगत्या दारांतल्यान एक हात भितर आयिल्लो आनी त्या हाताचे मुठींत आसल्ली पिस्तुल ताकाच पळेतालें.

'कोण तुमी?' फादर जॉन बाप्तिस्ताचो ताळो थीर आसल्लो. विचारल्या उप्रांत हें सवाल अनावशक म्हण ताका भोगलें.

"कसलींच सवालां नाकात,फादर जॉन !" आतां पिस्तुल घेतल्ली व्यक्ती भितर आयली. "कसलो आवाजयी नाका. हांव मेजर मुख्तार. आमीं कोण म्हूण तूं जाणांय."

"तुम्कां म्हजें नांव कळीत आसा." म्हणालो फादर जॉन रावल्लेकडचो हाल नासतना.

"तुजें नांवच न्हय, तुजीं सगळीं चरित्राच्च हांव जाणां." म्हणालो मेजर. "तशेंच, हे हळळेंत आसल्यांच्या मात्यार कितले केंस आसात म्हळ्ळेंय हांव जाणां. आतां देगेन सर!"

मेजर मुख्तारच्या अक्रमांची आनी क्रुरतेची पटटी फादर जॉनान आयकल्ली आनी एक रडणें धार्बें आनी वळायिल्लें ताचे मतींत आसल्लें. पूण आतां पळेताना, मेजर मुख्तार कांय तीस वर्सां भितरलो, शिर्पुट्या जिवाचो तर्नाटो. ताच्या मुखामळार क्रुरतेचें कसलेंयी खूण नातल्लें.

"आमी चौग आसां" कळयलें मेजरान. "आमचे पयकी एकलो कठीण घायेला. ताका ससाय गरज. तुजेलागीं थोडीं वखदां केदळायी आस्तात म्हण आमी जाणांव... बी.एस.एफ. आमच्या बोटेक लागलां."

''तर तें बी.एस.एफ. दळ हांगासर पावोंक चड वेळ लागचो ना.'' देगेन सरोन म्हणालो फादर जॉन. दोगां आतंकारिंनी घायेल्ल्या चवथ्याक उकलून भितर हाडलो आनी फादर जॉनाच्या खाट्ल्यार निदायलो. घायेल्ल्याच्या पांयां पोटऱ्यां (calf muscle) थावन देवचें रगत त्या खाट्ल्या वयल्या धव्या बेडशिटिचेर पडोन रगताळ्या फुलापरी खत करूंक लागलें.

मेजर मुख्तारान दार धांपलें.''तें दळ हांगासर पांवच्या वरेग हांगासर रावचो उद्देश आमचो न्हय.'' तो म्हणालो, सुको हांसो हांसोन.

फादर जॉनान तांचेर आपली दिष्ट चरयली. ते कोणय समवस्त्रार नातल्ले. हिंवाक सहज जाल्ली मुस्तायकी, गम-बुट्स, खांदार स्टेनगन्न, पेंक्टांत ऑटोमॅटीक पिस्तूल. पोप्सांनी थंड वारें रिगनाशें फकत दोळे मात्र उकते सोड्चें balaclava-ski mask घाल्लें.

फादर जॉनान, घायेल्ल्याचेर वयल्याभायर दीशट चलयली. ''म्हजे लागीं आसच्या कनिष्ट वखदांचो सांठो हाका बचाव करूंक पांवचो ना.'' ताणें म्हळें. ''आसपत्र हांगाथावन वीस किलो मिटर पयस आसा. तुमचे लागीं वाहन ना म्हण चिंतां.'' आतां हासची सर्ती फादर जॉनाची.

''शाणो जाय नाका!'' दांत चाबोन पिसपिसलो मेजर. ''ती तुमचीच आसपत्र. चल, हाचो रक्ताचो स्राव रावय.'' ताणें आपली पिस्तुल फादर जॉनाचे तकलेक जोखली.

''हें हातेर कांयच करुंक सकानां'' निर्गमनान म्हणालो फादर जॉन. ''हांव पिस्तुलेंक भियेना.''

''तूं मर्णाक भियेनायं?''

''तूं भियेताय?'' फादर जॉनान विचारलें, घायेल्ल्याच्या देगेन दिंबी घाल. ''मर्णाचो एजेंट तूं.'' खाट्ल्या सरशीं उबें आसल्ल्यांक ताणें घायेल्ल्यांचे मोचे काडूंक सुचायलें.

''बी.एस.एफ. दळ येंवच्या पर्यांत घळाय कर्ची आलोचन तुजी तर कितें जातेलें म्हण तूं जाणांय.''

''चड म्हळ्यार कितें कर्शी?'' सवाल मारलें फादर जॉनान. ''तुमचे लागीं आसचें ग्रॅनेड वापरशी आनी हें कॅबीन आनी हांतल्या सर्वाक स्फोट करुन

उडयशी. कितें फायदो जातलो?'' मोचे निकळायताना घायेल्लो कसकसान पिरंगलो आनी रडलो.

''तुजे लागीं हाचाकी उंची सुचना आसात?'' मेजर मुख्तारान विचारलें.

''आसात, मेजर मुख्तार!'' म्हणालो फादर जॉन, घायेल्ल्याचे सॉक्स काडीत. सॉक्स, साबार कडेन पिंजल्ले. ''एक बुल्लेट'' म्हणालो फादर जॉन. ''एक बुल्लेट हाच्या कपालांत रिगय!'' ताणें घायेल्ल्याक बोट जोखलें. ताचे कष्टय काबार आनी तुमकां तेगांक पळून धावांक ससार. एक बुल्लेट आतां वापरशी तर, मेजर मुख्तार कमांडराक फरक पडचें ना, तुमकां मात्र फायदो जातोलो. एका जिवाचें कसलें लेक?''

मेजर मुख्तार थोडीं खिणांबर मोनो रावलो. 'तुं' उप्रांत तो म्हणालो. ''तूं इसानभीचो (Christ's), समादान ताचेर आसूं, म्हणियारी जावन अशें उलयताय?''

''तुमकां हेर भास कळीत आसा, मेजर?'' फादर जॉनान लागशिल्ल्या कदेलावयलो बात टवळ घेवन घायेल्ल्याचो घाय नितळ केलो. घाय लांब आनी गूंड आसल्लो. भितरलें हाड दिसतालें. ''भीतर प्राय्मस आसा.'' उबे आसल्ल्या दोगांक ताणें हुकूम दिली. उदक तापय आनी तें मेडिसीन केबिनेट हांगासर हाडा!'' हें आयकोन ते दोग त्या आंतकारी मेजराक पळोवं लागले.

''ताणें सांगचे परीं करा!'' म्हणालो मेजर.

आपणें सांगल्ल्यो वस्तू तयार जावंचे फादर जॉनान तो घाय टवलानच दाबून धरलो.

''इसानभिचो म्हणियारीं'' तो उद्‌गारलो. ''तूं एक माहेत्वंत मनिस कसो दिस्ताय, मेजर?''

''तत्वशास्त्रांत म्हाका दोतोराची सनद आसा, फादर जॉन.'' मेजराच्या ताळ्यांत कांप निशेताली.

''आनी ह्या शास्त्रांत?'' फादर जॉनान घायेल्ल्याक दाखोवन आपले हात फेरायले.

मेजर मुख्तार केबीनाच्या जनेलाक फुड करी लागलो. ''हें एक झुंज, फादर जॉन!'' तो म्हणालो. ''पन्नास वर्सां थावन चलोन आयिल्लें झुंज. ही भूंय

आमची, विभाजना वेळार आमी आतां पर्यांत ह्या हिमांत कितलेंशें रगत शिपडलां. या अल्लाह! हें केदोळ पर्यांत?''

''जाप तुमचेच लागीं आसा, मेजर.'' म्हणालो फादर जॉन. ''सवाल अल्लाह लागीं न्हय तर तुमचेच लागीं विचारा. रगताचो उल्लेख तूं करताय? आमच्याच तरनाट्यांक फुसलावन, तांकां तर्बेती दिवन तांच्याच मोगाच्यांचेर हल्लो करूंक सोडिनांत तुमी? हें तात्वीक झुंज?''

फादर जॉनाचीं स्पश्ट उतरां आयकोन मेजर सट्ट करून ताचे सरशीं घुंवलो.

''पत्यांन पिस्तूल जोखची गरज ना, मेजार!'' म्हणालो फादर जॉन. हांव भियेना म्हूण तूं जाणांय तरी पूण एक आड्दोस-म्हाका जिवेशीं मारताय तर ह्या नताळां रातीचें मीस हांवें भेटयतच मार. तशें केल्यार कांय म्हजो उद्येश ज्यारी जायत.''

''आनी असलो उद्येश तो?''

''क्रिस्त, तुमींय मांद्चो इसानभी, मनशां मदें संसारांतच आसा म्हण रुजु करचो!''

थंयसर मोनेपण देंवलें.

फादर जॉनान आपल्या मेडिसीन केबीनेटांत उस्तिलें. ''हाचें दूक उणी करुंक मार्फीन इंजेक्शन दिवयां म्हळ्यार तें काबार जालां, मेजर.'' ताणे कळयलें. ''चड म्हळ्यार थोड्या सल्फा ड्रग्सांचो पिटो घालून हांवें हाचो घाय बांदयेत. तशेंच करतां. दूक उणी करूंक थोडी ब्रॅण्डी...''

''आमाल आम्कां आडवारलां फादर जॉन!''

''शटप, मेजर मुख्तार!'' आतां फादर जॉन बोबाट्लो. ''तुजें हें दोडपण रावय. हांवें दिल्लें पयलें सुचन ज्यारी करुंक तुका धैर्य ना? ह्या परिसरांत आतंक आनी थर्थरा फैलायिल्लो मेजर मुख्तार भितरल्यान कापूस? हेवशीन दी तुजी पिस्तूल. एक बुलेट आतां...''

तांच्यो दिष्टी एक जाल्यो.

''तुवें म्हज्या अस्थित्वाकच अण्किलेंय, फादर जॉन!'' म्हणालो मेजर आपली दीष्ट मुळांत घालिनासतां. ''तुका मात्र उद्येश आसचे? पळोवयां. घे ही मेग्नम-४४'' अशें म्हणोन ताणें तें पिस्तूल फादर जॉनाच्या हातांत चेपली.

उप्रांत मेजर मुख्तार सरळ खाट्ल्या सरशीं गेलो. ते घडिये ताका घळायेची वा बी.एस.एफ. दळ येंवच्या भिरांतेची फिकिर नातल्लेपरीं दिसतालें.

खट्ल्यार निदोन आसल्ल्या आतंकारिची तोपी ताणें बळान ओडून काड्ली आनी ताचें मुखामळ पेट्रोमेक्साच्या उजवाडांत घालें.

"आतां" म्हणालो तो फादर जॉनाक फुडो करून. "आतां जाल्यार ताच्या कपालांत एक बुल्लेट रिगय."

फादर जॉन घायेल्ल्याच्या मुखामळा कुशीन बागवलो. पिस्तुल धरल्लो ताचो हात कांपतालो.

"नोयेल!" तो उद्गारलो. "नोयेल...तूं?!"

"आतां, ताचें नांव पत्र्यान बशेर खान!" स्पश्ट उलयलो मेजर, 'पत्र्यान' म्हळ्ळ्या शब्दाचेर वजन घालून. "दोन वर्सां आदीं तुवें ताका मतांतर केल्लोय– अल्लाह जाणां, असल्यो भासावण्यो दिवन?"

"आनी एका वर्सा आदीं तो नपयच जाल्लो." तग्साल्ल्या ताळ्यान म्हणालो फादर जॉन.

"तो आमच्या पंगडाक सेवाऐल्लो आनी आमचें ताब्यांत आसल्लो." विवरिलें मेजर मुख्तारान.

"मतांतर... भासावण्यो...हें सर्व सत न्हय, मेजर." आतां नीट जालो फादर जॉन. "तो आपले स्वंत खुशेन मतांतर जावंक मुकार आयिल्लो आनी ताका हांवें नोयेल म्हळ्ळें नांव दिल्लें. कसल्योच भासावण्यो ताका हांवें दिवंकनात–भासावण्यो तर ही सगळी हळ्ळीच हांव मतांतर कर्तों."

मेजर हांसलो. "तूं तशें म्हणतय आनी हांव तें पातयेन." तो म्हणालो. "पूण तुमच्या गण्य सेकुलार देशांत? हुं! तुमच्या मिशियोनरिंक हुलपायतात, धर्म भयणींक 'रेप' करतात. ह्या सर्वांचें फारिकपण घेनांय? फकत एक बुलेट फादर जॉन, तुजिंच उतरां हीं!"

फादर जॉनान आपल्या हातांतली पिस्तूल खट्ल्याचेर दवर्ली आनी नोयेलाच्या मात्या सरशीं दिंबी घाली. "कठिन त्रास जातात पुता, नोयेल" ताणें विचारलें नोयेलाच्या कपलावयले केंस फाटीं पुसोन. नोयेलाच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं आनी पोल्यां वयल्यान पाजलीं.

“जाणांय तूं, मेजर मुख्तार!” एकाचाणें ताळो काड्लो फादर जॉनान. “तेव्शिल्ये हळ्ळेंत तुमच्यांनी चलयिल्ल्या आतंकारांत हो अनाथ जालो. म्हजे सर्शी येताना ताका बारा वर्सां प्राय.”

“ते सर्व हांव जाणां!” म्हणालो मेजर. “तुज्या भावार्थान ताच्या अनाथपणाक कसलोयी परिहार दिलो ना.” तो खिणबर रावलो. “पूण आमीं... ताका एक उद्देश दिलो, मक्सद दिलो.”

“आनी आज.” म्हणालो फादर जॉन आपलीं उतरां विंचून. “आनी आज, आठ इंचां लांबायेचो आनी दोन इंचां गुंडायेचो घाय दिलो!”

एका तबकांत खतकतें उदक घेवन ते दोग आतंकारी खाट्ल्या सरशीं आयले. फादर जॉनान त्या उदकाक कसलेंगी वोकात घाल्न नोयेलाचो घाय धुलो, साताट गुळयो पिटो करून तो पिटो ताच्या घायांत भरलो आनी कापूस रेवडावन तो घाय बांद्लो. ह्या सगळ्या कामांत नोयेलाक कठीन दूक भोगताली तरी ताणे आवाज काड्लो ना. ताच्या दोळ्यां थावन मात्र सराग दुकां व्हाळतालीं.

“हाच्याकी वर्तें हांव करुंक सकानां!” खचित सांगलें फादर जॉनान. “रगतास्राव कठिन जाला आनी हाका भायर व्हरशात तर तो मतिहीन जातलो....”

“ताका ब्रान्द भरय!” हुकूम दिली मेजरान.

फादर जॉनान आपलो हांसो लिपयलो तरी तो हांसो मेजरा थावन लिपलो ना.

“तूं हांसानाका, फादर जॉन!” मेजर बोबाट्लो. “बशीर खान आतां आमचो मनीस; ताका आमीं हांगासरच सोडिनांव. ताचें आयकोनच आमी हांगासर आयिल्ल्यांव तरी.”

एकाचाणे, केबिना भायर वाहनांचो आवाज जालो आनी जनेलांतल्यान हेडलायटांचो प्रकास भितर फांकलो.

“बी.एस.एफ.!” दातां इड्यांतल्यान पुस्पुसॉनम्हणालो मेजर. “आतां कितें करिजें म्हळ्ळें तुं जाणांय!” ताणें कुडिसलें. “आमी मोरोंक तयार आसांव. पूण उरला सवाल तुज्या जिवाचें. ह्या सवालाची जाप तूंच दितोलोय!”

“फादर जॉन बाप्तिस्त!” भायल्यान ध्वनी वर्दका (लाव्ड स्पीकर) मुकात्रं एक ताळो आयकालो. “हांव इन्सपेक्टर अजीत वर्मा. तूं म्हाका वळकाताय. तुज्या ह्या हळ्ळेंत साबार पावटी हांवें रावंड मारल्यात. ह्या केबिनाक आमी घेरो घाला. भितर आतंकारी आसात म्हण आमी जाणांव. चुकोन घेवंक अवकासच

ना. आमकां, तुज्या जिवाची फिक्र आसा तरी हेर उपाव ना; त्या आतंकारीं सांगाता तुकायी नास करिजे पड्टेलें!''

फादर जॉनान दोळे धांपले.

'आतां घडी आयल्या.' तो आपणाकच सांगालागलो. 'केदोळ पर्यांत चुकारी मारशी? क्रिस्त मनशां मदेंच आसा? ह्या सवालाक जाप सोदून तूं आयिल्लोय. नतालांचे हे रातीं तुका जाप मेळत, फादर जॉन? आतां आयल्या ती घडी....तूं तयार आसाय?'

''ही परीगत हांव सांबाळटां!'' मेजराक पळोवन म्हणालो फादर जॉन. ''हांव भायर वेतां.'' एक अशीर अवकास ताणें घेतलो.

मेजर मुख्तार हांसलो. ''आमी आतंकारी व्हय पूण पिशे न्हय.'' तो म्हणालो.

''तूं आमचें इन्शुरेन्स, तुं आमची हमिदारी.''

''मतलब, मर्णाक तुमी भियेतात?''

''बिल्कूल ना.''

''तर, खांदा वयली स्टेन गन्न काडा आनी एकामेका लगाड काडा.... हो कसोयी चड वेळ वांचचो ना.'' ताणें नोयेल-बशीर खानाक बोट जोखलें. ''पूण अशें करच्या फुडें तुमी जिणियेंत कितें जोड्लां म्हळ्ळ्याचो मट्वो निहाळ करात.''

मेजर पर्त्यान हांसलो. 'सेमिनेरिंतलें ट्रेनींग!' तो म्हणालो आंबोट ताळ्यान. ''म्हजेर सायकोलोजी वापरताय, फादर जॉन?''

ताच्या उत्रांचें फादर जॉनान गुमान केलें ना.

''आतां हांव भायर वेतां!'' तो म्हणालो. ''तुका जाय तर म्हज्या फाटींत एक बुलेट रिगय. हेंच आनी असलेंच पोळकुरपण तुमी येदोळ पर्यांत करुन आयल्यात. हांव तयार आसां पूण तुमी तयार आसतगी म्हळ्ळें सवाल, मेजर मुख्तार!''

ताचे जापेक रावानास्तां तो शिदो केबीनाच्या दारा सरशीं गेलो. मेजर मुख्तारान आपल्या पिस्तुलेचो घोडो (ट्रिगर) फाटीं वोडलो आवाज ताका आयकालो तरी ताणें फाटीं पळेलें ना. दाराच्या भोव लागीं तो पावलो आनी ताणें ताळो काड्लो.

"इन्सपेक्टर वर्मा!" तो म्हणालो. "हांव फादर जॉन बाप्तिस्त. आतां हांव दार उगड्टां पूण भायर येना. दरवट्याचेर उबो रावतां. केबिना भितर चौग आतंकारी आसात आनी तांचे पयकी एकलो कठीण घायेला. थोड्या घंट्यां भितर ताका वैजकीय ससाय मेळना तर तो मोर्तोलो."

थोडीं खिणांभर तो रावलो.

उप्रांत ताणें दार उक्तें केलें. आपले दोनयी हात खुर्सा रुपार दरवट्याच्या खुंट्यांक आनी पांय दवरवट्याच्या मुळकुट्यांक लागयले.

"आता!" म्हणालो तो. आपलो ताळो भोंवतीच्या पर्वतांक आपटोन फाटीं येंवचो ताका आयकालो. "एकामेका नाश करुंक तुमी सोद्तात तर एक वाट आसा, एकच्च वाट. तुमच्या दोनयी पाडितांचें फार-बुल्लेट म्हज्या फाटिंतल्यान पाशार जायजे!"

तांचीं उत्रां थांबताना सगळो संवसारच थांबलो. सगळी प्रितुमी एक कोवळी जावन थंयच्या दृश्याच्या मुळांत पड्ली. कितलीं खिणां, कितलीं मिनुटां, कितले घंटे, दीस, हफ्ते, म्हयने, वर्सां, संवत्सरां थंयसर पाशार जालीं तीं फादर जॉनाक खबर नातल्ली.

उप्रांत-

"आमी निशस्त्र जावन भितर येंवंक कबूल आसांव, फादर जॉन!" वर्माचो ताळो आयकालो. "पूण केबिना जभतर आसल्ले ते?"

"फाल्यांच्या दिसा, फाल्यांचे राती विशांत हांव नेणां!" म्हणालो फादर जॉन. पूण आयचे रातीं कसलीच रगतापात (bloodshed) जावंक हांव सोडिसों ना." ह्या उतरां बराबर ताणें आपल्या खांदावयल्यान फाटीं पळेलें. इन्सपेक्टर वर्माचीं उतरां मेजर मुख्ताराक आयकाल्लीं तरी ताच्या हातांतली पिस्तुल फादर जॉनाकच पळयताली. हेर दोग आतंकारी स्टेन गन्न घेवन आयते रावल्ले. तांच्यो दिश्टी फादर जॉनालागीं झुंजताल्यो.

"तुमचीं सर्वा हातेरां....हांगासर...म्हज्या पायां मुळांत!" फादर जॉनान मेजर मुख्ताराक फर्मायलें. खाट्ल्यार आसल्लो बशीर/नोयेल खान पिरंगालो.

"आमी मोरोंक तयार पूण शरणाक येनांव!" मेजर मुख्ताराचो ताळो कांपतालो.

‘‘स्वताच्या अस्थित्वाक वोळकोन मांदूचें शरण न्हय, मेजर मुख्तार’’, फादर जॉनान परत आपलीं उतरां विंचलीं. ‘‘कितलो तेंप तुमीं तुमकांच फटयतात?’’

‘‘हो आमचो झिहाद तूं रावोवंक सकशी, फादर जॉन?’’ मेजर मुख्तारान विचारलें. ‘‘तुज्या इसानभिच्यान, समाधान ताचेर आसूं, हो झिहाद रावोवंक जायत?’’

फादर जॉन हांसलो. ‘‘वेळ मेळताना हांव *ताचेलागीं* विचारता!’’ तो म्हणालो. ‘‘पूण आतां हांवंच जाप दितां – हें झुज तुजो झिहादच तर तूं आनी तुजे तसले रावोवंक सकतात.’’

थोड्यो अनंत घडियो पाशार जाल्यो.

उप्रांत–

एक विस्मित थंयसर घडूलें.

मेजर मुख्तार आनी ताच्या सांगात्यांनी तांची सर्व हातेरां फादर जॉनाच्या पांयां मुळांत दवरलीं. आपली मेग्नम–४४, सयत.

‘‘तूं जिकलोय, फादर जॉन!’’ म्हणालो मेजर मुख्तार. पूण सांगाताच सलवालोय.’’

‘‘तें हांव जाणां!’’ दरवट्या वयलो घुंवोन फादर जॉनान तांकां फुडो केलो. ‘‘आतां इन्सपेक्टर वर्मा.’’ ताणें जोरान ताळो काडूलो. तुमीं निश्चिंत भितर येवयेत....पूण हळवायेन.’’

थोड्याच खिणां भितर इन्सपेक्टर वर्मा सांगाता बी.एस.एफ.चे स जण भितर रिगले.

तांच्या हातांनी हातेरां नातल्लीं!

फादर जॉन देगेन सरतच मेजर मुख्तार आनी इन्सपेक्टर वर्मा मुखामुखीं जाले. तांच्या मुखमळां वयलें भावन फादर जॉन सनजोंक सकलो ना.

‘‘मेजर मुख्तार?’’ विचारलें वर्मान.

‘‘इन्सपेक्टर अजीत वर्मा?’’

दोनयी तंबांनी हांची बरीच परिचय आसल्ली जायजे. फादर जॉनान तांच्या भुजांचेर आपले हात दवरले. ‘‘तुर्त करा!’’ तो म्हणालो.

बी.एस.एफ.-च्यांनी फादर जॉनाच्या कांबळिनच एक ताटी तयार केली आनी नोयेल- बशीर खानाक ताचेर निदायलो.

‘‘आतां आमी वेतांव’’ कळयलें वर्मान. ‘‘पूण हे....हांकां?’’

‘‘तांकां तांच्या देशाची दिशा कळीत आसा, इन्सपेक्टर वर्मा.’’

‘‘आयची रात नतलांची, व्हय?’’ वर्माच्या सवलाक फादर जॉनान मातें हालयलें. ‘‘पूण तुका उल्लास कशे पाटंव?’’ ताणें हात मुकार हाड्लो. ‘‘तुका एक नवी कांबळ फाल्यां-परवां पावीत करतां.’’ ह्या उतरां बराबर वर्मांन आपल्या सांगात्यांक ताटी उकलोंक फर्मायलें.

‘‘फादर जॉन...’’ क्षीण ताळ्यान नोयेल-बशीर खानान आपल्या पेंक्टांतली पिस्तुल काडूली आनी फादर जॉनाक दिली. ‘‘आतां हांव बिल्कूल भियेना, फादर जॉन!’’ तो म्हणालो.

बी.एस.एफ. अधिकारी भायर गेले आनी थोड्या वेळान तांचें वाहन सुटूलें. नोयेल-बशीर खानाक तें वीस मैलां पयस आसच्या आस्पत्रेक व्हरतले.

आपल्या हातांत आसची नोयेल-बशीर खानाची पिस्तूल फादर जॉनान धरणेर गळयली आनी मेजर मुख्ताराक फुड केली.

तो दोन मेटां मुकार आयलो.

‘‘हांगासर कितें घडूलें आनी कित्याक घडूलें म्हणच्याक म्हजेलागीं जाप ना, फादर जॉन!’’ म्हणालो मेजर मुख्तार. ‘‘पूण इतलेंच सांगोंक हांव शकतां- *देव, जांव तुजो वा म्हजो* -हांगासर आसल्लो!’’

ताणें आनी ताच्या सांगात्यांनी तांचीं हातेरां विंचलीं.



# पणटी

**मा**ळ्याक धांपल्ल्या हातरांच्या तट्ट्यां वयल्यान उंदरांचें भिरें 'परपर' आवाजान हेणें तेणें धांवतालें.

"भें दिसता-गी पुता?" ती विचारी लागली, ताका आनिकी आरावन, आपले पासळेक घेवन. "माळ्यार उंदीर खेळतात."

"म्हाका भें दिसना." तो म्हणालो.

"एक पावटीं ह्या माळ्याक फोळीं धापल्या उपरांत ही धोंस आसची ना."

ताणें जाप दिली ना.

"नीद येवंक ना, पुता?" तिणें विचारलें, ताचे मोव केंस पोशेवन. "कितली रात पर्यांत ते पणटेच्या उजवाडाक पळेवन रावताय? दीसबर तिचेकडें खेळल्लें पावानां?"

"पणटेची वात ल्हान ल्हान जावन पालवताना म्हाका नीद पडटा, मां" तो म्हणालो, "पळे, ते ओणटीचेर म्हज्या हाताची सावळी केदी व्हड जावन पडटा, पळे." ताणें तकली उकल्ली. "पळे! म्हजो मांडो येदो व्हडलो दिसता." तो किळकिळोन हांसलो.

तिणें एक लांब उस्वास काडलो.

तीं निदल्ल्या सालाचे धरणीक नव्यान शेण काडल्लें आनी मातयेंत भरसल्लो शेणाचो वास वाऱ्यांत आसल्लो.

"बरे दीस येतेले" ती मतींतच म्हणाली.

"कारखान्यांत शिजयिल्ले तांबडे इटे हे धरणीर बसतेले." तिणें कूस परतिली आनी हातरांच्या माळ्याक पळे लागली. "विचित्र भुरगो म्हजो."

आतां तिचीं चिंतनां मयपासांत लोळ्ळीं. "ती एक पणटी आसल्यार जालें. दीस आनी रात तिच्या उज्या लागीं खेळटा. खंयच्यायी खेळा वस्तूची आशा ना. गोडशें नाका... निजायकी विचित्र भुरगो. असल्या ल्हान ल्हान संतोसांनी तृप्त जावंचो म्हजो भुरगो व्हड जाल्या उपरांत कितें जायत गाय?"

पणटेची वात मिणीमिणी जावन पालवतना ताणें सवकासायेन उस्वास सोडचो तिका आयकालो आनी ताच्या आनी आपणाच्या आंगार आसल्ली वोल सारकी करून ती निदली.

कितल्या तकल्यां थावन ती पणटी त्या घरांत आसल्ली म्हळ्ळें कोणायकी कळीत नातल्लें. उण्यार उणे पन्ना-साट वर्सां जायजे. खुशाली जिनोसाच्या आनी भूत-बेताळांच्या काणियांक प्रख्यात जाल्ल्या ताच्या आज्यान ते पणटेक जोकतें नांव दवरल्लें - कल्लुर्टीची पणटी (कल्लुर्टी = दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांत तुलुवांनी आरादन करचो एक भूत) कल्लुर्टी भूत गात्रान पयलोच ल्हान खंय, खुब्जो कसो आनी ताच्या मात्यार दांत्याच्या पेडाची चेपणी दिल्यार कशें ताचें पोट आनीकीं फुगोन मुडकेत तशीच आसा ती पणटी म्हणतालो ताचो आजो.

मातियेची ती पणटी तशीच आसल्ली - एका ल्हान बुडकुल्या परीं, तिका एक पोट आसल्लें आनी तातूं एक गिंडीबर उदक सोबतालें. ह्या पोटा वयर एक उदारी पीर. तांतूं तेल या मेणा-वातींचीं मुळकटां घाल्न तीं पेटोवंयेत आसल्लीं. तिच्या पोटांतलें उदक ती जळती पणटी थंड दवरताली आनी क्रमेण तें हून जावन येताना, चत्रायेन बदलिजे पडटालें - ही कामगिरी आनी हुन्नर लांबवन आनी रंगवन ताच्या आज्यान स वर्सांच्या नातवाक शिकयिल्ली.

त्या चेड्याक धाकटुली एक भयण आसल्ली आनी तिचो जागो केदळारी आजियेच्या पासळेंत. सदां सिक ती. पिडेन अस्कत पूण रुपेस्त. तो सदांयी भयणीक धोंसतालो. तिणें मांडून दवरलेले कंडरे खोटावन आड घालतालो आनी तें रडोंक लागताना आपूण पणटे लागीं खेळतालो.

पणटेंत तेल भरच्याकी, मेणा-वातीचीं मुळकाटां घालचें ताका चड पसंद आसल्लें. पणटी पेटयताना तें मेण करगोन उदक जावंचें पळेताना ते पणटेंत आनी तिचे वातींत कसलीगी सकत आसा म्हण तो समजातालो. हें ताका विचित्र दिसतालें. कडानातल्लें मेण एके इरा-काडियेन तोंपून तोंपून तो पिगळायतालो.

सांज जाताना पूण आमोरेचे घांटी पयलेंच ताचो आजो घरा येतालो. ताका उसक्यार बसवन हाडल्ले चणे या चाकल्यो आपल्या बयरासांत गुटलावन चाबोन मोव पिटो करून ताच्या (चेड्याच्या) तोंडांत घालतालो. सांजेचें ताच्या आज्याच्या उस्वासाक वेगळोच एक वास येतालो. आबा, कसलो तो वास म्हण ताणें विचारल्यार ताका एकच जाप मेळटालो -

"हांव 'एंटली' घाल्न आयलां-रे!" (एंटली म्हळ्यार मंगळुरचे चालंत भाशेंत 'कुट्ट'!)

आमोरेचे घांटीर ताचीं आवय-आजी घरांतले दिवे-लांपयांव पेटयतालीं. आमोरी जाताना ताची आवय म्हणताली - वेगींच ह्या घराक वीज येतेली. म्हजीं भावंडां गल्फांत आसात न्हय? त्या उपरांत फकत 'टप्प टप्प' केल्यार घरांत उजवाडच्च उजवाड.

हें सर्व ताका समजानातल्लें आनी सालाच्या कोनशाक वचोन तो आपली पणटी पेटयतालो. ताची आमोरी, तेर्स आनी रातीचें जेवण पणटेच्या उजवाडांतच जातालें.

ताच्या आज्यान ताका थोडे सावळे-खेळ शिकयिल्ले. पणटेच्या उजवाडा सामकार आपल्या हाताचीं बोटां भारीच हुन्नरान उसवन दरून तो ओणादीचेर थरावळ मोनजातींचीं, सुकण्यांचीं रुपां उदेशीं करतालो. हीं रुपां पळेल्ले तितलीं ताका पावानतल्लीं. एकेक पावटीं कसलीं कसलीं रुपां उदेशीं करून तांकां सेजाऱ्यांचीं नांवां दितालो ताचो आजो. 'हें सोंड रोजी रांडेचें!' आपले साडे-तीन दांत दाकवन तो म्हणतालो आनी खेंकारोन हांसतालो. 'हें पेंकड घाटनो एल्लूचें आनी हे दोन कुवाळे...'

"बंद करिनांय भिकारपण!" तवळ ताची आजी खेंचताली. "सांजेचे दोन ड्राम (सोऱ्याचीं मापां) एंटली देंवयल्या उपरांत तुजे जिबेर येताच्च बाळ-बूद.'

"तर तुज्या नातवाक एक सुकणें दांकयतां." म्हणतालो ताचो आजो बोटां गांटावन. "ह्या सुकण्याचें नांव कितें, आबा." म्हण ताणें विचारल्यार - "हें सुकणें तुजेंच - रे, भिकणेशा!" म्हण ताचो आजो ताका कुचुल्यो करतालो. (चल्या भुरग्याच्या 'सोन्या'क अपुर्बायेन 'सुकणें' म्हणटात. देखीक, 'तुजें सुकणें लिपय')

पावस सुरू जाल्लो. मोडां इतलो काळोक घालतालीं की ताका सांजे पयलेंच पणटी पेटवंची परवणगी मेळताली. सदां मिसाक वेची ताची आजी इगर्जेंतल्या बोल्कावांत आसल्ल्या सुकूर सायबिणीच्या आल्तारीर पेटोन कडलेल्या वातींचें मेण खोरवटून काडून हाडताली. ताका संतोसच्च संतोस. हो पावसाळ आकेरच जावंचो नाका म्हण ताका भोगतालें.

तो पावसाळ ताणें चिंतल्ल्या प्रास चडच लांबलो. ताची भयण भोव पिडेस्त जाल्ली. आजियेच्या खटल्यारच ती निदोन आसताली. ते सांजेर एका दाक्तेराक आपवन हाडलो. ताच्या गोमट्यांत आसचे ते दोन रब्बराचे नाडे पळेवन तो भिंयान लिपलो.

ऐकाचाणे भितरल्या कुडा थावन हाकबोब जाली. सर्वांयी भितर धांवलीं. ताका एकल्याक सोडन. रडणें बळ जालें. सर्वांचें रडणें ताका आयकातालें, ताच्या भयणीचें सोडन. सबार वेळा उपरांत तो दाक्तेर हात जोडन भायर आयलो. पाटापाट आजोयी.

"म्हाका माफ करा, परबूंनो!" दाक्तेर रडटालो. "नवेंच आयिल्लें ऑकद पेन्सिलीन – इंजेक्क्षन हांवें दिलें... चली चांग दिसताली... अशें जायत म्हण हांवें चिंतूंक ना."तो गेलो.

पाटापाट सेजाऱ्यांनी घर भरलें. कोण कोण कितें कितें उलयतालीं. ताका कितेंच समजालें ना.

आनिकी जायत्या वेळा उपरांत ताची आजी भायर आयली आनी ताका आरावन घेवन सोप्याक गेली.

"तुजी भयण जेजू सरशीं गेली." ती म्हणाली ताचें मातें पोशेवन. "आनी ती पाटी येवंची ना."

"ताका म्हजेर राग?" ताणें विचारलें. "ताचे करंडे परतितालों म्हण तें गेलें?"

"ना पुता! जेजूक एक सोबीत आंज जाय आसल्लो देकून तें गेलें... सदांच तें तुका राकतेलें आनी तुजे खातीर तें मागोन दाडटेलें."

कोणेंगी ताका एक गोबळो दूद हाडून दिलें.

"आयचे रातीं तूं सोप्या वयल्या कुडांत निदे." म्हणाली ताची आजी. "तुका भें दिसचें ना–मूं?"

एकाच्च घोटान तें दूद तो पियेलो.

"म्हजी पणटी..."

सोप्या वयल्या कुडांत ताका एक मांदरी आनी उशें मेळ्ळें आनी आजयेन एक पोटली मेण ताका दिलें; दोन इरा-काडियोयी दिल्यो. "चत्राय कर!" ती म्हणाली. "मांदरेक उजो लागत."

दुसऱ्या दिसा...

उटोन तो भायर येताना सालांत ताका एक विचित्र दृश दिसलें. ताचे भयणीक एका धव्याच कोबायेंत गुटलावन धोवेच्च पेटेंत निदायिल्लें. ताच्या आंगार धव्या गुलोबांची रास. पेटेचें भंवतीं लांब लांब धोव्यो वाती पेटताल्यो. तांच्या मुळांनी कर्गाल्लें मेण जमो जाल्लें. ताची आवय एका कोनशाक बसून आसल्ली; तिचे लांब केंस बिसळे जाल्ले, दोळे फोंडकुलाक गेल्ले. सेजारच्यो स्त्रियो तिचे भंवतीं आसल्ल्यो.

ताच्या आज्यान ताका काफी हाडून दिली. "तूं सोप्या वयल्या कुडांतच राव, बाळा!" तो म्हणालो. "पणटी पेटवन दितां आनी जाय तितलें मेणयी दितां. पळे.... तुका खेळोंक म्हण प्लास्टिकाचे दोन पेटे हाडल्यात. तांचे सांगाता तूं खेळ." ताणें आपल्या बल्सांतले दोन पेटे भायर काडले. एक तांबडो आनी एक निळसो. ह्या रंगांचे पेटे आसतात?

सोप्या वयल्या कुडांत बसून ताणें पणटेंत मेण भरलें आनी ती पेटयली. ताचे एकेक मुठींत एकेक पेटो आसल्लो. ताका कितें करचें म्हण कळोंक ना. ताका रडोंक जाय आसल्लें पूण कशें आनी कित्याक? ताणें मुटी अंदीरल्यो. मोव प्लास्टिकाचे पेटे पिटो पिटो जाले. तो पिटो, तांबडो आनी निळसो ताणें पणटेंतल्या मेणाकच घालो. मेण कडोंक सुरू जालें...

साबार दीस पर्यांत त्या घरांत मोनेपण शिवाय हेर कितें नातल्लें. कोणच उलयनातल्लीं. सर्वांयीं मोन्यां परीं तातांचें काम करतालीं. ताचो आजोयी भुजां मदें मातें घाल्न सगळो दीस तेर्स करतालो. सांजेचें भायरयी वचानातल्लो जाल्ल्यान ताका चणे आनी चाकल्यो मेळच्यो बंद जाल्यो.

पूण ताची पणटी मात्र पेटोनच आसल्ली. मेणाची इतली रास ताणें जमो केल्ली की ती साबार दिसांक पुरो आसल्ली आनी ते साबार दीस पाशार जाताना त्या घरांत बदलावण आयली - कशी म्हण तो नेणा ताच्या घरांत सूट-

बूट घालचीं थोडीं जाणां आयलीं. तांचें नेसप-दिरूस वेगळेंच; भास चडावत परकी - एस, नो, शटप, शिट्ट - तांकां ताणें आंटी-अंकल म्हण उलो करिजे म्हण ताचे आवयन ताका सांगलें. तो पणटे सांगाता खेळताना तीं हासतालीं - कसलेंगी, स्टुपिड, स्टुपिड म्हणतालीं. पूण बदलावण आयिल्ली त्या घरांत.

सालाचे धरणीर तांबडे तांबडे इटे बसले. माळ्याक, नव्यान परमळचीं फोळीं पडलीं. मातयेंत भरसाल्लो शेणाचो वास आतां नातल्लो. वार्निशाचो आनी पेंटाचो परमळ.

आनी एका दिसा -

'टप्प'

सगळें घर उजवाडान भरलें.

करेंट आयिल्लें.

पाकाटे फुलवन तो सर्व कुडांनी उबलो.

टप, टप, टप.

ताणें करेंटाचे दिवे पेटयले, पालवयले. स्विच्याक हात पावनातल्ल्या जाग्यांनी ताचे आवयन ताका उकलोन धरलो. सर्वां हासतालीं, ताचीं नकलांशीं करतालीं. साबार तेंपा उपरांत सर्वां हासतालीं... ताचे आवयक सोडून सर्वां हासतालीं.

तिच्या मुखमळार उदेवंचीं भोगणां समजोंक तो सकानातल्लो. ताका भें दिसलें आनी तिचे पासळे थावन सुटोन तो पयस धांवलो. एका कोनशाक धांवलो.

करेंट आयिल्या थावन पेटा नासतां उरल्ली ताची पणटी त्या कोनशाक आसल्ली. मेण आनी वात तयार आसल्लीं. ताणें काडियां पेटेक हात घालो.

''आनी मुकार तूं ही पणटी आपडोंचो नांय या ती तूं पेटंवचो नांय!''

वाऱ्यार भिजायिल्ल्या छाटियेच्या आवाजा बरी तिचो ताळो त्या घरांत सादलो. जायत्या तेंपा उपरांत चेरक्यान काडियां पेट गळयली आनी थंयच कुस्कोन बसलो. तिचो ताळो आयकाल्लीं ताचीं आजो आनी आजी थंयसर पावलीं.

''कित्याक ताचेर झळताय-गो?'' आजियेन धुवेक विचारलें. ''घोवाक कशेंयी खावन पिड्ड्यार केलोय, धुवेकयी पिड्ड्यार केलेंय आनी आतां तुज्या भावंडांनी घर सुद्रायिल्लें तुज्यान पळेवन जायना? भेश्टेंच आतां त्या चेड्याचेर

चिडताय? मोस्रान? कसलो चिट्टो (हुलोप) पडलो तुज्या पोटाक? कितें आसा त्या चेड्याक ती ताची पणटी सोडल्यार? व्हडोल थावन वांयग्याचें तोंड करून बसलांय. कितें आसा त्या चेड्याक संतुश्ट करूंक?''

''हांव आसां, मांय!''

''तें मतिभ्रश्ट जालां.'' म्हणालो आजो.

''हांव आतां मतीर आयल्यां, बाबा!''

आपल्या पुताचेर घाल्ली दिश्ट काडिनासतां तिणें म्हळें.

''कितें जालां गो तुका?'' विचारलें ताच्या आज्यान, तिच्या बापायन. ''ताचो सगळो जीव आसा ते पणटेंत.''

''आमीच ताका ते पणटेंत चेपल्लो, बाबा!'' ती म्हणाली, ''म्हज्या पतीचो जीव खरगोन वेताना, म्हजे धुवेचो उस्वास आज-फाल्यां म्हळ्ळे परी आसताना हाका, म्हज्या पुताक, कांय जायत जाल्यार आमी कशें सोसचें म्हळ्ळ्या स्वार्थान आमी ताका हे पणटे भितर चेपलो. ताका गर्भांतच्च पाटीं लोटलो.''

''ह्या चेडवाच्या आंगार त्या पणटेंतलो कल्लुर्टी आयलोच्च!'' बापय म्हणालो.

''हांव सबार तेंप पर्यांत राकलीं.'' तिणें मुकार सांगलें, ''पूण म्हाका आतां धैर्य आयलें. आतां म्हजे साडियेक पालंव ना.''

तिणें आपल्या पुताक भुजांक धरून उबो केलो. ''तूं आतां समजोंचोनांय.'' ताका तिणें हालयलो. ''पूण एक दिसा... देवाक दिवंच्या पयलें म्हाका तूं अर्गां (धिनवास) दितोलोय!''

उपरांत, तिणें ती पणटी विंचली.

सोप्यार वचून हितलांतल्या काळोकांत उडयली – इतले पयस उडयली की पणटी फुटोन भेसां जाल्लो आवाजयी तांकां आयकालो ना.

''पळे!'' म्हणाली तिची आवय नातवाक पळेवन. ''पळे ताणें रडोंक सुरू केलेंच.''

''भूंय पडल्लीं सगळीं बाळशीं रडटात, मांय!'' ती म्हणाली. ''हो म्हजो पूत दुसरे पावटीं भूंय पडला. दोड्या मापान तो रडोंदी!''



# सात वरांची बस

“तूं हांगासर नवोच?”

सिगरेटीच्या धुंवराचो वास पयलो म्हज्या नाकाक आदळ्ळ्या उपरांत ताचे सवाल म्हज्या कानांनी रिगले. चिवकशे उस्मडोन हावें लिखणी रावयली आनी मुखामळ उबारलें. कसलेगी एक क्षुल्लक नदरेन तो म्हाका पळयतालो.

“व्हय” हावें जाप दिली.

“नवोच सेरवाल्ल्यान आपल्या कामांत सदिळाय दाखोवंक नजो.”

“हांव तें मनांत दवरतां.” तो कोण कितें म्हुण कळीत नातल्लें तरी हांव ल्हान जालों. फाटल्या एका वर्सा सावन सर्वां सामकार ल्हान जावन म्हाका संवय जाल्ली; स्वाभिमानाचेर साय मांडिल्ली. कारण सादेंच : हांव कामाच्या सोदनेर आसल्लों. एका वर्सा उपरांत वयवाटीच्या एके कचेरेंत काम लागतना एका चपरासी सामकारूय ल्हान जावंक म्हाका कश्ट भोगते नात.

शिकपा उपरांत स्वतंत्र वातावरणाचे सोदनेर भायर सरल्या हांवें अदृश्य बंदेडेच्या काळोखांत सबार लिसांवां शिकोन घेतल्लीं.

“कार्यांत तुवें तें दाखयजे.”

“हांव प्रेतन करतां.”

“भोव बरें. हे कचेरेंत सुमारशें काम बाकी पडलां. पांच वरां नंतर..”

“म्हाका तीस मैलां पयस करून घरा वचूंक आसा!” हांव मदें उलयलों. ताणें सिगारेटीच्या धुंवराचें आनीक मोड उठयलें.

“तीस मैला!” जडाय नातल्लो उद्गार तो उद्गारलो.

“पावनांतल्ल्याक एक पिडसेत आवय आनी बेबदो बापूय आनी चल्लायिल्ली शिंपडोन गेल्ल्या भाव-भयणींचो हिंडय तुका राकोन आसतलो.” ताच्या

ताळ्यांत शेळें क्रूरपण निशेतालें. "हें जावन आसा आमचें तरणें जानांग. निबां आनी चुकारी. चिंतल्ल्याच्याकी चड जबाबदारी आपणाचेर आसा म्हळ्ळे नटन एक दुर्हंकार."

हजार कोटाल्र्यो चरलेले परीं कचेरेंतल्या हेरांच्यो दिश्टी म्हजेर चरच्यो म्हाका कळीत जालें.

"तूं आयज सावनूच सांजेच्या पांच वरां उपरांतय रावतलोय!" ताची हुकूम कणकणली.

म्हज्या शिरांनी धांवच्या रगताचो वेग चडलो जायजे. थोडीं मिनटां हांव कितेंच करूंक शकलों ना. ताणें सांगल्या प्रकार एक पिडसेत आवय म्हाका आसल्ली. फकत ती हेरां कोणयी नातल्ली. म्हजे विणें तिचो आनी तिचे विणें म्हजो संवसार अपूर्ण. तितलेंच.

"तितले गाबर नाका!" म्हज्या दाव्याक बसून आसल्लो तरनाटो मंद हास्य संगीं म्हज्या बावळ्याक कुट्टी लागलो.

"तो हांगाचो प्रमूख गुमास्त चीफ क्लार्क. आतांच म्हळ्ळेपरी हुद्द्यांत बडटी लाबून हांगासर आयला. ताणें ताचें नवें दर्प दाखयजेच न्हय?"

"हांवें काम सुरू करून दोन वरांय जावंक नात."

म्हजीं उतरां आयकून म्हजो सहकामेली हांसलो. एक यंत्र हांसल्ले परी म्हाका भोगलें.

दीस पासार जावन सांजेचीं पांच जातना काम सुटलें. पूण हांव उठलों ना. उठूंक हांव शकलों ना. भितरले भितर कसलेंगी शिजोन वेचेपरी म्हाका भोगलें.

कचेरी खाली जाली. फकत हांव, एक चपरासी आनी तो चीफ क्लार्क उरले. चपरासी कचेरेंच्या एका रुमांत वस्ती करतालो जाल्ल्यान कचेरेचीं दारां, जनेलां केदळायी बंद करूंक तो शकतालो, हें हांव जाणा जाल्लों.

साडेपांच-शीं जातना चीफ क्लार्क आपल्या कॅबिनांतल्यान भायर आयलो. ताणें म्हाका वयर सकयल पळयलो आनी एक सिगारेट पेटयली. "हो ओवर टायम म्हुण तुवें समजुचें न्हय!" ताणें म्हणलें. "हांगासर कसलोच टायमूच ना! हां आसा म्हणल्यार हांगासावन सांजेर सात वरांचेर सुटच्या एका बस्साक." तो हांसलो. "विचित्र! तें बस्सय मुज्याच हळ्ळेक वचेंच. तीस मैलांची वाट फकत तीस मिनटांनी काबार करता खंय ताचो चालक. हूं... सातांक पांचां मिनटां

आस्ता वरेग तुवें काम केल्यार आनी तें तूं करतलोय-तें सात वरांचेर बस्स धरून तुवें साडेसात वरार तुज्या बिराडाक पावंयेत. उपरांत शिंपडलेल्या तुज्या शेळियांक आरावंक तुका जाय तितलो वेळ मेळटलो.'' ह्या नज्ज्यांक कचेरेंत खिळावन तो गेलो.

आनी हांवें सातांक पांच मिनटां आसता पर्यंत काम केलें.

'मां रात्ता आसतेली' हांवें चिंतलें. चपरासीक दारां, जनेलां बंद करूंक सांगतना (ह्या मदीं बावड्यान म्हाका एक कप काफी तयार करून दिल्ली. पूण म्हज्या जिवांत हेर कसलोगी हुरूप आसल्लो.)

भायल्या प्रफुल्ल वातावरणांत मेटां काडटना उत्तर सांजेचें शितळ वारें म्हज्या केंसांनी बोटां रिगय लायलें. म्हजें आंग मिरमिरलें, ओंठ कांपले. कचेरेसावन बस स्टॉपाक दोन मिनटांची वाट. थंयसर पावतना फकत एक बस उबी आशिल्ली. बोर्ड वाचतना हेंच ते सात वरांची बस म्हुण म्हाका कळीत जालें; म्हज्याच हळ्ळेकच ती वताली. हांवें बसीच्या दाराच्या खांब्याक हुमकळपी कंडक्टरालागची तिकेट घेतली आनी भितर सरलों.

बसीर चडल्ल्या म्हाका ते सकाळीं कचेरेक नव्यान रिगतना जाल्ले तितलेच बांदपाक जाले. सामकारूच सीट मेळ्ळी तर कोणाच्याच गमानाक पडानासतां वचून बसतों आसल्लों. पूण बसीचेर बसूंक जागो नातल्लो. एक दोग प्रयाणीक उबेच रावल्ले. सीट सोदच्या निबान हांव हेवशीन तेवशीन पळयतना, बसून आसल्ल्या सर्वांच्यो दिश्टी कसलेंगी परकीपण सुचावन म्हाका पळेताल्यो. कसलेंगी असुसेगाचें भावन म्हजेर चरलें.

ड्रायवराची बसका खालीच.

सात जावंक कांय एक मिनट बाकी आसल्लें कोण्णा. 'सात वरांची बस!' हांवें म्हजे इतल्याक उद्‌गार सोडलो. ह्या वेळार म्हज्या गमानाक एक विचित्र संगत उठून दिसली. चालकाच्या दाव्याक, सर्व सिटांच्याकी मुखार हारशालागीं आसल्ले सिटाचेर कोणयी बसूंक नातल्लो या उबे रावन आसच्यांक ताचेर बसची उर्बा आसचे परी दिसानातल्ले. 'सीट काय मोडल्या कोण्णा?' अशें चिंतून हांवें उबे आसल्ल्यांच्या खांदा वयल्यान तिळ्ळें.

ना, सर्व सारकें आसल्लें.

'तर कोणाक पुणी ती सीट अमानत करून दवरल्या आसतेली...' हीं पिशीं काराणां हांवें तितल्यारच कातरलीं. स्वतंत्र देशांत तीस मैलांच्या पयणाक कसलें रिझर्वेशन? एकाचाणे त्या चीफ क्लार्काचें दर्प म्हज्या सामकार आयलें. म्हजो मेंदू गुडगुडलो; हांवें ओंठ चाबले. 'हांवें ह्या संवसाराक दाखयजे; हांवें झुजाजें!'

'बरें तर' म्हणालो म्हजो मेंदू 'चड रंगथळार!' म्हज्या सामकार उबे आसल्ल्यांक हाळवायेन देगेन लोटून हांव सरळ त्या सिटासरशीं गेलों. म्हजें काळीज डबडबतालें. खंयच्यागी एका अध्यक्षाक अमानत दवरल्ले सिटाचेर एका भिकाऱ्यान कुलो तेंकचेपरीं म्हाका भोगलें. तरी पूण हांव रावलों ना. सिटासरशीं पावून आत्तां बसतां म्हणटाना,

"तूं हांगासर नवोच म्हूण दिसता"

एक दाट ताळो आयकोन हांव 'जप्प' करून फाटीं घुंवलों. कोणा सावन आयिल्लें तें सवाल म्हुण हांव नेणां पूण सर्वांचे दोळे म्हजेर आसल्ले.

कचेरेंत चीफ क्लार्कान सकाळीं विचारिल्ले सवाल आतां हांगासरय उबे जाताना हांव चिडलों. म्हजेर येदोळ मांडिली साय विळगोवन वेचेपरीं म्हाका भोगलें.

"ते सिटाचेर कोणयी बसनात!" प्रयाणिकां पयकीं एकल्यान म्हाका कळयलें.

"मतलब?" भौशीकांच्या बसीचेर हें कसलें फितीसपण?

"मतलब गूंड आसा."

"जावंयेत! पूण हे भौशीकांची बस."

"भौशीक आमीच!" तो म्हणालो. "आमचे भद्रतेखातीर आनी आमकां सदांयी ह्याच वेळार हेच बसीचेर पयए करूंक आसल्ल्यान हें आमी मांदतांव."

"हें कसलें शासन?" हांवें झुजोंक सुरू केल्लें. जायजे तर? खांब्यापरी हांव बसींत उबों जालों.

खटक करून दार उगडोन चालक भितर सरलो; म्हजें आनी हेरांचें गमन ताचेर चरलें. ताची प्राय कांय पन्नास जायत. काळ्या केंसां तितलेच पिके केंसूय ताच्या माथ्यार आसल्ले. मुखामळार तसलें कसलेंयी गमनार्ह भावन नातल्ले. पूण जिणेंतल्या अनुभवांच्यो कुरवो उठून दिसताल्यो.

ताणें हाळवायेन भंवतीं पळेलें. अर्थ नातल्लें मौन थंयसर चरल्लें, इल्या दाटायेन गी बसी भितरलें वातावरण हारशाच्या कोपांत धांपून घाल्ल्या जल्ल्याचें जाल्लें.

हांव, उस्वास सोडूंकय विसरलों जायजे.

‘‘वरां सात जालीं!’’ म्हणालो तो चालक सर्वांक पळेवन.

‘‘तो... तो... त्याच सिटाचेर बसता म्हणटा!’’ आपले रस्माळे केंस वाऱ्यार उबता म्हुण रस्माळो मांत माथ्याक रेवडावन जनेला लागीं बसून आसल्ली चली गागेली.

‘‘आमी ताका विवरिलें.’’ आनेकलो म्हणालो.

हांवें चालकाक पळेयलें.

तो बसीच्या अट्ट्याचेर हात दवरून म्हाका पळेतालो.

‘‘कसलें विवरिलां तुमी?’’ हांवें ताळो काडलो. ‘‘तुवें हें शासन केलेंय?’’ चालका लागींच न्हय, सगळ्या संवसारा लागीं हो सवाल हांवें केलो.

‘‘हांव कसलींच शासनां करिना!’’ ताची जाप आयली तक्षण.

‘‘शासनां करूंक हांव सकल्लां तर...’’ तो तितल्यारूच रावलो. प्रयाणिकां सावन सुस्कार आयले. ‘‘दया करून ते सिटाचेर बसानाका!’’ ते एका ताळ्यान म्हळ्ळेपरीं पराती लागले.

‘‘आमच्या जिवाची फिक्र...’’

उपरांतले तांचे विलाप म्हाका आयकाले नात. हांव चालकाकच पळेवन आसल्लों. ताच्या दोळ्यांनी आसल्लो संदेश म्हाका पावीत जालो आनी हांव त्या सिटाचेर बसलों. चालकान बस स्टार्ट केली आनी गियर घालून चालू केलें. प्रयाणिकांचेर कसल्यागी भिरांतेचें मौन देंवलें. हें सर्व हांव समाजालों ना तरी हांवें आतां बस चलोवच्यांत निरत जाल्ल्या ड्रायवरालागीं दोन उतरां उलोवचें प्रेतन केलें. पूण तें फल्सालें ना.

ठाण्यासावन बस सुटून लोकांची खेट कातरून सरळ रस्त्या पावल्लेंच चालकान वेग आरायलो.

तीस मैलांची वाट, तीस मिनटांनी... चीफ क्लार्काचीं उतरां म्हज्या उडासांत आयलीं. वेगाच्या आवेशान बस कांपतालें; चालकाचे दोळे रस्त्याचेर आसल्ले आनी बसीचे हेडलायट सांजेच्या काळखाक कातरून लोणयेंतल्यान तापल्ली

सुरी रिगल्लेपरी बसाक तातुंतल्यान पासार करताले. हांव, हें नवें वातावरण, वेग आनी म्हजें जैत जियेतालों. मिनटां पासार जातना बसीचो वेग चडोवनच आयलो. हांवें चालकाचेर दिश्ट मारली.

तो ह्या संवसारांत आसचेपरीं दिसनातल्लो.

बसीच्या यंत्र सांगाता तोवूय एक यंत्र जाल्लेरी दिसतालो. म्हाका आकांत जालो ना पूण विस्मीत जालें. सवालां उदेलींच. हांव बसल्ले बसकेक, चालकाक आनी सदांनीत ह्याच वेळार ह्याच बसीचेर पयस करच्या प्रयाणिकां मदीं कसलो पुणी गांच आसा म्हुण हांव समजालों.

पूण कसलो गांच?

गोमटी लांब करून हांवें फाटीं पळयलें. पॅसेंजरांचीं मुखामळां धवीं जाल्लीं.

बसी भितरल्या दिव्यांच्या मंद उजवाडांत निमाण्या झडटेक राकोन आसचेपरीं ते बसून आसल्ले आनी म्हज्या मुखामळार अर्थ नासल्लो हांसो उदेलो.

"सर्व आकेर जाले!" एकलो पिरंगालो.

"चालक आतां मतीरना!" एकली रडलीच.

"वेग उणो करूंक ताका कोण पुणी सांगा."

हेर थोडे ह्या सर्वाचो (हे सर्व कितें म्हुण म्हाका कळीत नातल्लें) गुन्यांवकार हांवूच म्हळ्ळेपरीं दुस्मानी दोळ्यांनी म्हाकाच पळेताले. म्हाका योनास प्रॉफेताचो उगडास आयलो. पूण म्हाका बसी सावन भायर उडोवंक कोणाचें धैर्य आसचेपरीं दिसानातल्लें.

सत सांगचें तर, वाहनाचो वेग आतां निजायकी चडलो, म्हाकायी थोडे उपदेस जाले. ओंठूच चाबून धर्न हांव सामकारच पळेवन बसलों.

थोडीं मैलां पासार जाताना रस्त्याच्यो गुंवड्यो सुरू जाल्यो. पूण बसीचो वेग उणो जाल्लेपरीं, केल्लेपरीं म्हाका दिसलो ना. बसींतलो आकांत चडूनच आयलो. आतां म्हजें शिंतीदय ढळूंक लागलें. उठून त्या चालकाक वेग उणो कर म्हुण सांगया म्हुण म्हाका भोगलें. पूण नव्यान जोडून घेतल्लो स्वाभिमान म्हाका सोडिना जालो.

एकाचाणे एक तीक्ष्ण माल्वणेची घुंवडी उदेली.

बस एके कुशीक बळान माल्वलें.

‘‘हांगासरच... होच तो जागो, हीच ती घुंवडी... सर्व आखेर जालें’’ कोणेंगी बोबाट मारली.

‘‘देवा... आमकां राख!’’

पूण कसलेंच घडलें ना.

घुंवडी पासार करून बस नीट रस्त्याक आयली आनी हालनासतना धलनासतना धावूंक लागली.

हांवें चालकाचेर दिश्टी घाली.

तो सगळोच घामेल्लो.

घामान बुडल्लें ताचें खोमीस आंगाक चिडकाल्लें, मुखामळ उजळटालें. तवळ पर्यंत घडल्ल्या खंच्याकी विवर-समाधान मेळनासतां हांव शुन्य जावन बसलों. चडीत कसल्यायी ड्रामांविणें बस म्हज्या हळ्ळेक पावलें.

तीस मैलांची वाट तीस मिनटांनी, बराबर.

देंवून वेच्या पयणाऱ्यांनी म्हजें गमानच केलें ना. जीव वांचयिल्ल्या धनया देवाक आर्गां दिवंक धांवचे परी ताणीं बस खाली केली. बसीच्या फाटले कुशीन चडूंक देंवूंक एकूच दार आशिल्ल्यान हांव देंवूंक निमाणो जालों. सत सांगचें तर हें म्हाका समाधानाचेंच जालें.

सिटीं मदल्यान चलून हांव दारा लागीं पावलों आनी भायल्या सुडाळ आनी परिचीत वातावरणांत हांवें पांय दवरलो. हातांत मुदो करून धरल्ली तिकेट हांवें फुंकून वाऱ्यार सोडली.

‘‘मिस्टर?’’

थोड्याच वेळा आदीं आयकल्लो ताळो परत कानांनी रिगतना हांवें चाल रावयली आनी हाळवायेन माथें घुंवडायलें.

चालक म्हज्या फाटल्यानूच आसल्लो.

‘‘हांव तुका आभारी आसां!’’

म्हज्या कपलाक मिरयो पडल्यो.

‘‘मतलब?’’

‘‘एकेक सोडा पियेया?’’

ताचें भलतेंच आयकून हांव कुस्कोनशें हांसलों. पूण ना म्हणूंक म्हज्यान जालें ना. एका बिडा-बिडयेच्या दुकानाक वचून आमी सोडा घेतलो.

‘‘बसींतलें नाटक पळोवन तूं विस्मीत जालाय म्हुण हांव जाणां.’’ तो म्हणालो.

हांवें कितेंच म्हळें ना.

‘‘कांय वर्सां आदली संगत.’’ (घडणूक, विशय) ताणें मंदरिलें.

‘‘जियेवचें म्हळ्यार संवसारांत गत्त करचें आनी जाण जावचें म्हुण हांव चिंत्तालों!’’

आरे! हो ड्रायवर आतां फिलोसोफी उलयता?

सोडाची बॉत्ल हांवें लागशिल्ल्या पेंटाळेर दवरली.

‘‘तवळ म्हजेलागीं धाराळ आसल्लें म्हळ्यार म्हजी आतांची परिगत पळेताना धाराळायेन म्हणयेत. म्हजो खरोखर मोग करपी पतीण आनी धा वर्सां प्रायेचो एकलोच पूत आसल्लो. हांकां सुखी जिवीत दवरूंक हांव आनी म्हजें हेंच काम आसलें. हेर कितेंच नातल्लें. अशें जावन ‘सर्व आसल्लें’ कुटम म्हजें जायजे म्हळ्ळी गिरांत म्हजे मतींत रिगली आनी हांव झुजूंक भायर सरलों. म्हजे पतीणेक आनी म्हज्या पुताक म्हजेर आसल्लो अभिमान आनिकी चडाजे म्हळ्ळें पिशें म्हजेठांय रिगलें.

‘‘म्हज्या वावरांत’’ ताणें सोडाचो घोंट ताळ्यांत देंवयतांच मुंदरिल्लें. ‘‘म्हज्या वावरांत वेग जावन आसल्लो म्हजें बदीक. वेगासंगीं आसल्लें तें थीरपण म्हाका एक उत्तम डायवर म्हण थारायतालो. ही संगत आपल्या बापायच्या ‘रुंय्य’ स्पिडाविशीं म्हज्या पुतान आपल्या धाकटुल्या मित्रां सावन आयकाल्ली आनी तो म्हजे संगीं बसीर येता म्हुण हट धरिलागलो. येदोळच कळयिल्ल्या कारणाक लागून हांव वोपलों आनी त्या एका दिसा ताका घेवन हांव आयलों. ह्या हळ्ळेसावन तुवें काम करच्या शारा मेरेन त्या दिसाच्या निमाण्या ट्रिपीचेर हांवें ताका सांगाता घेतलो.

कसलेच वांदे नासतां आमी शाराक पावल्यांव आनी नियमीत वेळार फाटीं भायर सरल्यांव. तूं बसल्ल्याच सिटाचेर म्हजो पूत बसून आसल्लो. ताचे अभिमानी दोळे खिणाक म्हजेर आनी खिणाक अटें धरल्ल्या म्हज्या हातांचेर बसताले आनी हांव पुळकीत जातालों आनी म्हजो स्पीड संवसारांतूच अव्वल म्हुण चिंत्तालों.

‘‘आनी एकाचाणे... ती घुंवडी उदेली... हांव नेणां कितें जालें... म्हजें संयम चुकलें... परिणाम जावन घडल्ल्या अवगडांत म्हजो पूत अंतरलो....’’ ताचो ताळो कांपलो. ‘‘स म्हयने मेरेन आस्पत्रेंत पडून हांव भायर येतना म्हजी पतीण पुताच्या खंतीन करगोन मेण जावन पिगळून अंतरली...’’

आपापींच म्हजो हात ताच्या खांदार बसलो.

ताणें म्हजो हात हाळवायेन लोटून निसरायलो.

‘‘पूण हांव जियेलों!’’ ताणें मुंदरिलें. ‘‘पुताच्या आनी पतीणीच्या मरणांनी म्हाका गरजेवरती सजा दिल्या म्हण लेखून कंपनीच्यान म्हाका म्हजें काम फाटीं दिलें. परत्यान ह्या लायनीचेर हांव पडलों. दीस पासार जाले. म्हाका ह्याच बसीचेर पळेयिल्ल्या थोड्यांनी कांय थोडे दीस म्हजी बिरमत उच्चारली. पूण उपरांत सर्वांक तातांच्या वेळा परमाणे वेळार येच्या बसीचो ड्रायवर हांव जालों. तुका तुजी सात वरांची बस आसल्लेपरी.

ताच्या कोडसाणींत हांवें कसलीगी गोडसाण चाखली. म्हाका शासनां करूंक तांकल्ले तर...

म्हाका अर्थ जायीत येतालें; हांव म्हाकाच समजूंक लागल्लों?

‘‘एका सांजेर हीच सात वरांची ट्रीप हांव करतना तूं आयज बशिल्ल्या सिटाचेर एकलो भुरगो येवन बसलो. प्राय काय म्हज्या पुताचीच जायत. म्हजीं अंतर्मुळां उडलीं; हातपांय गोठेले आनी तें दृश्य दोळ्यां सामकार उदेलें. त्या भुरग्याक थंयसावन उठ म्हुण हांवें चिंतलें तरी हांव ह्या वोडणेच्या आड उरडालों. हांवें बस चालू केली आनी वेग आरायलो.

‘‘पूण म्हज्यान सोंसूंक जालें ना. त्या घुंवडेलागीं पावतना हांव कोसळ्ळों, रडलों आनी भोव कश्टांनीं हांवें आनीक अवघड चुकयलें आनी हांगासर सुरू जालो तो तुका अर्थ जावंक नातल्लो घोटाळो. त्या सांजेच्या ट्रिपीचेर चडणे आयज आसल्लेच प्रयाणीक आसल्ले. सर्वांक म्हज्या अवगडाची, पुताच्या मरणाची आनी म्हज्या पतीणेच्या अंत्याची संगत कळीत आसचीच.

‘‘तो भुरगो त्या सिटीचेर बसल्लेवेळीं म्हजें संयम चुकल्लें पळोवन ते भियेले पूण म्हजी बिरमत परत उच्चारी लागले. तुका तें घटन परत उगडासांत येनाशें ह्या सात वरांच्या बसीचेर त्या सिटाचेर कोणेंच बसानाशें आमी शासन करतांव’’

अशें तें म्हणाले. ही म्हजी बिरमत तांणी दाखयल्ली न्हय पूण भद्र केल्ली तांचीच भद्रती!

"तरनाट्या, जिणेंत एक हन्त येता. त्या हंताचेर तूं जियेवंक शकता, बोलप्यां मदीं, वागटां सर्पां मदीं दीस काडूंक शकता. पूण जियेवचें आनी झुजचें, हांचे मदीं फरक आसा. हें हांव तुजे सावन शिकलों. कोण जाणां आयज तूं तुज्या कचेरेंत वागा बोलप्यां मदीं जियेल जावंकय पुरो, पूण ह्या सांजेर झूज तूं झुजलो.

"ह्या प्रयाणिकांनी केल्लें शासन म्हाका कितलें दामून धरतालें म्हळ्ळें म्हाका आयज कळीत जालें. तूं हट्टान म्हळ्ळे परी त्या सिटाचेर बसलोच. पूण भिरांत आनी अपधैर्य उदेल्ले म्हजेठांय. ही ट्रिप हांव शाबितायेन मारीन वाना म्हळ्ळें भंय म्हाका धोसतालें."

तो म्हाका मायपासांत पळेलागलो. "म्हजो पूत आसल्लो तर तुज्या प्रायेक पावतो..." ताच्या दोळ्यांनी दुकां आसल्लीं.

तो घामेल्लें कारण म्हाका आतां कळटालें.

ताच्या खांदार हांवें आतां दवरिल्लो म्हजो हात ताणें फाटीं लोटलो ना.

"म्हजे जिणेचो आनी झुजाचो हो पयलो दीस!"

हांवें कळयलें ताका, "सोडाचे पयशे हांवच दिवं?" तो हांसलो.

"तशें तर एक काट बिडयचे पयशेयी दिवन सोड."

म्हणोन ताणें बिडयेचो एककाट वेंचलो...



# जुजेफात फालक्यांतलें क्रिसमस

देसेंब्राचे धुंवरेंत, म्हज्या काराच्या बळिश्ट हेडलायटांच्या प्रकासांत, रस्त्या मदगात उबी आसली आकृती एका रुकाची न्हय बगार मनशाची म्हळ्ळें म्हज्या शितिदान कबूल करताना यांत्रीक रितीर म्हजो पांय ब्रेक पेडलाचेर खंचलो. कार नवीच तरी किंळचे शिवाय ब्रेक लागवंक आयकालें ना. काराच्या आक्रंदनामदें म्हज्या तोंडाथावन भायर आयिल्ली नापसंद गाळ म्हजे पतिणेक आयकाली ना जायजे. हांवें काराचो आरसो सकयल करताना तो मनीस कसकोनशें देगेन सरलो आनी काराच्या उजव्याक आयलो.

''बेवडो जालाय मनशा?'' हांव बोबाटलों. ''देंसेंब्राची चोवीस तारीक, क्रिसमसाची रात भारीच वेगीं प्रारंभ केल्याय तुवें?''

तो उलयलो ना; ताचो उजवो हात एकाचाणें भितर आयलो आनी बरफांत पूर्न दवरिल्लें ल्हान न्हाणें कातीक लागचे परीं कसलेंगी शितळ म्हज्या गोमट्याक लागलें. म्हजो सगळो जीव अनामीक भिरांतेन काणसिरलो.

''ही मेगनम ४४!'' तो मनीस म्हणालो शांत ताळ्यान. ''हाचो घोडो हांव दांबीन तर तुजे गोमटेर कसली तकली आसल्ली आनी हे तकलेर कसलें मुखमळ आसल्लें म्हळ्ळें संवसाराक कळीत जावंचे परीं ना. म्हाका तुजें कार जाय, तक्षण कारांतलीं भायर येयात!''

उगतें आसल्ल्या जनेलांतल्यान देसेंब्राची धुंवरी, हांव आनी ह्या मनशाचीं उतरां सांगाताच भितर सरतालीं. पूण हांव म्हज्याच कानाक पातयेवंक ना.

''पाटले सिटीर पातळाल्ली स्त्री, तुजी पतीण?'' तो दाडामां अडचून कसलीगी दूक ताका सतावंचे परीं विचारतालो.

‘‘व्हय!’’ हांवें जाप दिली, कुडिचें आनी मतिचें संयम सांबाळचें प्रेतन करून. ‘‘ती भरलेली गुरवार. हें क्रिसमस म्हज्या येस्टेटांत खरचिचे म्हळे उमेदीन आमी हांगासर आइल्ल्यांव. पूण डॉक्टरान दिल्ले तारिकेंत घुसपड जाली... तिका प्रसूतपणाच्यो दुकी प्रारंभ जाल्यात... आनी लागशिल्लो डॉक्टर वीस किलोमिटर पयस आसा...’’

‘‘आनी पोलीस म्हज्या पाटल्यान आसात!’’ तो दांतां इड्यांतल्यान पुसपुसलो. मेगनम ४४ची नळी म्हज्या गोमट्याक तोपताली. ‘‘वंडरफूल! क्रिसमसाचे रातीकच तुजे पतिणेक प्रसूतपणाच्यो दुकी?’’

‘‘आमकां वचूंक सोड!’’ हांवें परातलें ना, पूण एका थरान हुकूम दिलो. ‘‘अरद्या घंटा भितर तिणें डॉक्टरांचे ताबेन आंसाजे!’’ हांवें पाटीं पळेलें. म्हजी पतीण क्षीण पिरंगोवणे संगी उटोन बसली. तिचें भरलेलें उदर मस्क उजवाडांतयी स्पश्ट दिसतालें.

वोरां रातिचीं साडे धा उरतालीं. म्हजे पतिणेक परिस्थिती कळीत जाल्ली तरी तिणें एकच एक उतर भायर काडलें ना. परिपूर्ण अशक्त जावन आसल्ले तिणें कसलेयी उच्चारल्यारयी परिस्थिती सुधरोंची ना म्हळ्ळें ती खचित जाणा आसल्ली.

‘‘डॉक्टराचें ताबेंत.’’ तो पुसपुसोन उलयलो. ‘‘म्हजें बायक पिड्यार जालें, सांगाती! स्मगलर पोळ्न धांवले आनी हांव कसोई पुणी शहाराचे कुशीन वेचें प्रेतन करतलों म्हण पोलीस चिंततात...’’ तो उलोवनच वेतालो. ‘‘चार घंटे ह्या मोल्यांत लिपोन हांवें पाशार केले, परिपूर्ण शांतता उदेताना तुजें कार आयलें....’’ तो हांसलो पूण ताच्या हास्यांत दुकिचीं किसरा मिसळोन आसल्लीं.

सासांगाताच म्हजे पतिणेन दुकिचो एक सुस्कार सोडलो. हांवें सिटीवयल्यान हात घाल्न तिचें उदर आपडलें. तवळ घामान थंड जाल्लो तिचो हात म्हज्या हाताचेर बसलो.

‘‘आनी चड वेळ तडवूंक म्हज्यान जावंचें ना डार्लिंग!’’ ती म्हणाली. ‘‘त्या मनशाक ताचीं भेंकरीं फोकाणां बंद करूंक सांग.’’

तिचीं उतरां ताका आयकालीं.

‘‘सगळ्या संवसाराक हांव भैरो, भेंकरो आनी पोळकुरों आसल्लों पूण आतां पळोवया... सगळ्या देशांत हांव...’’ तो कुसकोन रावलो.

''तुकाई डॉक्टराची गरज आसा?'' हांवें म्हळें. ''खंडीत जावन तूं जख्मी जालाय...''

''पूण कार चलोवंक अशक्त जावंचे तितलो न्हय!'' ताणें मेगनम ४४ म्हज्या हरदूयाक जोकली. ''तेवशीन सर!'' तो म्हणालो. ''कार हांव चलयतां. तुमकां डॉक्टराची गरज आसा? खंडीत जावन डॉक्टर तुमकां मेळटलो!'' तो पिसांट हांसो हांसलो. म्हजे पतिणिची असकार हुसकार आनी पिरंगणी चडत वेताली.

हांवें भंवतीं पळेलें.

''ह्या वेळार हेणेंतल्यान वाहनां आनी मनीस सोडयां, देव देंवचारयी घुंवाना.'' तो म्हणालो. ''तुका हें कळीत आसाजे, तूं येस्टेटगार.''

ताच्या उतरांनी सत आसल्लें.

हांव तेवशीन सरलों आनी तो आपली मेगनम दावशा हाताक वरगायसून काराचें दार उगतें करून स्टेयरिंगा पाटल्यान बसलो. ''आतां म्हजी चलाकी तुमी पळेतल्यांत!'' तो म्हणालो काराची गियर बदलून. अशें करतना ताच्या तोंडांतल्यान हांकरेवणी उगत्यान भायर आयली. ताणें कार पाटीं घुंवडायलें.

''पूण शहराचो रस्तो हेवशीन आसा!'' हांव देदेसप्रार जालों. म्हजी पतीण आतां उगत्यान रडटाली.

''हांव जाणां!'' तो म्हणालो. ''शहराच्या रसत्यार पोलिसांचें सैनच म्हाका राकोन आसतेलें. येस्टेटांक वेच्या रसत्यार एक दोग पोलीस आसूंक पुरो... पूण ह्या एकल्याक दोगांक हांव कसो सांबाळतां पळेया...''

''तूं क्रिमिनलच न्हय, तकलेंतयी सारको नांय!'' हांव बोबाटलों.

''हेवशीन पोलीस आसतीत पूण डॉक्टर नात!'' आतां ताणें म्हजें कार आइल्ल्याच रस्त्यार फूड करून घुंवडायिल्लें.

''डॉक्टर आसा!'' तो म्हणालो आपलें मुखमळ म्हज्या कानासरीं हाडून. ''हांगाथान फकत आठ किलोमीटर पयस... जुजेफात फाल्क्यांत... एकलो डॉक्टर आसा!''

हांव थटाकलों, थरथरलों.

''पूण तो मनजातिंचो डॉक्टर!'' हांवें किळंचच मारली. कितेंयी तरी त्या स्मगलराक हेवशिलें परिसर बऱ्यान कळीत आसल्लें. कितें आनी कसलें कसलें स्मगल करतालो गाय?''

गंधाचे रूक?

"हांव जाणां!" तो म्हणालो. कार आतां आइल्लेच वाटेर धांवतालें.

"तो पिसांटयी म्हळ्ळें आयकलां. तो मनजातिंचोच डॉक्टर तर 'हांगासर फकत मनजातीक चिकित्सा मेळता' म्हळ्ळो बोर्ड कित्याक लायत?"

हो बोर्ड हांवेंयी पळेइल्लो आनी आनी ह्या डॉक्टरा विशीं साबार काणयो आयकाल्ल्यो. आपणें रावंच्या फाल्क्याक ताणें जुजेफात फाल्कें म्हण वोलाइल्लें, वेळाकाळा आदींच कोणाचीगी झडती आंवडेवंचे परी आनी असल्या पिसांटा सरशीं... "तूं तकलेंत समा नाय मनशा!"

"तुवें सारकेंच सांगलेंय!" तो म्हणालो. कारान आतां वेग आराइल्लो. ताची मेगनम ४४ सिटिचेर निदोन आसल्ली. "मनीस तकलेन सारके आसानात... आकरेक तरी, एकल्यान पुणी म्हाका मनीस म्हळें. जाणाय तूं हांव कितलो स्मार्ट आसा तें? त्या डॉक्टरान तो बोर्ड कित्याक लागयला म्हळ्ळें हे रातीं हांव जाणां जातलों. तो फकत मनजातिंचो... खंडीत जावन पोलीस त्या फालक्याच्या सुत्तुराक येवंचे नात..."

तो हांसलो! हांवें मनांतच सर्वेस्पराक हाक मारली. हो मनीस खंडित जावन मती भ्रश्ट जाल्लो. एकाच्चाणे हांवें मेगनम ४४क झोंपय मारल्यार?

"चिंतेचें प्रेतन सहीत करिनाका!" तो म्हणालो म्हजीं चिंतनां वाचून. "मेगनम ४४ हांगासरच निदतेली, हे खावणेंत!"

एका नीळ श्वासासंगी हांवें पाटीं पळेलें. ड्याशबोर्डाच्या उजवाडांत म्हजे पतिणेच्या पोल्यांवयल्यान देंवचीं दुकां म्हाका दिसलीं.

"सर्व सारकें जातलें डार्लिंग!" म्हजोच ताळो पोकोळायेंतल्यान भायर आयलो. "तो डॉक्टर बाळंतेर करूंक सकात?" हांवें एकाचाणें ताच्या खांदार हात दवरलो.

ते घडिये म्हाका हेरांचो सहरो आसल्लेपरीं दिसानातल्लो.

"आतां तुजी तकली काम करता!" तो म्हणालो. "फकत मनशाचो मेंदू ओत्तड चडल्लेवेळा चड परिपूर्णतेन चिंतूंक सकता!"

"तुजी फिलोसोफी त्या डॉक्टराक मनशांचो डॉक्टर करूंक सकात?"

"पोलीस!" तो पुसपुसलो. "तुमी कितेंच करिनाकात, उलयनाकात." ताचो ताळो कांपतालो. रस्त्यावयले धुंवरेमदें मोटरबायक घेवन आसचे दोग

पोलीस आमकां दिसले. पोलीस वा फोरेस्ट रेंजराच्या दफ्तरांतले अधिकारी म्हळ्ळें कळीत जालें ना.

ताणें हातान इशारो करून म्हजें कार रावयलें. म्हज्या 'चालका'न मेगनम ४४ आपल्या जांगांमदें दवरली. अधिकारी कारा सरशीं येताना ताणें जनेलाचो आरसो सकयल केलो. "म्हजीं कर्तुबां ते जाणांत. पूण मुखमळ पळेवन नेणात!" तो म्हणलो म्हजे कुशीन मातें बागवन. "कांईच भियेनाकात!"

"हॅलो इन्स्पेक्टर!" तो म्हणालो. "म्हजेलागीं लायसन्स ना. म्हज्या भावाचे पतिणेक प्रसूतपणाच्यो दुकी प्रंरभ जाल्यात. म्हजो भाव एकदम नरवस मनीस जाल्ल्यान हांवेंच कार चलोवंचें.... आमी तूर्त करिजे... हेवशिल्ल्यान आसचो डॉक्टरयी एकलोच... दया करून.."

अधिकारीन आमच्या तेगांच्या मुखमळाचेर टॉर्चाचो प्रकास चरयलो.

"तुमी वचयेत!" उपरांत तो म्हणालो.

"मेरी क्रिसमस इन्स्पेक्टर!" गियर घालताना स्मगलर म्हणालो. अधिकाऱ्यान जाप दिली ना. कार चालू जालें.

"जुजेफात फाल्कें!" तो बोबाटलो. "येतांव, आमी येतांव!"

***

म्हज्या दाराचेर ठोके पडताना सासणाचे निदेंतलो उटल्लेपरीं म्हाका भोगलें. पंचवीस वर्सां थावन हांव राकतालों ह्या ठोक्यांक. एका न्हय तर एका नातालांचे राती म्हज्या दाराचेर ती उबी जातेली म्हळ्ळ्या भरवास्यास हांवें पंचवीस वर्सां पाशार केल्लीं. असलेच एके रातीं, नतालांचे राती ती म्हाका सोडून गेल्ली. हांवें तयार केल्लो गरदनाचो गोटो अपूर्ण सोडून ती गेल्ली. कारणां सबार आसल्लीं, तिच्या मट्टाचीं काराणां. नव्यार नवो मोग पाचवो आसताना हें सगळें फालकेंच तिका पाचवें दिसतालें. पूण उपरांत... कसल्या उतराचेर, करतुबाचेर तुटापूट प्रारंभ जाली ती आमी नेणांव. फूट खंदक जाईत येताना ती म्हाका सांडून चल्ली.

म्हज्या गर्दनाच्या गोट्याची खावणी रितीच उरली. आतांई ती रितीच आसा... वरसान वर्स हांव भातेण बदलितां, हरेक नतालांचे रातीं वीज दिव्यांनी नेटयतां. ती पाटीं येता म्हण भरवसतां. पंचवीस वर्सांनी हांव मस्त सुदारलां. मनशां थंय आसाजे आसल्ले गूण मनजाती थंय पळेतां पळेतां हांवें म्हजें

दाक्तेरगी पथ बदलिलें. आतां हांव फकत ह्या फालक्यांतल्या आनी भोंवती आसचे येस्टेटींतल्या मनजातिंची चिकित्सा करतां. पंचवीस वर्सां आदीं दुबळ्या धाकट्यांची, आळांची आनी चाकरांची करिजे म्हळ्ळ्या उद्देशान हांगासर आयिल्लों हांव आनी ती... आतां हांव मनजातिचो डॉक्टर...

तरी नीत जातेली म्हण हांव भरवसतां. ते खातीर ह्या फाल्क्याचें नांव हांवें बदलिलां. जुजेफात फालकें, निमाणे झडते पयलें हांगासर एक ल्हान झडती जातली. भोवशा म्हजीच झडती...

काराचो आवाज म्हाका आयकालो आनी फालक्याचे देंवणेर चरोन येवंचे हेडलायटयी दिसल्ले. आनी आतां दाराचेर ठोके पडताना म्हजो जीव मिरमिरलो. दिवानखान्यांत निदोन आसल्ल्या डोबरमेन, ग्रेट डेन आनी आलशेशियन पेट्यांनी कान नीट केले.

“सावदान, सावदान!” हांव तांकां फुसफुसलों. दिवानखान्याच्या उजव्या जनेलांतल्यान म्हजो गरदनाचो गोटो सारको दिसतालो.

“पंचवीस वरसांनंतर तिका तुमी बरोच येवकार मागाजे...”

हांवें दार उगतें केलें आनी त्या चवकटांत उदेल्ल्या दृश्याक हांव बिलकूल तयार नासल्लों. दोगां दादल्या पयकीं एकल्यान पिस्तुलेची नळी म्हज्या नाकाक तोपून धरली.

“हिका!” तो म्हणालो करकस ताळ्यान, “एका डॉक्टराची गरज आसा. तुर्त कर!”

हांव घाबरलों ना. तेगांयचेर हांवें दिश्ट चरयली. तीन विभिन्न मुखमळां, विविध भावना.

“हांव मनजातिंचो डॉक्टर!” म्हजो ताळो कांपनातल्लो.

“बोर्ड वाचूंक नाय?”

“मनजातींक वाचूंक येना डॉक्टर!”

“तुजो मतलब?”

“मनशाथंय मनजातपण ना?”

“हांवें चिकित्सा करचे तसलें मनजातपण ना!” हांवें ताची पिस्तूल देगेन लोटली. “मनजाती, कारां हायजेक करिनांत, अपहरण करिनात..”

“तर तूं म्हाका ओळकाताय?” पिस्तुलधारी विचारी लागलो. आपल्या पांयांचेर वजन घालून. ताचें दावें धोंपार चेंचोन सुजल्लें आनी ती सूज ताणें घाल्ल्या जीन्सांतल्यान उटोन दिसताली.

“तुका हांव ओळकाना!” हांवें जाप दिली. “आनी ओळक करून दिवची उमेदयी म्हाका ना. पूण तुवें ह्या जोड्याक तुजेच भद्रते खातीर अपहार केलाय आनी हांचें कार घेवन हांगासर तांकां हाडलांय, फकत तुजे भद्रते खातीर. सारकें सांगचें तर तुकायी डॉक्टराची गरज आसा. घोड्यांचीं फुटलेलीं धोंपरां हांवें घडसिल्यांत...” हांव वोंठ वोळावन हांसलों.

“बंद कर हें पिसांट उलोवणें!” ती स्त्री किळंचली. “कसल्या कारणांक लागोन तुवें तुजीं आयदां हातेरां सकयल दवरिलींय तें हांव नेणां डॉक्टर!” ती म्हणाली. “तूं फकत मनजातिचो डॉक्टर म्हळ्ळें हांव बिलकूल पातयेना. म्हाका तुजी गरज आसा डॉक्टर! मनजाती थंय आसचे थोडे पुणीशे गुण म्हजेथंय आसतीत म्हळ्ळे पातयेणेन म्हजी मजत कर! हाचेविशीं...”ती म्हणाली पिस्तुलधारीक दाकवन. ‘हाचेविशीं तुवें सांगल्लें सर्व सारकें. हाणेंच अपहरण करून आमकां आनी आमच्या काराक हांगासर हाडलां. पूण ह्या सर्वांची झडती करूंक हो वेळ न्हय; फालक्याक तुवें नांव दिल्लेंच पुरो... कोणायकी झडतेक उबीं करिनाकाय डॉक्टर... तुजीच झडती पयलीं जावं!”

म्हाका हळताची लकणी आयकली.

“भितर येयात!” हांव देगेन सरलों आनी दिवानखान्याच्या जनेला लागीं पावताना कसकसोन रडलों. म्हजे हात जनेलाच्या सरळांक रेवडाले.

“आतां कित्याक रडताय?” कोणेंगी हें सवाल विचारलें.

“झडतेचो वेळ हो न्हय तर, पश्चातापाकयी हो वेळ न्हय. नतालांची रात ही...”

“हांव जाणां!” हांव मात सरळांचेर तेंकलों. “पंचवीस वरसां थावन म्हज्या गरदनाच्या गोट्याची खावणी रितीच आसा, हें घर रितें आसा, तें बेडरूम खालीच आसा आनी हांव सोदनेर आसां...”

म्हज्या खांदार एक हात बसलो.

“तिका तुज्या बेडरुमांत निदायलां!” तो म्हणालो आपली पिस्तूल कंबरबांधांत खोवन. “सध्याक तुजें घर रितें ना. खावणी भरोंकय वेळ लागचो ना.”

हांव पाटीं घुंवलों.

"म्हाका ससाय जाय!" हांवें हात उगते केले. "सबार वरसां जालीं... मनशाचो जनम करिनासतां सबार वरसां जालीं!"

"तूं म्हाका दुकीक एक इन्जेक्शन दी डॉक्टर!" तो म्हणालो आपल्या धोंपरांक पळेवन. "उपरांत हांव तुजी मजत करतां. तिचो दादलो सगळोच कंगाल जाला. प्रसूतपण पळेवंक तो सकचो ना."

हांवें ताका सूक्षिमायेन पळेलें.

"हें सर्व तूं कित्याक करताय?"

म्हजें सवाल आयकोन तो कुसकोन हांसलो.

"हरयेकल्याचे जिणयेंत एकेक पावटीं विशिश्ट नतालांची रात उदेता डॉक्टर!" तो म्हणालो.

"थोडे पावटीं जुजेफात फालक्यांत सहीत!" हांवें कुडसिलें. दूक उणी करचें इंजेक्शन ताका तोपतच तो सुडसुडीत जालो. हांव तयार जालों. पंचवीस वरसां नंतर म्हज्या काळजाचेरच ठोके पडल्ले. ह्या फालक्याक येताना म्हज्या आदरशांनी, तत्वांनी आनी चिंतपान हांव तितलों आंदळो जालों? दोन वरसां परयान ती म्हजें पिशेपण सोसून रावली? कोण कारण खावणी रिती उरोंक? हरयेकांत परिपूर्णताय जोडिजे म्हळ्ळो म्हजो ध्येय? एकेकच दृश्य म्हज्या दोळ्यांमुखार उदेलें. म्हजीच झडती जाताली. ती जायजेच!

"किचनात उदक खतखतता आनी नितळ टवल हांवें तलास केल्यात!" तो म्हणालो. "हें सर्व हांवें पिंतुरांनी पळेइल्लें. म्हज्या धोंपराची दूक उणी जाल्या... थँक्स!"

हांवें ताची पाट थापूडली आनी आमी बेडरुमांत गेल्यांव. तिका पाटापाट येणो येताल्यो. "आतां तुवें भायर वचयेंत!" तिच्या पतीक हांवें कळयलें. "आमी तयार आसाव!" तो म्हाका पोटलून धरून गळगळ्यां रडलो.

"तुजेर बेसांव पडूं डॉक्टर!" तो म्हणालो. "तुजेर हे पवीत रातीचें बेसांव पडूं."

***

मध्यान उतराल्ली.

खंयसरगी घांट वाजताली.

खंयसरगी गरनाळी.

“जल्म इतलो सुंदर म्हण हांव नेणासलों डॉक्टर!” तो म्हणालो. आपल्या कमरबांधांतली पिस्तूल त्या बेडरुमाच्या मुल्याक उडवन. आवय निद्रेस्त जाली त्या सुंदर चेडूं भुरग्याक जल्म दिवन. ताचें तें प्रथम रडणें... प्रथम उसवास...

“तुवें जायीत ते जीव काडल्याय?” हांवें विचारलें बाळकाक ऊब लुगटांनी रेवडायीत. ताणें मातें भुजांमदें गळयलें.

“मनजाती खून करिनात न्हयगी?” तो म्हणालो. “मनजाती गर्भापात करिनात... तुवें उमकाळायिल्ल्या बोर्डांत गूंड मतलब आसा डॉक्टर!”

“फुडेंयी आसतलो!” हांवें म्हळें. “चलया! ह्या बाळाच्या बापायक उल्लासिया!”

आमी दिवानखान्याक आयल्यांव. बापूय दिंबियेर आसल्लो. हांवें ताच्या खांद्याक धरून ताका उटयलो.

“चेडूं जालां!” हांवें कळयलें ती ऊब पोटली ताच्या हातांनी दिवन. “नतालांचे रातीं चेरको जन्माल्लो तर तुका चडीत संतोस जातो?”

तो मातें हालय लागलो, रडलो.

“ती बरे भलायकेंत आसा!” हांवें कळयलें. ताणें आपले धुवेच्या कपलाचो उमो घेतलो.

“हांव नेणां डॉक्टर!” तो म्हणालो गदगदीत ताळ्यान.

“ह्या प्रकरणावरवीं तुज्या आदर्शांक, तत्वांक आनी चिंतपाक धको आयला जावंयेत, पूण डॉक्टर...” ताचीं उतरां लांबोन वेताना दिवानखान्यांतले तेगयी पेटे कान नीट करून जागे जाले. कसलेंगी एक ल्हार म्हज्या बिडाराक आवृत्त करचेपरीं भास जालें. घराभायले पेटे भोंकूंक लागले.

आमी दिश्टी बदलिल्यो.

“ते आयल्यात!” तो म्हणालो. “मनजातिंचो डॉक्टर बाळंतेर करिना म्हळ्ळें सुसतोंक तांकां इल्लो वेळ लागलो. विशाद! म्हजें धोंपार घडसुंचो अवकास आनी वेळ तुका आसचो ना!”

हांवें कितेंई म्हणचेफुडें बिडाराभायर पोलिसांचे फ्लडलायट पेटले आनी ध्वनीवर्धकांचेर ताळो गाजलो. “हें घर आमी आवृत्त केलां! हात वयर करून भायर ये!”

एकाचाणें ताणें बाळकाक बापायच्या हातांतलें झोंपय मारून घेतलें.

“कितें करताय तूं?”आमी सांगाताच विचारलें. “चुकारी मारूंक तुका साधचेंच ना!”

“चुकारी मारचो उद्‌देशई म्हजो न्हय!” तो म्हणालो फुडलो दरवटो उगतो करून. “पंचवीस वरसां परयांत रिती आसल्ली तुजी खावणी आज भरतेली डॉक्टर!

पोलिसांचें सशस्त्र दळ लागीं सरताना ताणें हाळवायेन गरदनाच्या गोट्या कुशीन मेटां काडलीं आनी आपल्या हातांतल्या बाळाक वरशा मानान ताणें खावणेर निदायलें.



(कन्नड लिपयेंतल्यान नागरींत हाडपी : रमेश घ. लाड)

# खाट

"लूशे"

दोळे अशीर करून म्हणालो तोमास.

"हो सरासर अन्याय गो."

"कसलो म्हणाय?" लूसिन विचारलें, "दोन दराम जाल्या उपरांत तुका कसलो अन्याय दिश्ठीक पडलो?"

"दराम-गिराम सोड तूं पेल्यान." तोमास म्हणालो, बिडारांत आसल्ल्या एकाच खाटेचेर घाल्ली दिश्ट काडी नासता. "दीसबर फातर तासचें बेसोराचें काम करतां आनी सांजेचे एक दोन दराम मारल्ल्यांत पाटीची वोळ चलता गो लूशे..."

"तुमकां निजायकी पाटीची वोळ आसल्ली तर हीं स जणां जातीं नांत." म्हणालें लूसि ताका पंदल्या दोळ्यांनी पळेवन. "आतां कितें आसडी फापडी नासतां त्या खाटेक पळेतात तुमी? धा वरसांनी स पावानांत वे? आतां दरामां सांगाता कसलें पाशांव खिरयतात? आतां कितेंयी जालें तर सरासर अन्यायच तो."

"हांव तें चिंतिना गो बाये! चिंतल्यारि कितें इगरजमातेच्या उल्टा वचून बंदोबस्त केल्या ने हांवें?"

"तोच अन्याय म्हणतात?"लूसि हासलें. "तुमच्या मतींत हेर कांय घुंवल्लें आसा?"

तोमासाचो उडास धा-इकरा वरसांक पाटीं धावलो.

नव्यान नव्या होकलेक लूसिक घेवन ह्याच बिडाराक आयिल्ल्या ताणें होकलेक सांगल्लें, "ह्या बिडारांत मोलाचें कांय ना गो. सरकारान दिल्ल्या तीन

सेंटस् जाग्यार हें घर हांवेंच ह्याच हातांनी बांदलां. आसा म्हळ्यार म्हज्या मालगडां थावन आयिल्ली ही खाट... मालगडीं देवाक मोगाचीं जालीं पूण ही खाट मात्र ताणीं म्हाका सोडली. जेप्पु वर्क शॉपांत ही तयार जाल्ली खंय... बाब सांगतालो... तोयी..." तोमास आपल्या कुटमाची चरित्रा सांगताना लूसि त्या खाटेक पळेतालें. काळ्या बिटीचें रुकाड इतलें तेलतें आसल्लें की काळोकांतयी उजळतालें. तेंगांक आरामायेर निदच्या तितली रुंदाय; खिळ्यांनी न्हय, चडी काडून कुटी मारून घडसिल्ले संद; कार्नीस लेतीचेर तयार केल्ले घटमूट पांय. पांयांच्यो मुटयो खटल्याच्या चारांयी कुशींनीं वयर परयांत आयिल्ल्यो.

लूसिन एका कुशीची मुटी धरून हालयली, अशेंच, भेटेंच.

"बिल्कूल नुरू नुरू जायना!" म्हणालो तोमास. ताच्या ताळ्यांत कितेंगी निशेतालें तें लूसिच्या गमानाक गेलें ना. गेलें तरी समजातें ना.

"म्हळ्यार?" ताणें विचारलें.

"तुका समजोंक ना?" तो हा हा करून हांसलो.

"म्हजीं नकलां करी नाकात तुमी." तें म्हणालें, "आमी कितलीं दुबळीं म्हण तूं जाणाय. आमगेर एक खाट सोडा, सारक्यो मांचो या गरजे परयांत नात." लूसिन दोळे पुसले. "म्हाका कशें समजोंचें?"

तवळ तोमास लागीं सरल्लो. "ह्या खाटेन म्हाका जायतें शिकयलां." तो म्हणालो, लूसिक आरावन घेवन. "ही खाट पाक्याच्या आड-बीमाक आसच्या संद-गांटी परीं. कसलेंगी नवाल आसा ह्या खाटेंत..." देगेनच आसल्लो बुर्टचो चिमणे तेलाचो लापयांव ताणें पालवयलो...

धा वर्सांनी जातान लूसिन म्हळ्ळें आसा, "खाटेचीं स नवालां दिसतात ने?"

तो हासतालो.

आतां तांकां कांय तरी तांक आसल्ली. कोडियाळांत बांदपां आळमिओ फुलल्ले परीं फुलतालीं. तोमासाक दरबस्त काम आसल्लें. लूसिन सुरू केल्लो लोणच्याचो व्यापार बरो चलतालो. इस्कोलाची प्राय जाल्लीं भुरगीं इस्कोलाक वेतालीं.

त्याच बिडाराक तोमासान दोन कुडां चडीत काडल्लीं. एक निर्मळ न्हाणी, एक कापूस, दोन अशीर बांक, चार इस्टुलां. "आनी फर्नचर पुरो, फर्नचर

पुरो.'' तो म्हणालो. ह्या दिसांनी बांदपा-थळांचेर आयकाल्ले एक-दोन इंग्लीश सब्द ताच्या मतींत रिगल्ले.

''ही एक खाट काडल्यार सालां सोफा घालयेत ने?'' एका दिसा लूसिन म्हळ्ळें आनी तो तापल्लो ''दोन सगती ह्या घरांत, तूं उलयनाच लूशे!'' तो म्हणालो. ''एक, हें घर सोडून दुसऱ्या घराक वेची संगत आनी दुसरें, ही खाट विकची या कोणा दिवंची संगत.''

''जायत सायबा, जायत!'' म्हळ्ळें लूसिन.

आनी आतां....

''कसलो अन्नाय म्हणतात तुमी?'' लूसिन परत विचारलें. ''कसलें नवेसांव दिसलां तुमकां त्या खाटेंत?''

''आमचीं हीं भुरगीं ह्या खाटेर निदोंक कितलीं आशेतात म्हण तूं जाणाय लूशे?'' ताचें सवाल आवचित जावन आसल्लें; तितलो अर्तयी नातल्लो ह्या सवालांत.

''तांकां कोण आडायता म्हण?'' म्हणालें लूसि. ''आडायल्यार तुवेंच...'' तें दोन अर्तान म्हणालें.

''तशें न्हय गो'' तो समजय लागलो. ''आमी पांच मिनुटां खटल्यार निदतांव बाबा म्हणतात न्हय गो तीं? आनी तो म्हजो व्हडलो आसा पळे, तो फकत 'गुड' न्हय, 'व्हॅरी गुड' आसा तो. ताका ह्या खाटेचेर बारी मोग...''

''हूं!'' म्हणालें लूसि. ''ही खाट बिल्कूल नुरू नुरू जायना पळे.''

''तुजें पेदां नाका गो!'' गोल्डन टवर व्हिस्केचें पांयट वोंटांक लायलें तोमासान. आतां ताचें मन दरामा थावन पायंटाक गेल्लें. ''हांवें उलवंचें आयक पेल्यान. हांव चिंततां, आज थावन आमी सालाच्या धरणीर या तेवशील्या कुडांत पांच जणांक घेवन निदाजे. सरतेन आमचीं भुरगीं खाटेर निदोंदीत. आज आमचो मालगडो...''

दोळ्यांच्यो आसटो फापडी नासतां लूसि आपल्या घोवाक पळे लागलें.

'असलेयी बरे मनीस संवसारांत आसात गी सोमया देवा?' तें मनांतच विचारी लागलें. 'कितें जालें ताणें एक क्वार्टर मारल्यार? कितें जालें एक-दोन पावटीं म्हज्या केस्टांक धरल्यार? कितें जालें म्हाका पाटापाट स भुरगीं दिल्ल्यांत?' ताणें पालवाच्या पोंतान दोळे पुसले.

सरकाराच्या कसल्यागी एका योजनाक लागोन तांकां एक वीज दिव्याचें कनेक्शन मेळल्लें. पूण तांचो मालगडो इतलो किन्न्याळो आनी हुशार गी बापायन काम करच्या सायटी थावन वायरां हाडून ताणें चोरियां आनी दोन बल्ब घाल्ले.

"हो आमचें नांव वरतोलो." एका दिसा म्हळ्ळें तोमासान.

"नाका हाबा नाका." म्हळ्ळें लूसिन.

"आदीं एका केलशान आपलें नांव पेपरांनी येजे म्हण रायाचो गळो कातरलोलो खंय..."

लूसि आतां पाटीं स्थिमिताक आयलें.

"आलोचन बरी आसा." तें म्हणालें. "पूण फाल्यां थावन निदूंक सुरू करुंदीत. दिसाचें वोत तापतेच खाटेची गजडी वोताक घाल्न फापुडतां, कांय बिकूण आसल्यार वचूं दीत."

"पूण तांकां सांगचें आतांच सांगया."

ताचीं उतरां आयकोन परत लूसिच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं.

सरतेन, तोमासाचीं आनी लूसिचीं भुरगीं त्या खाटेर निदोंक सुरू जालीं. सोमाराचें मालगड्या थावन सुरू जावन सनवार पर्यांत. आयताराची सरती तोमास आनी लूसिचि.

त्याच खटल्यार किर्लोन जल्माल्ल्या भुरग्यांनी कितलींयी उडणां घाल्यारीय ते खाटेन नुरू नुरू केलेंना.

मालगड्यान पॉलिटॅक्निकांत मोटार मॅकानीक जावन शंकर विटल ग्यारेजींत स मयने काम करिजे तर तोमास आपटालो. ताच्या पाटीन ताका दगो केलो. मांदरी धरिजे म्हणालो दाक्तेर; खाट आसल्यार आनिकि बरें, तुज्या पाटीच्या कण्याच्यो म्हाणक्यो झरल्यात; आनी थोड्या दिसांनी तुका उटोंकयि जावंचेंना.

मालगड्यान कश्टांनी बापायक खाट सोडून दिली. पाटल्या स मयन्यां थावन तो कायाम खाटेचेरच निदतालो. बेसोराचें काम म्हजें, म्हाका खाटेचो –गजडेचो सुशेगच जाय.

तोमासाचे कश्ट चडले. खाटेर थावन उटोंक ताच्यान जालें ना. कुडीचें म्हेळें खाटेरच वचूंक सुरू जालें. घरांत एका थराची मूर चरली. खाटे लागीं

फकत लूसि मात्र वेतालें. खाटेच्या फोळ्यांक एक बुराक करून तांणी एक बालदी पंदाक दवरली, तोमासाचें म्हेळें पडचे खातीर. घरांतल्यांचो कांटाळो चडलो.

‘‘आनी म्हज्यान हें सोंसूंक जायना!’’ तो म्हणालो, रागान वागच जावन. ‘‘हें घर गी या कापूस म्हण म्हाका कळाना. आनी हांव हांगासर रावाना.’’

‘‘खंय वेताय रे पुता? खाटेर निदला तो तुजो बापय रे आनी ती खाट... पोयर पर्यांत तुका पाट तेंकोक तीच जाय आसल्ली...’’

‘‘आज ती खाट कोमोड केलाय न्हय?’’

‘‘कोमोड...’’

‘‘मांय, दाटूक फॉरीनाची विझा आयल्या... तो फॉरीन वेता मांय...’’

‘‘कित्याक रे पुता? ही जोड पावाना वे तुका? तुजो बापय ह्या स्थितियेर आसताना?’’

‘‘तुका बाबाची स्थिती दिसता मांय, आतां वाडोन रावल्लीं आनी वाडोन येवच्यो तेगी धुवो तुका दिसोनांत? चेडे ते कास्टी मारूनयी दीस काडतीत, पूण हीं चेडवां? फाल्यां म्हाकायी एक फुडार जाय.. ही खाट खाट म्हण तुमी स जाणांक केलें आनी आतां..’’

‘‘बंद कर तसलें उलवणें!’’ लुसिन ताळो काडलो तरी ताका तो नाटवलो ना.

‘‘तो वचुंदी लूशे, वचुंदी!’’ पिरंगालो तोमास. ‘‘तुका कांय ह्या खाटे सरशीं येवंक लज दिसाना मू?’’

लूसिन दुकां पुसलीं.

तोमास चार वर्सांबर झरकटलो, झरकटलो आनी मेलो.

ह्या चार वर्सांनी मालगड्यान बरीच प्रगती केल्ली आनी आपली जवाबदार तो विसरोंक ना. दोगां भयणींक ताणें काजर केल्लें, तिसरी भयण आनी भाव शिकपांत आसल्ले.

घर बिडार तशेंच आसल्लें... आवय लूसि आनी ती खाट. बापायच्या मरनाविधीक तो आयलोना. आतां खाटियेचेर फकत लूसि निदताली; कोमोडाचो बुराक एक फोळें दवर्न तिणें दांपल्लो.

“हांव फळनीरांत नवें घर बांदतां, मांय!” पाटीं वेच्च्या पयलीं तो म्हणालो. “एक वर्सान तें तयार जातेलें. तवळ येवन हांव लग्न जातां... आनी हें – तूं आमच्या सांगाता नव्या घराक येताय मू? चिंतून पळे...”

चिंतून पळे? आवयचो जागो पुता सांगाता न्हय? कितें म्हळ्ळें जेजून खुरसार थावन? चिंतून पळे...

लूसिन कितेंयि म्हणच्या पयलींच ताची टेक्सी आयिल्ली.

एका वर्सा उपरांत घडोंक आसचें घडलें. ताचें घर उबें जालें. दोडें काजर – भयणीचें आनी ताचें – गद्‌दळायेन जालें. घर–वकालयी जालें.

प्रगती म्हळ्यार ही! म्हणालो लोक. तोमासाचें आनी लूसिचें मागणें देवान आयकलें. लूसिक आतां भांगराचें शीत खावंक पुरो. लोणच्याक आळेना वाटल्लीं.

एक हफ्तो जातेच लूसिन पुता लागीं म्हळें, “व्हय रे पुता, तुवें चिंतून पळे म्हळ्ळ्याक चिंतून पळेवन हांव हांगासर आयलीं. घर पुणी बरें आसा, पूण...”

“पूण कितें मांय? फॅन समा घुंवाना गी?” आपल्या नव्या व्हंकलेक दोळो मोडलो पुतान.

“तशें न्हय पुता... ती खाट आतांयी परनया घरांत आसा मू?”

“हूं, आसा. आसतली...”

“तें घर तो जागो सरकाराक पाटीं सोडून दिवंक आसा न्हय?”

“जाय जाल्यार येवन व्हरतेले... तुका कितें खंत?”

“तशें न्हय पुता... ती खाट तूं हांगासर हाडशीत तर... म्हाका बरी नीद पडात.”

“कितें उलयताय मांय? ह्या नव्या घरांतलो टॉपक्लास फर्निचेर तुका दिसाना? त्या मधें ती खाट? बाबान केल्लें कितलें म्हेळें त्या खाटेच्या सांदी मुल्यांनी आतांय आसा कोण्णा. य्याट्!”

हें आयकोन ताची पतीण हांसली.

“कसलें गी सँटिमँटल उलवणें.”

“तशें उलय नाका पुता! त्या खाटेक आनी आमकां-सर्वांक कितलो लगाव आसा म्हण तूं जाणाय...”

तो उबो जालो.

ताचे दोळे कसल्यागी एका आलोचनेन उजळ्ळे.

"तर हांव एक काम करतां!" तो म्हणालो. "म्हजे मतींत आलोचन्यो उदेंवच्याक कांय सुकीदाड ना. ती खाट हांव हांगासार हाडिना पूण आसऱ्याक दान दितां..."

"कित्याक आनी कसलें...?" लूसिक अर्त जालो ना. "आसऱ्याक दान दिताय?"

"दान न्हय तर आसऱ्याक दिवन तुकाच म्हण रिजर्व करतां मांय. आतां तूं तुज्या पांयांचेर उबी आसाय पूण केदोळ पर्यांत? हांव केन्नायी पयशिल्लें पळेवंचो मनीस. बाबच म्हणतालो न्हय की हांव 'गुड' न्हय, 'व्हॅरी गुड' म्हण?"



# निती थाव्न पळापळ

हर्शेंचेपरीं तो आजयी सोरो पियेव्न आयिल्लो. वोरां रातिचीं साडे-अक्रा जालीं. बी. ए. शिकपाच्या निमाण्या वर्सांत हांव शिक्तालों आनी ह्ये रातीं म्हजें शिंतीद पुस्तकाचेर खंचल्लें - परीक्षा लागीं येंताली. मंग्ळुरांत ह्या एका घरांत बोर्डर जाव्न हांव राव्तालों.

आनी आतां आमाली जाव्न बितर सरल्लो हो मनिस ह्या घराचो धनी. आंक्वार तो, ह्या ताच्या तीन रुमांच्या घरांत एकसुरो जियेतालो आनी कांय कोणाक तरी मजत जावं म्हळ्ळे खातिर कोण्णा ताणें म्हाका उण्या भाड्याक हें रूम दिल्लें. हांव विद्यार्थी, कांय वाय्ट चालिचो न्हय म्हळ्ळी गोष्टी ताका सुस्ताल्ली कोण्णा. आसुं.

ताचें नांव पाव्ल शेट. मंग्ळुर्च्या बंद्रार आनी हेर जाग्यांनी ताका पोपळांचें फुल्तें बिसनेस आसल्लें आनी तो खूब कमाय्तालो आनी तितलेंच पियेतालो. ताची जिणी ती, ताचो दुडू; पूण असल्ये परिगतिंत हांवें म्हजें गमन शिकपाचेर दवर्चें तरी कशें? तो घरा रिग्ल्या उप्रांत म्हाका शिकोंक बिल्कुल सोडिनातल्लो. ताचे सांगाता बसुन फलां मारिजे म्हळ्ळेंच ताचे हट्ट.

आयिलोच तो शीदा म्हज्या कम्य्राक आय्लो. ‘अरे आपा, तुं आनिकी निदुंक नांय? जेवण बी केलांय आस्तेलें. कांय थोडें सेव्ताय? हा हा...?’

‘म्हाका धोशिनाका पाव्ल शेट.’ म्हळ्ळें हांवें आडदोस मागून. ‘म्हाका शिकोंक आसा, परिक्षा लागीं येता!’

‘शिकल्लें पुरो-रे अपा शिकोन कितें करूंक आसा? आजिक पुरो... आतां आयक्क म्हजें गायान... हो मै डार्लिंग क्लेमेंटाय्न... लोश्शु बैबै...’’

म्हजो पिंतेग चडलो. ह्या पाव्ल शेटीक कोण तरी फिचार करिनांत कित्याक? दुडवाचे वांदे नातल्ले तर हांव हाच्या घरांत रावतोंच ना. हांगासर रावल्यार हांवें बी.ए. पास जाल्ले परींच. जोडटा, सोरो पियेता, होटलांत जेव्ता आनी राती-फांत्या परयांत खेस्तांवां कर्ता.

असल्याची खुन केल्यार म्हाका खंचो देवयी भोग्शीत!

व्हय, म्हाका खंचोयी देव भोग्शीत...

म्हज्या मेजावय्ली म्हजी कान्वेत (सुरी) म्हाका पळेव्न हेडाय्ता कशी दिस्ली.

पाव्ल शेटीन आतां पोज्डें (भास्कळपण) उलव्णें सुरू केलें.

'ना! तुका वांच आनी ना. तुका हांव सुरी घाल्तोलोंच!

***

... कोणेंगी खोट मारल्ले जिनसार म्हाका जाग जाली.

हांव पाव्ल शेटीच्या कुडाच्या हुंब्रार उबो आसल्लों.

कितें कर्तालों हांव थंयसर? कांय निदेंत उटोन आयिल्लों कोण्णा.

म्हाका निदेंत चलची सवय (पिडा) आसल्ली.

अरे! हें कितें?

म्हज्या हातांत म्हजी कान्वेत (सुरी)?

म्हजें काळीज उडोन तोंडांत आय्लें - हांवें काय पाव्ल शेटीची खुन केल्या? निदेंत उटोन येव्न हांवें कितें सर्व केलां जावयेत.

धर्य आरव्न हांवें पाव्ल शेटीच्या कम्प्रांत तिल्ळें.

सकाळिंच्या मस्क उजवाडांत पाव्ल शेट धर्णिर पडोन आसचो दिस्लो. ताची सर्शीं आसचें मेज आड पडल्लें. वोमतोच तो पडोन आसलो, घाल्ल्या नेस्णारच आनी... आनी...

ताचे भंव्तीं कसलेंगी दाट दाट तांब्डें तांब्डें...

रगत!

व्हय, निदेंत उटोन येव्न हांवें पाव्ल शेटीची खुन केल्ली.

ही एक *सैकोलोजिकल मर्डर.* पूण खंचो पोलिस, जज्ज म्हाका पात्येत?

ना, कोणंच म्हाक पात्येंवचो ना.

तर आतां कसलो उपाव?

पळापळ!

हेर उपाव ना आनी वेळयी ना. चडित घळाय नाका म्हण हांव पाव्ल शेटीच्या कम्प्राभितर रिग्लो ना. हातांत आसा सुरी, ती हांवें लिपयजे. ह्ये घडबडेंत त्ये सुरियेक रगत लागोंकच नातल्लें म्हळ्ळें म्हजया गमनाक गेलेंच ना. शीदा पाव्ल शेटीच्या हितलाक धांवलों आनी हातां-बोटांनी बोक्रुन म्हळ्ळेपरी एक ल्हान-सो फोंड खोंडुन ती सुरी पुर्ली आनी माती धांपतां म्हणताना-

''सकाळीं फुडें कितें वाव्रार पडलाय?''

हीं उत्रां आयकोन हांव बरफ जालों.

धग्र घेव्न पाटीं पळेताना, पिडेस्तांक कोमुंजांव व्हरुन गेल्लो पाद्रीगार उबो आसा.

''का.. कांय ना, फादर'' कश्टांनी हांवें जाप दिली आनी उटोन धांव्लोंच.

एकावेळीं पाद्रिगारान हांवें सुरी पुर्ची पळेल्या तर तो खंडीत पोलिसांक फिर्याद दितलोच्च. देवाचो मनिस कसलेंयी पाप लिपयना न्हय?

ना, ना. आनी चड वेळ म्हज्या सामकार ना. हांवें पळापळ घेजेच्च. शीदा म्हज्या कम्प्राक येव्न हांव वेवेग्गीं नेस्लों - कितें नेस्लों तें पळेलें पर्यांत ना - आनी एका उस्वासान पाव्ल शेटीचें घर सांडुन हांवें पाव्लां काडलीं.

कांय सुमार दोन-अडेज मय्लां पय्स पाव्ल्या उप्रांत हांवें थोडो स्वास घेत्लो. व्हय, निती थाव्न पळापळ हांव घेतालों. पुण खंय धांवचें, केदोळ पर्यांत धांवचें? म्हाका कळित नातल्लें.

रसत्यार कोणंच वळिकचे म्हाका दिसले नांत देकून हांवें एक रुकाचो आडोस घेतलो आनी बलसांत हात घालुन कांय थोडे पय्शे भाग्र काडले. खंय धांवोंकयी दुडु जाय न्हय? कितले आसात म्हण लेक घालताना-

'हात वय्र कर!'

ही हुकुम आयकोन हांव मतिहीन जांव्क नाशील्लों बर्याक पडलें.

'म्हज्या हातांत बंदूक आसा!' तो ताळो म्हणालो. 'आवाज कर्शी तर तुजो 'च्याप्टर क्लोस' कर्तां. ह्या *लुफ्टेनेंटा* थाव्न पोळ्न खंय धांवशी?'

हांवें हात वय्र केले.

आतां हांव लुफ्टेनेंटाच्या हातांक सांपडलों, देवा?

फटाफटा सन्निवेशां म्हज्या दोळ्यां सामकार आयलीं-

जय्ल, कोर्ट, जज्ज, फर्माण आनी निमाणे - फांसी!

सर्व संपदलें.

'नाका! म्हाका मारिनाका! हांव खुनिगार न्हय. म्हजे वाक्मूल आय्क.' अशी बोब मारून हांव पाटीं घुंव्लों. म्हज्या पाटल्यान उबो आसल्ल्याक पळेव्न हांव थटाक्लों-

तो एक पिसो. एका तेंपार मिलिट्रिंत आसल्लो खंय आनी आतां हातांत एक सोंटो (लांब लांकुड) घेव्न लोकाक भेशटायतालो. ह्या पिश्याक हांवें सबार पाव्टीं पळेल्लो तरी प्रस्तुत परिगतिंत कितेंच म्हज्या गमनाक गेलें ना. म्हज्या गुन्यांवी अंतस्करणान सर्वाचेर धांकण घाल्लें.

एका खिणाक हांव सुशेगत जालों पुण म्हजी धांव आकेर जांव्क नाशील्ली.

"ढं डं" म्हणालो तो पिसो. "तुं मेलोय!" आनी आपली 'बंदूक' खांदार दवर्न चल्लो.

म्हजी धांव परत सुरू जाली.

सकाळिंचीं आट वोरां, ना म्हज्या पोटाक उदक या नास्टो.

थोडीं मेटां चलतेच म्हाका कितें भोग्लेंकी, हांवें पाटीं पळेलें. एक्लो पोलिस म्हजो पाटलाव कर्ता. हांवें म्हजी चाल तुरित केली. पुण तो पोलिस आनिकी चुरुकायेन म्हजो पाटलाव कर्ता. हांव धांवोंक लाग्तां म्हणताना-

'राव मात्सो! तुजेलागीं म्हाका थोडी गर्ज आसा.'

पोलिसाचीं उत्रां आय्कोन म्हजे पांय एकामेका चिड्काले.

जालें, सर्व आकेर जालें; निस्संतान जालो म्हजो फुडार, डब्ब्यांत गेलें म्हजें शिकप; म्हजी भय्ण, आवय-बापय, भाव... कितें जाय्त तांचें?

सकाळींचे थंडियेंत म्हज्या कपालार घामाचे थेंबे उदेले.

पोलिसान आपलो हात आपल्या बलसांत वेलो. भोवशा खोडो (हात्खडी) काडुंक दिस्ता. हांव म्हजे दोनयी हात लागीं धरुन तयार जालों. कसलें दृश हें? बी. ए. शिकप कर्चो चलो आनी...

'तुजेलागीं काडियां पेट (फेस्क) आसा?' पोलिसान विचार्लें, आपल्या बलसांतली सिग्रेट पेकेट काडुन.

जाप जाणां आसोनयी ती उचारोंक म्हाका धा-बारा खिणां लाग्लीं.

'ना, हांव बीडी सिग्रेट सेविना!' हांव गागेलों.

'कांय नजो' तो म्हणालो. 'पुण कितें तुं इतलो भिजुडलाय?' ताणें मुकारोन विचार्लें 'काय भलायकी बरी ना? काय घोटलांय बी कितें?'

'ना.. व्हय..' आनी कितें कितें जाप दीव्न हांवें तुर्तान मेटां काडलीं.

त्या पोलिसाचो हांसो म्हाका आय्कालो तरी हांवें पाटीं पळेलें ना.

संसारा सामकार हांव पिसोच तरी निती थाव्न पळापळ हांवें घेव्कच आसल्ली.

फुडें गेलों हांव आनी एका बस्सस्टोपाक पाव्लों. थंयसर चडशी गडदी नातल्ली. येकाचाणे म्हजे मतिंत आय्लें : काय त्या पाव्ल शेटीचें रगत पुणी म्हजया आंगार उसळ्ळां?

ना! देवाक अर्गां. शीदा हंपनकट्टा नक्याक वचुन म्हज्या गांव्चें बस्स धरुन वेचें. थंयथाव्न मैसूर या बेंग्ळुराक पळापळ घेंव्ची. कांय तितलेच पय्शे म्हजेलागीं आसल्ले या ना? ना तर म्हज्या घरा वचुन दुडू घेव्न म्हजी पळापळ ज्यारी कर्ची. म्हजो गांव पुत्तूर. हंपनकट्टाक वेचें बस्स धरुन हांव थंय पावलों.

साम्कार मेळल्ल्या होटेलाक वचुन कसलोगी नास्टो हाडयलो. तो अर्दो खाताना दोग हवलदार पोलिस बितर रिग्ले. तांकां पळेतेच म्हज्या गळ्यांत म्हजो नास्टो शिर्कालो. पुण तांचें गमन म्हजेर बिलकुल नाशील्लें. नाशट्याची बशी थंय्च सोडुन बिल्ल फारिक करून भाय्र आय्लों.

पुत्तूराक वेचें बस्स येंव्क आनिकी एका घंट्याचो ताडव आसा म्हण म्हाका कळित जाताना म्हजे उब्देस चड जाले. कितें करुं, कितें करुं? बस्स स्टेंड जाल्ल्यान, हवाल्दार हेणें तेणें भंवोनंच आशील्ले. तांचे दोळे चुकंवच्याक एक वर्तमान पत्र घेव्न वाचचेपरीं नटन करिलाग्लों पुण म्हाका अशें भोग्लेंकी वेळच्च राव्ला, थांब्ला.

आक्रेक तरी पुत्तूराक वेचें बस्स आय्लें आनी हांव तुर्तान चडोन बस्लों. म्हजो जीव बारीक कांपतालो. बस्स रावोन च्या-बी पियेंव्क गेल्ले ड्रायवर-

कंडक्टर सुमार्सो वेळ पर्यांत आय्लेच नांत. कितें करुंक जाता म्हज्यान? काळिज आनिकी चडितायेन उडतालें.

तित्ल्यार... व्हय, तितल्यार-

'अरे बाळा, तुं हे बस्सिचेर कितें कर्ताय?'

कोणाचो ताळो हो? परिचित ताळो. कोणाचो ताळो?

पाव्ल शेटीचो!

व्हय, व्हय तसोच. बस्सीचे बितर आयिल्लो तो शीदा म्हजे सर्शिंच येव्न बस्लो.

ताचें आंग (कूड) म्हाका आदाळ्ळी.

व्हय तोच्च तो, मेल्लें बी कांय न्हय. जिवोच पाव्ल शेट.

'कित्याक इतलोयी घडबडलाय तुं? हांव मेलों म्हण चितलोय? हांव च्यार बाटली पियेल्यारी मराना-रे, अपा!'

तो हास्लो. ताच्या उस्वासाक घाण सोर्याची येताली.

'म्हाका.... तुर्तान गांगांक, पुत्तूराक वेचें पडलें' हांवें कश्टांनी फट मार्ली.

'म्हाका पुणी सांग्तोय, हां?' ताणे विचार्लें. 'पुत्तूरांतयी म्हजें बेड्यांचें (पोपळांचें) बिसनेस आसा न्हय?'

'हांव... हांव...'

'हांव जाणां-रे आपा!' तो म्हणालो. 'तुं वेताना हांव कांय धर्णिर लोळोन आसल्लों जाय्जे. कालचे रातीं घेतल्लें थोडें चड जालें. रातिक थोडें सर्कस केलो.'

'कितें जालें?' विचार्चें धय्र घेतलें हांवें.

'खटियेथाव्न सक्ला पडलों आनी पडटाना लाग्सार आसल्लें मेज-यी आड पडलें आनी ताचेर आशिल्लो तांबड्या पेंय्टाचो डब्बो सग्ळो म्हज्या आंगार-मात्यार वोम्तालो....'

पाव्ल शेटीच्या मुखमळाक बारीक्साणेन हांवें पळेलें.

कांय थोडीं तांब्डीं खतां (पेंय्टाचीं) आशील्लीं. दोळे तांब्डेच आशील्ले पुण तो हास्तालो.

'सोरो पियेंव्ची सवय वाय्ट म्हण हांव जाणां!' तो म्हणालो. 'तुका सदांयी हांव कितले त्रास दितां कोण जाणां! सोर्री,हां'

ताणें हात जोडले.

आतां--

हांव लजलों. निदेंत चलची सवय आसल्या म्हाका सुरी घेव्न पाव्ल शेटीच्या दारा लागीं पाव्तानांच जाग दिल्ल्या देवाक हांवें अर्गां दिलीं.

आनी ही गर्ज नाशिल्ली 'निती थाव्न पळापळ?'

'पाव्ल शेटी', म्हळें हांवें, मातस्या मोगान. 'हांव टोय्लेटाक वचुन येतां, बस्स सुटोंक आनिकी वेळ आसा.'

अशें बस्सीर थाव्न देंवल्लो हांव परत पाटीं आय्लोंच ना; पाव्ल शेट पुत्तूराक पाव्ताना हांव म्हज्या रूमाक पाटीं वचुन म्हज्या शिक्पा-पुस्तकां मधें लिप्लों!



# टायम बॉम

**५** डिसेंबर १९९७

परशुराम ऍक्सप्रॅस - मंगळूर थावन थिरुवनंतपूर.

ऍरनाकुलम (कोचीन) चलोंक आसच्या कोंकणी सम्मेलनाक भायर सरल्लों हांव फस्ट क्लास कंपार्टमँटांत एकलोच आशिल्लों. सकाळचीं ४.०५. भायर काळोख आशिल्लो.

हांवें निदोंक केल्लें तें प्रेतन फल्सालें ना. बेश्टोच सिटिचेर आड पडोन उजवाडटा पर्यांत कश्टांनी वेळ पाशार केलो. उपरांत पँट्री कारा थावन आयिल्ल्या ब्रॅड-ऑम्लेटाचो नास्तो आनी दोन कॉपां च्या पियेले नंतर म्हजो हुरूप जिवाळ्ळो आनी भायले प्रकृतिची सोभाय तो हुरूप निवोंक सोडिना जाली.

तरी कल्लिकोट परयांतलें पयण हांवें एकल्यानच करिजे पडलें. स्टेशनांत गडदी आशिल्ली. जनेलांतल्यान भायर पळेवंच्या म्हाका तवळ तीं दिसलीं.

हांव बसून आशिल्लें कंपार्टमँट खाली आसा तें पळेवन तो दादलो, सांगाता आसल्ले स्त्रियेलागीं कितेंगी म्हणालो आनी तिणें 'जायत' म्हण माथें हालयतच तीं दोगांय घळाय करिनासतां कंपार्टमँटांत रिंगलीं.

सह-प्रयाणिकांच्या सांगाताक आशेवन आसल्ल्या म्हजें शितीद हांचेर खंचोन आसताना, कंपार्टमँटांत रिगल्ल्या स-सात पोलिसांचेर म्हजें गमन पडलें ना. भितर आयिल्ल्या प्रयाणिंकांलागीं सामान कांय खूब आशिल्लो. सूटकेसी न्हय आसतां, तीन-चार व्हड बँगां, एक टिफीन कॅरियर, दोन फ्लास्क, पिकनिकाक भायर सरल्ले परीं एका बेगा थावन पांचव्या रंगाचें चादुदर भायर तिळतालें. त्या दादल्याची प्राय कांय पन्नास जातीत. तो मुंडू नेसल्लो आनी वयर घाल्ल्या शर्टाचे बुतांव बोमले परयांत उगते पडल्ले. स्त्रियेक चड म्हय्यार एकवीस वा तेवीस. तिणें घाल्लें विस्तूद आनी मातें दांपिल्ली रीत पळेताना तीं मुसलीम धर्माचीं म्हण म्हाका कळीत जालें.

तो दादलो सिटीर बसल्ले परीच आड पडलो.

''हांव कठीण सीक मनीस'' तो म्हणालो. ताच्या दोळ्यां भंवती आसचीं काळीं व्रततां आनी खाडकेर दाटल्ली दोन दिसांची पुणी खाडावाडावळ पयिल्ले पावटीं म्हज्या गमनाक गेली. सुरविलें उतरच ''हांव एक सीक मनीस'' म्हळ्ळेंच तर हांव कसली जाप दिवं?

''कितें जाता?'' हांवें सवाल केलें. आमचें उलवणें इंग्लिशांत चलतालें.

''आसुंदी'', तो म्हणालो, कुस्कूट हास्यासंगी. ''कल्लिकोटांत एके आस्पत्रेंत आसल्लों. आनी आतां थिरुवनंतपुरांतल्या आनयेक आस्पत्रेक वेचें.''

'हूं, तर हीं पिकनिकाक भायर सरल्लीं न्हय.'

हांवें तांच्या बेगांचेर परत्यान दिश्ट चरयली. तितल्यार तिणें दोन गुळयो ताच्या हातार घाल्यो आनी बाटलेंतलें उदक ताका दिलें. उदकासंगी त्यो सेवतेच तो परत्यान सिटिचर आड पडलो. पोटांत हुलोप आसचे परी तो पोटाचेर हात घुंवडायतालो.

म्हाका कितें उलोवंचें, कशें उलोवंचें म्हण सुसतालें ना. 'बरी कम्पनी मेळ्ळी', चिंतलें हांवें आनी एक सिगरेट पेटयतूच 'रीडर्स डायजेस्ट' उसयलो. पूण मन वाचपाचेर रावलें ना. ती कसलोगी मळेयालम मॅगजीन वाचताली पूण तिचो एक दोळो ताचेर आशिल्लो. पँट्री कारा थावन 'चूड' (हून) कटलेट विकूंक आयल्लीं. आमी तीं घेतलिंना. तो एकाचाणे उटोन बसलो.

''आतां म्हाका थोडो सुशेग जाता.'' तो म्हणालो आपल्या बोल्सांत सांसपोन. ''म्हाकायी सिगरेटिची संवंय आसा.''

हांवें ताका सिगरेट दिवंच्या फुडेंच ताणें आपली पेटयली. ''आतां हांव टॉयलेटाक वेतां.'' तो अवचीत म्हणालो आनी एक मग्ग घेवून गेलो.

कंपार्टमँटांत आमी दोगांच उरल्यांव आनी म्हाका बांदपास जाले. हांव उटलों आनी कंपार्टमँटांत एक पासय मारली आनी तवळ ते पोलीस म्हज्या गमनाक आयले. ते स जाण आशिल्ले. पांच जाण बेट्नां घेवून बसून आशिल्ले आनी एकलो इन्सपेक्टर सिगरेट सेवतालो.

हाचेलागीं पुणी उलोवंया अशें चिंतून हांवें 'हॅलो' म्हळें. ''एराकुलम परयांत?'' हांवें विचारलें.

''ना.'' तो म्हणालो.

“थिरुवनंतपूर?”

“ना! आमी ट्रेन ड्युटेर आसांव.”

“पोलिसांक केन्ना ट्रेन ड्युटी लागली.”

तो म्हाका पळेलागलो.

‘हांव कांय अधिक प्रसंग उलयलों?’ अशें हांवें चिंतलें.

“हे ट्रेनिचेर बॉम आसा.”

ताचीं हीं उतरां आयकोन म्हजे थंय जाल्ली प्रतिक्रिया विवरोंक म्हाकाच कश्ट मारतात. विमानांचेर असलें सर्व घडता म्हण हांवें भियेवचें आशिल्लें. पूण आतां ट्रेनी भितरयी?

“तर हें ट्रेन कित्याक रावयनात?” हांव बडबडलों. “बॉम आसा म्हण तुमी सुशेगात बसल्यात?” म्हजें काळीज तोंडांत आयलें.

“घाबरेवंची कांय गर्ज ना.” तो म्हणालो, स्थिमितायेंत आशिल्ल्या ताळ्यान. “फाल्यां बाबरी मसजिद डे. Somebody is simply bluffing!” आपल्या मलेयाळम-इंग्लिशांत तो म्हणालो. हेरा वेळार तर हांव हांसतों पूण आतां भियांन मोत मंद जाल्ली. “आमी ट्रेनिचेर सोदनां चलयतांव... नो प्रॉबलेम.”

म्हाका कितेंच सुस्तालें ना.

सास्पोन म्हळ्ळेपरीं हांव म्हजे सिटीक पाटीं आयलों.

म्हजो सह-प्रयाणीक टॉयलेटा थावन पाटीं आयिल्लो.

सिगरेट पेटवचो म्हजो हात आतां कांपतालो.

मरोंक सर्वांकयी आसा.

हें म्हणोंक सुलभ. पूण असलें मरण? कोणाक कोणाच्या आतंकवादांक लागोन, मोटारा पंदाक पडोन मरच्या सुण्या-माजरां परीं भेसां-भेसां जावन मराजे?

आमचीं कोंकणी पत्रां कितें म्हणतेलीं?

निमाणे घडिये परयांत कोंकणीची सेवा केली बावड्यान. कोंकणी सम्मेळनाक भायर सरल्लो खंय...

ह्याच कंपार्टमँटाच्या पंदाक बॉम आसल्यार? टॉयलेटांत आसल्यार?

म्हाका शेळो घाम सुटलो.

फुडल्या स्टेशनांत देंवचेंच बरें. पूण फुडलें स्टेशन येवंचे फुडेंच बॉम फुटल्यार?

सय्यिदान घुंवोन म्हजेर एक विचित्र दिश्ट घाली. ‘‘ती म्हजी पतीण!’’

म्हाका घोड्यान खोंटायल्ले परीं जालें. गल्फांत आसल्ल्या म्हाका हें कांय नवेंसांवशें दिसूंक नजो आशिल्लें. पूण ते घडये मोत मंद जाल्ली. हांव ‘सॉरी’ म्हणतों पूण अपार्थ जायत म्हण चूप रावलों.

तांकां रॅस्टरुमांत पावयतेच हांवें प्लॅटफॉर्माचेर येवून आनयेक सिगरेट पेटयली. आतां उब्देस चिक्केशे उणे जाल्ले. कंपार्टमॅन्टांतलो इन्स्पॅक्टर एका खुंद्याक वणकोन रावोन सिगरेट सेवतालो. मोन करून हांव ताचे सरशीं गेलों.

‘‘आतां कितें?’’ हांवें विचारलें.

‘‘आमी ट्रेनिची तलाशी करतांव.’’

बोगीं मदीं ‘वेस्टिबूल’ वेवस्ता आशिल्ल्यान पोलीस वयर-सकयल धांवताले.

‘‘गाडयेच्या पंदाक पळेल्यार बरें न्हय?’’ हांवें नम्रतेन सुचयलें.

‘‘तसली तलाशी करूंक आमचें ‘स्निफर स्कॉड’ (पोलीस पेटे) येता!’’ ताणें जाप दिली.

स्निफर स्कॉड आयलें. सांखळ्यां थावन सुटयिल्लेच तीन-चार जर्मन शॅपर्ड कुत्रे कंपार्टमँटां पंदल्यान धांव मारी लागले. टॉयलॅटांचे घाणी शिवाय हेर कसलेंच तांच्या नाकांक आदळोंक ना जाल्ल्यान ते पाटींच आयले आनी तांच्या तरबेतिदारां सरशीं बसले.

चाळीस आनी पांच मिनटां उपरांत आमी ट्रेनीर बसयेत म्हळ्ळो सुचाव आयलो. सय्यिद आनी ताचे पतिणेक भितर सरोंक कुमक केले उपरांत हांवयी भितर सरोन बसलों. म्हजें भें निवोंक नातल्लें पूण खतखतो रावल्लो.

सय्यिद परत्यान टॉयलॅटाक गेलो. हांवें ताचे पतिणेक पळेलें.

‘‘ताचे अस्वस्तेचो परिणाम’’ ती म्हणाली.

ताका कितें जाता म्हण विचारूंक हांवें तोंड काडलें पूण उतरां सुटलिंनात.

सय्यिद पाटीं येतेच उलवणें परत चालू जालें. ट्रिच्चुरांत जेवण जालें पूण तें म्हाका रुचलें ना.

आमी आनी ऍरनाकुलम मदलें अंतर उणें उणें जायीत येताना म्हजे थंय ‘शाभीत पावतलों’ म्हळ्ळो भरवंसो परत उस्कालो.

‘‘अलेप्पी उपरांतलें स्टेशन तुजें.’’ म्हणालो सय्यिद. ‘‘कांय वीस-पंचवीस मिनुटांची वाट.’’

तर साल्वासांवा थावन हांव फकत वीस-पंचवीस मिनुटां पयस आशिल्लों?

हांवें म्हजें कार्ड ताका दिलें.

"म्हजेलागीं कार्ड बी कांय ना." तो म्हणालो, म्हजें कार्ड घेवन. "म्हजो विळासयी तुका दिना!"

"कित्याक सय्यिदभाई?"

"कित्याक म्हळ्यार? हांवें आनी तुवें परत मेळचो अवकास मिलियांत एक परयांत ना!"

"तशें कित्याक?"

तो आपल्या पोटार हात घुंवडावन हांसलो.

तवळ ताची पतीण बगलेचे सिटीर सरपडोन नमाज करताली. तिच्या दोळ्यांनी दुकां आशिल्लीं.

ऍरनाकुलम स्टेशन येवंक धा-बारा मिनुटां आसताना, सबार वेळ पर्यांत दांबून दवरल्लें सवाल हांवें विचारलें. "टायम बॉम म्हजे भितर आसताना... ह्या तुज्या उतरांचो मतलब कसलो सय्यिद भाई?"

तो दिगंताक पळेलाग्लो. उपरांत नमाज करचे पतिणीक आनी उपरांत म्हाका.

"तुवें म्हाका 'भाई' म्हळांय तर आयक!" तो म्हणालो म्हजो हात धरून. "कॅन्सर म्हळ्ळो टायम बॉम म्हज्या पोटा भितर आसा! डॉक्टरांनी म्हाका तीन म्हयन्यांची आवधी दिल्या. ते पयलेंच हो बॉम फुटल्यारी फुटलो..." तो भारान स्वास सेवी लागलो. "आतां निमाणें प्रेतन जावन 'युनानी' चिकित्से खातीर आमी थिरुवनंतपुराक वेतांव. कुडींत जीव आसा परयांत प्रेतन करिजे, जियेजे!"

हांव भितरले भितर कोसळ्ळों.

कितलें अस्कत, कितलें दुर्बळें जावन आशिल्लें म्हजें चिंतप!

जिणेच्या घाण्याची कितलींशीं चक्रां म्हाका उतरोंक आशिल्लीं.

"ह्या म्हज्या बॉमाक लागोन हांव टॅररिस्टांच्या बॉमाक भियेना.. पूण तुमीय भियेवंचे न्हय म्हण हांव म्हणाना!"

"तर?"

ऍरनाकुलम येवंक थोडीच मिनुटां आशिल्लीं. म्हजो जिनोस पुरतो फुलल्लो. एरनाकुलमांत म्हजो आमीग म्हाका भेट्टलो. सम्मेळनांत हांव भाशण करतलों आनी सर्व ताळियो पेटटेले. व्हा... व्हा...

पूण सय्यिद उलवनच वेतालो.

“तुका तांक आसा, तूं खंयच्यांयी स्टेशनांत येवशी, टॅक्सी करून तुज्या ठिकाण्याविशीं. पूण ह्या ट्रेनार आशिल्ले हेर? तांकां भें ना, जिवाची आशा ना? खंडीत आसा. पूण परिगत तांच्या हातांनी ना!”

“पूण हो एक fatalistic view जालो, सय्यिद भाई!”

तो हांसलो.

“मरण, जिवितांत आसची निश्चिताय तिच्च एक!”

हांव परत कुस्कालों.

हांव ऍरनाकुलमांत देंवचों ना, सय्यिदा सांगातान वतोलों, ताच्या निमाण्या घडयांनी ताका धैर्य दितोलों... मार्तीरपणाचीं हीं पिशीं चिंतनां म्हजे मतींत घुसलीं. पूण हें सर्व सिनेमाच्या पडद्यार मात्र साद्य. म्हाका म्हजो स्वार्थ सोडीत?

ऍरनाकुलम स्टेशन येताना, उतरांविणें पूण दोळ्यांनी दुकां घेवन सय्यिदाचो हात हालोवन हांव देंवलों. ताचे दिश्टींत दिश्ट घालचें धैर्य म्हाका नाशिल्लें.

उपरांत...

ऍरनाकुलम स्टेशनांत म्हजी वाट राखच्या एब्राहमाक हांवें बॉमाची कथा विवरिली पूण सय्यिदाचो प्रस्ताप काडलो ना.

“ह्या परशुरामाचेर म्हयन्याक एक पुणी असली भेशटावणी आसता.” तो म्हणालो. “पूण येदोळ पर्यांत जाल्लें कांय ना!”

जावंयेत, परशुरामाचेर त्या दिसा बॉम नाशिल्लो. पूण दुसऱ्याच दिसा, दिसेंबर ६ तारकेर, चेन्नाय सॅक्टरांतल्या तीन गाडयांचेर बॉम फुटले. सात निरपराधी प्रयाणीक मेले, यथेश्ट घायेले.

सम्मेलन जावन पाटीं येतानांयी म्हज्या कंपार्टमँटांत पोलीस भद्रती आशिल्ली आनी म्हज्या काळजांत तेंच भें.

सय्यिदान ताचीं पावलां म्हजे जिणेंत छापल्लीं पूण ताका हांवें म्हजी अस्कतकाय आनी पोळ्कुरपणा शिवाय हेर कांय दिवंक नाशिल्लें.



**(हें एक निज घडीत)**



एडवीन जे. एफ. डिसोजा हांचो जल्म मंगळुरच्या वालेन्सियांत १९४८ सालांतल्या जून म्हयन्यांत जालो. ताणीं सुर्वेक इंग्लिशींत बरोवपाक आरंब केलो. १९६४ सालांत ताणीं 'वेळ उतरलोलो' ही मोटवी कथा बरयली जी 'पयणारी' ह्या सातोळ्यांत उजवाडाक आयली.

त्या उप्रांत ताणीं सातत्यान कोंकणी बरोवप चालू दवरलें. आतां मेरेन तांणी ३३ कोंकणी कादंबरी, शंबरां वयर मोटव्यो कथा, अंकणां, विडंबणां अशें साहित्य रचलां. कोंकणी फिल्म 'भोगसणें' हाचे थोडेभोव संवादूय ताणीं बरयल्यात.

तांकां साहित्याचे साबार पुरस्कार फावो जाल्यात. चेन्नायच्या BAPASI (Booker sellers' & Publishers Association of South India) हाणीं कोंकणी साहित्यांतल्या योगदाना पासत जिणेंगौरवान सन्मानीत केल्यात. तांची मोटवी कथा 'एक कोप हुनोनि कोफि'चो इंग्लीश अणकार श्री. खुशवंत सिंग हाणीं वेंचून Our Favorite Indian Short Stories संग्रहांत घेतल्या. कर्नाटकाचे आदले घरमंत्री श्री. एम्. पी. प्रकाश हाणीं तेच कथेचो कन्नड अणकार करून आपल्या संग्रहांत घेतला. तांच्यो कथा कन्नड, तमिळ आनी हिंदीत अणकारीत जाल्यात. इंग्लीशींतूय तांच्या नेमान मोटव्यो कथा आनी अंकणां उजवाडाक येतात. तांचे 'चॉक्लेटां' हे कथेचो ताणींच केल्लो इंग्लीश अणकार 'रीडर्स डायजेस्ट' च्या खाशेल्या अंकांत उजवाडाक आयला.

ते केंद्रीय साहित्य अकादमीच्या जनरल कौन्सिलाचे (२००८-२०१२)चे वांगडी, तशेंच २०१२ मेरेन केंद्र सरकाराच्या संस्कृती मंत्रालया वतीन दिवपी वर्सुकी Awards of Fellowship भेटवण समितीचे वांगडी आशिल्ले. सद्या सांत लुविस कॉलेजीच्या कोंकणी सस्थेचे ते कार्यकारी निर्देशक आसात.

कुवेतांत १६ वर्सां नोकरी करतना घेतिल्ल्या अणभवांचो ताणीं आपल्या साहित्यांत वापर केल्लो दिसून येता.

बिम्ब
प्रकाशन